**KAL'LACYA OGANT**
(Novelette in Konkani by Gurudas Gopal Pai)



पयली खेप : 2018

अक्षर जुळोवणी
आनी मुखचित्र : गुरुदास गोपाळ पै

उजराडावपी : गुरुदास गोपाळ पै
4, एफ-2, कामत इस्टेट, टोंक, करंजळें,
पणजी, गोंय. 403 002
टेल : (0832) 2463660 / 2463570
ई-मेल : gurudaspaigoa@yahoo.com

छापपी : सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम
खोर्ली, तिसवाडी, गोवा
टेल : (0832) 2285901

मोल : 220/-

‘कादंबरीकारान तीन पथां पाळूंक जाय. दुर्भाग्यान, कसलीं पथां तें कोणाक खबर ना.’ प्रसिध्द कादंबरीकार सॉमरसॅट मॉम हागेलीं हीं उतरां.

पथां कोणांक खबर ना म्हणलें?

प्रज्ञावंत कवी पद्मश्री डॉक्टर र. वि पंडित हाणीं म्हणलां, आपणे ‘आयलें तशें गायलें.’

सवाय-दोनशें वर्सां पयलीं, आबे फारीयाल्या बापायन पुताक उपदेसलो, ‘कातोर रे भाजी.’

हांव येयता तोहें गायतां; कातोर रे भाजी कोत्तां; वाचतेल्यांक हिसपा धोन्ना.

हें पुस्तक वाचतकच, कोणाक ‘वाज’ येत, दुसऱ्याक तें ‘साज’ दिसत, तिसरो ताका ‘गाज’ म्हणत.

सगल्यांक संतुष्ट करूंक तेत्तीस कोटींक आयलें ना, तें म्हाका कशें येतलें?

ही कादंबरी न्हय. कादंबरिका लेगीत न्हय. ही एक सादी सरळ काणी. शेचाळीस वर्सां, साडेणव म्हयने आनी कांय दिसांच्या कालांत घडिल्ली काणी. सुरवेक सावन निमणे मेरेन सांगिल्ली काणी. एकल्यान सांगूंक सुरू करून, दुसऱ्यान सोंपयल्ली काणी. काणी सोंपली तरीय काणी उरताच. हीय काणी सोंपतकीर काणी उरतली.सोंपिल्ली काणी फुडें कशी वतली, तें वाचप्यांल्या कल्पना विस्ताराचेर निर्भर.

हें पुस्तक बरे भशेन छापून हाडूंक म्हगेलो इष्ट सुरेशबाब काकोडकार हाणें जायती कसालत काडल्या.

पणजी,<br>
17 जून 2018<br>
सानवीलो वाड दीस.

# I

आज पांच सप्टेंबर. हो दीस आमी राष्ट्रीय पावंड्यार 'शिक्षक दिन' म्हण मनयतात. शिक्षक दिनाचो मुखेल दबाजो दिल्लीक जाता. तेदूस, देसांतल्या साबार राज्यांतल्यान वेंचून काडिल्ल्या प्राथमीक/माध्यमीक शाळांतल्या गुणी शिक्षकांक भौमानान दिल्लीक आपोवन व्हरतात आनी राष्ट्पतींल्या हातान तांकां पुरस्कार भेटयतात. हो सुवाळो दिल्लीच्या भव्य आनी प्रतिष्ठीत विज्ञान भवन संमेलन केंद्रांत जाता.

त्याच विज्ञान भवनाच्या सभागृहांत हांव बसलां. मात रावून हांगा पुरस्कार वितरणाचो सुवाळो सुरू जावचेलो आसा. सभागृहांतल्या उजवे वटेंतल्या आसनांचेर सगळे उत्सवमुर्ती शिक्षक बशिल्ले आसात. तांचे मदीं हांव बसलां. जाल्यार, हांव उत्सवमुर्ती न्हय. म्हाका पुरस्कार मेळूंक ना. व्यवसायान हांवूय शिक्षक. आठ वर्सां फाटीं रिटायर जालां.

आमचे शाळेंतलो एक शिक्षक, एका काळार म्हगेलो शिष्य, उपरांत सहकारी आनी आतां दोस्त, सदाशिव काणेकार उर्फ सोदू-सर, उर्फ सोदू, ताका पुरस्कार फावो जाला. ताका वांगड दिवंक हांव आयलां.

हालीं काळाक सोदूली तब्येत बरी नासता. रक्तदाब उणो उरता. इतले पयस दिल्लीक वचूंक तो फाटींफुडें जातालो. जिणेंतली एक चांग संद ताणें वगडावची न्हय अशें म्हाका दिसतालें.

हांवें ही गजाल हेडमास्टराल्या कानार घाली. हेडमास्टरान आयोजकांक फोन केलो आनी अडचण सांगली. 'कांय नज.' ताणीं मोव उतरांनी सांगलें. 'ताज्यान वांगडा धिराक कसो आनीक एकल्याक हाडूं येता. त्याय मनशाली रावचेली-जेवचेली सोय जातली. आमकां सगळे शिक्षक आयिल्ले जाय. तुमीं ताका धाडातूच.' सोदूली एक अड मेकळी जाली.

'वतना वांगडा कोणाक व्हरप', ही सोदूली दुसरी अड.

'ही रे कसली अड? घोवालो येदो मान-सन्मान जाता थंय अर्धांगिनी नाका? तूं शांताक घेवन वच.' हांवें सांगलें.

'हांवेंय तिका यो म्हणिल्लें. म्हजे भशेन तिणेंय दिल्ली पळोवंक ना. म्हणलें, एक ट्रीप मारून येवंया. म्हाकाय आदार-सांगात जातलो. पूण, ती तयार ना. ती म्हणटा, आपणालीं धोंपरां सारकीं नात. इतले पयशिल्लो धकाधकी प्रवास. तुमकां आदार जावचे जाग्यार, हांवूच तुमकां नाचयन.' सोदून सुस्कारत सांगलें आनी म्हणलें, 'भाई-सर, तुमी येयात न्हय म्हजे वांगडा. आमी विमानान या. हांव विमानांत केन्नाच बसूंक ना. तिकेटी हांव काडटां. तुमी आसतकीर म्हाका धीर. सर, प्लीज, तुमी येयात.'

'सोदू, प्लीज बीज करून म्हाका अनहीत करूं नाका आं.' हांवें म्हणलें. 'हांवें तुका सात वर्सां शिकयला. आपल्या शिष्यालो भोवमान जाता तें पळोवंक मेळप ही गुरुंक व्हडा भाग्याची गजाल आसता. हांव अवश्य येतां. विमानानूच या. हांव केन्ना विमानांत बसूंक ना आनी हांवें दिल्लीय पळोवंक ना. जाल्यार, म्हगेलो खर्च हांव करतलों. म्हजेर खर्च करूंक सोदता त्या दुडवांनी तूं शांताक एक बरीशी प्रॅझेंट हाड. घरकाराल्या खंयंच्याय यशांत घरकान्नीलें योगदान अर्द्या वयर आसता. शांताक गडगंज पागण पडुंकूच जाय.'

'हांव तुमगेल्या उतरा भायर ना, भाई-सर.' सोदून आनंदी मुद्रेन म्हणलें.

***

कार्यक्रम सुरु जावंक अर्दवर आसलें. सभागृहांतल्या दावे वटेंतल्या आसनांचेर बसचेले आमंत्रीत येवंक लागिल्ले. चडशे जोडयांनी येताले. दादले सूट जावं जोधपुरींत, आनी बायलो विविध रंगी जरी-रसमी साडयो आनी भांगरां-वज्रांनी शृंगारून आसल्यो.

आयच्या कार्यक्रमाची सुची आशिल्ली स्मरणिका वांटूंक सुरू जालें. दाट्ट कव्हर, चार रंगी चित्र, आनी भितर गुळ्गुळीत पानां आशिल्ली एक संग्राह्य

पुस्तिका. कव्हर पानाचे भितल्ले वटेन, कार्यक्रमांची सुची आनी भितरल्या पयल्या पानाचेर माचयेर बसतल्या मानेस्तांलीं नांवां आनी वळख दिल्ली.

राष्ट्रपती ह्या दबाज्याचे यजमान आसले. श्रीमती डॉक्टर ए. व्ही. प्रभा नांवांची एक बायलमनीस मुखेल सोयरी आसली. डॉक्टर प्रभा हिका हांव आयकून जाणां आसलों. ती शिक्षण क्षेत्रांतली नामनेची व्यक्ती आसली. विकसनशील देसांनी उण्या खर्चा भितर शिक्षणाचें आधुनिकरण कशे रितीन करूं येत ह्या संबंदान, हांवे तिगेले जायते लेख वाचिल्ले.

स्मरणिकेंत दिल्ल्या परिचया प्रमाण श्रीमती प्रभा कोंप्युटर सॉफ़्टवेर करतले ‘कॉस्मोस–लींक’ हे कंपनीची चेअरपर्सन आसली. परिचयांतल्यो धा–पंदरा वळी तिगेल्या शिक्षणीक आनी संवसारांतल्या साबार संस्थांनी तिका दिल्ल्या ऑननरी डिग्र्यांनी भरिल्ल्यो. शिक्षणा मळार तिगेलें आनी तिगेले कंपनीचें व्हड योगदान आसलें. तिगेलो परिचय वाचतकीर म्हाका ते बायलेची तोखणाय दिसली. तिगेलें उलोवप आयकूंक हांव उत्सुक जालों.

कार्यक्रम सुरू जावंक पांच मिनटां उरल्यांत म्हणल्यार, मानेस्तांक हाडून माचयेर बसयले. म्हगेले दोळे अधीरतायेन श्रीमती प्रभाक सोदताले. राष्ट्रपतींल्या उजव्या हाताक ती बशिल्ली. जाल्यार, मेजार दवरिल्ल्या भारदस्त फुलां–तुऱ्याक लागून म्हाका तिगेलें तोंड सारकें दीस नासलें.

कार्यक्रम वेळार सुरु जालो. मानव संसाधन विकास मंत्रालयाच्या सचिवान सगळ्यांलें स्वागत केलें आनी रोखडोच सत्काराक आरंब जालो. तो देड वर चल्लो. ते उपरांत मनीसबळ संसाधन विकास मंत्री उलयलो. ताणें आपणालो आत्मप्रौढी उपदेस गरजे भायर लांबयलो. तातूंत शिक्षण जावं शिक्षकांलो उल्लेख वखता पुरतोच आसलो.

ते उपरांत मुखेल सोयरी श्रीमती प्रभा भाषण करूंक उबी रावली. आतां म्हाका तिगेलो चेरो सारको दिसलो. तिगेल्या प्रसन्न मुखमळार नदर पडना फुडें, हे बायल मनशेक हांवें पयलीं खंय तरी पळेल्या अशी म्हगेली खर भावना जाली.

म्हगेल्या काळजा-मनान म्हाका म्हणलें, 'हिका सामकी सुर्यप्रभाली सया मारता, न्हय?' हांव त्याच विचारांत घुसपून पडलों. श्रीमती प्रभा उलयताली तांतलें एक उतर लेगीत म्हगेल्या कपलांत वचना जालें.

दोनेक मिणटां उलयले उपरांत, तिणें शिक्षकां वशीं नमळतायेन पळेत, आपणाले दोनूय हात हरद्याकडेन व्हरून जोडले आनी तकली बागोवन, कांय खीण ती तेच धजेंत उबी रावली. मागीर सगळ्याक नदर भोंवडावन सामकार बशिल्ल्या श्रोता जनांक तिणें धांवतो नमस्कार केलो. ते बराबर, चोंय वशींतल्यान ताळयांचो घडघड सुरू जालो आनी तो चालूच उरलो.

प्लीज, आतां थारयात अशें सुचोवंक आपणालो उजवो हात वयर काडून ती ओग्गी रावली आनी सगले शांत जातकीर, आपणाली तकली हय-न्हयशी वयर सकल हालयत आनी तोंडार स्मित-म्होंवें हास्य हाडून, तिणें आपणालें फुडलें उलोवप चालू केलें.

तकली हय-न्हयशी वयर सकल हालोवन गोड स्मित-हास्य करचेली श्रीमती प्रभागेली रीत-आदत पळेल्ल्या खिणाक म्हगेल्या काळजा विणेच्यो सातूय तारो एक सटयां झंझरल्यो. तागेलें कंपन म्हगेले ताळवे थावन पांयां बोटां मेरेनच्या सगळ्या गात्रांनी शिंवरलें. म्हगेलें काळजा-मन किंवाटून आड्डलें, 'हें सुर्यप्रभाच, दुसरें तिसरें कोण न्हय. लग्ना उपरांत नांव बदलून, ए. व्ही. प्रभा जालां आसतलें.'

सुर्यप्रभा विष्णू आचार्य, म्हजे वांगडा कॉलेजांत शिकतली एक चली. हांसत्या तोंडाची, तरतरीत आनी अभ्यासांत पट हुशार. त्या सुर्यप्रभाल्या आनी हे श्रीमती प्रभाल्या रुपा-दिसपांत, हावभावांनी जायतीच समानताय आसली. देखूनूच, म्हगेलें काळजा-मन आनी गात्रां उचंबळिल्लीं.

म्हगेलें बुद्धी-मन पूण इल्लें चिकित्सक प्रकृतीचें. तें सहमत जालें ना. तागेलें म्हणणें, तर्कशास्त्रा बगर काडिल्ले निष्कर्श तात्पर्य-निष्फळ आसतात. तागेलो युक्तीवाद सरळ-स्पष्ट आसलो.

सुर्यप्रभालो धाकलो भाव प्रकाश होय आमच्या कॉलेजांत शिकतालो.

आमी निमाण्या वर्साक आसतना, तो पयल्या वर्साक आसलो. हॉस्टेलांत रावतालो. थंय म्हजी ताजी इष्टागत जाली. प्रकाश आचार्य अमेरिकेक सॅटल जाला. अजूनय, स म्हयन्यांनी जावं वर्सान, प्रकाशाले म्हाका फोन येतात. आमी एकमकाली आस्थेन खबर घेतांत.

देखून, म्हगेलें बुद्धी-मन विचारतालें, 'श्रीमती प्रभा ही जर सुर्यप्रभा, जाल्यार आपणाले भयणील्या इतल्या सगल्या कर्तुब-उपलब्धीं विशीं प्रकाशान तुजेकडेन एक उतर लेगीत केन्नाच किद्याक काडलें ना?'

मुद्दो सामको खरो आसलो. ह्या मुद्याक आनीकूय एक तास आसलें. प्रकाशाले फोन येताले तेन्ना, हांव विसर नासतना ताका विचारतालों, 'सुर्यप्रभा बरें आसा मरे?' आनी जाप मेळताली, 'बरें आसा'. हाजो अर्थ, श्रीमती प्रभा ही एक वेगळीच विदुषी, ती सुर्यप्रभा न्हय. हांव मनाच्या 'नरो वा कुंजरो वा' चक्रव्युहांत घुसपून उरलों. कार्यक्रम सोंपून राष्ट्रगीत सुरू जालें, तेन्ना भानार आयलों.

कार्यक्रम सोपोवन हॉटेलांत पावता सर रातचीं साडे-धा जालीं. हांवें सोदूक ताणें न्हिदतना घेवचेल्यो वखता गुळयो दिल्यो. त्यो घेवन ताणें हांतुणार घालून घेतलें आनी दोन मिणटां भितर घोरेवंक लागलो.

मागीर हांवूय आड पडलों. पूण न्हीद लागना जाली. तकलेंत श्रीमती प्रभालेच विचार घुंवताले. श्रीमती प्रभाले कंपनीचें नांव म्हाका गत जाल्लें. कंपनीक फोन करचो आनी श्रीमती प्रभाली म्हायती मेळोवची अशें हांवें थारायलें. तेन्ना मन शांत जालें.

मनांत मागीर घरा परतुचेले विचार सुरू जाले. आमगेलें विमान दुसऱ्या दिसा दनपारच्या दोनांक सुटचेलें आसलें. 'साडे इकरांक तयार रावात' अशें आमकां सांगिल्लें. पूण कलकलत्या काळजान हॉटेलांत बसचे परस, थंड तकलेन विमानतळार बशिल्लें बरें लेकून, आमी विनंती केली, 'आमकां बेगीन सार विमानतळार पावयात.' 'तशें जाल्यार साडे-धांक तयार रावात.' ताणी सांगलें.

न्हीद केन्ना लागली तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

* * *

म्हाका फांतोडेर जाग आयली. तेय पयलीं उठून, सोदून कँटिनाक च्याची ओर्डर दिल्ली. च्या मारतना, हांवें ताका प्रभा-सुर्यप्रभा गोंदळाची खबर सांगली. कंपनीक फोन करचेलो विचार सांगलो.

'भाईसर, गुगल करात न्हय. खोंटलो भर म्हायती मेळतली. गेस्टां खातीर हॉटेलाच्या लॉबींत कोंप्यूटर दवरला, पळेयात.' सोदून सुचयलें.

आमी सामान पॅक केलें, कॅन्टीनात वचून पोट घट केलें आनी साडे णव जातनाच, सामाना सयत हॉटेला लुंज्यांत वचून बसले. गुगलाक चाळो मारतकीर डॉक्टर ए. व्ही प्रभा विशींच्या म्हायतीन खेंचून भरिल्लो आठ पानी रायट-अप उफेलो.

श्रीमती प्रभालें हायस्कुली शिकप महाराष्ट्रांत जळगांव आनी कॉलेज शिक्षण मुंबयंत जाल्लें. सुर्यप्रभा विष्णु आचार्य ह्याय नांवान तिका वळखतात अशेंय तातूंत बरयल्लें. तिगेल्या कोस्मोस-लींक कंपनीचें हेड-ऑफिस दिल्लीक आसलें. कंपनीचे संवसार भर एकशें सात देसांनी फांटे आसले. बारा हजारां वयर इंजिनियर्सांचो व्हर्क-फोर्स आसलो.

म्हगेल्या काळजा-मनालें म्हणणें खरें जाल्लें.

हांवें तें सोदूक दाखयलें. तें वाचतकीर ताणें सुचयलें, 'भाईसर, कंपनीक फोन करून, तुमगेलें नांव सांगात आनी डॉक्टर श्रीमती ए. व्ही प्रभा लागीं उलोवंक जाय म्हणात.'

कंपनीच्या ऑफिसाचे पंदरा वीस फोन नंबर दिल्ले. तांतलो एक हांवें मोबायलार टिकटिकायलो.

'गुड मोर्निंग सर, कोस्मोस-लींक हीअर, हाव्ह कॅन आय हॅल्प यू, सर.' एक बायलमनीस आदरताये आवाजांत, मोव मंजूळ उतरांनी उलयताली.

तिगेलें गूड मोर्निंग फेडून, हांवें तिका म्हगेलें आनी सोदूलें नांव,

गांव, दिल्लीक येवचेलें प्रयोजन, केन्ना आयले, केन्ना वतले बी सगलें एकाच धपक्यान सांगून म्हणलें, 'म्हाका डॉक्टर प्रभालागीं उलोवंक जाय.'

'आमगेली चेअरपर्सन मॅडम, सर?' तिणें खात्री करूंक कशें म्हणलें आनी हांवे हय म्हणतकीर विचारलें, 'सर, तुमी अपॉयंटमेंट घेतला?'

'ना.' हांवे सांगले. 'अपॉयंटमेंट घेवंक ना. तिका मेळचें अशें आतांच मनांत आयलें.'

'सॉरी सर', तिणें खेदी स्वरांत म्हणलें, 'आज तांकां मातूय वेळ ना. आज त्यो कोणाकूच मेळचेल्यो नात.'

हांवें सहज स्वरांत म्हणलें, 'कांय नज. म्हगेलें एक काम करता?'

'सांगात सर, करूंक जाता जाल्यार खोश्शेन करतां.' तिणें म्हणलें.

'बाय़, हांव किदें सांगता तें सारकें आयक. तुमगेली चेअरपर्सन मॅडम आसा न्हय, ती आनी हांव व्हेऽरी ओल्ड फ्रेन्ड्स. पन्नास वर्सां फुडें आमी कॉलेज्यांत क्लासमेट्स आसलीं. कळ्ळें? आतां काम सांगतां. संद मेळ्ळयार, ''म्हगेलो फोन आयिल्लो, हांव मेळूंक सोदी, तूं बिझी आसलें, देखून भेट जावंक पावली ना,'' हो म्हगेलो निरोप तुगेले चेअरपर्सन मॅडमीक पावय. करतलें तूं म्हगेलें काम?' हांवें विचारलें.

तिगेल्या आवाजा चर्या सामकीच बदल्ली. तिणें ल्हव-मोव ताळ्यान म्हणलें, 'सर, आमगेली मॅडम आज खऱ्यानीच खूब बिझी आसा. तिका डिस्टर्ब करूंक फावना अशी म्हाका सक्त इंस्ट्रक्शन्स आसात. तरीय सर, तुमचे मदले लागचे संबंद पळोवन, इल्ली रीस्क घेवन, हांव पी. ए. सरांक फोन करतां. हरशीं तेय बी आज खुब्ब बिझी आसात. मातसो वेळ लागूं येता सर. फोन चालू दवरात. बंद करूं नाकात. एक मिनीट, सर.'

क्लिट्ट आवाज जालो आनी फोनाचेर 'सारे जहां से अच्छा' धून चालू जाली. दोन लांब मिनटांनी परतेंय क्लिट्ट जालें, संगीत बंद जालें, आनी एक धारेस्ट, उत्तेजीत आवाज म्हगेल्या कानार पडलो.

'कोण दत्ताराम?' सुर्यप्रभा फोनार आयिल्लें.

'यॅस, व्हॅरी मच.' हांवें म्हणलें.

'ओह! दत्ताराम, सो हॅपी टू रिसीव युअर कॉल. सो व्हॅरी हॅपी इंडीड. आफ्टर सच ए लॉन्ग, लॉन्ग टायम. दत्ताराम, तूं कसो आसा? आय टॅल यू, आय एम सोऽ एक्सायटेड!' आनी, हांवें जाप दिवचे पयलींच फुडें म्हणलें, 'व्हॅरी ओल्ड फ्रेन्ड म्हणलें, पूण दिल्लीक पावना फुडें म्हाका फोन केलो ना! सामको घरा परतुंचे वेळार फोन करूंक रावलो! दत्ताराम, तुगेल्या मनाक हें पुटवलें मरे?'

सुर्यप्रभा शिणा-मुडांत गेल्लें. ताका खंय खबर म्हगेली काणी किदें ती. ताका थंड करपाक हांवें म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, खऱ्यानीच व्हडली चूक जाली. दिल्ली पावतनाच तुका फोन करूंक जाय आसलो. आय एम सॉरी. व्हॅरी व्हॅरी सॉरी. अभी माफ भी करो ना, यार!'

ते बराबर, तागेलो शीण विरून-उबून गेलो. ताणें खो करून हांसो मारलो आनी मागीर गंभीर जावन म्हणलें, 'तूं जाणा, दत्ताराम? तूं दोनाच्या प्लेनार गोंयां वता, आनी हांव ते आदीं, साडे-बारांच्या फ़्लायटार अमेरिकेक वतां. न्युयॉर्काक राष्ट्रसंघांत ''अविकसित राष्ट्रांल्यो शिक्षण क्षेत्रांतल्यो गरजो'' ह्या विषयाचेर एक परिसंवाद आयोजला. म्हाका चीफ रिसोर्स पर्सन म्हूण आपयलां. हांव वतां त्याच प्लेनार भारत सरकारालें चार मेंबरी डेलेगेशनूय वता. खरें म्हणल्यार आज हांव ऑफिसाक येवचेलेंच नासलें. पूण तुंबून उरिल्लीं बारीक सारीक कामां उलगावंया म्हूण आयलें. पांचांक आयिल्लें.

'दत्ताराम, वचचे पयलीं कशेंय करून तुका मेळूंकूच जाय. इतल्या वर्सांनी योग आयला. तो वगडावंक जायना. तुका प्रत्यक्ष पळोवंक जाय. आदले मुस्तींतल्यो यादी अपडेट करूंक जाय. देखून, साडे-बारांचे फ़्लायट बदलून, मातशें उसरां सुटचेलें फ़्लायट बूक करूंक, हांवें पी.ए.क सांगलां. पांच मिनटांनी कळटलें. आतां हांव फोन म्हगेल्या पी.ए. लागीं दितां. तो तुका एरोपोर्टार मेळचे विशींच्यो बारीकसाणी दितलो. फोन चालू दवर आं. बाय फोर नाव, दत्ताराम. एरोपोर्टार मेळुंया. थीस वॉज रीअली ए व्हॅरी प्लॅजंट सरप्रायज!'

फोनाचो क्लीट्ट आवाज आयकूंक आयलो. हीं क्लीट-क्लिटां आतां म्हाका संवकळीचीं जाल्लीं.

'गुड-मोर्निंग सर, माय नेम ईज किटू व्हर्गीज, आय ॲम पी.ए. टू चेअरपर्सन मॅडम, सर.'

तागेल्या गूड मोर्निंगाचें पर्तवण करतकीर, कीटू व्हर्गीजान म्हजे मुखार प्रस्नांची एक गांथनूच दवरली. ती गांथन 'सर' उतराच्या सरान गुंथिल्ली.

'सर, तुमी आतां उलयतात तो तुमगेलो पर्सनल सेलफोन? सर, तुमी एअर इंडियाच्या दोन वरांचेर सुट्टल्या विमानान गोयां वतात न्हय? सर, तुमी सामान बी पॅक करून भायर सरपाक रेडी आसात? सर, तुमी तिकेट आनी वळखपत्र रेडी दवरलां?

तागेली प्रस्नां गांथन, हय, हय उतरांनी उजरायतकीर, ताणें विचारलें, "सर, तुमी रावतात त्या हॉटेलाचें नांव किदें?' नांव सांगतकीर ताणें म्हणलें, "व्हॅरी गूड, सर. तें हॉटेल आमच्या ऑफिसा कडल्यान सामकें लागीं, चलून पांच मिनटांचे वाटेर आसा.

'सर, तुमी हॉटेलाच्या लुंज्यांत बसून रावात. धा मिनटां भितर तुमकां एरोपोर्टार व्हरूंक आमगेली गाडी थंय पावतली. काळ्या रंगा गाडी, सर. वांगडा आमचो पी.आर.ओ. अजितसिंग येतलो. तो तुमगेली सगली व्यवस्था करतलो. पावणे इकरांच्या अदमासाक मॅडम थंय पावतल्यो. वांगडा हांवूय आसतलों, सर.

'आनीक एक चत्राय, सर. आमगेले मॅडमीन आपणालो न्युयॉर्क वचचेलो फ्लायट प्लॅन बदलूंक सांगला. मातशें उसरां सुटचेलें फ़्लायट बूक करूंक लायलां. फ़्लायट कन्फर्मेशन येतकीर तुमकां कळयतां. सर, हांवें सांगलें ताजेर कसलीय फोडणिशी जाय?'

'नाका, मिस्टर किटू वर्गीज.' हांवें म्हणलें. 'तुवें सगळें सारकें सांगलां. थँक्यू व्हॅरी मच.'

'माय प्लॅजर सर, फोन बंद करतां सर, गुड डे सर.' करीत ताणें फोन बंद केलो.

फोनार जाल्ल्या उलोवण्यांचो आपरोस सोदूक सांगून जाता, इतल्यान एक लांब-रूंद काळी-किट्ट गाडी येवन हॉटेला सामकार उबी रावली. तातूंतल्यान एक स फूट लांबायेचो, मध्यम आंगलोटाचो, तांबूस गोरपाणीचो आनी हरयाणवी धजेचो तरणाटो देंवलो आनी बद्द आमचे सरेन आयलो. कंबराक आदरा बाग दिवन ताणें म्हणलें, 'गूड मॉर्निंग सर. म्हगेलें नांव अजितसिंग. तुमकां विमानतळार व्हरूंक म्हाका धाडला. वचुंया, सर?'

दोन मिनटां भितर आमगेली गाडी एरोपोर्टा मार्गाक लागली.

अर्दे वाटेर, किटू व्हर्गीझालो फोन आयलो. 'मॅडमीलें रिवायज्ड फ़्लायट कन्फर्मेशन आयलां. देड वराच्या फ़्लायटार मुंबय वचून, थंयच्यान न्युयॉर्क विमान धरचेलो प्लॅन आसा. मॅडम साडे-इकरा वरांचेर एरोपोर्टार पावतल्यो.' मागीर अजितसिंगालो सेलफोन वाजलो. नव्या फ़्लायट प्लॅनाच्यो डिटेल्स ताकाय मेळिल्ल्यो.

कितलें गतिशील आनी क्लिट-क्लिटांचें सुर्यप्रभालें जीवन. म्हगेल्या मनांत हो विचार घोळूंक लागलो.

विमानतळार पावतकीर अजितसिंगान संवकळीचे फटाफटीन आमगेलें सामान भितर व्हरून चॅक-इन केलें आनी आमगेले बोर्डिंग आनी लगेज पास आमचे सुवादीन करून म्हणलें, 'सर, ही गेट नंबर पांच. तुमगेलें विमान हांगासून सुट्टलें. फुडली गेट नंबर स. मॅडमीलें मुंबय वचचेलें विमान थंयच्यान सुट्टलें. मॅडम ते गेटी सरेन येतल्यो. तुमकां थंयच्या व्हीआयपी कक्षांत बसोवंक सांगलां. सर, आमी थंय वचुंया?'

'चल या. त्या निमतान विमानतळूय पळोवंक मेळतलो.' हांवें म्हणलें.

गेट स सरेन पावतकीर अजितसिंगान आमकां थंयच्या व्हीआयपी कक्षांत बसयले आनी आपूण मात फुडें वचून, आमकां फुडो करून बसलो.

हांव आनी सोदू आमगेले दिल्ली भेटीचो नियाळ करीत बसले.

* * *

साडे-इकरा जायत आयिल्लीं. अजितसिंगालो सेलफोन किणकिणलो. ताणें फोन कानाक लायलो आनी तो खिणा भितर बंद करून, फोन कमरा पट्याक खोयत, तो ताकतिके पावलांनी हॉलाच्या दारावटेन वचूंक लागलो. वतना ताणें बोटां कुरवांनी, 'मॅडम पावली, तुमीं थंयंच बसून रावात' अशें आमकां सुचीत केलें.

सुर्याप्रभाक मेळचेलो खीण लागीं येवंक लागलो, तशी म्हगेल्या काळजा थोक्यांची लय वाडूंक लागली. नदर हॉलांत भितर सरचेल्या दारार थिरावली. जाल्यार, सोदू निर्विकार चर्येन हेवटेन, तेवटेन पळेत बशिल्लो.

दोन-तीन मिनटांनी सुर्यप्रभा भितर सरलें. तें तरतरीत चालीन, लांब सडसडीत पावलां उडयत चलतालें. तागेल्या खांद्याक व्हडली, जड-भारी, लांब पटो आशिल्ली, काळ्या रंगाची लेडीज पर्स आसली. ताजे फाटोफाट, तेच चालीन, दोनूय हातांनी दोन लॅपटॉप घेवन एक शिरशिरीत जायेसाचो, लापीट तोंडावळ्याचो, भुरगेसार कायेचो, काळ-सांवळो स्मार्टी चलतालो. तो किटू वर्गीज हें हांवें पारखिलें. ताजे फाटल्यान अजितसिंग दोनूय हातांनी दोन कॅबीन बॅगां गडगडायत येतालो.

भितर सरतकीर, हेवटेन तेवटेन पळेले बगर सुर्यप्रभा तडक आमचे सरेन आयलें. अजितसिंगान ताका हे विशीं किदेंय धागोदोरो दिल्लो आसूये. आपणालो दावो हात म्हगेल्या उजव्या बावळ्यार शाबासकी दिल्ले भशेन दोन-तिनदां मारून, म्हाका हय-न्हयसो लागीं ओडून, ताणें प्रफुल्लीत चर्येन म्हणलें. 'दत्ताराम, सो हॅपी टू सी यू. आय वॉज रिअली थ्रील्ड धीस मॉर्नींग टू गॅट यूअर कॉल आफ़्टर सच ए लॉन्ग, लॉन्ग टायम! कसो आसा तूं, दत्ताराम? पळोवंक तरी बरो दिसलो. आय ॲम सो हॅपी फॉर दॅट.'

ताका जाप दितलों म्हणल्यार म्हाका उतरांच फुटना जालीं. मात रावून सुर्यप्रभान विचारलें, 'दत्ताराम, ओगी कित्याक?'

'सांगतां.' हांवें भितल्लो नेट काडून म्हणलें. 'म्हाका जायतें उलोवंचेलें आसा. तुका वाज ये सर उलोवचेलें आसा. पूण, हे भुल्लूशित मनस्थितींत, म्हगेली वाचाच बंद जाल्या. सगलीं उतरां काळजांतूच बंदिस्त जावन पडल्यांत.

तूं उलयलें, सामकें तेंच उलोवचें अशें म्हगेल्या मनांत घोळटा. सुर्यप्रभा, हांव इतलेंच म्हणन, जितलींय वर्सां आमीं मेळूंक पावलीं नात, तितलींय वर्सां तुका मेळपा खातीर हांव वथरेत आसलों. कळ्ळें?'

'वा, वा, वा. शुद्ध शायरींत जाप दिली मरे. तूं कवी केन्नाच्यान जालो?' कुपात्तरी फातुल्लयां वयल्यान लागो मारीत व्हांवतल्या झरीच्या निवळ उदकावरी खळखळीत हांसो मारून सुर्यप्रभान म्हणलें.

'हो गूण तुजेलागीं आसा जाल्यार आमगेली दोस्ती आनिकूय घट जातली. म्हगेल्योय कविता आयकुचेली तयारी मात दवर आं. पळ काडूंक सोदूं नाका.' अशें म्हणत ताणें परतोय घसघश्या हांसो मारलो.

मागीर सोदू सरेन वचून ताणें म्हणलें, 'सर, हांव तुमकां काळजा थावन परबीं दितां, भारतियांक ह्या पुरस्काराचें म्हत्व अजूनय सारकें कळूंक ना, आमगेल्यो आवयो आनी आमगेले गुरुवर्य, हांकांच लागून भारत देसाची येदी प्रगती जांवक पावल्या आनी सगळ्या संवसारांत नामना जाल्या. देखून तुमगेले आभार मानतां, आनी परत एक फावट तुमगेलें अभिनंदन करतां.' मागीर म्हजे कडेन बोट दाखोवन ताणें म्हणलें, 'सर, आमी कॉलेजांत क्लासमेट्स आसलीं. शेचाळीस वर्सां उपरांत आज मेळटांत. तुमचे सामकार बसून खबरी-मस्कऱ्यो करूंक म्हगेल्या मनाक पुटवना. आमी मातशीं पयस बसूं?'

मागीर किटूक लागीं आपोवन, ताजी वळख करून दिवन ताणें म्हणलें, 'सर, हो तुमचे सरेन बसतलो.' अजितसिंगाक पळोवन ताणें सांगलें, 'अजितसिंग तूं हांगसून हालूं नाका,'

उपरांत, आपले मानेन 'यो' अशें म्हाका खुणावन सुर्यप्रभा वचूंक लागलें. हांव ताजे मागशीं चलूंक लागलों. तें खंय वता तें पारखून किटू व्हर्गीज धांवत आमचे मुखार गेलो आनी थंय आशिल्ल्या एका कॅबिनाचें दार उकतें करून दिलें. आमी भितर गेलीं.

तें कॅबीन न्हय, तो सात बाय धा मिटरांचो हॉल आसलो. एक लांब-रूंद मेज आनी कितलींच सोफा-कदेलां थंय मांडिल्लीं. विदेशी मानेस्त जावं मिनिस्टरांल्यो पत्रकार परिषदो बी थंय जाताल्यो. थंयच्या पांच फूट रुंदायेच्या

मेजार आमी आमने सामने बसलीं. बरोच वेळ, एकमकांलीं तोंडां थीर नदरेन पळेत मोन्यानी बसलीं.

आमगेले हे करणेची मजा दिसून आमी खो खो करून हांसलीं. बरोच वेळ पिशा सारकीं हांसलीं. दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवूंक लागसर.

सुरवेचो ओग उणो जातकीर, आमीं सांवरून बसलीं.

आमचे मदलें मौन हुमटून काडूंक हांवें म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, शेचाळीस वर्सांनी, सामके नाट्यमय रितीन मेळचेलो योग आयलो पळे!'

'शेचाळीस वर्सांनी?' हांवें भयंकर चूक केल्ले भशेन सुर्यप्रभान विचारलें, आनी मागीर आपणाल्या एका, एका उतराचेर जोर दीत सांगलें, 'शेचाळीस वर्सां आनी साडेणव म्हयने पूर्ण जाले, दत्ताराम.'

'तुवें म्हयन्यांचो लेगीत हिशेब दवरला?' हांवें हांसत विचारलें.

'ना.' ताणें सांगलें. 'हांवें दवरूंक ना. पूण, सोंपतलो एक, एक दीस म्हगेलें काळीज मेजीत आसता,'

'सुर्यप्रभा, म्हगेल्या मनांत एक विचार आयलो, ताजी शिटकावणी तुका पयलीं दिवं?' हांवें म्हणलें. सुर्यप्रभा प्रश्नांकीत मुद्रेन पळेत रावलें.

'सुर्यप्रभा, येदोळ तूं म्हजे सरेन आयलें आनी म्हगेली खबर घेतली, तेन्ना तुगेले चर्येर भाव उदेले, ताजे वयल्यान, तुजे-म्हजे भितर कसलेंय स्टिकी कनेक्शन आसा असो आमकां पळेतल्यांलो समज जाला आसूं येता, अशें म्हाका दिसता. व्हर्गीज आनी अजितसिंग आमगेल्या तोंडांर स्थीर नदर दवरून आसले.' हांवें म्हगेलो ओग घालो.

'हांव एके कंपनीचें चेअरपर्सन देखून तुवें म्हाका सादूर केलें, न्हय?' ताणें विचारलें. हांवें मोन्यानीच हय म्हणलें. 'कंपनींच्या चेअरपर्सनांक जावं पब्लीक पोस्टार आशिल्ल्या लोकांक तांगेलें प्रायवेट जीवन नासता, जावं आसूंक फावना अशें तुगेलें म्हण्णें? ऑफिसिअल ड्युटी आनी प्रायवेट लायफ ह्यो सामक्यो अलग, अलग बाबी. तांचे मदली मेर आमी हुपूंक जायना.

'ते भायर, समाजाच्या चाली-रितींच्यो शिमो आसतात. त्योय सांबाळूंक जाय. मुख्यताः आमीं आमगेलें चारित्र्य आनी शिलाची जतनाय घेवंक जाय. ती बुनयाद. थंय तडजोड जावंक फावना. आमी तांतल्या किद्याचोच भंग करूंक ना. देखून, तूं निश्चींत-निर्भीड मनान तुजें म्हजे लागचें नातें चलय.'

फुडले कांय खीण मोन्यानी गेले. आपणालो ताळो सदळ करूंक, इल्लें खांकरून ताणें म्हणलें, 'दत्ताराम, तुका एक पर्सनल सवाल करूं?' खूब वर्सां दिल्लीक रावता आशिल्यान सुर्यप्रभाल्या उलोवपांत हिंदी-उर्दू उतरांची सर-भरस जाताली.

'एक किद्याक बाये, हजार कर. हांव तुका कांयच लिपोवंक सोदिना.' हांवें सांगलें.

'दत्ताराम,' ताणें म्हणलें, 'तुवें लग्न किद्याक केलें ना?'

एक सादो-सोपो प्रस्न. पूण, सुर्यप्रभा आपणालें सवाल-जबाब सत्र ह्या प्रस्नान सुरु करीत अशें म्हाका दिसूंक नासलें.

'हें गॉस्सीप तुका कोणें सांगलें?' हांवें घाळपणान विचारलें.

'गॉस्सीप? हाका तुवें गॉस्सीप म्हणलें? जाल्यार आनीकूय गॉसीपां तुका सांगतां. कोणें सांगलें, कोणें सांगलें करूं नाका. ओग्गी रावून आयक.' शरारतीन थपथपिल्ल्या उतरांनी सुर्यप्रभान म्हणलें.

'धा वर्सां आदीं, गोंय सरकारान तुगेलें नांव राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कारा खातीर केंद्र सरकाराक धाडिल्लें. तितल्यान राज्य सरकार अल्पमतांत आयलें. ताका विरोधी पंगडांतल्या आमदारांचो तेंको घेवंचो पडलो. एका फुटीरामान शिक्षक पुरस्कार आपणाले चवतीस वर्सां पिरायेचे मेवणेक मेळूंक जाय असो हट धरिल्लयान ऐन वेळार गोंय सरकारान तुगेलें नांव फाटीं घेतलें, त्या फुटीरामाल्या मेवणेलें नांव धाडलें आनी पुरस्कार तिका मेळ्ळो.

'सरकाराले हे करणेचो अखिल गोंय शिक्षक संघटणेन खर निषेध केलो

आनी 'समाज भुषण' नांवाचो वर्सुकी पुरस्कार स्थापन करून, ताणीं पयल्या वर्साचो पुरस्कार तुका दिलो.

'फुडें आयक. कॉलेज शिक्षण सोपले उपरांत तूं गोंयां परतलो. पूण घरच्या बिझनेसांत लक्ष घालें ना. समाज कार्याची दिशा घेतली. ज्या स्कुलांतल्यान तुवें मॅट्रीक केल्ली त्या स्कुलाची उदरगत करचेलें काम तुवें आंगार घेतलें. थंय पार्ट टायम शिकोवंक लागलो. हळू, हळू करून तूं पुर्णतायेन तुगेल्या शाळेच्या कामाक वावरुंक लागलो.

'एक रुपया दान' अभियान चलोवन, फंड पुंजावन, तुवें एक सर्वंकष इंस्टीट्युशन उबारलें. बारावी मेरेन शिकोवंचेली, खूब वाखाण्णी जातली एक शाळा चलता. शाळेक अत्याधुनिक बिल्डींग आनी प्लेयिंग ग्रावंड्स आसात.

'रिटायर जायत सावन तूं घरांतूच फिझिक्स आनी गणिताचे मोफत कोचींग क्लास चलयता. असलीं हजार गॉसिपां जगाक खबर आसात. देखून, हें कोणें सांगलें, तें कोणें सांगलें करूं नाका. हें इंटरनॅट यूग, म्हायती यूग. पूण, तेय परस चड पातयेणो म्हगेलो ज्ञानस्रोत म्हणल्यार तुगेलो फास्ट फ्रेन्ड आनी म्हगेलो धाकलो भाव प्रकाश, हें तूं कशें विसरलो?'

'प्रकाश? ताणें तुका म्हगेलें सगळें वर्तमान पावयलें, जाल्यार, तुगेली इल्ली लेगीत खबर ताणें माका केन्नाच सांगली ना मगो!' हांवें म्हणलें. 'तूं जाणा? प्रकाशाले म्हाका मदीं मदीं फोन येतात. उलयल्ले खेप, हांव ताजे लागीं तुगेली खबर घेतां. जाल्यार, तें बरें आसा म्हणपा पेल्यान ताणें म्हाका आनी किदेंच केन्नाच सांगलें ना. तागेले हे करणेचें म्हाका खरेपणीं अजाप दिसता. हरशीं तो एकदम बरो भुरगो. हांव ताका विचारतलोंच.' हांवें म्हगेलो शीण उत्कायलो.

'तुवें म्हणलें तशें, तो खऱ्यांनीच बरो भुरगो. ताका मात दोष दिवं नाका. हातूंत तागेलो कांयच गुन्यांव ना. हांवेंच ताका तशें सांगिल्लें.' सुर्यपभान हांसत सांगलें.

'किदें? म्हाका कांयच सांगूं नाका अशें तुवें प्रकाशाक सांगलें?' भोवंयो अर्द कपल मेरेन चडोवन हांवें विचारलें.

'ना. कांयंच सांगू नाका म्हणलें ना. इतलेंच सांगलें, दत्ताराम विचारीत तितलेंच सांग. आपूण जावन चड सांगू नाका. वयले वयर विचारल्यार तितले पुरतेंच सांग आनी खोलायेन् विचारल्यार संपुर्ण सांग. पूण तुवें सदांच वयले वयर विचारलें. ते प्रमाण ताका जाप दिवची पडली.

'तुजे कडेन उलोवणें जाल्ले खेप, प्रकाश म्हाका आपरोस कळयतालो. म्हगेले काकुळतेक येतालो, ताई, प्लीज, भाईक सगलें सांगुंया. म्हाका मन खाता. भाई कडेन दगलबाजी केल्ले भशेन दिसता.

'हांव ताका सांगतालें, प्रकाश, तुका त्रास जाता तें हांव जाणां. पूण प्लीज, बेअर वीथ मी. हांव दतारामालेच इच्छे प्रमाण चलतां. म्हाका तागेलें मन दुखोवचेलें ना.'

'म्हगेले इच्छे प्रमाण? कसली इच्छा? हांवें कोणाक, केन्ना सांगली?' हांव म्हगेल्या मनाक विचारूंक लागिल्लों.

तितल्यान, सुर्यप्रभान आपणाल्या प्रस्नाचो पुनरुच्चार केलो. 'दत्ताराम, म्हगेल्या मूळ प्रस्नांक जाप दी पळोवया. तुवें लग्न कित्याक केलें ना? आजल्म ब्रह्मचारी कित्याक रावलो.'

हांव मनांतल्या मनांत जापेच्या उतरांची फांती गुथूंक लागलों. जाप येवंक कळाव लागता तें पळोवन सुर्यप्रभान फुडें विचारलें, 'इतल्या सगल्या वर्सांत तुका कोणूच मोहिनी भेटली ना? काय कोण भेटली तिणें निमण्या वगतार घात मारलो?'

सुर्यप्रभान सगळेच पर्याय दिल्ल्यान जाप दिवप आनीकूय सोपें जालें. 'घात कोणेंच मारूंक ना.' हांवें सांगलें. 'कॉलेज काळांत एक चली म्हगेल्या काळजांत रिगिल्ली. ती थंयच्यान भायरूच सरली ना. ताका लागून, मागीर मोहिनी भेटल्यो तांकां म्हगेल्या काळजांत रिगपाक सुवातूच मेळ्ळीना. हार्ट फूल्ली पॅक्ड आसलें.'

'राव रे, काळजांत रिगिल्ले चलयेचें कितें जालें तर? तिणें फटयलें?' रहस्य कथेंतल्या प्रसंगाचेर चर्चा केल्ले भशेन सुर्यप्रभान विचारलें.

‘ना, ना, ना.’ हांवें तत्परतेन सांगलें. ‘तें बावडें कशें फटयतलें? ते विशीं हांवें ताका केन्ना विचारलेंच ना. एके विशिष्ट परिस्थितींत, एकामेकांले संमतीन, आमीं आमगेली इष्टागत पातळ केली.’

सुर्यप्रभा बारीकसाणेन आयकतालें. म्हजें सांगून जातकीर ताणें म्हणलें, ‘दत्ताराम, तुगेली काणी म्हाका वळखीची शी दिसली.’

‘दिसतलीच.’ हांवें म्हणलें. ‘किद्याक जाणा? प्रेमाच्यो सगल्यो काणयो एक सारक्योच आसतात. तांगेलो अंत मात दोन तरांनी जाता. एक जाल्यार प्रेम रंगता, ना जाल्यार तें भंगता, म्हगेली काणी तुका वळखीची दिसली हाजो अर्थ, तूंय, केन्ना तरी, कोणाल्या तरी मोगांत पडलां.’

‘तुगेलो हजरजबाबी गूण अजूनय साबूत उरला मरे! व्हॅरी गूड!’ व्हडलो हांसो मारून ताणें म्हणलें,

‘सुर्यप्रभा, आतां हांव तुका एक प्रश्न विचारतां.’ हांवें म्हणलें.

‘अवश्य विचार. तुका लिपोवचें अशें कांयच म्हगेले जिणेंत घडूंक ना.’ मन-मेकळे मुद्रेन सुर्यप्रभान म्हणलें.

‘प्रस्न न्हय, सुर्यप्रभा.’ हांवें म्हणलें. ‘म्हाका तुगेल्या कुटुंबा विशीं सांग. तुगेलीं भुरगीं किदें शिकल्यांत, घोव किदें करता. तुगेल्या घराब्या म्हायती. म्हाका कांयच खबर ना, पळे.’

‘योग्य प्रस्न.’ लांब-रुंद हांशा तोंडान ताणें म्हणलें. ‘खरें म्हणल्यार तें सगळें हांवें तुका पयलींच सागूंक जाय आसलें. बेठी मौज म्हणून, हांव तुगेल्या प्रस्नांची जाप कुवाड्यांतल्यान दितां. जबाब तूं सोदून काड. म्हगेलें नांव श्रीमती प्रभा हें तूं जाणां. हांवें म्हगेलें नांव कुमारी प्रभा आचार्य अशें सांगल्यारूय कांयच गैर जावचेलें ना. सांग, किदें कळ्ळें तुका?’

तागेल्या सांगण्यांतली खोंच पयल्या फाराक म्हगेले तकलेंत गेली ना. उसरपत धरी नासतना हांवें म्हणलें, ‘बाये, असलीं पिशेपणां उलयल्यार, लोक म्हणटले तुगेलें लग्नूच जावंक ना.’

‘करॅक्ट. लोकांलें म्हणणें सॅन्ट परसॅन्ट करॅक्ट.’ हांसो तोंडभर पातळावन ताणें म्हणलें.

‘म्हणल्यार? तुवें लग्न करूंक ना?’ हांवें अजापान विचारलें.

ताणें हय ना कांय केलें ना. तें मुमुरखें हांसलें.

‘राव गो, तुगेलें लग्न जावंक ना जाल्यार, तुगेलें नांव कशें बदल्लें? आचार्य आसलें तें प्रभा कशें जालें?’

‘ती सादी–सरळ काणी.’ भुरग्यांक समजायल्ले भशेन सुर्यप्रभान सांगलें. पस्तीशेक वर्सां फाटली खबर. केरळांत तुंबा म्हणिल्लया गांवांत भारत सरकाराचें अंतरिक्ष अनुसंधान केंद्र आसा. रॉकेटांतल्यान सॅटलायट्स अंतराळांत धाडचेलें कार्य तेन्ना थंयंच्यान जातालें. आमगेले कंपनीन तांकां सोफ़्टवेर दिल्लें.

‘थंयंच्या सायंटिस्टांक प्रशिक्षण दिवंक, तीन म्हयन्यां खातीर म्हगेलें थंय पोस्टींग जाल्लें. त्या काळांत केरळांत कम्युनिस्टांली राजवट चलताली. लोकांनी तांगेलीं जाती दर्शक नांवां बदलचीं म्हण कम्युनिस्ट कार्यकर्त्यांनी एक खर आंदोलन चलयल्लें. म्हाका तांगेले विचार पटले. आचार्य नांव जाती दर्शकांत मोडटा. देखून हांवें म्हगेलें नांव बाकायदा शॉर्ट आनी स्वीट ए व्ही प्रभा केलें. कळ्ळें?’

‘तशें जाल्यार आनीक एक प्रस्न विचारतां.’ हांवें म्हणलें. ‘तुवें म्हाका विचारलो तोच प्रस्न, आनी त्याच आडफागुरी उतरांनी विचारतां. सुर्यप्रभा, म्हाका सांग, तुवें लग्न किद्याक केलें ना? ब्रह्मकुमारी व्रत कित्याक चलयलें? खंयच्याय राजकुंवराल्या कोळाष्टकांत कशें घुसपलें ना? काय कोण भेटलो ताणें ऐन वेळार कानार केंस काडले?’

सुर्यप्रभान व्हडलो हांसो मारलो आनी म्हणलें, ‘खऱ्यांनीच दत्ताराम, तुवें म्हगेलेच सवाल म्हगेल्या गळ्यांत घाले. पूण, म्हगेल्या जबाबांनी तुका नवें कांयच हाशील जावचेलें ना. म्हगेलीय काणी लागीं लागीं तुवें सांगली तशीच आसा. मोगाच्यो काणयो एक सारक्योच आसतात अशें तुवें म्हणलांच. तरीय तुगेल्या प्रस्नांक जाप दितां, आयक.

‘म्हाका कोणेंच फटोवंक ना. कॉलेज्यांत आसतना एका क्लासमेटा लागीं म्हगेली वळख जाली. दिसान दिस वळख वाडटाली. आमी मनान लागीं येतालीं. पूण एक दीस आमगेल्यो वाटो अलग जाल्यो. तरीय म्हगेल्या मनांत त्या भुरग्या विशीं एक सुप्त ओड सदाकत उरली.

‘शिक्षण सोपून नोकरेक लागतकीर, तुवें म्हणलें तसल्या जायत्या कोळाष्टकां मदीं हांव वावुरलां, पूण म्हगेल्या काळजांत घर करून राविल्ले ते ओडीक लागून, खंयंच्याच कोळाष्टकाली चिकचिकसाण म्हाका दसूंक पावली ना. सिंपल अॅज दॅट.’

‘राव गो. तुमगेल्यो वाटो वेगळ्यो जावंक किदें कारण जालें? तुमचें मदीं झगडें बी किदें जालें?’ हांवें विचारलें.

हांवें हरशीं प्रस्न सिरीयसली विचारिल्लो. पूण सुर्यप्रभान हांशार घालीत सांगलें, ‘ना रेव बाबा. झगडें बी कांय ना. म्हजे नदरेन कारणूय नासलें. एक दीस तो म्हाका मेळूंक आयलो आनी सांगूंक लागलो, आमीं आमगेलें मेळप–उलोवप सामकें बंद करूंया. अर्थ नाशिल्लेंच सांगणें. कित्याक म्हण विचारल्यार कारण सांगलें तेंय बी तसलेंच. सामकेंच पोल.

‘सुरवेक हांवें हांश्यार घालें. पूण तो बदलो ना. हांवें ताका तरे तरेन पराथलो. पूण तो आपल्या हटाक धरून रावलो. हांव तागेलें मन दुखोवंक सोदी नासलें. देखून हांवें नमतें घेतलें आनी आं म्हणलें.

‘मजा म्हणल्यार, इतलेंय म्हाभारत घडोवन जातकीर, निमणे कडेन ताणें सांगलें, ‘आमगेली फ्रॅन्डशीप मात चालू उरतली, आं. तिका बादा ना. म्हणजे किदें तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

‘हांवें ताका विचारलें, म्हजे वयलें हें बंधन केन्ना सोंपतलें. ‘‘हांव येवन तुका तशें सांगन तेन्ना.’’ अशें सांगून तो गेलो. आज लेगीत हांव त्या बंधनात बांदून उरलां.’ सुर्यप्रभान ना खेद, ना खंत सांगलें.

हें आयकून म्हगेलें काळीज जड जावन आयलें. लांब सुस्कार सोडून हांवें म्हणलें, ‘खूब खेदाची बाब. एका मुर्खाक लागून तुगेले जिणेचो विगोड जालो.’

तें मंद हांसलें. कांय खीण अंतरमनीत जालें आनी मागीर निश्चयान उलयलें, 'ना दत्ताराम. म्हगेले जिणेचो विगोड जावंक ना. मातूय ना.

'आरे, काळाच्या ओगांत घडून वतल्यो ह्यो खबरो. तांजेर कोणालोच कंट्रोल नासता. देवालो लेगीत ना.

'त्यो घडून गेले उपरांत, फाटले नदरेन, जर-तर करीत न्याय-चिकित्सा करून, हाका, ताका दोष दिवप समा न्हय. जाल्लें दुःख सदांकाळ माथ्यार मारून दुकां काडीत बसपांतूय अर्थ ना. ते परस, त्या आघातांचो आपणाले जिणेर जाल्लो प्रभाव उणो करूंक आनी जीण सुसह्य करचेले दिकेनूच आमगेले प्रयत्न-प्रयास आसूंक जाय. हांवें तेंच केलें.

'दत्ताराम, एक रूप-आकार नाशिल्ली वथरण म्हगेल्या काळजांत वसता. बेकार रावल्यार ती म्हगेल्या मनाक कोरांत्ता. कामांत गुंतून रावल्यार, ती म्हगेले झळकीक लेगीत रावना. ताकाच लागून हांव सदांच कामाची शाल रेवडावन रावतां. संपूर्ण वेळ मनाक सदुपयोगी कामांनीं व्यस्त दवरतां. एक सांगतां दत्ताराम, हांव समाधानी आसां. सुखी आसां.' ताणें म्हणलें.

'सुर्यप्रभा,' हांवें म्हणलें, 'हांव तुका चार तपां सुमार वळखतां. तुगेल्या अंतरमनाची पूर्ण वळख पूण, आतांच जाली. एक सांग, कॉलेज काळांत, आयिल्ल्या शेनवारा, तूं गळ्याक शेंदुराचो तिबो लावन येतालें. कोणेंय विचारल्यार, ह्या, ना जाल्यार त्या मारुतीच्या देवळांत गेल्लें म्हण सांगतालें. आज तूं काळाच्या ओगांची खबर उलयता. देवालो रोल लेगीत डायल्यूट करता. तूं नास्तिक जालां?'

'हो तुगेलो नाका जाल्लोच प्रस्न. आयज चर्चा करचेलो तर न्हयच. पूण तुवें विचारलें देखून थोडे भितर जाप दितां.' घडयाळींत वेळ चॅक करीत सुर्यप्रभान म्हणलें.

'ब्रह्मांड हें भगवंतालें विराट स्वरूप. भगवंताक हांव त्या रुपांत पळेतां. ताका लागून शेंदूर, नामां, यज्ञ, होम, अभिषेक, उपास, देवळां, मुर्ती, भट, घाडी, बावा, ब्राह्मण, सवायशिणी, आरती, प्रसाद, आंगवणी, वक्री राहू-केतू

बी म्हाका निरर्थक दिसूंक लागल्यात. हॅव आय फूल्ली ॲन्सर्ड यूअर क्वेशचन, दत्ताराम?' ताणें विचारलें.

'अब्सोलुटली मॅडम, अब्सोलुटली.' हांवें हांसून सांगलें.

फुडले कांय खीण मोन्यानी गेले. सुर्यप्रभान वरां पळेत म्हणलें, 'बारा मिनटांनी म्हाका वचचें पडलें. दत्ताराम, सकाळीं तुवें म्हाका मुद्दम फोन केलो, आमी मेळ्ळीं, खबर-बात केली. खूब बरें दिसलें. ते खातीर हांव तुगेली चड उपकारी. वचचे पयलीं तुका एक-दोन प्रस्न विचारतां,'

हांव कान दिवन रावलों. कांय सेकंड तें ओग्गी रावलें आनी मागीर ताणे एक सामकोच अनपेक्षीत प्रस्न केलो, 'दत्ताराम, तुगेल्या भावी जावना विशीं तुवें किदें विचार केला?'

हांव विचारांत पडलों. भावी जीवना विशीं विचार? आडसस्ट वर्सां हुंपिल्ल्या मनशाल्या भावी जीवना विशीं विचार? ताजेर विचार करचेलो आसता हो विचार लेगीत म्हगेल्या मनाक केन्ना आफडूंक नासलो.

हांव विचारांत पडलां तें पळोवन ताणें म्हळें, 'आसूं. तें मागीर पळोवया. पयलीं सांग, तूं फुडल्या सप्तकांत फ्री आसा?'

हांवें हांसो मारून म्हणलें, 'फ्री? आगो बाये, हांव रिटायर्ड मास्तर. हांव वर्सांतले बाराय म्हयने, दिसाक चोवीस वरां फ्री.'

'बरें आसा.' ताणें म्हणलें. 'दत्ताराम, तुका याद आसा? कॉलेज काळांत तुवें म्हाका गोंयां येवचें आमंत्रण दिल्लें? गोंय दाखयतां म्हणिल्लें?'

'याद आसा? सामकी आसा!! ज्युनियराक. फिझिक्स क्लासा भायर. कॉरिडरांत. हांव विसरूंक ना.' हांवें तट करून जाप दिली,

'गूड.' ताणें म्हणलें. 'फुडल्या शेनवारा येवं हांव गोंयां? दाखयता म्हाका गोंय?'

हांवें खोशश्येन म्हणलें, 'पिश्याभशेन येवं म्हूण किदें विचारता? योच. सामकें यो. माय प्लॅज्यर. हें तोंक थावन तें तोंक, सगळें गोंय भोंवुया. यू वील फॉल इन लव वीथ गोआ, आय बॅट.'

‘कितले दीस लागतले?’ म्हाका मर्दींच आडावन ताणें विचारलें.

‘तीन दीस तरी जाय.’ हांवें सांगलें.

‘बरें आसा.’ ताणें म्हणलें. ‘चार दीस धरतां. चवथो दीस दवरुंया, शांत चित्तान सुख दुःखाच्यो खबरी मारपाक आनी चड म्हत्वाचें, थंड तकलेन आमगेल्या फुडारा विशीं विचार करपाक. मान्य आसा तुका हो प्लॅन?’

‘सामको मान्य. दोनशें प्रतिशत मान्य, पयलीं योच.’ हांवें सांगलें.

‘गूड. थँक्स.’ अशें म्हणून, तें सेलफोन टिकटिकावंक लागलें.

‘एक सांग गो’, हावें विचारलें, ‘इतल्या सगळ्या काळांत तूं गोंयां पावलेंच ना? अजाप मगो!’

फोन टिकटिकावप बंद करून ताणें सांगलें, ‘पावूंक ना किद्याक, धा फावटीं तरी पावलां. जायतेदां, गोआ दर्शन हो आमगेल्या कार्यक्रमाचो अंतीम भाग आसतालो. पूण हांव गेलें ना. म्हाका तुवें दाखयल्लें गोआ पळोवचेलें आसलें.’

इतलें सांगून ताणें फोन टिकटिकायलो आनी जाप मेळतकीर उलयलें. ‘किटू मातसो भितर येता?’

किटू येतकच ताणें म्हणलें, ‘किटू, सारकें आयक. न्युयॉर्क थावन आमीं बिरेस्तारा परतीं येतलीं. न्युयॉर्कचो रिपोर्ट आमगेल्या ऑफिसाक सब्मीट करचे खातीर शुक्रार दवरूंया. ते उपरांतले चार दीस, शेनवार सावन मंगळार, हांव हॉलीडेचेर गोंयां वतलें. गॉट इट रायट किटू?’ येस मॅडम म्हणत किटून रेपीट केलें. ‘तुमी फुडलो शेनवार ते मंगळार, चार दीस, हॉलिडेचेर गोंयां वतलीं.’ सुर्यप्रभान म्हजे कडेन पळेलें. हावें मान्यताये तकली हालयली.

‘रावचेली बी वेवस्ता, मॅडम.’ किटून सुचयलें. ‘गोंयांत पांच फाय्व स्टार बीच हॉटेलां लागीं आमगेलो टाय-अप आसा,’

‘नो, नो, नॉट ऑन बिचीस, किटू. इन द कॅपिटल ऑफ गोआ, पणजी. थंय किदें वेवस्ता आसा?’ सुर्प्रप्रभान विचारलें आनी म्हाका पळोवन म्हणलें, ‘पणजी तुका लागीं. न्हय? हांवें गुगल करून पळेलां.’

‘हय.’ हांवें सांगलें. ‘मोटारीन अर्द वराची वाट.’

तितले भितर फोनार चॅक करून कीटून सांगलें, ‘मॅडम, पानाजी, मिरामार आमगेलें आठ रूम आशिल्लें घर आसा. थंय वर्सूय भर आमी आमगेल्या टेक्निकल स्टाफा खातीर तीन दिसांचो रिफ्रॅशर कोर्स कंडक्ट करतांत. त्या घराक पॅन्टहावस आसा. तें तुमकां योग्य आसा, फुल्ली एक्विप्ड आसा. मॅडम, आमगेलो थंयचो पीआरओ तुमकां रिसीव करतलो. चारूय दीस तुमगेली सोय राखतलो.’

‘दॅट विल बी फाय्न, किटू.’ सुर्यप्रभान म्हणलें आनी म्हाका विचारलें, ‘ईज दॅट ओके फॉर यू, दत्ताराम?’ हांवें तकली हालयली.

‘नाव किटू, प्लीज नोट. नंबर वन, दिल्ली–गोआ–दिल्ली प्लेनाची एक रिटर्न तिकेट बूक कर. वचूंक शेनवारा जाता तितले सकाळीं आनी परतूंक मंगळारा, जाता तितले उसरां. गोट इट?’ किटून तकली हालयली.

‘नंबर टू, सॅन्ड इंस्ट्रक्शन्स टू अवर कंट्रोल सेंटर, ह्या चार दिसांत हॉट लायन आनी रॅड अलर्ट सोडून दुसरें कांयच म्हाका रिफर करूंक जायना. डॉक्टर भट्टाचार्य डेप्युटी सिईओ विल ऑफिसिएट. गोट इट?’ किटून हय म्हणलें आनी नोट केल्लें वाचून दाखयलें. ‘रायट, थँक्यू.’ सुर्यप्रभान म्हणलें.

मागीर घडयाळ पळेत ताणें म्हणलें, ‘किटू, टायम फॉर अज टू प्रोसीड फॉर सेक्युरिटी चॅक. तूं म्हगेलें कॅबीन बॅग घेवन फुडें सर. म्हगेली पर्स आनी कोंप्युटर हांव हाडटां.’ येस मॅडम’ करून तो गेलो.

‘दत्ताराम, आमीं रोखडींच परतीं मेळटलीं हे उर्बे–उमेदीन, आमी आतां बाऽय करूंया!’ अशें म्हणून तें उठलें. मेजाक भोवंताडो मारून म्हजे सरेन आयलें आनी हँडशेक करपाक आपणालो हात फुडें केलो. हँडशेक झेमेल्ले संथतायेन चालू उरलो.

धा बारा पावलां काडून आमीं कॅबिनाच्या दारालागीं पावलीं. दार उकतें करूंक हावें म्हगेलो उजवो हात दाराचे मुठीक घालो. तेन्ना म्हगेल्या ध्यानांत आयलें, हांव आनी सुर्यप्रभा एकामकांक सामकीं खेटून आसलीं. सुर्यप्रभाल्या

उजव्या हाताचीं आनी म्हगेल्या दाव्या हाताचीं बोटां एकमकांत गच्च भरून आंवुळिल्लीं. आमगेले हात कुशी वटल्यान, भुजां थावन सकला मनगटां मेरेन एकांग जावन, सुर्यप्रभाले कुडीचे हुनसाणी धगान म्हगेलें काळीज खतखतून गेल्लें.

हें कशें घडलें तें सांगूंक हांव नकळ. म्हगेल्या मनांत तसलें कांयच नासलें, आनी आसलेंच जाल्यार, तशें करूंक म्हाका धीर जावचो नासलो. दार उकतें करून भायर आयलीं तेन्ना, आमी चार फुटांचे दुरायेर आसलीं.

आमकां पळोवन अजितसिंग लागीं आयलो आनी कंप्युटर आनी लेडीज बॅग सुर्यप्रभाले सुवादीन केली. थँक्स म्हणत सुर्यप्रभान ताका फर्मायलें, 'आतां हांकांय सेक्युरिटी चॅकाक व्हर. तांगेलें प्लेन सुट सर राव. ओके?' 'येस मॅडम, बॉन व्होयाज मॅडम.' ताणें म्हणलें.

ताका थँक्यु-बाय करून, सुर्यप्रभा सोदू म्हऱ्यान गेलें आनी म्हणलें, 'बरें सर. बरे करून वचात. ईट वॉज अ प्लॅजर टू मीट यू. बाऽय सर.'

मागीर म्हजे वशीं पळोवन ताणें म्हणलें, 'दत्ताराम, म्हाका गेटी मेरेन कंपनी दिता न्हय?' मेत्रावणे चालीन गेटी सरेन पावतकीर ताणें म्हणलें, 'बरें दत्ताराम, बरो करून वच. जीव सांबाळ. हॅव ए प्लॅजंट फ्लायट अँड ए सेफ लँडिंग. रोखडींच मेळुंया. बाय फॉर नाव.'

हांवेंय हांसत्या काळजान म्हणलें, 'तूंय गो सुर्यप्रभा, बरें करून वच आनी बरें करून यो. गोंयांत मेळुंया.'

पूण म्हगेल्या तोंडांतल्यान उतरांच फुटलीं नात. दारा भितर घडलें ते धुंदींत गात्रां घुंवळून थार पडिल्लीं. पूण म्हाका दिसता, म्हगेल्या तोंडार हाशें उजाळलां आसूंक जाय. कारण, म्हगेल्या दोळ्यांत दोळे घालून, आपणाली तकली हय न्हयशी वयर सकल हालयत आनी तोंडार म्होंवें स्मित हास्य हाडून सुर्यप्रभान म्हाका काळजान बाऽय केलें आनी एका झटक्यान घुंवून गेटींतल्यान भितर गेलें.

खांदावयले जड व्हड पर्सीक आनी हातांतल्या लॅपटॉपाक मातूय

जडसाण नाशिल्ले भशेन, संवकळीक तुरतुरीत चालीन, लांब कमांडिंग पावलां सडसडीत उडयत, कोस्मोस-लिंक कंपनीच्या चेअरपर्सनांक सोबत असले धजेन, फाटल्यान पळे नासतना, तें गेलें. तें नदरे आड जायसर हांव थंय रावलों.

* * *

दिल्ली-गोंय विमान प्रवास सुमार अडेज वरांचो. प्लेन उडून पंदरा मिनटां जाल्लीं. सिटबेल्ट बांदूक चत्राय दिवचे दिवे पालवतकीर जेवण दिवंक सुरू जालें.

म्हगेलें काळीज-हरदें संतोषान उप्पट भरिल्लें. पोटूय गप आसलें. तरीय, जेवण आयले बराबर हांवें आनी सोदून तें पांच मिनटां भितर स्वाहा केलें. हांवें सोदूक तागेल्यो दनपरां घेवचेल्यो वखता गुळयो दिल्यो. त्यो घेवन ताणें ताणून दिलें आनी दोन मिनटां भितर घोरेवंक लागलो. आज तो खूब फोतोडेर उठिल्लो.

विमान धा हजार मिटरां वयल्यान वतालें. हांवें म्हगेल्या सिटा लागचें जनेल उकतें केलें. खर वोत मारता म्हण हांवें तें येदो वेळ बंद दवरिल्लें. जनेल उगडना फुडें, एका विशाल पॅनासॉनीक पड्ड्याचेर दिसचें असलें, भायल्या संवसाराचें झग्ग मनोहर भव्य चित्र दोळ्यां मुखार उबें रावलें.

वयले वटेन, म्हारग्या एक्रॅलीक पेंटाचे दोन हात निकतेच मारून जाल्ले भशेन दिसतें, गाड अस्मानी रंगाचें, ताजें-चक्क कांतीमान मळब, आपणाल्या नितळ-सतेज मुखमळान ब्रम्हांडाली वयले सरादिची पोकळसाण पुरायेन व्यापून पसरिल्लें.

जाल्यार, सकल्या अर्दान, पिंगशी-रुपेरी तकतकसाण मारतो सावंरीचो मोव अरळ धवोफुल कापूस आतांच पिंजारून एका आंगार पातळावन घाल्ले भशेन दिसतीं ढग-कुपां, क्षितीज-वर्तुळांतल्या संपूर्ण वाठारांत ना-हुसको लोडेल्लीं.

मळब आनी कुपांली गांठ पडटा, ती धार सोदूंक म्हगेली नदर क्षितिजा दिकेन फुडें-फुडें वचत रावली, जाल्यार म्हगेलें मन, उरफाटे दिकेन, भूत

काळांत फाटीं, फाटीं सरकूंक लागलें आनी पन्नाशेक वर्सां फाटल्या म्हगेल्या कॉलेज काळांत वचून थिरावलें.

* * *

सुर्यप्रभा विष्णु आचार्य आनी हांव एकाच वर्सा आनी एकाच कॉलेजांत विज्ञान विषय घेवन फर्स्ट इयराक ज्यॉयन जालीं. कॉलेज्याच्या हॉस्टेलांत रावतालीं. चल्यांलें होस्टेल कॉलेज्या कुशींतल्यान वतल्या रस्त्याच्या पलतडी आसलें, जाल्यार चलयांलें होस्टेल त्याच रस्त्यार चलून पांच मिणटांचे वाटेर आसलें

फर्स्ट इयराक, आनी मागीर दुसरें वर्स इंटराकूय आमगेल्या आडनांवांच्या आद्याक्षरांक लागून सुर्यप्रभा आनी हांव खेरीत, खेरीत डिव्हीजनांत पडलीं. तशें जावन, पयल्या दोन वर्सांत सुर्यप्रभाली आनी म्हगेली वळख सोडूच, देख लेगीत जावंक पावली ना.

तिसऱ्या वर्साच्यान डिग्री कोर्स सुरु जाता. सुर्यप्रभान बीएस्सीक केमिस्ट्री मुखेल आनी फिझिक्स पालवी विषय घेतिल्लो. जाल्यार, हांवें प्रिंसिपल फिझिक्स आनी सेकंडरी गणित घेतिल्लें. तशें जावन सप्तकांत चार फावटीं, फिझिक्स लेक्चरां वेळार आमी एकठांय जातालीं.

फिझिक्स क्लासांत सगलीं मेळून तिशेक भुरगीं. दोन दिसां भितरूच आमगेली तोंडवळख जाली. बी.एस्सी क्लासांनी रोल कॉल घेनात. देखून नांव-वळख जावंक तीन म्हयने लागले.

पूण सुर्यप्रभालें संपूर्ण नांव म्हाका पंद्रशी भितर कळ्ळें. हिंदी सिनेमांनी अक्सर पळोवंक मेळटा तसल्या इत्तेफाक प्रसंगान.

कॉलेज सुरु जावन दोन सप्तकां जाल्लीं. हांव लायब्ररींत गेल्लों. थंयच्यान फिझिक्स क्लासाक वचचे वाटेर कॉरिडरांत, एक लायब्ररी कार्ड पडिल्लें म्हाका दिसलें. हरशीं, हांव तें व्हरून लायब्रेरियना लागीं दिवंचेलों. पूण त्या कार्डा वयलो फोटो हांव वळखलों. ताजेर सुर्यप्रभा विष्णु आचार्य अशें नांव आसलें. सुर्यप्रभा क्लासांत मेळटलें तेन्ना कार्ड सोमतेंच तागेले सुवादीन करचें अशें हांवें येवजिलें.

हांव क्लासाक लागीं पावत आयिल्लों, इतल्यान सुर्यप्रभा क्लासांतल्यान भायर येवन जमनीर हेवटेन तेवटेन बारीक नदरेन सोदीत येता तें हांवें पळेलें. तें लागीं पावतकीर, लायब्ररी कार्ड दाखोवन हांवें विचारलें, 'मीस, लुकिंग फॉर मीस?' ताणें जिबली चाबली आनी आदाब भरीत मोव मधूर स्वरांत म्हणले, 'बरें जालें बाये, तुमकांच मेळ्ळें. हांव सामकें बेजार जाल्लें. म्हगेल्यो वस्तू गेणल्यार म्हाका म्हगेलीच तिडक मारता. थँक्यू आं, थँक्यू व्हॅरी मच.'

हांव कांय उलयलों ना. मातसो हांसलों आनी कार्ड तागेले सुवादीन केलें. ताणें नव्यान थँक्यू म्हणलें आनी आपणाली तकली हय-न्हयशी वयर सकल हालयत, तोंडार म्होंवें स्मित हास्य हाडून, आभार भरीत तोंडान म्हजे कडशीं पळेलें, दोनेक सेकंड घोळकलें आनी लांब तरतरीत पावलां मारीत तें क्लासांत गेलें.

तागेल्या हांश्याक लागून, म्हगेल्या मनांत मारूंक लागिल्लीं सुखावणीं, गोड लायणीं ल्हारां, तें वतकीर, कितलोसोच वगत मारीत राविल्लीं.

हे भेटींत म्हाका सुर्यप्रभा विशींची जायती म्हायती मेळ्ळी. तागेलें संपूर्ण नांव, मोव-मधूर आवाज, काळजाक कातकुतल्यो करतलें तागेलें गोड स्मित हास्य, उमेदी चर्या, आदाबी सभाव, पोलीश्ड उलोवणें आनी कमांडिंग शैलीची तरतरीत चाल.

शिक्षणांत तें हुशार म्हण डे-वन सावन सगळ्या क्लासाक खबर आसलें. लेक्चर सोपतकीर तें सरांक डिफीकल्टी विचारतालें. सरांकडेन वाद-प्रतिवाद करतालें. हांव तीं डिस्कशनां लक्ष दिवन आयकतालों. सुर्यप्रभाल्या ह्या गुणान हांव खूब प्रभावीत जाल्लों. ताका तुस्त भरीत आदरान पळोवंक लागिल्लों.

ते उपरांत, पंदराएक दिसांनी सुर्यप्रभाली आनी म्हगेली आनीक एक भेट जाली. त्याच जाग्यार, कॉरिडरांत, फिझिक्स क्लासा भायर.

सरान बोर्डार मॅक्सवॅलालीं इक्वेशन्स, डेरिव्हेशनां सयत घालीं आनी तो गेलो. आमीं तीं नोटबुकांत कॉपी करचेलीं आनी घरा वचचेलें. कॉपी करून जातकीर हांव भायर सरलों. कॉरीडरांत सुर्यप्रभा उबें आसलें. तें आपणाले

मैत्रिणीक रावतालें. ताका हडकून हांवें विचारलें, ‘मिस आचार्य, सर गेले उपरांत एका मिनटा भितर तूं भायर सरलें. इतले फास्ट कॉपी करून जालें?’

‘म्हगेली एक संवय आसा.’ ताणें सांगलें. ‘फुडल्या सप्तकांत सर खंयचे टॉपीक्स शिकोवंक घेतले तें हांव तांकां पयलींच विचारून दवरतां आनी आदल्या दिसा ते वाचून काडटां. ताका लागून, लेक्चरां कळूंक सोपें जाता. मॅक्सवॅल इक्वेशनांची डॅरीव्हेशंस हांवें कालूच कॉपी करून काडलीं.’

सुर्यप्रभाल्या सभावाचें एक लांब-रूंद तास म्हाका होलमल्लें.

‘मिस्टर शिरवटकर,’ ताणें विचारलें, ’तुमगेलो गांव गोवा न्हय?’

‘जाप दिवचे बदला हांवें ताका विचारलें,’ तुका कशें कळ्ळें?’

‘चलयां भितर चर्चा चलताली.’ ताणें मिष्किलीक मुद्रेन सांगलें आनी म्हणलें, ‘गोव्याक महाराष्ट्रांचें नंदनवन म्हणटात. एकदां भेट दिवंक जाय तुमगेल्या गोव्याक.’

‘मुद्दम यो.’ हावें सांगलें. ‘तुका गोंय आवडटलें. हांव सांगता. गोंय दाखोवचेलें काम म्हजेर सोड.’

‘परक्याक ओगीच त्रास किद्याक दिवप.’ ताणें म्हणलें. ‘तूं खंय त्रास दिता?’ हांवें म्हणलें. ‘म्हगेले खोश्शेन हांवें तुका आमंत्रण दिलां. येवचे पयलीं कळय मात. बाय द वे मॅडम, तुगेल्या क्लासमेटांक तूं परकी लेखता?’

‘ओह. गुड पॉयंट. व्हेरी हजरजबाबी.’ ताणें हांसून म्हणलें. ‘थँक्यू फॉर द आमंत्रण. पळोवया केन्ना योग येता तो. तरीय कोणाकूय गरजे भायर त्रास दिवप म्हगेल्या मनाक पुटवना.’

‘तुगेलो गांव खंय?’ हांवें विचारलें. इतल्यांत तागेली मैत्रीण भायर आयली आनी तें ताकतिकेन वचूंक लागलें. वतां वतां ताणें म्हणलें, ‘जळगांव. अजंठा आनी वेरूळाक लागीं.’

सुर्यप्रभाल्या सभावाचीं आनीकूय कांय लिकलिकतीं तासां आज म्हाका होलमल्लीं. सभावान मायेस्त, दुसऱ्याक गरजे भायर त्रास दिवप ना हे

विचार सरणेचें. पूण भिडेस्त न्हय. उकत्या मनाचें. तागेलें एक्स्प्रॅशनूय स्पष्ट आसलें. तागेल्या ह्याय गुणांक म्हगेलें मन तोखेलें.

ह्या प्रसंगा उपरान, उरिल्ल्या सबंद शिक्षणीक वर्सांत, सात आठ म्हयन्यांच्या काळांत, आमी परतीं मेळूंक, उलोवंक पावलीं नात. कॉलेज कॉरीडरांत जावं कॉलेज कॅम्पसांत केन्नाय क्रोस जातालीं तेन्ना, हांव ताका ओंठ रुंदावन मोन्यांनी हडकितालों आनी तें आपणाल्या लिकलिकत्या सदाफुली दोळ्यांनी प्रतिसादतालें.

एक बदल म्हज्यांत सामको जाल्लो. तें सबंद वर्स, फिजिक्स लेक्चराक वचचे वाटेर, म्हगेल्या मनांत सुर्यप्रभा घोळूंक लागतालें आनी क्लासांत भितर सरतना हांव तिरशे नदरेन, सुर्यप्रभा आयलां काय ना तें पळेतालों.

चवथें वर्स सुरु जालें. सिनियर बी.एस्सी वर्स. सुर्यप्रभा आपणाल्या केमिस्ट्री डिपार्टमेंटांत बांदून पडलें आनी हांव फिझिक्सांत. त्याय सबंद वर्सांत, कॉरीडरांत जावं कॉलेज कॅम्पसांत, तें म्हाका पयसुल्यान लेगीत दिसलें ना.

तरीय, म्हगेले जिणेंत सुर्यप्रभा-पुराणाचो अध्याय रचूंक सुरू जालो.

* * *

सुर्यप्रभालो धाकटो भाव प्रकाश आचार्य आमगेच्या कॉलेजांत फर्स्ट इयर सायन्साक ज्यॉयन जालो. हॉस्टेलांत रावूंक आयलो. आमी पयलेच खेप भेटले तेंय हिंदी सिनेमांत फिट्ट बसत असल्या प्रसंगान.

आमगेल्या हॉस्टेलांत दोन मेसां आसलीं, व्हॅज आनी नॉन-व्हॅज. जंबो क्लब आनी मिनी क्लब. णव्वद प्रतिशत विद्यार्थी शिवराक बाप्पा आसले आनी उरिल्ले मूठभर नोन-व्हॅज. क्लबाचो मेंबर जावपाक हॉस्टेलाच्या ऑफिसांत पयशे भरून एक फॉर्म भरचो पडटालो. तातूंत व्हॅज काय नॉन-व्हॅज तें बरोवचें पडटालें.

कॉलेज सुरू जातकीर तिसऱ्या दिसा मेसां सुरु जालीं, त्या दिसाची खबर. सकाळचीं साडेणव सुमार जाल्लीं. हांव म्हगेले कुडींत आसलों. कोणेंतरी मोव हातान दार कुटकुटायलें. दार उगडून पळे जाल्यार दारा भायर तीन भुरगे

उबे. ते फर्स्ट इयराचे पोरांटे हें तांगेल्या काचाबूल तोंडां वयल्यान उकतेपणान गमतालें.

'सर,' सगळ्यांत फुडें आशिल्यान उलोवंक आरंबलें. आपणाल्या हातांतलो पेपर-बंच फुडें करून ताणें सांगलें, 'सर, आमी मेसाचे पयशे भरल्यात. आमकां नॉन-व्हॅज जाय अशें आमी फॉर्मांत बरयल्लें. पूण आमगेलीं नांवां व्हॅज लिस्टांत घाल्यांत. आतां कितें करप, सर?'

'तुमकां नॉन व्हॅज जाय मरे, मिनी क्लब?' हांवें विचारलें. ताणीं एका ताळ्यान हय म्हणलें. 'कसलीच अड ना.' हांवें सांगलें. 'मिनी क्लबांतल्या गंगारामाक मेळात. तो सगलें जाग्यार घालतलो. मिनी क्लब कशें वचप तुमी जाणात?'

'हय सर.' ताणें सांगलें. 'आमी थंय गेल्ले. गंगारामानूच सेक्रेटरी सायबाक मेळात अशें सांगून तुमगेलें नांव आनी रूम नंबर दिलो.'

'बरें आसा. तुमी परतेय गंगारामाक मेळून गेस्ट बूक मागून घेयात. सेक्रेटरीन सांगलां अशें सांगात. तो दाखयत त्या पानांचेर आयची तारीक घालून, दावे वटेंतल्या 'मेंबर' कॉलमांत म्हगेलें नांव, दत्ताराम शिरवटकर बरोवन, उजव्या 'गेस्ट्स' कॉलमांत 3 आंकडो बरयात. तुमगेलीं नांवां बरोवचेली गरज ना. गंगाराम तुमकां वाडचेली वेवस्ता करतलो. बरें करून जेवात. आतांच्यानूच तुमी मिनी क्लबाचे मेंबर जाले. सांजे ऑफिसांत वचून हांव फाव तें करॅक्शन करून घेतां.' त्रिमुर्तीक सू जाल्लें. धा फावट तरी ताणी म्हाका थँक्यू सर केलें.

ते वचचे पयलीं हांवें तांकां म्हणलें, 'भुरग्यांनो, आमी आमगेली वळख केल्ली बरी न्हय? म्हजें नांव तुमी जाणाच. हांव फिझिक्सांत सिनियर बीएस्सी करतां. तुमगेलीं नांवां सांगात पळोवंया.' सर, सर करीत ताणी तांगेलीं नांवां-गांवां सांगलीं. तिगायनी सायन्स घेतिल्लें. सामकार आसलो तो कोल्हापुरचो उदय वाघ, मदलो रत्नागिरीच्या रोहा गांवचो कुमार कर्णीक, आनी फाटल्यान आसलो तो जळगांवचो प्रकाश आचार्य.

जळगांव आनीं आचार्य हीं उतरां आयकतकींर हांवें ताका विचारलें, 'प्रकाश, आमच्या कॉलेज्यांत आचार्य म्हण एक चली शिकता. तीय जळगांवचीच. तूं तिका वळखता?'

खरें म्हणल्यार हो प्रस्न विचारचेली गरज नासली. प्रकाशालें रुपूच सांगतालें, तीं भाव-भयणांच आसूंक जाय. पूण प्रकाश इल्लो आडोसाड उबो राविल्ल्यान, तागेल्या तोंडावळ्याचेर म्हगेलें लक्ष वचूंक नासलें.

'हय सर. ताई. ती म्हगेली व्हडली भयण सर. ती केमिस्ट्री बीएस्सी करता.' प्रकाशान सांगलें.

'आतां जेवंक चलात.' हांवें सांगलें. 'कसलेय गरजेक, तुमगेल्या रुमा शेजरा रावतल्या सिनियराक मेळात. ते मदत करतले.'

हें म्हणना फुडें, ते तिगूय हांसूंक लागले. मातशे व्हडानूच. तांगेलें हांसप म्हाका गैर दिसलें. पूण हांव कांय उलयलों ना, तांकां पळेत रावलों. प्रकाश आचार्यान आपणालो हांसो जिरयत म्हणलें, 'सर, तुमीच आमगेले शेजारी. तुमी बी-णव रुमांत आनी आमी शेजारच्या बी-धांत रावतांत. सर, तो थ्री सीटेड रूम न्हय? चार दीस जाले सर.'

'खरें? म्हणत, हांवूय तांगेल्या हांशांत रिगलों आनी विचारलें, 'मागीर फाटले तीन दीस तुमी खंय गायब जाल्ले? दिसले नात मरे?' भीड चेपिल्ल्या प्रकाशान म्हणलें, 'सर, आमी येतना वतना तुमी दिसतात काय पळेताले, पूण तुमगेले कुडीचें दार सदांच बंद आसतालें.'

'भुरग्यांनो, आतां पोट घट करूंक पळात. डिसमिस.' हांवें म्हणलें. प्लॅटून कमांडरालो हुकम पाळचे धर्तीर, त्रिमुर्तीन 'एस्स- स्सर' म्हणट क्वीक मार्च्य केलें. भुरगे सभ्य आनी शिष्टाचारी आसले. म्हाका तीन नवे फ्रॅन्ड्स गाविल्ले. आज लेगीत आमी एकामकां लागीं संपर्क दवरून आसांत.

त्या तिगांतलो उदय वाघ, तागेलो एक बापोलयो आनी एक मामा मुंबतूच रावताले. दुसरो कुमार कर्णीक, तागेलीय लग्न जाल्ली भयण मुंबयंत लागींच खंय रावताली. ताका लागून त्या दोगांक मुंबयंत आनी होस्टेलांत सॅटल जावंक सोपें जालें.

प्रकाश आचार्याले मुंबयंत स्थायीक सोयरे नासले. आपणाल्यो बारीक सारीक अडचणी घेवन तो म्हजे सरेन येतालो. तशें जावन, आमचे मदली संवकळ वाडली आनी कांय दिसां भितर दाटी जाली.

मेसाची खबर घडली त्याच दिसा जेवन परतो येतना प्रकाश आचार्य म्हगेले कुडींत आयलो. आपल्याक सक्काळीं उठून अभ्यासाक बसचेली संवय. आपणाली आवय स्कुलांत शिकयता, ती व्हडा फांतोडेर उठटा. म्हाका आनी ताईक ती दीस उजवाडणेर उठयताली, आमकां एक कप दूद आनी वयर अर्दें कॉप च्या दिताली. तें आतां आमगेलें व्यसन जालां बी सांगून ताणें विचारलें, 'सर, हॉस्टेलाक लागीं सक्काळीं दूद आनी च्या गावत?'

हातूंत नवें कांयच नासलें. होस्टेलांतल्या चडश्या सिनियरांक सकाळीं च्या लागताली. दादी नांवाचो जाणटे पिरायेचो एक मनीस नित्य सकाळीं साडे पांचांक दुदा बाटल्यो हाडून आमगेल्या कुडीं भायर दारा कुशीक दवरून वतालो. आमगेल्या हॉस्टेला बगलेकूच पन्नाशेक मिटरांचेर एक इराणी हॉटेल आसलें, किंग ज्यॉर्ज रेस्टोरंट. तें सकाळीं पांचांक उकतें जातालें. थंय आमी च्या मारताले. सिंगल च्या वांगडा 'आधा-ब्रून-मस्का'चे तीन आणे जाताले. त्या काळांतलो आधा-ब्रून-मस्का पोटाक पुरो जातालो. तो आमगेल्या स्टुडंटी बजेटांतूय फीट बसतालो.

हें सगळें हांवें प्रकाशाक समजायलें आनी सांगलें, 'दादीक तुका मेळूंक लायतां. अर्द लिटर दुधा बाटलेक चार आणे पडटात. तूं एका म्हयन्याचे ॲड्वांस साडेसात रुपया ताका दी. फाल्यां सकाळच्यान तुका दूध मेळटलें.

'दुसरी गजाल, फाल्यां सकाळीं स वरांचेर म्हाकाय उठय. वांगडा वचून आमीं च्या मारून येवंया. इतल्यान तुका सगळो मोडस ऑपरांडी कळटलो.'

ताजेर, ताणें अनमनत म्हणलें, 'सर, ओगीच सक्काळीं उठूंक तुमकां त्रास जावचो ना?' 'ना. मातूय ना.' हांवें सांगलें. 'वयल्यान हांवूच तुका थँक्यू म्हणटलों. तूं म्हाका सद्दां उठय. आमी वांगडा च्या मारून येवंया आनी अभ्यासाक बसुंया.' हांव आठांक उठ्ठल्यांतलो आसलों.

पंदरा वर्सां पिरायेच्या फर्स्ट इयराच्या पोरांट्यान, प्रकाश आचार्यान, सक्काळीं उठून अभ्यासाक बसचेलें इष्ट वळण म्हगेले जिणेक लायिल्लें. ताजो लाव म्हाका सिनियर बीएस्सीकूच न्हय, जल्मभर मेळत आसा.

ह्या दिसपट्ट्या 'आधा-ब्रुन-मस्का-सिंगल-चाय' ट्रिपींक लागून पकाशा कडले म्हगेले दोस्तीची घट बुनयाद पडली. ती दोस्ती आयज मेरेन अखंड तगल्या.

सकाळची च्या मारून येतासर पंदरा मिनटां वतालीं. ह्या वेळांत आमचे भितर तरेक तरा विषयांचेर संवाद जाताले. प्रकाश एक तल्लख बुद्दीचो, व्हाय्ड स्पॅक्ट्रम गिन्यान आशिल्लो भुरगो हें रोखडेंच म्हगेल्या लक्षांत आयलें. पिरायेच्या मानान तागेलें सामान्य ज्ञान खुबूच प्रगत आसलें.

प्रकाशाल्या प्रज्ञाविश्वाचें दर्शन म्हाका जालें त्या प्रसंगाची याद म्हगेले तकलेंत घट उरल्या. आमगेली वळख जाले उपरान्त तीन दिसांनी च्या मारून येतना हांवें प्रकाशाक हॉस्टेलाचो रिडींग रूम दाखोवंक व्हेलो. विविध दिसाळीं आनी मॅगझिना थंय आसलीं. एक रेडियो, एक व्हड मेज आनी धा-बारा कदेली आसल्यो.

सगळ्याक नदर भोवडावन प्रकाशान म्हणलें, 'सर, बरी वेवस्था आसा. घरा हांव दिसपट्टीं पेपर-मॅगझिन्स वाचतालों. मुंबय येत सावन म्हाका चुकिल्ले, चुकिल्ले भशेन जातालें.'

मागीर कदेलांक पळोवन ताणें म्हणलें, 'सर, ह्या कदेलांचो डिझायन मात एरगॉनॉमीक न्हय.'

हें आयकून म्हाका कच्च जालें. हांव दोळे फांकारून पळेत रावलों. ताणें फुडें म्हणलें, 'सर, वाचपाच्या कदेलाच्यो फाटो बसके कडेन काटकोनांत आसूंक जाय. हांच्यो फाटो लागीं-लागीं एकशें वीस अंशांनी फाटले वटेन लवंडल्यात. हांचेर बसून वाचल्यार झ्येम येवंक लागतली. ह्यो कदेली सिएस्ता करूंक बऱ्यो.'

तागेलीं हीं उतरां म्हगेल्या कानार पडलीं, सामकें त्याच खिणाक,

'पंदरा वर्सां पिरायेचो फर्स्ट इयरचो पोरांटो' हें प्रकाशाक दिल्लें बिरूद हांवें म्हगेले तकलेंतल्यान सामकें घांसून-पुसून उडयलें. तो आतां ज्ञानमार्गावयले यात्रेंत म्हगेलो सहप्रवाशी जाल्लो. हांवें जिज्ञासेन विचारलें, 'ही सगळी जनरल नॉलेज तुवें कशी संपादली?

'म्हगेल्या बापाय कडल्यान.' ताणें सांगलें. 'म्हगेलो बापूय एडव्होकेट. डिस्ट्रीक्ट कोर्टांत प्रॅक्टिस करता. दीस-रात बिझी आसता.

'पूण बाबा, आयतार सामको फ्री दवरता. फक्त फॅमिली खातीर आनी आपणांल्या हॉबीं खातीर. बागेची देखभाल, घरांतलीं आनी शेजाऱ्यांलीं ल्हान व्हड अप्लायंसांची दुरुस्ती, आमगेर मोटार आसा तिजें मेंटेनन्स आनी बारीक सारीक रिपेर्स लेगीत बाबा घराच करता. आमगेर तरा तरां हँड टुल्स आसात.

'बाबाक टेक्निकल विषयांची आवड. आमगेर तीन व्हडल्यो आरमारी भरून टॅक्निकल आनी जनरल नॉलेज पुस्तकां आसात. आमी सामकीं ल्हान आसलीं तेन्ना सावन बाबा आमकां तीं वाचूंक सांगतालो. किदें कळना तें समजायतालो. म्हाका आनी ताईक आतां ताजी गोडी लागल्या.'

'तुगेली आवय कसलो विषय शिकयता?' हांवें विचारलें. ताणें आपणाले आवय विशीं सागूंक सुरवात केलें, 'आई जळगांवच्या सरकारी हायस्कुलांत हेड मिस्ट्रेस आसा. ती खरी मॅथ्स टिचर. पूण ती आतां वर्ग घेना. भुरग्यांक कावन्सेलींग करचेली ड्युटी तिणें आपल्या कडेन घेतल्या.

'हरशीं म्हगेली आवय खूब मायेस्त. जाल्यार, शिस्तीकडेन पावतकीर ती कडक जाता. सगळीं कामां प्लॅन करून, शिस्तीन आनी वेळच्या वेळार करूंक जाय हाजेर भर दिता. शिस्तीचे फायदे समजायत आसता. आमगेलीं बुकां-पुस्तकां, पेनां-पेन्सिली, खेळ, मुस्तायकी जावं हेर कसल्योय वस्तू जागचे जाग्यार दवरपाची दीक्षा तिणें आमकां दिली. ती सांगत आसता, प्रत्येक वस्तूक तिगेलो खाशेलो जागो आसूंक जाय. त्यो काडल्यो जाल्यार काम जातकीर तांकां तांगेल्या जाग्यार पावोवंक जाय.

'आईले हे शिकवणेचो प्रभाव म्हजे परस चड ताईचेर पडला. आपणाली कसलीय वस्त ना जाल्ली ताका मात सोसना. तें बेजार जाता. वस्त मेळसर

ताका खाण जेवण लेगीत सुचना. हांवें केन्नाय नांवरूपां केल्यांत तेन्ना, म्हाका ताईलीं उतरां खावचीं पडल्यांत. हरशी तें सामकें मायेस्त.'

प्रकाश बडबडो भुरगो नासलो. गरज तितलेंच आनी गरज तेन्नांच उलयतालो. उकत्या मनाचो आनी सरळ मार्गी आसलो. इल्लो भिडेस्तूच आसलो. पूण सुरवेच्या दिसांनी, आपणाली आवय-बापूय-भयण, जावं आपणाल्या गांवा-स्कूला विशीं उलयतना तो जिबेन सदळ जातालो. जिणेंत पयलेच खेप आवय-बापूय-घर-गांव सोडून पयस पविल्ल्यान तो नोस्ताल्जीन भारिल्लो. म्हाका घट याद आसा, हांव पयलोच मुंबय आयलों तेन्ना म्हगेलीय हीच गत जाल्ली.

* * *

प्रकाशाल्या आवय बापाय कडेन म्हगेली वळख-मुलाकात जाली, त्याय प्रसंगाची याद म्हगेले तकलेंतल्यान हालूंक ना. पंदरा आगष्टाच्या पयलींचो शेनवार. दनपारचीं बारा वरां जाल्लीं. म्हाका शेनवारा लेक्चरां नासतालीं. हांव लायब्ररींत गेल्लों. जेवण करूंक पर्ततालों. कॉलेज्याचे कोनशा वयले गेटींतल्यान हांव भायर सरलों.

हांवें पयसुल्यान पळेलें, हॉस्टेलाच्या फुटपाथार एक जाणटें सार जोडपें तोंड हॉस्टेला वशीं तोंड करून उबें आसलें. तांच्या दोन पावलां फाटल्यान, आपणाली नदर कॉलेजा वशीं करून सुर्यप्रभा राविल्लें.

तीं जाणटेलीं प्रकाशालीं आवय-बापूय आसूंक जाय असो कयास हांवें केलो. म्हजेर नदर पडना फुडें सुर्यप्रभान तोंड फिरायलें आनी तें किदें तरी फुतफुतलें. ते बराबर त्या जाणटेल्यांनी तोंडां घुवंडावन नदर म्हजे दिकेन केली. तिगांयल्या तोंडार हांशें आसलें. दादल्यान आपणालो उजवो हात वयर उबारून म्हाका येवकारलो. हांवें पर्तवण केलें.

हांव लागीं पावतकीर सुर्यप्रभान वळख केली, 'मिस्टर शिरवटकर, हीं म्हगेलीं वडलां. म्हणल्यार तुमगेल्या प्रकाशालींय आं.'

'गुड ज्योक' म्हणत हांवें तांकां नमस्कार केलो आनी सांगलें, 'प्रकाश

लेक्चराक गेला. पाउण वराचेर येतलो. भितर गेस्ट रूम आसा, थंय तुमी बसात.'

ताजेर सुर्यप्रभान मस्करे सुरांत म्हणलें, 'अहो, तीं प्रकाशाक मेळूंक येवंक नात. म्हाका लेगीत ना. तीं मुद्दम तुमकां मेळूंक आयल्यांत. हांव तुमगेल्या डिपार्टमेंटांत गेल्लें, थंय कळ्ळें आज तुमकां लेक्चरां ऑफ आसात. देखून हांगा रावून आमीं तुमगेलीच वाट पळेतालीं.'

मुद्दम म्हाका मेळूंक आयल्यांत हें आयकून हांव बुचकळ्यांत पडलों. गेस्ट रुमांत पावले उपरांत, प्रकाशालो बापूय उलयलो, 'खऱ्यांनीच मिस्टर शिरवटकर, आमी तुमकांच मेळूंक आयल्यांत. तुमगेली वळख करून घेवंक आनी तुमगेले आभार मानूंक आयल्यांत.'

'म्हगेले आभार? किद्या खातीर ते?' हांवें कुवाड्यांत पडिल्ल्या भशेन विचारलें.

प्रकाशाले आवयन जाप दिली, 'पयलीं तुमकां एक विचारतां, हांव तुमकां तुमगेल्या नांवान, दत्ताराम म्हणून उलो मारूं? तुमीं म्हाका म्हगेल्या भुरग्यां समान. तुमकां मिस्टर शिरवटकर म्हणपाक म्हाका बरें दिसना.'

'आई, दत्तारामूच म्हण. म्हाकाय बरें दिसतलें.' हांवें म्हणले. 'दत्ताय म्हणल्यार जाता. गोयां घरांत म्हाका तसो पाचारतात. आनी वाड्या वयलीं काचींबुचीं म्हाका भाई म्हणटात. आनी आई, म्हगेलेंय तुमचे लागीं एक मागणें आसा. म्हाका 'तुमी' म्हणूं नाकात. निखटें 'तूं' म्हणात, जशें तुमी तुमगेल्या भुरग्यांक म्हणटात. तातूंत आपलेपण येता.'

'सामकें खरें. आतांच्यानूच तूं-तुका करतां.' आईन म्हणलें. 'आनी प्रकाशाकूय तुका भाई म्हणपाक सांगतां. ताणें तुगेले वडीलकींचो मान दवरुंकूच जाय.' मागीर सुर्यप्रभा कडेन पळोवन तिणें म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, तूंय ताका भाईच म्हण.' सुर्यप्रभान तत्काळ जाप दिली, 'नाका आं आई. फाटल्या चार वर्सां आमचें नातें चल्लां, तेंच आमी चलयतां. आतां मदींच दादा-भाई केल्यार फ्रॅन्डांक मस्करी करपाक नसतें कारण मेळटलें.'

'दत्ताराम, तुगेले आभार किद्या खातीर तें सांगतां.' आईन विषयाक हात घालो. 'आमगेलो प्रकाश सादो सरळ भुरगो. आपलें घर-गांव सोडून एकलो असो, तो केन्नाच रावूंक ना. देखून, तो मुंबय गेले उपरांत आमी हुसक्यांत कशीं आसलीं.

'हॉस्टेलांत सगळ्या गुणांचे भुरगे आसतात. बरे आसतात, वायट आसतात. प्रकाश वायट संगतींत सांपडत ही भिरांत आसली. सुर्यप्रभा आसलें. पूण चल्यांल्या हॉस्टेलांत किदें चलता तें ताका कशें कळटलें?

'पूण भाग्याची गजाल, प्रकाशाली इष्टागत तुजे लागीं जाली. आमकां सू जालें. तुगेली वळख करून घेवंक आनी तुगेले उपकार मानूंक आमी मुद्दम आयल्यांत. प्रक़ाश आनी सुर्यप्रभाली भेट जातली, हीय बाब आसली. तुका मेळून येवंया ही प्रकाशाल्या बापायली सुचवण. म्हज्याय मनांत तें आसलें.'

'तुमीं आयिल्ल्यान तुमकां मेळचेली संद म्हाका गावली, ही बरी गजाल. पूण म्हगेले उपकार किद्याक मानूंक जाय तें कळना. तुमगेल्या मनाक बरें दिसता तशें करात.' हांवें म्हणलें. 'पूण आई, एक अडचण आसा.तुमी म्हाका तुमगेलो भुरगो लेकलो. आपणाल्या भुरग्यांले उपकार, आभार मानप हें आमगेले संस्कृतींत बसना. उरफाटें, भुरगींच सदांकाळ वडलांल्या उपकारांत उरतात. खरें न्हय, आई?'

हांगा सुर्यप्रभान तोंड घालें आनी बापायक म्हणलें, 'आय टोल्ड यू, बाबा, ही ईज हजरजबाबी. ताणीं आईक कशी उतराक धरली, पळेयात.' बाबान हांसून म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, तांणी सारकें सांगलां. ईट ईज ए मॅटर ऑफ अवर कल्चरल अपब्रिंगींग. ते नदरेन पळे.'

विषय बदलपा खातीर हांवें आईक म्हणलें, 'आई, तुवें सांगलें तें सामकें खरें. प्रकाश खऱ्यांनीच सादो सरळ भुरगो. तो हुशार आसा, आपलो अभ्यास नेमान आनी मन लावन करता. आपणाले जनरल नॉलेजीन तर ताणें म्हाका दिपावन उडयला. प्रकाशालो हुसलो करचेली मातूय गरज ना. तो सामको सॅटल जाला.'

ते उपरांत हांवें तांकां कदेलींच्या एरगॉनॉमीक डिझायनचेर प्रकाशान केल्ल्या भाष्याची खबर सांगली. सुर्यप्रभान रोखडेंच म्हणलें, 'हाजें क्रेडीत बाबाक आं.' आईन संमतेची तंकली हालयली.

'दत्ताराम, तुका इतिहास सांगतां.' आईन म्हणलें, 'प्रकाश मुंबय वचूंक भायर सरलो तेन्ना, हॉस्टेलांत तो कोण इष्ट जोडटा ताजेर नदर दवर अशें आमी सुर्यप्रभाक असवडीं सांगलें. हें काम ताणें होस्टेलांत रावतल्या आपल्या एका क्लासमेटाचेर सोपयलें. दोन दिसांनी क्लासमेटालो रिपोर्ट आयलो, ''ताका रुमशेजारी बरो मेळ्ळा. फिझिक्साचो सिनियर शिरवटकर.'' आठ दिसांनी ताणें दुसरो रिपोर्ट दिलो, ''प्रकाश चडसो शिरवटकरा वांगडा दिसता. सकाळीं च्या मारूंक, रिडींग रुमांत पेपर वाचूंक, मेसांत बी. ही ईज ईन गूड कंपनी.'' हें कळून आमकां सू जालें.'

'दत्ताराम, एक मौजेची खबर सांगतां.' आईन फुडें म्हणलें. 'प्रकाश मुंबय वचूंक भायर सरलो तेन्ना, प्रत्येक आयतारा नेमान पत्र बरय अशें आमीं ताका सांगिल्लें. पूण प्रकाश दोन दोन दिसांनीच पत्रां धाडूंक लागलो. दोन-दोन, तीन-तीन पानी पत्रां.

'ताका आमगेली याद येताली, ही बाब आसलीच. ते भायर, तागेलें नवें विश्व - मुंबय, थंयचे तागेले नवे, नवे अनुभव तो आमकां विस्तारान बरोवंक लागलो. तागेल्या प्रत्येक अनुभवाकडें तुगेलें नांव जोडिल्लें आसतालें. तुं असो बरो, तसो बरो, फ्रॅन्डली, उपकारी अशी तुगेली तुस्त आसताली. पांच-स पत्रां येतकीर आमी ते विशीं सुर्यप्रभाक विचारलें सुर्यप्रभान आपणालो रिपोर्ट धाडलो. तातूंत ताणें बरयलें.....'

आई फुडें उलोवचे पयलींच सुर्यप्रभान किंवची धेंगसो घालो, 'आई, आपसांतल्यो गजाली परक्यांक सांगचेल्यो नासतात.' पूण आई सांगत रावली, 'दत्तारामाक परकी म्हणटा? कित्याक लिपोवंक जाय? तातूंत किदें कोणाली चाडी-टिका आसा? तुगेल्या मनांत आसलें तें तुवें सादेपणांन बरयलें.'

सुर्यप्रभाल्या गोऱ्या  पोल्यां वयलो फिको गुलाबी रंग गाडूस जावंक लागिल्लो.

सुर्यप्रभान आपणाल्या प्रशस्तीपत्रांत म्हणिल्लें, 'हांव त्या शिरवटकराक फर्स्ट इयर सावन वळखतां. पोरूं फिझिक्स लेक्चरांक आमी क्लासमेट्स आसलीं. तो गोंयचो. शिकूंक मुंबय आयला. शिकूंक बरो आसा. दिसूंक-करूंक बरो, हांसत्या तोंडाचो आसा. न्हेसता-करता बरो. एक-दोनदां हांव ताजेकडेन उलयलां. उलोवंक-करूंकय बरो आसा. उकत्या मनाचो, फ्रॅन्डली आनी हरजबाबी आसा. म्हत्वाचें म्हणल्यार, कॉलेज्यांतल्या चांडाळ चौकडींत तो ना. ताका कॉलेज कँपसांत चकाटां मारीत राविल्लो केन्नाच पळोवंक ना. प्रकाशालो हुसको करचेली गरज ना. ताका बॅस्ट फ्रॅन्ड मेळ्ळा.'

आईलें सांगून सोपता सर सुर्यप्रभाले पोले माणिकलाल जाल्ले. आपणें सर्टीफिकेटांत गरजे भायर विशेषणां घालीं आनी गरज ते परस आलायती म्हायती दिली हें आतां तागेल्या लक्षांत आयिल्लें.

आपणाक जाल्ली लज लिपोवंक ताणें म्हजेर ॲटेक केलो. 'त्या कॅरॅक्टर सर्टीफिकेटांत आनीकूय जायतें बरोवचेलें आसलें. तुमगेल्या क्लासांतल्यो चलयो तुमकां किदें म्हणतात तें तुमी जाणात?' तागेलो हल्लो परतुपाक हांवें म्हणलें, 'सर्टीफिकेट तुगेलें, म्हणटकच तूंच सांग.' 'तीं तुमकां शिष्ट आनी खडूस म्हणटात.' ताणें सांगलें. पूण तागेल्या उतरांक धार नासली. आनी तोंडार बाविल्ल्या लजेरी रोंप्याची शर्मिलीसाण आसली.

ताणें म्हणलें तांतलें खरें कितलें आनी मस्कऱ्यो कितल्यो ताजो थाव घेवंक हांवें तागेल्या तोंडाक पळेलें. ताणें तकली हय-न्हयशी वयर सकल हालयत आनी तोंडार म्होंवें स्मित हास्य हाडून आपणाली नदर म्हगेल्या दोळ्यांत घालून स्थीर केली.

आनी सामको त्याच खिणाक, साडे-तीन वर्सांच्या कॉलेज जीवनांत पयलेच खेप म्हगेलें मन मोगाच्या शेळ्यार सूळ्ळ जावन भूंय-सपाट जालें. सुर्यप्रभाल्या दोळ्यांत दोळे घालचेलें धाडस हांवें आनी केन्नाच केलें ना.

म्हगेल्या मनांतलें कूत लिपोवंक, विषय बदलून हांवें म्हणलें, 'आई, जेवणाचो वेळ जाला, जेवन वचात. प्रकाश हांगा किदें खाता, करता तेंय तुमकां कळटलें.'

'नाका रेव बाबा.' आईन म्हणले. 'आमी सामकीं शुद्द शिवराक मनशां. भुरगीं सामकीं उरफाटीं जाल्यांत, नॉन-व्हॅज्याक लंपट जाल्यांत.'

'अशें कशें? प्रकाशाक तर नुस्तें चड प्रितीचें.' हांवें कुतूहलान विचारलें.

'म्हगेलें कुळार पुण्याक. थंय सगलीं शुद्द शाकाहारी. म्हगेली आवय कारवारची. थंयूय सगळीं शुद्द शाकाहारी. पूण आज्येन नातरांक शेजरा धाडून फिश खावंक शिकयलें. ती म्हणटाली, 'जग आतां ल्हान जालां. ही कला तांगेल्या आंगांत आशिल्ली बरी.

'आमगेलीं भुरगीं जाणट्यांली देख घेवंक तत्पर न्हय? आज्जेली कला तीं इल्ली चडूच शिकलीं. चिकन-मटन-बैदा खावपाक तीं मागीर स्कुलांत फ्रॅन्डां कडल्यान शिकलीं. आमी तें कानाभयऱ्या केलां. पूण, आमगेल्या घरांत मात सगलें संपूर्ण शिवराक.'

म्हगेली मस्करी करचेली सुर्यप्रभाली खुरखुरी अजूनय उणी जावंक नासली. आदल्याच मुद्याचेर ताणें नवें बॉम्बशॅल उडयलें, 'खडूस म्हणल्यार किदें तें तुमीं जाणात? तुमगेली मराठी मातशी हेंगाडी, देखून विचारतां,'

खरें म्हणल्यार, हांव त्या उतराचो सारको अर्थ नकळं आसलों. तरीय हांवें मारून दिलें, 'ऑफ कोर्स जाणां, खडूस म्हणल्यार फळ्यार बरोवंचेल्या खोडवा भशेन सरळ, म्हणल्यार सरळमार्गी आनी भायर-भितर धवोफुल्ल, म्हणल्यार उकत्या मनाचो. तुवें कॅरेक्टर सर्टीफिकेटांत बरयलां तेच प्रमाण. म्हाका फावता तेंच नांव ताणीं दवरलां.'

बाबान हांसो मारलो आनी म्हणलें, 'यॅस इंडीड, ही ईज हरजबाबी. वॉच आवट, सुर्यप्रभा, ही हॅज गॉट यू ऑन द रॉन्ग फूट.' सगळीं खळखळून हांसलीं.

तीच संद घेवन हांवें सुर्यप्रभाचेर कावंटर ॲटॅक केलो, 'तुवें कॅरॅक्टर सर्टीफिकेटांत घाल्लीं विशेषणां आनी फटाशी खबरो पळेल्यार तुज्यान एक उत्कृष्ट फिक्शन रायटर जावं येता. तुगेलें इमॅजिनेशन पावरफुल आसा. फटीची नटी करचेली कला तुजे लागीं आसा.' हांवें म्हणलें.

हाजेर आईन जाप घाली, 'रायटर जावं येता किदें म्हणटा, दत्ताराम! कॉलेज्याक आयले उपरांतूच ताणें सगलें सोडलां. तें कथाकार, तें कवी, तें ड्रामाटिस्ट, तें एलोक्युशन कोंपिटिशनिस्ट. दिल्लीक जाल्ले स्कूल लेवल स्पर्धेंत महाराष्ट्राचें प्रतिनिधीत्व करून ताणें कप हाडला.'

सुर्यप्रभाले पोले 'लाल लाल गाल' जाल्ले.

सुर्यप्रभाक आनीक एक चिमटो काडपाक हांवें म्हणलें, 'आई, तुवें सांगलें तें आयकून म्हाका कलकलो सुटलो. कवितेचें आनी म्हगेलें कशेंच पडना. आमगेले कवीयत्रे पसून चार पावलां पयस राविल्लें बरें. हांव कविता वाचतां. ना अशें न्हय. कांय कविता मार्मीक आसतातूय. पूण, णव्याण्णव प्रतीशत कविता बाबत आसतात. कवी किदें सांगूंक सोदता तेंच कळना.'

'म्हणल्यार दत्ताराम, तुका काव्याची रसिकताय आसा. खऱ्यानीच चडशें काव्य आनी कवी निरर्थक आसतात.' आईन म्हणलें.

हांगा सुर्यप्रभान तोंड घालें, 'शिरवटकर, कॉन्ग्रॅट्स. आईन तुमकां काव्य-रसिक पदवी दिली. याद दवरात, ती स्वताच लेखक आनी कवियत्री. तिगेल्या कथा-कवितेचीं तीन पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.' हांव तोखणायेन आयकतालों.

इतल्यांत प्रकाश भितर सरलो. आचार्य कुटुंबाच्या इमोशनल गॅट-टुगेदरी भटवाड्यांत म्हगेलें कुकड नाका लेकून, थंयच्यान कूस मारून हांव जंबो क्लबांत गेलों. रामाक विचारून, हांवें थंयचें गेस्ट बूक काडलें, तारीक घाली, मेंबर कॉलमांत म्हगेलो दुसरे वटेंतलो रूमशेजारी, झुओलोजीचो सिनियर पियुश पांचालाचें नांव बरोवन गेस्ट कोलमांत च्याराचो नंबर घालो. सायब, पांच मिनटां भितर हुनहुनीत पोळयो तयार दवरतां.' रामान उमेदीन म्हणलें. रामाक थँक्यू म्हणून हांव गेस्ट रूमांत परतलों.

प्रकाश आंगान मातसो परतला हाजेर सगळ्यांलें स-खोशी एकमत जाल्लें. जाणटेल्यांल्या जेवणांची व्यवस्ता जंबो क्लबांत केल्या हें सांगतकीर, आई, बाबान पयलीं नाका-नाका केलें. मागीर, पुता-धुवेच्या आग्र्याक लागून तीं राजी जालीं.

'तूं जेविना तर आमचे वांगडा? यो मरे. वांगडा जेवंया.' आईन म्हणलें. उरिल्ल्या तिगांयनी तिका तेंको दिलो. 'येतलों आसलों.' हांवें सांगलें, 'पूण सवाय वराचेर म्हाका प्रॅक्टिकल आसा. हांव आमगेल्या क्लबांत जेवतां आनी धांव मारतां.'

ताजेर सुर्यप्रभान आवयक म्हणलें, 'आई, तांकां वचूं दी. फिझिक्स प्रॅक्टिकल चुकोवप बरें न्हय.'

'बरें तर दत्ताराम, आमी तुगेलो निरोप घेतांत. सुटयेंत प्रकाशा वांगडा जळगांव यो. पूण अक्टोबरांत न्हय आं, ते उज्याचे दीस. खूब गरमी आसता. डिसेंबरांत यो.' आईन म्हणलें.

हांवें हात तकले वयर लांब व्हरून विचारलें, 'खंय, जळगावं?'

आईन हांसत म्हणलें, 'न्हय. प्रकाश आनी सुर्यप्रभाल्या गांवांक. आमगेर. आतां लागीं कशें दिसलें?'

बाबान म्हणलें, 'दत्ताराम, तशें पयस ना. रातची साडे-धांची ट्रेन धरल्यार तुमी फांतोडेर साडेपांचांक जळगांव पावतले. अजंठा-वेरूळाची ट्रीप प्लॅन करून येयात. जळगांवच्यान सुलभ जाता.'

हांवें हय ना कांय केलें ना. इल्लो हांसलों. सुर्यप्रभान फोण्ण मारलें, 'आई, मनांत आसूंक जाय. मागीर कांयच पयस ना. तूं आनी बाबा पळे तांका मेळूंक कशीं मुद्दम मुंबय आयलीं!'

'एक मिनीट, सुर्यप्रभा. आय हॅव एन आयडिया.' बाबान म्हणलें. 'दत्ताराम, ख्रिसमस टायमार कॉलेजाक सात दीस सुटी आसता. तेन्ना सुर्यप्रभा आनी प्रकाश जळगांव येतलीं. म्हगेलो तुमकां रिक्वेस्ट, तांचे वांगडा तुमीय येयात. हांवूय सुटी घेतां. आमी सगळे मोटारीन अजंठा, वेरूळ, औरंगाबादचो टूर करुंया. इतल्यांत वसुंधराय बी खोशी जातली.' बाबान आईकडेन पळेत हांसत म्हणलें.

'बाबा, तुमी सुटी घेतले? संवसारांतलें आठवें आश्चर्य म्हणचें पडटलें.' सुर्यप्रभा आनी प्रकाश एकसणयां आड्डुलीं.

आईन हांसत म्हणलें, 'तशें जाल्यार दत्ताराम, तुवें येवचेंच पडलें. म्हजें लग्न जावन हांव आचार्य कुटुंबांत येत सावन, आज पयलेच खेप हांणी सुटी काडचेली खबर उलयल्या. हांवें केन्नांय भुरग्यांक सायट-सिईंगाक व्हरुंया म्हणल्यार हांगेलें सदचें पालूपद आसता, 'मागीर पळोवया. ह्या दिसांनी फावना, कामाचो लोड आसा.' हांव आनी भुरगीं हांगां थंय भोंवल्यांत तीं म्हगेलो मांय-मांव, देर आनी म्हगेल्या भावाल्या धर्मान. बाबांली ही ट्रीप लेगीत आमकां तुगेल्या धर्मान लाभता. देखून दत्ताराम, तूं योच. मौजेन ट्रीप मारून येवंया.'

इतलें सगलें उलोवणें जाले उपरांत हांव ना कशें म्हणटलों! खरें म्हणल्यार हांव मनांतल्यान खोशी जाल्लों. 'तुमी आं-ना कांयच म्हणलें ना. ना म्हणपाक कसलें निमीत सांगुया ताजेर विचार चल्ला काय किदें?' सुर्यप्रभान तोमण्या हेळ्यांत विचारलें. 'ना. ताजे उरफाटें. आं म्हणपाक कसलें निमीत सांगूंया ताजेर विचार चल्ला.' हांवें सुर्यप्रभाल्याच सुरांत सांगलें. सगळीं हांसलीं.

'बरें आई-बाबा, येतां हांव', म्हणत हांवें तांकां नमस्कार केलो, प्रकाशाले फाटीर दोनदां टॅप केलें आनी सुर्यप्रभाल्या तोंडार धांवती हांसती नदर मारून, तांकां टाटा करून थंयच्यान भायर सरलों. मनांत जबर इच्छा आसूनय सुर्यप्रभाले नदरेक नदर दिवचेलो धीर म्हाका जालो ना.

गेस्ट रुमांतल्यान भायर सरून हांव मिनी क्लबांत पावल दवरतां, इतल्यांत फाटसून सुर्यप्रभालो उलो कानार पडलो. 'ओऽ, दादा-भाईऽ, एक मिनीट राव.' हांवें वळून पळेलें. प्रफुल्लीत चेऱ्यान सुर्यप्रभा उबें आसलें. 'तुका आई-बाबाली मॅसेज आसा. तीं आज रातचे साडे-धांचे ट्रेनीन वतात. ते आदीं हॉटेलांत वचून जेवचेलो बेत तांणी केला. तुवें आमकां ज्योयन जावचें अशें आमंत्रण दिवंक आईन म्हाका धाडलां.'

'फुक्या मेळटलें भूस कोण सोडीत?' हांवें म्हणलें. 'हांव खोश्शेन येतलों आसलों. पूण आज सांजे म्हाका कशेंच फावना. एक गरजेचें काम आसा.'

हें आयकून सुर्यप्रभालें तोंड उतरलें. 'ते परस तुगेल्या मनांत येवचेलें

ना अशें सांग न्हय. निमतां किद्याक सांगूंक जाय?' ताणें म्हणलें. 'तुका बरें दिसता तशें कर. आई-बाबांक हांव तुगेलो निरोप पावयतां.'

'सुर्यप्रभा,' हावें म्हणलें. 'पयल्यान पयलीं बेजार जावं नाका. कसलें काम आसा तें पयलीं आयक. म्हगेलो एक सोयरो गोंयच्यान आयला. फाटले पांच-स म्हयने तागेल्या पोटांत दुखता खंय. गोंयच्या दोतोरांक तागेले पिडेची परीक्षा जाली ना. देखून स्पेशालिस्टाक दाखोवंक तो मुंबय आयला. हावें आज सांजे सात वरांचेर तागेलो अपॉयंटमेंट घेतला. म्हाका ताजे वांगडा वचचेंच पडटलें. हांव फट मारीना. ही अडचण नाशिल्ली जाल्यार हांव व्हडा खोश्शेन येतलों आसलों. चड करून सुर्यप्रभा, तुगेली कंपनी मेळटली आसली, देखून.'

'ना दत्ताराम, तूं म्हजेकडेन फटींगपणां करचोना हाजी म्हाका खात्री आसा. आय एम ओल्सो सोऽ सॉरी टू मिस यूअर कंपनी', अशें म्हणत तें वचूंक लागलें.

पांच-सात पावलां काडटकीर ताणें फाट फिरायली आनी परतेंय म्हजे सरेन येवन म्हणलें, 'दत्ताराम, व्हॅरी सॉरी आं.' म्हगेले दोनय तळवे वरशे करून हांवें विचारलें, 'किद्या खातीर तें?'

'येदोळ हांवें तुजेर गरजे भायर ॲटॅक केले. आईन म्हाका ''मनांत किदें आसलें तें तुवें सादेपणान बरयलां.'' अशें म्हणटकीर हांव नर्व्हस जालें. म्हगेल्या मनांतलें गुपीत फुटलें ह्या विचारान कांचवेलें आनी पिशासारकें कायचे काय उलयलें. देखून तुका सॉरी म्हणटां. व्हॅरी व्हॅरी सॉरी! बाऽय दत्ताराम.' म्हणत तें गेलें.

आयचे हे मिटींगे उपरांत, म्हज्या-सुर्यप्रभा मदीं चार नवीं समिकरणां प्रस्तापिल्लीं. मिस आचार्य आसलें तें सुर्यप्रभा जालें. मिस्टर शिरवटकर आसलो तो दत्ताराम जालो. बहुवचनी सर्वनाम 'तुमी' वचून 'तूं' आयलें आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें, आतां मेरेन म्हगेल्या मनांतूच वावुरतल्या सुर्यप्रभान, आज म्हगेल्या काळजांत एँट्री मारून, थंय जागो सुगुरिल्लो.

* * *

दिवाळेची सुटी सोपून दुसरो टर्म आरंबलो. सुटयेंन हांव गोंयां गेल्लों आनी प्रकाश जळगांव. टर्मिनल परिक्षेचो रिझल्ट जालो. प्रकाशाक बरे मार्क पडिल्ले. स्कुलांत तागेलें शिक्षणाचें माध्यम मराठी आसलें. कॉलेजांत तें इंग्लीश जालें. ते नदरेन प्रकाशालें करतूत खूब बरें आसलें.

एका फाटल्यान एक करीत, दीस तांगेले सदचे ताकतिकेन वताले. शेनवार, सत्तावीस नव्हेंबर उजवाडलो. ह्या टर्मांत आमकां शेनवारा लेक्चरां आसतालीं, पूण प्रॅक्टिकल्स नात.

कोणाकूय खंयचेंय प्रॅक्टिकल रेपीट करचें आसल्यार, शेनवारा, दनपरां देड ते सांजचीं स वरां मेरेन लॅब उकती दवरताले. लॅब असिस्टंट आसताले. स्टुडीयस भुरगे एक्स्ट्रा प्रॅक्टिकल्स करूंक येताले.

हांवें त्या दिसा दोन प्रॅक्टिकलां केलीं. दोनूय प्रकाश-विज्ञान शाखेंतलीं. स्पॅक्ट्रोमिटरान करचेलीं. प्रॅक्टिकलां सोपोवन पावणें संक हांव भायर आयलों. कांय जाण अजूनय भितर आसले. एक्स्ट्रा प्रॅक्टीकलां करतना आमी फक्कत रिडिंगां घेताले. आंकडे-मोड हॉस्टेलांत करताले.

स्पेक्ट्रोमिटरा वयलीं प्रॅक्टिकलां काळखा कुडींत करचेलीं आसतात. ताका लागून रिडींगां घेतना दोळ्यांर ताण येता. हीं प्रॅक्टिकलां कमराक णव्वद अंशांची बाग दिवन करचीं पडटात. एका फाटल्यान एक, दोन प्रॅक्टिकलां केल्ल्यान म्हगेलें कपल कणकणूंक लागिल्लें. एक सारको बाग घेवन उरिल्ल्यान भेंडूय म्होडून आयिल्लें. जीव गळिल्ले भशेन जाल्लो. पेटपुजा करचेली गरज आसली. भायल्या हॉटेलांत वचपाक वाज येतालो. देखून हांवें कॉलेजाच्या कॅन्टीनात वचचेलें थारायलें.

आमच्या कॉलेज्यांत दोन कॅन्टीना आसलीं. एक फक्कत चलयां खातीर आनी दुसरें जनरल. दोनूय कॅन्टीनांचो कोन्ट्रॅक्टर एकूच मनीस कृष्णा शेट्टी आसलो. जनरल कॅन्टीनांत चलयो चडश्यो येना आसल्यो. केन्नाय चुकून माकून कोणूय दिसताली. कॅन्टीनांत बेकार ठवयांलीं भिरीं सदांकाळ चकाटां मारीत, बोवाळ-धोस घालीत बशिल्लीं आसतालीं. देखून हांव चडसो थंय वच नासलों.

हांव कॅन्टीनांत पावल दवरतां इतल्यांत फाटल्यान पावलांचो आवाज आयकूंक आयलो. हांवें घुंवून पळेलें. म्हगेल्या क्लासांतलें मिस विश्वेश्वर उबें आसलें. ताका पळोवन हांव अजापलों. एक म्हणल्यार, चलयो केन्नाच दोन प्रॅक्टिकलां करी नासल्यो. घरा वचूंक इतलो उशीर करी नासल्यो. विश्वेश्वर अभ्यासांत वायट शें नासलें, पूण तें एक्स्ट्रा प्रॅक्टिकल्स करूंक केन्नाच येना आसलें.

'च्या मारूंक?' हांवें विचारलें.

'हय, आनी तुमकां कंपनी दिवंक.' ताणें म्हणलें.

तागेली ही डॅअर डॅव्हील जाप आयकून हांव निर्णलों. एक तर, ही जाप आमगेल्या कॉलेज कल्चराक धरून नासली. दुसरें, आमी चार वर्सां क्लासमेट्स आसलीं, तरीय फुक्या तोंडान केन्ना उलोवंक नासलीं. एकमेकांक हडकूंक लेगीत नासलें. तागेलें नांव सावथ इंडियन कशें दिसलें तरी तें मराठी उलयतालें.

आमी भितर वचून बसलीं. एक वेटर आनी कॅन्टीन कोंट्रॅक्टर शेट्टी सोडलो जाल्यार थंय आनी कोण नासलो. आमी बसले बराबर वेटर म्हऱ्यांत आयलो आनी ताजे फाटोफाट शेट्टी. 'सँडविचीस मेळटल्यो?' हांवें शेट्टीक विचारलें. 'हय.' ताणें सांगलें.

'खावपाक गरम किदेंय मेळत शें दिसना.' हांवें मिस विश्वेश्वराक म्हणलें.

'आसा, बटाटवडे आनी उपीट गरम आसा. आतांच केलां.' कृष्णा शेट्टीन सांगलें.

'धांपच्या वेळार?' हांवें विचारलें.

'बास्केटबॉल कोर्टार मॅचीस चालू आसात, तांगेली ओर्डर आसा.' शेट्टीन सांगलें.

'तशें जाल्यार एक प्लेट सँडविच, दोन सिंगल बटाटवडे आनी दोन डबल च्या हाड. पयलीं म्हाका वेगळी एक सिंगल च्या हाड.' हांवें फर्मायलें.

म्हगेली ओर्डर घेवन कृष्णा शेट्टी गेलो. वेटरान टोमेटो सॉस आनी मिठाची बाटली हाडून मेजार दवरली आनी उपरांत बर्फ घाल्ल्या उदकाचे दोन ग्लास. कांय वेळान म्हगेली सिंगल च्या आयली. हावें पयलीं अर्द ग्लास उदक मारलें. मागीर हून च्याचे लांब घोंट घेवन, ते सवकसायेन गिळून, च्याचो शेक ताळो, सकनळी, पोटा मेरेन पावोवन जिवाक थाकाय हाडली.

'कसलीं प्रॅक्टिकल्स केलीं?' हांवें विचारलें.

'कुंड्स ट्युब.'

'आनी दुसरें?'

'एकूच केलें.' ताणें सांगलें.

'इतलो वेळ लागलो? कुंड्स ट्युब रिडिंगां घेवंक अर्द वर पुरो.'

'म्हगेलें प्रॅक्टिकल येदोळ सोंपलें. हांव तुमकां रावतालें. म्हाका तुमचे लागीं किदें उलोवंक जाय आसलें. तुमकां भायर येवंक कळाव जालो. तरीय हांव रावलें. म्हणलें, आयलां तशें काम पूर्ण करून गेल्लें बरें.' ताणें सांगलें.

'म्हजेकडेन काम? कसलें तें?' हांवें अजाप लिपय नासतना विचारलें.

'पयलीं पोट घट करात. उपाशीं पोटार नाका.' ताणें म्हणलें.

वेटरान सगळे जिनस हाडून मेजार मांडले. हांवें च्यारांतल्यो दोन सँडविचीस काडून मिस विश्वेश्वराले बटाटवड्या प्लेटींत घाल्यो. तांतली एक ताणें हातांत काडली, आनी दुसरी आसली तशी म्हगेले प्लेटींत दवरली. खावंक सुरुवात कर अशें ताका खुणावन हांव खावंक लागलों. म्हजेर कसलें तरी चक्र येता असो म्हाका पुर्वाभास जालो. म्हजेकडेन हागेलें कसलें काम? मेळूंक येवचेली रितूय गैर. भाषाय लागां-मोडांची. वेव्हार सरळ-साफ सो दिसना, किदें तरी लफडें आसूंक जाय. उदर भरण करतना म्हगेले तकलेंत हे विचार घोळटाले.

चुरचुरीत भुके नेटार हांवें बटाटवडो आनी तीनय सँडविचीस एका धपक्यांत मेकळ्यो केल्यो, वयर उरिल्लें अर्द ग्लास उदक शिंपलें, आनी च्याचो ग्लास हातांत घेवन, फाट कदेलार लोडेवन बसलों.

मिस विश्वेश्वर म्हगेल्या हालचालींचेर नदर दवरून खाताले. खाताले म्हणचे परस म्हगेलें खावन जावचेली वाट पळेतालें. सँडविचीचो नाखूट भर कुडको काडून, धांपिल्या तोंडान, लिपस्टीक सांबाळीत, दाडमणांनीं हेवटेन तेवटेन सवकासायेन घोळयत तें बशिल्लें. बटाटवड्याक आनी च्याक ताणें हातूय लावंक नासलो. म्हजें खावन जालें तें पळोवन, ताणें उरिल्ली सँडविच प्लेटींत उडयली, आनी उदकाचो घोंट घेवन तो तोंडांत घोळोवन गिळ्ळो. कदेलीक सारकी फाट तेकोवन बसलें आनी विचारलें, 'यू रिफ्रॅश्ड्?' पोटार हात मारून हांवें म्हणलें, 'यॅस. द पॉट ईज नाव्ह टण्ण.'

ताणें आपणाली पर्स उकती केली. तातुंतल्यान लेंसाची घडी काडली आनी दोळ्यां सकली हूम मोव हातान चिटली. मागीर, लेंसा घडयेची दुसरी वट वयर करून ओठांक वयले वयर तेंकयली. लेंस सामको उकतो करून आपणाली मान आनी गळो जड हातान पुसून काडलो. लेंसाची आशिल्ली तशी घडी करून, ती पर्सींत आसली त्या जाग्यार दवरली. ही सगली क्रिया ताणें वाजवणे सवकासायेन केली.

हांव सस्त बसून नियाळटालों. तें रंगान गोरें-गोमटें आसलें. आंगा पांगान वॅल-फॅड आसलें. तोंडार फाजीलताये तेज आसलें. मेकअप स्कीलफुली केल्लो. ब्युवटी पार्लराक दनपरांच भेट दिवन आयिल्लें आसूंक जाय.

तें गुलाबी रंगाची साडी न्हेशिल्लें. तिका मॅचिंग पोलको, लिपस्टीक, नेल पॉलीश आनी कपलाक एक फेशन-ड्रिवन ओवरसायज तिळो दसयल्लो. हांवें मनांत म्हणलें, 'कॉलेजाक येतना इतलें नटून थटून? तेंय बी लॅबोरेटरींत प्रॅक्टीकल करतना? हो तर लग्नां-बारशांक वचचेलो भेस. फॅशन परेडीक म्हणल्यार चड बरें.'

इतल्यांत म्हाका याद जाली, डार्करूमांच्या भायले वटेनूच कुंड्स ट्युब एक्परीमेंटाचें टेबल आसलें. ताजेर हॉस्टेलांत रावतलो व्हिकी ईपन काम करता, तें हांवें डार्करूमांत भितर सरतना पळेल्लें. जाल्यार मिस विश्वेश्वरान कुंड्स ट्यूब एक्सपरीमेंट कसो केलो? ताणें फट मारल्या आसूंक जाय हें पारखून, ताका पाडूंक हावें विचारलें, 'मिस विश्वेश्वर, खरे मितीं तुवें आज कुंड्स ट्यूब केलो?'

आपल्या तोंडावयली मिरी लेगीत हालय नासतनां, निर्विकार चर्येन ताणें जाप दिली, 'हांव मातशें उसरां पावलें. तें टेबल बेकार नासलें. ताजेर कोण तरी काम करतालो. ते भायर हांव म्हगेलो नोटबुकूय हाडूंक विसरिल्लें. देखून हांव वचून लेडीज रुमांत बसलें.'

आपणाली फट धल्ली हाजी ताका कुस्कूट भर लज जावंक नासली. वयल्यान, नाका जाल्ले प्रस्न विचारून हांव तागेलो वेळ बाद केल्ले भशेन ताणें म्हणलें, 'त्यो खबरो नाकात. तुमकां किद्याक मेळूंक आयलां तें पयलीं आयकात. हांव तुमकां कांय प्रश्न विचारूंक सोदतां.'

हांवें मनांत म्हणलें, 'बरेच दाट कातीचें मरे हें,'

मिस विश्वेश्वरान आपणालो पयलो प्रस्न नेटान निमगिलो. 'मिस्टर शिरवटकर, जून म्हयन्या थावन पळेतां, तुमी सकाळ-सांज, तो फर्स्ट इयराचो पोरगो प्रकाश आचार्या वांगडा दिसतात. ताजेकडेन तुमगेली इतली दाटी किद्याक?'

तागेलो प्रस्न आयकून म्हाका भिरभिरी मारली. पूण हांवें तकली शांत दवरली. म्हाका ह्या प्रस्ना फाटलो तागेलो हेतू जाणा जावचो आसलो. तागेलो नेट देंवोवंक हांवेंय नेटान म्हणलें,' मिस विश्वेश्वर, आयच्या दिसाची ही तुगेली तिसरी फटास. म्हाका आनी त्या पोरग्याक तुवें केन्नाच वांगडा पळोवंक ना. तूं फटी मारता. हाजेर म्हगेली पैज.'

तागेल्या आवाजाक मोवसाण आयली. 'हांवें म्हगेल्या दोळ्यांनी पळोवंक ना आसत. पूण ते विशींचे रिपोर्ट आसात.' ताणें मेजार मूठ मारून सांगलें.

'रिपोर्ट? कोणाले? पुलिसांले?' हांवें विचारलें.

'पुलिस किद्याक जाय, खबरो कशो काडप तें म्हाका बेस बरें खबर आसा.' तागेली आत्मविश्वाशी जाप.

'म्हणल्यार धवळे?' हांवें विचारलें. ताणें जाप दिली ना. प्रकाश आनी हांव सकाळच्या स वरांचेर आनी सांजच्या आठ वरांच्या अदमासाक हॉस्टेला

भायर वांगडा आसताले. त्या वेळांर मिस विश्वेश्वर आमकां कशें पळेतलें? देखून हांवें ताका चॅलेंज केल्लें.

मिस विश्वेश्वरान आपणालो दुसरो रॅपीड फायर प्रस्न केलो, 'काय त्या पोरग्याले भयणीचेर, ते केमिस्ट्री आचार्याचेर तुगेलो दोळो आसा, देखून तुवें तागेल्या अन्नाडी भावाक इष्टागतीचें सवंग करून लागीं केला?' म्हगेले तकलेंत सण्ण जालें. मर्यादा आनी सभ्यताय सोडून केल्लो एक धवळीक प्रस्न. तरीय हांवें संयम सोडलो ना.

'मिस विश्वेश्वर,' हांवें म्हणलें, 'फाटलीं चार वर्सां आमी ह्या कॉलेजांत आसांत. तूं, हांव आनी तें आचार्य. आचार्याक अप्रोच जावपाक म्हाका असलो द्राविडी प्राणायाम किद्याक करूंक जाय? पयलीं तागेल्या भावाक धर, ताजे कडेन इष्टागत कर, मागीर तागेले भयणीकडेन संदान बांद. असल्या नागमोडी मार्गान वचचेली कसली गरज? म्हज्यान ताका डायरेक्टली अप्रोच जांव येता न्हय? आतां तूं म्हाका जालां तशें!'

मिस विश्वेश्वर तयारेन आयिल्लें, 'नागमोडी मार्गान कित्याक तें सांगतां.' ताणें म्हणलें. 'इतलीं वर्सां तूं ताजेर लाय्न मारतालो. ताणें कानमान हालयलो ना. आतां हो छोटूभाय तुगेल्या हाताक सांपडला. ताका यूज करून तूं तुगेलें तारूं फुडें रेंटूंक सोदता.'

हांवें थंडसाणेन म्हणलें, 'मिस विश्वेश्वर, समज, पयलीं थावन आमचे मदीं किदेंय चलतालें. आतां तागेलो भाव आइल्ल्यान तें वाऱ्यार पडले. अशें किद्याक न्हय?'

'तुमचे भितर तसलें कांयच नासलें. हांव सांगतां तुका.' ताणें किवांटून सांगलें. 'म्हजे कडेन सगळें इन्फर्मेशन आसा. पोरूं ज्युनियराक एक-दोनदां फिझिक्स क्लासा भायर तुवें ताजेकडेन आमटान कल्लांवचेलो यत्न केल्लो. पूण तें तुका बदलें ना. हांव सांगतां तुका.' टेबल धाडायत ताणें म्हणलें.

तागेली फूंक काडपाक हांवें म्हणलें, 'मिस विश्वेश्वर, समज, तूं म्हणटा तेंच खरें. म्हगेली मिस आचार्याचेर लायन आसली. हांवें हर प्रयास केले. ताणें दाद दिली ना. आतां तागेलो भाव म्हगेल्या कबज्यांत आयला. ताका

यूज करून हांव तागेले भयणीक सांपडावंक सोदतां. ओके?' तागेलेंच म्हणणें आनीकूय निलाजऱ्या उतरांनीं घालून हांवें विचारलें.

'सामकें खरें.' ताणें जैतिवंत मुद्रेन म्हणलें.

'जाल्यार किदें जालें? मदीं तुगेली लुडबूड किद्याक?' हांवें बॉम्बशेल उडयलें. 'माय बिजनेस. वॉट ईज रॉन्ग अबावट ईट?'

'एव्हरी थींग ईज रॉन्ग अबावट ईट.' मिस विश्वेश्वरान किंवेंत म्हणलें. 'हांव म्हणटां, तुगेल्या क्लासांत इतल्यो सगल्यो चलयो आसतना, तुका दुसऱ्यांल्या क्लासांत वचून शेण खावचेली कसली गरज? दॅट ईज वॉट ईज रॉन्ग अबावट ईट.'

तागेलीं हीं उतरां आयकून हांवें मनांत म्हणलें, 'हाणें लज सामकीच सोडल्या मरे.'

तागेलें गणगणें चालूच आसलें. 'तूं क्लासांत भितर सरतना घोड्याक दोळ्यांक बांदतात तसलीं झांपडां बांदून येता. आमचे वटेन पळे नासतना फुडें वता. आमीं किदें रस्त्या कुशीक आसतात तसलीं भावना हीन गुण्यां-गडग्यांचीं दुरगां? ताकाच लागून सगल्यो चलयो तुका शिष्ट आनी खडूस म्हणटात. खबर आसा तुका?' ताणें झोंकान विचारलें.

'मिस विश्वेश्वर, म्हाका एक सांग,' हांवें म्हणलें, 'कोणूय कोणाल्याय मोगांत पडला जाल्यार ताका सवंसारांतल्यो हेर चले-चलयो किद्याक दिसूंक जाय?'

'जगाच्यो काणयो तूं म्हाका सांगूं नाका. हांव तुगेली खबर करतां. तुगेली आनी म्हगेली. तुका एकूच सांगतां, दॅट आचार्य इस नॉट व्हर्दी ऑफ यू.' बटाटवड्याची प्लेट उबारून ती किंवाट्यान टेबलार आपटीत ताणें म्हणलें. 'तें चली म्हणल्यार पुस्तकांतलो किडो. लायफांत कॉलेज शिक्षण आनी पुस्तकी विद्या किद्याकूच शिरी पडना. आयच्या समाजांत, फुडें सरतलो जाल्यार, चड करून बायलांनी, तांणी फॅशनींत न्हेसूंक-शृंगारूंक जाय. पार्टी-क्लबांनी भोंवूक जाणा जावंक जाय. असले गूण आशिल्लीच सांगातीण तुका जाय, म्हजे सारकेली.'

प्रकरण खंयचे खंय व्हांवूंक लागलां आनी तेंय बी कॅन्टीनाच्या चवाट्यार देखून, नाटक बेगीन सोपोवंक हावें म्हणलें, 'बरें बाये, फाल्यांच्यान क्लासांत भितर सरतना, सगळ्या चलयांक दोळ्यांनीं सारकीं बरीं सांसपीत, सांसपीत वतां. हॅपी?'

म्हजें उलोवन सोंपचे पयलींच ताणें धेंगसो घालो, 'आतां सगल्या चलयांक किद्याक पळोवंक जाय? आतां आमगेली वळख जाली न्हय. आमीं फ्रॅन्ड्स जालीं. आतां फक्कत म्हाका पळे. त्या लांवांचेर नदर घालूं नाका.'

'बरें बाये. तशेंच करतां.' हांवें म्हणलें. 'खूब उशीर जाला पळे. तूं आतां घरा वच. तूं खंय रावता?'

'लेडीज होस्टेलांत.' ताणें सांगलें. 'तुका खरेंच खबर ना, काय तूं पिशें पांगुरता?'

तें लेडीज होस्टेलांत रावता हें कळटकीर म्हगेल्या दोळ्यां मुखार फुडलें चित्र उबें रावलें, 'आतां हें हॉस्टेलांतूय खवदळ घाले बगर रावचेलें ना.'

ताका थातारूंक हांवें म्हणलें, 'मिस विश्वेश्वर, सारकें समजून घे. म्हगेलें आनी मिस आचार्यालें, तूं समजता तसलें कसलेंच नातें ना. तागेलो भाव प्रकाश आचार्य हो हॉस्टेलांत म्हगेलो रूम-शेजारी. देखून आमगेली इष्टागत. प्रकाशाले आनीक दोन रूम-मेट्स आसात, तेय म्हगेले तितलेच इष्ट. तेय जायते खेपो म्हज्या वांगडा आसतात. तुगेल्या मनांत किलमिष आसा, ताका लागून तुका फक्कत प्रकाश दिसता.

'तुका आनी एक सांगतां मिस विश्वेश्वर, म्हगेल्या पोरूंच्या फिझिक्स क्लासांतल्या अनुभवा वेल्यान सांगतां,' हावें उस्फुर्त म्हणलें. 'मिस आचार्य अत्यंत हुशार आनी विद्वत्तावान चली आसा. शी हॅज ए ब्रायट फ़्यूचर. आपणाल्या शिक्षणीक काळांत तें मोगा-फोगा पसून जितलें पयस रावत तितलें ताका बरें. देखून म्हगेलो तुला रिक्वेस्ट, जमता जाल्यार, ताका डिस्टर्ब करूं नाका. ताका नसते हळशिकेंत ओडूं नाका. प्लीज, मिस विश्वेश्वर, ईफ यू कॅन हॅल्प ईट.'

म्हगेलें सांगणें मिस विश्वेश्वराल्या उस्तरयां गेलें. ‘पुरो कर तागेलें विद्वत्ता पुराण.’ ताणे म्हणलें. ‘हांव ते कॅमिस्ट्रीकान्नीक, तुजे परस चड वळखतां. विद्वत्तावान खंय. माय फूट. गूड नायट.’ इतलें उलोवन तें पांय आपटीत वचूंक गेलें.

पांच–धा पावलां काडले उपरांत तें किंवेंत परतलें आनी तडक म्हजे सरेन येवन कदेलार बसत म्हाका विचारलें, ‘एक सांग शिरवटकर, तें एक अत्यंत हुशार चली, ताका ब्रायट फ़्युचर आसा, ताणें मोगा–फोगापसून पयस रावूंक जाय, ताका डिस्टर्ब करूं नाका असो तोंड भर उपदेस तुवें म्हाका केलो. जाल्यार तूं कसो ताजे कडेन मोग–फोग करता. तेन्नां तें डिस्टर्ब जायना, तेन्ना तागेलो फ़्युचर अफेक्ट जायना? दी म्हाका हाजी जाप.’

‘मिस विश्वेश्वर,’ हांवें थंडसाणेन म्हणलें. ‘तुका हांवें एकदां सांगलें, ताजे–म्हजे भितर कांयच लफडें ना. तें एक स्कॉलर देखून ताजे विशीं म्हगेल्या मनांत आदर आसा. तें बऱ्याक पावचें अशें म्हाका दिसता. हांव सत्य सांगतां हें तुका पटपाक हांवें आनीक किदेंय करूंक जाल्यार सांग. हांव तें करतां.’

‘दॅट ईज लाय्क ए गूड बॉय.’ ताणें म्हणलें. ‘कितें करूंक जाय तें सांगतां. सारकें आयक. पयली गजाल, आयच्यान तुवें ते केमिस्ट्रिकान्नीक मेळचेले सामकें बंद करूंक जाय. कॉलेजांत जावं कॉलेज्या भायर क्रॉस जाल्यार, हडकप–उलोवप सोडूच, तुवें ताजेकडेन वळख देगीत दाखोवंक उपकरना. आसा तुका हें मान्य? हें मान्य आसत जाल्यार हांव तागेले वाटेक वचना. उलय, आसा मान्य?’

‘इतलेंच मगो? तुगेल्यो दोनूय अडी म्हाका मान्य आसात. माय वर्ड.’ हांवें म्हणले.

‘याद मात दवर, तुवें किदेंय फटिंगपणां केल्यार हांव त्या आचार्याक धूळ भरवण केले बगर रावचें ना.’ विश्वेश्वरान धेंकान म्हणलें.

‘कांयच हुस्को करूं नाका. सगळें तुका जाय तशें जातलें. आय प्रॉमिज.’ हांवें थंडसाणेन सांगले.

‘अगेय्न, दॅट इज लाय्क ए गूड बॉय. आय ट्रस्ट यू. आय रिअली

डू.' अशें म्हणून, जोत्यां खोंटो टकटकायत जैतिवंत चालीन तें गेलें. पांच-धा पावलां काडून जातकच, आपणाली तकली हय-न्हयशी फाटल्यान घुंवडावन. हात तकले वयर उबारून, बोटां हालयत तें बंदिस्त स्वरांत आडुलें, 'बाऽय शिरवटकर, टेक कॅर.'

हें अकस्मात घडिल्ल्यान, मनांत नासूनय म्हगेल्या तोंडांतल्यान चेपिल्लीं उतरां प्रतिसादलीं, 'बाऽय, मीस विश्वेश्वर'.

तें नदरे आड जातकीर, गल्ल्यार वचून, हांवें बिलाचे पैसे फारीक केले. रुपयांतले वयले तीन आणे परते दितना शेट्टीन म्हणलें, 'अशेंच हें चली. सामकें रफ आनी झगडाळ. त्याय कॅन्टीनांत असोच खवदळ घालता. वेटरांक नाका जाल्ले हुकूम सोडटा आनी वायट उतरां दिता. तागेलो बापूय खंय दुडवांनी ताण आसा. देखून तें मदांध जालां.'

आमचे भितर जाल्लो संवाद शेट्टील्या कानार पडिल्लो अशें म्हाका दिसना. पूण विश्वेश्वरालो उलोवंचेलो झोंक आनी हातवारे पळोवन तें म्हजे लागीं झगडटा अशें ताका दिसलें आसुंये. हांवें शेट्टीकडेन विवाद केलो ना. इतलेंच म्हणले, 'मदांध न्हय, व्यापार मातसो अणवो-अरवळ काय दिसता.'

मिस विश्वेश्वर आनी म्हजे भितर आज संभाषण जालें, तें जर फाटल्या सोमारा पयलीं, आनी खंयच्याय दिसा जाल्लें, जाल्यार म्हगेलो सूर सामकोच वेगळो आसपाचो. घडये, हांव ताका लागींच धरचो नासलों. ताका मोव-ल्हव उतरांनी सांगतों, 'तूं मार झक. गॅट लॉस्ट.'

पूण फाटल्या सोमारा सावन म्हज्यांत बदल जाल्लो. एक विचार म्हगेल्या मनाक धोसूंक लागिल्लो. म्हाका सामको अस्वस्त करपी एक विचार. ताकाच लागून आज मिस विश्वेश्वरा लागीं उलयतना हांवें म्हगेली तकली शांत-संयमी दवरिल्ली आनी आमगेले मिटिंगेची सांगता दोगांयकूय पुर्णतायेन मान्य अशे कबलातीन केल्ली.

कँटीनांतल्यान भायर येवन हांवें हॉस्टेलाची वाट धरली. तीनसांजचीं पावणे सात वरां जाल्लीं. कॉलेज कॉरिडर निर्मनुष्य आसलो. रस्त्या कुशीक

मिणमिणटल्या गॅसा दिव्यांचो गच्यो नव्हेंबराच्या धुंवरी काळखान घट्ट आवळून धरिल्ल्यो. सगल्याक कीण्ण-कीट्ट काळखा राज्य पातळील्लें.

म्हगेले तकलेंत पूण चक्क उजवाड पडिल्लो. म्हगेल्या मनांक फाटले स दीस धोसतल्या प्रस्नांची जाप म्हाका गाविल्ली. म्हगेल्या फुडल्या मार्गाची दिशा होलमल्ली. तकली शांत जाल्ली.

* * *

आमच्या हॉस्टेलांतल्या मॅसांनी जेवणांच मेळटालीं. ब्रेकफास्ट जावं च्या-स्नॅक्सांची सोय नासली. जेवणाच्यो वेळो सकाळीं णव ते देड आनी रातचें सात ते णव अश्यो आसल्यो. सकाळच्या वेळार मॅस वांगडी फावता तशे येवन जेवन वताले. सांजच्या वेळार मात चडशे साडे-सातांच्या अदमासाक येताले. मॅसांत एका वेळार वीस जाणांक जेवंक बसचेली वेवस्ता आसली. पूण मेंबरशीप सोळाच आसली. ताका लागून बेगीन येवन जागो आडावचेली रेस लाग नासली. रातच्या जेवणा वेळार आमगेलें गॅट-टुगेदर जातालें, तें हॉस्टेलायट्स भुरग्यांल्या कॉलेज जीवनांतलो एक म्हत्वाचो अचीवमेंट आसलो. ह्या दिसपट्ट्या गॅट-टुगेदरांक लागून आमकां सहज-सुलभतायेन सोशल आनी नॅशनल इंटीग्रेशनाचें शिक्षण गावतालें.

जेवन जातकीर भुरगे, ल्हान, ल्हान ग्रुपांनी हॉस्टेला भोंवतणीं पंधरा-वीस मिनटांची शतपावलीक फेरी मारताले. दिसा भरांत कॉलेजांत आनी क्लासांत घडलें तांचो विटंबणीक नियाळ ह्या फेरयांनी जातालो. म्हगेले दोनूय वटेंतले रूम-शेजारी, उदय वाघ, कुमार कर्णीक, प्रकाश आचार्य, पियुष पांचाल आनी हांव मेळून पांच जाणांचो एक खेरीत ग्रूप आसलो.

गेल्लया सोमाराची खबर. त्या दिसा फिझिक्स डिपार्टमेंटाचें वर्सुकी सोशल गॅदरिंग आसलें. तें सोपोवन येतासर साडे-आठ जालीं. म्हगेले ग्रुप मेंबर्स जेवन गेल्ले. प्रकाश एकलो जेवी नासतना म्हगेली वाट पळेतालो. जेवण जातकीर हांव आनी प्रकाश रावंडाक गेले.

उलयतां, उलयतां हांवें प्रकाशाक म्हणलें, 'आयच्या पेपरांत अंदू वर्साच्या नोबेल प्रायज विजेत्यांलीं नांवां आयल्यांत. फिझिक्साचें प्रायज

संयुक्तपणान पावल चेरेंकोव्ह, लजा फ्रान्क आनी इगोर तम्म ह्या तीग सायंटिस्टांक, तांगेल्या चेरेंकोव्ह इफेक्टाच्या शोधा खातीर दिलां.

'आज हांव पेपर वाचूंक पावूंक ना, भाई,' प्रकाशान म्हणलें. 'येदोळ ताईक मेळिल्लों तेन्ना ताणें म्हाका ही खबर सांगली. केमिस्ट्रीचें प्रायज खंय फ्रेडेरिक सँगर ह्या सायंटिस्टाक, तागेल्या स्ट्रक्चर ऑफ प्रोटीन, विशेषताः ताणें इंसूलिनाचेर केल्लया वावरा खातीर दिलां.'

हरशीं, हांव प्रकाशाकडेन सुर्यप्रभाल्यो खबरो केन्नाच उलय नासलों. पूण आज म्हगेल्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं. 'तूं जाणा प्रकाश, पोरूं वर्सा, ज्युनियराक, तुगेलें ताई क्लासांतलें टॉपर आसलें. युनिव्हर्सिटी परिक्षेंत तें दुसरें आयलें. ताका कोणूय झेंपो परिक्षक सांपडलो आसूंक जाय. शी ईज व्हेरी ब्रायट. आय टॅल यू, शी रिचली डिझर्वड फस्ट रँक. म्हाका दिसता ताणें केमिस्ट्री परस फिझिक्स प्रिंसिपल घेवन बीएस्सी करूंक जाय आसली. भारतान आतां न्युक्लीयर ॲनर्जी क्षेत्रांत पावल घालां. हे फुडें भारतांत फिझिसिस्टांक व्हड स्कोप आसा.'

'भाई, केमिस्ट्री घेवन बीएस्सी करचेलें डिसीजन ताईन एस्सेसी पास जातनाच घेतिल्लें.' प्रकाशान सांगलें.

'एसेस्सी पास जातनाच?' हांवें अजापून विचारले.

'हय, आमगेल्या मामाल्या उपदेशा प्रमाण.' प्रकाशान सांगलें

'मामाल्या उपदेशा प्रमाण? किदें म्हणून उपदेश?' हांवें व्हडल्या कुतुहलान निमगिलें.

'म्हगेलो मामा डॉक्टर पुरुषोत्तम अनंत भिडे पुण्यांतल्या नॅशनल कॅमिकल लाबोरेटरींत काम करता. मोलेक्युलर बायोलोजी डिव्हीजनाचो तो डायरेक्टर आसा. अमेरिकेंतले बर्कले युनीव्हर्सिटींत तो शिकला. ताणें डबल पी.एचडी केल्या.

'सुर्यप्रभा एस्सेसी पास जालें तेन्नाच मामान ताका प्लॅन दिलो, पयलीं गणित घेवन इंटर सायंस कर, मागीर फिजिक्स सेकंडरी घेवन केमिस्ट्री बी.एस्सी कर आनी ते उपरांत डायरेक्ट अमेरिकेक वचून एम.एस. कर.

‘देखून, इंटर सायंस परिक्षेंत मुंबय युनीव्हर्सिटींत तिसरें येवनूय, ताई प्रॉफॅशनल कोर्साक वच नासतना, केमिस्ट्री बी.एस्सीक गेलें.

‘फाटलें वर्सभर पत्रवेव्हार करून, ताईन बर्कले आनी हेर दोन युनिव्हर्सिटींनी एम.एस. कोर्सा खातीर प्रोवीजनल अॅड्मीशन घेतलां. खंयच्या कॉलेजांत अॅड्मीशन मेळटलें, जावं खंयच्या विषयांत एम.एस. करूंक मेळटलें, तें बी.एस्सी परिक्षेंत मेळटल्या मार्कांचेर थारतलें. फुडाराक बरो स्कोप आशिल्ले तीन-चार विषय मामान ताका सुचयल्यात. येता तो सप्तेंबर मेरेन ताई अमेरिकेक पावतलें.’

‘ओह, व्हेरी गूड प्लॅनींग. हो प्लॅन ताईक सामको योग्य.’ हांवें म्हणलें.

रावंड सोपोवन हॉस्टेलांत भितर सरतना हांवें प्रकाशाक म्हणलें, ‘प्रकाश, असल्यो खबरी गुपीत दवरूंक जाय. त्यो गांवार घालूंक उपकरना.’

‘शशे, सामक्यो सेक्रेट. पूण केन्नाय विषय आयलो जाल्यार भाईक सांगल्यार जाता अशें ताईन म्हाका सांगिल्लें.’ प्रकाशान सांगलें.

प्रकाशाक गूड नायट करून हांव रुमांत आयलों. काल हांवें ‘‘डायोड अॅज रेक्टीफायर’’ हें एलेक्ट्रोनीक्सांतलें प्रॅक्टीकल केल्लें. कॅल्कूलेशन्स करूंक वेळ मेळूंक नासलो. चार ग्राफूय काडचेले आसले. हांवें जर्नल आनी लोगबुक काडलो आनी कॅल्कूलेशन्स करूंक बसलों. पूण लक्ष लागना जालें. म्हगेल्या मना-मांडार प्रकाशान दिल्ले म्हायतीचे विचार फुगडी घालताले. हांवें जर्नल धांपलो, दिवो पालयलो आनी वचून हांतुणार पडलों.

* * *

सुर्यप्रभाली आनी म्हगेली पयली नदर भेट ज्युनीयर बी.एस्सीच्या फिझिक्स क्लासांत जाली. दोन-तीन दिसां भितरूच तागेले स्कोलरतायेचो दिष्टावो सगळ्या क्लासाक जालो. तेन्ना सावन म्हाका एक प्रश्न पडिल्लो. सुर्यप्रभा इतलें सुपर ब्रायट चली. इंटर सायंसाक ताणें उत्तम मार्क मारल्या आसूंकूच जाय. जाल्यार, खंयच्याय प्रॉफॅशनल कोर्साक वचचे सुवातेर, तें बी.एस्सी.

करूंक किद्याक आयलें, हें कुवाडें म्हाका सुट नासलें. आज त्या कुवाड्याचो खोस देणो उलगडो जाल्लो.

म्हगेलो सुर्यप्रभा विशींचो आदर दश गुणीत जाल्लो. इतले हुशार विदूषे लागीं म्हगेली दाटी आसा ह्या विचारान म्हगेली शाती फुलिल्ली.

बी.एस्सींत सुर्यप्रभा जितले चड मार्क मारीत. तितलें ताका जाय आशिल्ले अमेरिकन युनिव्हर्सिटींत प्रवेश मेळोवप सल्प जातलें आसलें. तागेलें इत्सीत साध्य जावचे खातीर म्हज्यान ताका कसली मदत करूं येत, हाजेर हांव येवजूंक लागलों.

पूण म्हगेले विचारां-गाडयेन तिरकस दिशा घेतली. सुर्यप्रभा आनी म्हजे भितर आशिल्लें नातें आनी त्या नात्याच्या फुडाराचेर मंथन जावंक लागलें. मे म्हयन्यांत परिक्षा जातकीर, रिझल्टाक लेगीत राव नासतना हांव गोंयां वतलों आनी चार म्हयन्यांनी, सप्टेंबरांत, सुर्यप्रभा अमेरिकेक पावतलें. ते उपरांत आमगेले इष्टागतीचें किदें जातलें ह्या विचाराचें रोमट वाजूंक लागलें.

इतल्यांत, दारार कुटकुट जाल्याचो आवाज हांवें आयकलो. म्हाका अजाप जालें. रातचीं साडेणव जातकीर आमकां दुसऱ्याल्यां कुडींत वचूंक बंदी आसली. हे शिस्तीचें पालन बरे रितीन जातालें. हॉस्टेलाच्या मुख्य प्रवेश दाराक लोखणी कॉलॅप्सिबल गेट आसली. तीय ह्याच वेळार बंद जाताली आनी तिका कुलप लागतालें. साडे धा जातकीर कॉरीडोर्स आनी बाथरुम्स सोडले जाल्यार हेर सगल्यो लायटी बंद जाताल्यो.

'एक मिनीट,' म्हणत हांव उठलों आनी दिव्या बटनाक हात घालो. दिवो पेटलो ना. हांवें काळखांतूच दार काडलें. दारा भायर एकनाथ उबो आसलो. एकनाथ हो आमगेलो नायट वॉचमन. म्हगेल्या तोंडार नदर पडना फुडें ताणें सांगलें, 'सायब, तुमकां मेळूंक एक चलीमनीस आयल्या.'

'म्हाका मेळूंक?' हांवें अजाप जावन विचारलें. 'हय सायब, तुमकांच मेळूंक.' ताणें सांगलें.

हांवें काळखांतूच पॅन्ट-शर्ट चडयलें, माग्या वयल्यान बोटां भोंवडावन,

ꣳसार दांतोणी मारली आनी रुमा भायर येवन एकनाथाक विचारलें, 'वरां
केतलीं जाल्यांत?' 'धा जावन चाळीस मिनटां.' ताणें सांगलें.

सकयल पावतकीर, हांवें खपखपत्या काळजान भायल्या दारार नदर
ारली. पासयेचेर सुर्यप्रभा उबें आसलें. 'हें? आनी ह्या वेळार?' हांवें धेंपी
ावलांनी दार गांठलें.

हांव दारासरेन पावतकीर, प्रसन्न आनी मिश्किलीक मुद्रेन सुर्यप्रभा फुडें
ायलें आनी म्हणलें, 'दत्ताराम, काचाबूल जावं नाका आं. एव्हरी थींग ईज
ायन. हांव आनी कांय मैत्रिणी पासयेक वतालीं. मनांत विचार आयलो, तुका
ेलो करचें आनी पांच मिणटां तुजे कडेन चॅटींग करचें.'

सुर्यप्रभाल्या ह्या उतरांचेर आनी करणेचेर म्हगेलो विस्वास बसलो ना.
ादर ऑड टायम, सुर्यप्रभा. फॉर सेईंग हॅलो, ऑर फॉर चॅटींग!! चलयांक
ोंवूक वचपाक तर हो वेळ तेय परस ऑड!!', हांवें सँसर केलें.

'हांव एकलें येवंक ना. वांगडा तीग इष्टिनी आसात. त्यो पळे, त्या
स्टोरंटा लागीं उब्यो आसात.' सुर्यप्रभान सांगलें. 'मॅडमीलें पर्मीशन घेवन
ायल्यांत. सिनीयरांक मातशी सूट आसता, न्हय!'.

'धा-पंदरा मिणटां पयलीं आमी हेवटेन गेलीं, तेन्ना तुगेल्या हॉस्टेलांत
ागल्या रुमांनी लायट पेट्टाली. तुगेल्या रुमांत मात काळोख आसलो. म्हाका
ेलो हुसको जालो. मोग आसता थंय हुसको आसताच न्हय? देखून तुका
ास दिलो. आज तूं बेगीन सारूच न्हिदलो काय किदें?'

इतल्यांत एकनाथान गेटीचें कुलप काडलें. हांव भायर गेलों. हॉस्टेला
ामकार उबें रावून खबरो मारप समा न्हय लेकून, हांवें तागेले दोनय बावळे
ट धरून, ताका घुंवडावन, तागेल्या देहा-तोंडाची दिशा तागेल्यो मैत्रिणी
विल्ल्यो ताजे विरूध्द दिकेन केली आनी म्हणलें, 'आमी मातशीं पयस वचून
लोवंया.' तें मोन्यानी चलूंक लागलें.

हॉस्टेलाची शीम काडून फुडले बिल्डींगेचे पासयेचीं पंदरा-वीस पावलां
ाडून जातकीर, एका मिणमिणत्या गॅसा दिव्या पोंदच्या काळखांत आमी
थीत जालीं. संभाषणाचें मुळावण सुर्यप्रभान घालें.

'दत्ताराम, तुका खबर आसा जाल्यार नकळं, फुडल्या वर्सा हांव एम.एस. करूंक अमेरिकेक वचूंक सोदतां. तीन युनिवर्सटींनी म्हाका प्रोवीजनल ॲड्मीशन मेळ्ळां. सप्टेंबरांत वचचें पडटलें.'

'जाणां. प्रकाशान आजूच सांगलें.' हांवें सांगलें.

'तशें जाल्यार बरें जालें. तें कळून तुगेली प्रतिक्रिया किदें जाली?'

'प्रतिक्रिया? आयकून बरें दिसलें. खूब खोशी जालों. यू डिझर्व ईट.'

'आनी किदेंय प्रतिक्रिया?' ताणें विचारले.

'म्हगेली लागींची इष्टीण उत्कर्षाचे वाटेर आसा हें कळून आनंद जालो. जीव धादोस जालो.' हांवें म्हणलें.

'अभ्यासाचें सोड रे. हेर कसलीय प्रतिक्रिया?' तागेलो प्रश्न.

'हेर कसली प्रतिक्रिया जातली?' हांवें फट मारली.

'आमगेले फ्रेडशीपे विशीं?' ताणें वर्मार बोट दवरलें.

'पयल्या फाराक ना, पूण मागीर विचार आयलो, 'कांय काळा खातीर आमी मातशीं पयसावतलीं.' हांवें भिजूड अर्दसत्यीक जाप दिली.

'कांय काळा खातीर? मातशीं?' ताणें विचारलें. हांव ओगाच रावलों.

'तूं जाणा न्हय, अमेरिकेक शिकूंक गेल्ले विद्यार्थी केन्नांच मायदेसाक परतूंक पावनात. ते त्या 'माया' देशांतूच शिरकून पडटात. हांव अमेरिकेक गेलें जाल्यार आमचे मदली दोस्ती सासणाची सोपतली. देखून 'कांय काळा खातीर' जावं 'मातशी' म्हणप समा जावचें ना.' ताणें घोगऱ्या गंभीरताये ताळ्यान म्हणलें.

'तें खरें. जाल्यार, तुगेल्या गुणांक लागून मेळिल्ली संद तुवें वगडावंक जायना. ते खातीर, आमगेली फ्रॅन्डशीप मातशी फाटीं दवरची पडटा जाल्यार आमीं ती फाटीं दवरूंल जाय.' हांवें म्हणलें.

'आय बॅग टू डीफर, सर.' सुर्यप्रभान चडीत स्वरांत म्हणलें. 'अमेरिकेक

वचप आनी आमगेली दोस्ती साबूत दवरप ह्या दोनूय बाबींक हांव समान म्हत्व दितां. एक बाब दुसरे परस उणाक अशें हांव लेकीना.'

'जाल्यारूय प्रायोरिटीज आसताच न्हय? पयलीं करचेली गजाल पयलीं करूंक जाय. आमगेली फ्रॅन्डशीप खंयच वचना. वयल्यान ती आनीकूय घट जातली.' हावें म्हणले

'त्यो खबरी नाकात. बॅलन्स राखचेलो कसलोय मज्जीम माग्ग सुचय न्हय! प्लीज.' तें पुटपुटलें.

हांवें तागेलो प्रस्न कराडलो आनी ताका विचारलें, 'म्हाका सांग, तूं सोदता तसलो मध्यम मार्ग मेळ्ळोना जाल्यार?'

'मागीर प्रस्नूच ना. हांव म्हगेलो अमेरिकेक वचचेलो प्लॅन कॅन्सल करतलें. इतलेंय कळना तुका, दत्ताराम?.' ताणें सहज-सुलभ सांगलें.

आमगेलें चॅटींग भिरकटत वता, तें आळाबंदूक हांवें म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, खूब रात जाली. आतां तूं वच. वचचे पयलीं म्हगेलो विचार तुका सांगतां. थंडसाणीन आयक.'

'सांग, सांग. म्हाका जाणा जावंक जाय.' ताणें म्हणलें.

'आयक. आमचे मदल्या नात्याचें वर्णन हांवें सदांच दोस्ती, इष्टकाय, दाटी, फ्रॅन्डशीप असल्या रुपडें घाल्ल्या उतरांनी केली. त्या उतरां पेल्यान वचपाक म्हगेलें मन धजलें ना. 'मोग आसता थंय हुसको आसता' ही नवीच ओपार मारून, तुवें आमगेल्या मनांतल्या भावनांक रूप आनी आकार दिल्ल्यान, ह्या खिणाक म्हगेलें काळीज भारून वचून, जडगुळो जालां.

'मोग असली काय तकलुपी हें पारखूंक सामकें सोपें. एकामेकां खातीर कसलोय त्याग करचेली प्रेमिकांली निरंतर तयारी, हीच खरेल्या मोगाची कुरू आनी बुनयाद आसता.

'जे मोगी हे जापसालदारकेक पाळो दितात, तांगेलें प्रेम सच्चें आनी जे कोण जापसालदारकी आंगार येतकच आपणांक अचळय कराडतात तांगेलें प्रेम कच्चें.

‘मोगा खातीर अमेरिकेक वचचेलो प्लॅन कॅन्सल करचेली तयारी दाखोवन, तुवें तुगेले लागणुकेक फावो तो पाळो दिला. पूण, तुगेलो हो परम त्याग हांवें मोन्यानी हजम केलो जाल्यार, हांव एक स्वार्थी नीच मनीस आनी म्हगेलें प्रेम लटकें हें सिध्द जातलें.

‘आमचो मोग हो, आमच्या उत्कर्षा मार्गावयलो, आमकां अखंडीत स्फुर्त दितलो एक उर्जा स्त्रोत आसूंक जाय. तो आमकां आमच्या विकास मार्गांत आडमेळावपी फोंड जावंक उपकरना.

‘सुर्यप्रभा, तूं निश्चींत मनान अमेरिकेक वच. मन लावन शीक. बरे मार्क घेवन पास जा. तुगेलें आनी देसाचें नांव वयर काड. आमगेली मैत्री जावं प्रेम, जें किदें आसा, तें चालूच उरतलें. झरीच्या निवळ उदका भशेन तें अखंडीत पाजरत रावतलें. तुगेल्या थंयच्या कर्तुबांचो बांद त्या पाजराक पडूं दी. पाण्याचो संचय जावन ताजो एक निवळ, नितळ, विशाल जलाशय जावं दी.

‘तूं परतें येतलें तेन्ना त्या बांदाक इल्लें खावटें घालून आमी त्या जलशया उदकाक व्हांवपाक वाट करून दिवंया. तो जलाशय आमगेल्या अखंड व्हांवतल्या मोगा–न्हयेचो स्त्रोत जावं दी. म्हगेले नदरेन, सुर्यप्रभा, होच आमगेल्या प्रस्नांचो सर्वोत्तम सुटावो. आतां आमी चॅटींग बंद करूंया. खूब उशीर जाला. तूं वच.’

इतलें उलोवन, हांवें आदलेच भशेन तागेले दोनूय बावळे घट धरून ताका घुंवडायलें आनी तागेल्या देहा तोंडाची दिशा हॉस्टेला वटेंतल्यान केली. ते बराबर तें मोन्यानी चलूंक लागलें.

आमी हॉस्टेला सामकार पावतकीर, तागेल्यो इष्टिणी आमचे वटेन येतात तें पळोवन, ‘दत्ताराम, आतां तूं चल. सॉरी आं, हांवें तुगेली न्हीद खळयली. थँक्स फॉर द चॅट. गूड नायट.’ अशें म्हणून तें सपसपीत चालीन गेलें.

तेन्ना म्हगेल्या लक्षांत आयलें, येदो वेळ आमीं एकामेकांक सामकीं खेटून चलतालीं. सुर्यप्रभाल्या उजव्या आनी म्हगेल्या दाव्या हाताचीं बोटां

एकामेकांत गच्च भरून आंवुळिल्लीं. आमचे हात कुशी वटल्यान, भुजां थावन सकला मनकट्या मेरेन एकांग जावन गेल्ले आनी सुर्यप्रभाले कुडिचे हुनसाणी धगान म्हगेलें काळीज सळसळून वचून, ताका ओतो आयिल्लो.

हें कशें घडलें तें सांगूंक हांव नकळं. म्हगेल्या मनांत तसलें कांयच नासलें. आनी आसलें जाल्यारूय, तशें करूंक म्हाका धीर जावचो नासलो. हें सगळें हॉस्टेला सामकार घडिल्लें. भानार येतकीर, घाबऱ्या मनान, हांवें हॉस्टेलाच्या जनेलांर नदर भोंवडायली. थंय कोण नासलो. म्हाका सू जालें.

इतल्यांत एक ल्हव मोव शिळोणेचो आवाज म्हगेल्या कानार पडलो. तो हॉस्टेला वटल्यान आयिल्लो. म्हाका खप्प जालें. हांवें हॉस्टेलाच्या जनेलांचेर नव्यान बारीक नदर मारली. पियुश पांचालाले कुडी वयल्या जनेलांत केमिस्ट्रीचो सिनियर रमेश हट्टंगडी, आपणाले दोनूय हात उबारून, ’ब्रॅव्हो बॉय़’ म्हणचेले धजेन, हांसो भरीत दांत दाखयत मोन्यानी उबो आसलो.

सुर्यप्रभाल्या क्लासांतल्या भुरग्यान आमकां पळेंल्लीं. आज ताणें शिळोणी घाली. फाल्यां तो ’पेर्गांव’ घालतलो. क्लासांत, कॉलेजांत, हॉस्टेलांत सगळ्याक फां फां जातलें. सुर्यप्रभाली नालस्ती जातली. ताका मरूंक पुरो जातलें. गुन्यांव म्हगेलो आनी ख्यास्त बावडें सुर्यप्रभा भोगतलें, ह्या विचारान म्हगेलें काळीज  डबडबूंक लागलें. आंगाक शेळो घाम सुटलो.

इतल्यान एक संवकळीचो उलो म्हगेल्या कानार पडलो, ‘भाई, ए भाई.’ टक टक जाल्ल्याचोय आवाज आयलो. म्हाका जाग आयली. हांवें दोळे उकते केले. पळे जाल्यार, हांव म्हगेल्या रुमांतूच आसा. रातीं बाज्जेर न्हिदिल्लों थंयच आसां. फांतोडे पारार म्हाका सपन पडिल्लें. म्हाका सू जालें. हांवें दीर्घ उस्वास सोडलो.

सकाळचीं पावणे स जाल्लीं. सदचे भशेन प्रकाश म्हाका उठोवंक आयिल्लो. ‘प्रकाश’, हांवें न्हिदला थंयच्यानूच म्हणलें. ‘तूं वचून यो. हांव येना.’ ‘बरें भाई.’ म्हणून तो गेलो.

बाज्येर न्हिदला थंय म्हगेलें विचारचक्र घुंवूक लागलें. मनांत आसता तें सपनांत दिसता अशें म्हणटात. सपनांत पळेल्ली एक गजाल म्हजे म्हाकाच

खावंक लागली. आजवेर आमी मनान लागीं येतालीं. पूण आयच्या सपनांत आमी ती लक्ष्मण रेषा पलतडिल्ली. आमी कुडीन लागीं आयिल्लीं

एके वटल्यान, सुर्यप्रभा फुडल्या शिक्षणा खातीर अमेरिकेक वता हें कळून म्हाका भितल्ल्यान खोस जाल्ली. तेच बराबर, आमगेले मैत्रीक फुडार ना हाजी जाणीव जाल्ल्यान मनाक स्वार्थाचे वेग मारूंक लागिल्ले. जाल्यारूय, सुर्यप्रभान सपनांत उच्चारिल्लीं उतरां 'जाल्यार हांव म्हगेलो अमेरिकेक वचचेलो प्लॅन कॅन्सल करतलें' कानार पडिल्ल्या खिणाक म्हगेले तकलेंत सण्ण जाल्लें. काळजा खोलांत दुखीचीं ल्हारां मारूंक लागिल्लीं. आमगेली दाटी सुर्यप्रभाल्या अमेरिकेक वचचेल्या बेताक आडमेळायता, हो विचार म्हगेल्या मनाक धोसूंक लागलो.

* * *

रुमांत येतकीर, थंड तकलेन हांव विश्वेश्वरा लागीं केल्ले कबलातीचेर विचार करूंक लागलों.

उलोवंचेल्या ओगांत हावें म्हणिल्लें, 'मिस आचार्य अत्यंत हुशार आनी विद्वत्तावंत चली आसा. शी हॅज ए ब्रायट फ़्युचर. आपणाल्या शिक्षणीक काळांत तें मोगा-फोगा पसून जितलें पयस रावत तितलें ताका बरें. देखून तुका म्हगेलो रिक्वेस्ट, जमता जाल्यार ताका डिस्टर्ब करूं नाका. ताका हे हळशिकेंत ओडूं नाका.'

विश्वेवरान, तितलेच तलपेन म्हाका पाडिल्लो, 'एक सांग शिरवटकर, तें एक अत्यंत हुशार, विद्वत्तावान चली. ताका ब्रायट फ़्युचर आसा. ताणें मोगा-फोगापसून पयस रावूंक जाय, ताका डिस्टर्ब करूं नाका, असो तोंडभर उपदेस तुवें म्हाका केलो. जाल्यार तूं कसो ताजे कडेन मोग-फोग करता. तेन्ना तें डिस्टर्ब जायना? तेन्ना तागेलो फ़्युचर अफॅक्ट जायना? दी म्हाका हाजी जाप.'

तागेलो प्रस्न तप्त कायलाथ्या भशेन म्हगेल्या मस्तकांत रिगिल्लो.

ह्याच प्रस्नाक लागून, सुर्यप्रभा लागीं आशिल्ली म्हगेली दोस्ती तागेल्या

विकासाक आडखळ करता, हाजी म्हाका स्पष्ट जाणीव जाल्ली. सुर्यप्रभालें बरें मागतो आनी तागेले लागींचो अशा दोट्टी नात्यान, तागेल्या फुडाराचे वाटेंतले सगळे आडमेळे काडून उडोवन, तागेलो मार्ग मेकळो-प्रशस्त करचेली लागणूक म्हजीच आसा, हाजी म्हाका स्पष्ट जाणीव जाल्ली.

मिस विश्वेश्वरा लागीं केल्ले कबलाती प्रमाण, म्हगेलें सुर्यप्रभा लागचें नातें तोडून उडोवंचेली गरज आसली. काम बेगोबेग करचेलीय गरज आसली.

पूण, म्हगेले हे कसाबी करणेचो केदो आघात सुर्यप्रभाल्या अन्याविशीं मनाचेर जांव येता ताजी पूर्ण कल्पना आशिल्ल्यान म्हगेलें मन कचरतालें. 'सुर्यप्रभाल्या भल्या खातीर हें करचेंच पडटलें' ह्या विचाराचो अंकूश एक सारको मारीत रावून, हांवें म्हगेल्या मनाक तयार केलें.

सगळ्यांत पयलीं करचेली गजाल, नातालाचे सुटयेंय जळगांव वचचेलो बेत रद्द करचेली आसली. प्रकाशाकडे उलोवन ही बाब मेकळी करची, हातूंत सुर्यप्रभाक ओडचें न्हय, आनी सुर्यप्रभा कडेन करचेल्या वेव्हारांत प्रकाशाक हाडचो न्हय, अशें हांवें थारायलें.

दुसरो सबंद दीस तकली धोडावनूय, सुर्यप्रभा कडेन विषय मांडटना, तो ल्हव-मोव कसो करचो तें म्हाका सुचलेंच ना. निमणें, 'आयलें तशें गायलें' न्यायान वचचें, अशें हांवें थारायलें.

सोमारा दिसा सकाळीं आठांच्या सुमाराक हांवें सुर्यप्रभाक फोन केलो. आमच्या हॉस्टेलांत फोन आसलो, पूण हॉस्टेलाच्या वणटींक तिनशां वयर कान आशिल्ल्यान, हांवें फोन तिस्का वयल्या उडपी हॉटेलांतल्यान केलो.

सुर्यप्रभा फोनार येतकीर हांवें म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, हांव तुका मेळूंक सोदतां. तुजेकडेन उलोवंक जाय.'

'मोस्ट वेलकम.' ताणें उमेदीन म्हणलें. 'आज म्हाका पयलो पिरीयड ऑफ आसा. पुस्तकां बदलूंक हांव धांक लायब्रीरींत वतलें, थंय मेळुंया'.

'लायब्ररींत नाका. विषय मातसो आपसांतलो आसा. हांव तुका असवडीं मेळूंक सोदतां. भायर खंयूय.' हांवें सांगलें.' तशें जाल्यार सांजचो

हॉस्टेलांत यो. आज सांजे पांचांक आमच्या हॉस्टेलाच्या ॲन्यूअल डे फंक्शनाचें ड्रॅस रिहर्सल कॉलेज हॉलांत जावचेलें आसा. सगल्यो चलयो थंय वतल्यो. हॉस्टेलांत कोण आसचो ना. पांचांच्या अदमासाक यो. हांव तुका रावतां.' ताणें येवकारी उमेदीन सांगलें.

'नाका, नाका. पांचांक नाका. हांव सातांक येतां.' हांवें म्हणलें.

'सातांक सो किद्याक? ह्या दिसांनी काळोख बेगीन पडटा. दिसा उजवाडीं यो. खबरी मारूं या.' ताणें म्हणलें

'म्हाका काळोख पडिल्लोच जाय. हांव तुका मेळ्ळां हें कोणाकूच कळूंक उपकरना. प्रकाशाक लेगीत ना. हांव सातांक येतां.' हांवें सांगलें.

'सातांक आयल्यार तुका हॉस्टेलांत भितर येवंक मेळचें ना. आमी भायरूच मेळचें पडटलें. आमकां सातां उपरांत भायर सरूंक मेळना. हांव 'लेट पास' काडटां. मागीर आठ मेरेन उशीर जाल्यार जाता. हरशीं, आज ड्रॅस रिहर्सल आशिल्ल्यान उशीर जाल्यार जाता. तरीय लेट पास काडटांच. मागीर, हांव रिहर्सलाक नासलें, आनीक खंय गेल्लें असो बोवाळ जावंक नाका. यो तूं सातांक. हांव तुका रावतां.' ताणें म्हणलें.

'ऑपरेशन नातें-तोड, फेज वन' बरे तरेन निभावल्ली.

फोनार उलयतना, नितळ काळजान, निष्पाप मनान, हांसत्या ताळ्यान आनी अपुरबाये उतरांनी, 'यो तूं सातांक. हांव तुका रावतां' हीं उतरां उच्चारतल्या सुर्यप्रभालें खोशी भरीत मुखमळ म्हगेल्या मनपटलाचेर 'हाय रेझोल्युशनांत' उदेल्लें आनी कितलोसोच वेळ थंयसून हालूंक नासलें.

हांवें प्रकाशाक गांठलो आनी डिसेंबरांत 'हांव जळगांव येवंक पावचो ना' ही खबर तागेल्या कानार घाली. 'किद्याक भाई?' ह्या तागेल्या अपेक्षीत प्रस्नाक दिवचेली अर्द-फट जाप हांवें पयलींच येवजून दवरिल्ली. 'म्हगेली णव्वद वर्सां पिरायेची आजी आसा. आमी तिका व्हडली आई म्हणटांत. भुरगेपणांत हांव तिगेल्याच आंगा-खांद्यार वाडलां. ती म्हगेली खूब तुस्त-अपुरबाय करताली. आवयलें कागद आयलां, "व्हडले आईली तब्बेत मातशी

बिगडल्या. एक सारकी तुगेली याद काडता. नातालाच्या सुटयेंट पावठ मारून वच'' अशें आईन बरयलां, हांवें सांगलें.

हे जापेंतलो लटको भाग, व्हडली आजी सात वरसां आदींच गेल्ली. आपले आज्जेले मायेची गोडी चाखून जाणा आशिल्ल्या प्रकाशान रोखडेंच म्हणलें, 'तशें जाल्यार भाई, तुवें वचूंकूच जाय. हांव तुगेली अडचण जळगांव कळयतां. आईलें मन मातशें विरूस जातलें. आमी लेगीत पळोवंक पावूंक ना असल्यो जायत्यो गजाली जळगांव सरादीक आसात. त्यो तुज्या वांगडा पळोवंच्यो अशें हावें आनी ताईन थारायल्लें. ताईलेंय मन खूब विरूस जातलें.'

'येना म्हणल्यार किदें रे?' हांवें सुरय फटास मारली. 'डिसेंबरांत येना. एप्रील-मे आसा न्हय. तेन्ना पळोवंया.'

ऑपरेशन नातें-तोड, फेज टू लेगीत चांग नमुन्यार संपन्न जाल्ली

* * *

सात वरांच्या थोक्याक, अनमनत्या मनान आनी लटपट्या काळजान हांव सुर्यप्रभाक मेळूंक गेलों. फुटपाथार रावून तें वाट पळेतालें. ताजे सरेन पावतकीर हांवें म्हणलें, 'हांगा नाका. हॉस्टेल परिसराच्या दोळ्यां आड खंयूय वचून उलोवया.'

'यो.' अशें म्हणून तें चालीक लागलें. ताजे फाटल्यान हांव गेलों. दोन घरां काडून उजव्यान घुंवले उपरांत, शंबरेक पावलांचेर, गॅसा दिव्यांच्या मंद मेंग्या उजवाडांत सुस्तेत पातळिल्लें एक गार्डन दिसलें. लेडीज हॉस्टेला फाटल्यान, इतलें लागीं गार्डन आसा हें हांव नकळं आसलों.

गार्डनांत पावतकीर हांवें चोंय वशीं नदर मारली. तो एक चिल्ड्रन्स पार्क आसलो. एका कोनशाक लोखणी झोपाळे, मेरी-गो-रावंड, स्लायड्स बी खेळ आसले. दुसऱ्या कोनशाक भारांत आयिल्ल्या फुलां रोप्यांची बाग आसली. पाचवेचार हरयाळीक लागून पार्काची सोबीतकाय वाडिल्ली. चारूय वटांनी ल्हान आनी मध्यम जायेसांचे रूख लायिल्ले. बसपाक बांक घाल्ले. तांतल्या एका बांकार आमी बसलीं.

पार्क सुंदर आसलो. बरे तरेन देखभाल जातोय आसलो. तरीय, म्हगेल्या बाविल्ल्या मुडाक लागून जायत, जितो मूस नाशिल्ल्या त्या कुड्ड्या अंधूक पार्कांतलें मोनें किण्ण म्हगेल्या मनाक अस्वस्त करूंक लागलें. म्हगेलो विचार कळिल्ले भशेन सुर्यप्रभान म्हणलें, 'हांगा किण्ण आसा म्हूण भियेवं नाका आं. रस्त्या पलतडचे बिल्डींगेंत लायट पेट्टा पळे, ती पुलीस चौकी. हो जागो सेफ–सुरक्षीत आसा.'

मातसो वेळ वचूंक दिवन ताणें हुसक्यान कशें विचारलें, 'दत्ताराम, सकाळीं फोनार उलयतना तुगेलो आवाज म्हाका खूब टॅन्स दिसलो. आतांय बी, तूं येत सावन पळेतां, तुगेली चर्या सामकी उतरल्या. दत्ताराम, किदें जालां? वॉट्स रॉन्ग? म्हाका तुगेलो हुसको जाला.'

तागेल्या प्रस्नांक म्हजे कडेन जाप नासली. मोन्यो पातोळ्यो थापून वेळ वगडावचो न्हय लेकून, हांवें विषयाक हात घालो. 'टॅन्शनां येवप, वचप ही सवंसारांतली चालंत बाब. तांचें टॅन्शन घेवन बसचेलें नासता. हांव किद्याक आयलां तें पयलीं सांगतां. हांव तुका एक रिक्वेस्ट करूंक आयलां. कसलेच प्रती प्रस्न करी नासतना, प्लीज, तूं आं म्हण.' हांवें सांगलें.

'रिक्वेस्ट ग्रँटेड. हांवें आं म्हणलें.' तागेली तत्क्षणीं हांसती जाप.

'हांव सिरीयसली सांगतां, सुर्यप्रभा. मस्करेर घालूं नाका.'

'सिरीयसलीच. तुवें रिक्वेस्ट केलो, हावें आं म्हणलें.' हांसो चालू.

'म्हगेलो रिक्वेस्ट किदें? तुवें किदें आं म्हणलें?' म्हगेलो प्रस्न.

'तुगेले सगळे रिक्वेस्ट ग्रँटेड. सगळ्यांक आं म्हणटां.' हांसो चालूच.

तागेल्या 'आं, आं' पाड्याक आळाबंदावंक, हांवें मुद्याक हात घालो. 'सुर्यप्रभा, सिरीयस जा.' हांवें गंभिरतायेन सांगलें.

'बरें बाबा, सांग.' तागेली हांसून जाप.

'सुर्यप्रभा', हांवें जड्ड्या भड्ड्या उतरांनी म्हणलें. 'म्हेगेलो तुका एक रिक्वेस्ट आसा. हांव तुजे लागीं मागतां, फायच्यान आमी आमगेलें मेळप–

उलोवप सामकें बंद करूंया. रस्त्यार मेळ्यार एकामेकांक हडकूं नये. वळख लेगीत दाखोवं नये. तूं फक्कत आं म्हण. किद्याक कात विचारूं नाका. तितलो एक उपकार म्हजेर कर. तशें केल्यार तुकाय बरें......'

सुर्यप्रभान मदींच जाप घालून म्हणलें, 'ॲग्रीड, ॲग्रीड. हांवें आं म्हणलें.' जापेक हांशाची शेपडी.

हांवें त्राशीक मनान म्हणलें, 'आं, आं करता तें, तुका किदें कळ्ळें?'

'तुवें सांगलें तें सगलें कळ्ळें. आमीं आमगेलें मेळप-उलोवप सामकें बंद करूंया. रस्त्यार मेळ्ळ्यार एकामकांक हडकूं नये. वळख लेगीत दाखोवं नये. तशें केल्यार तुकाय बरें आनी म्हाकाय बरे.' तागेली हांश्या उतरांनी जाप.

हांव फूंक गेल्लो फुटबोल जावन तागेल्या तोंडाक पळेत उरलों. तागेल्या मुखमळार कूस भर लेगीत गंभीरताय नासली.

कांय खीण अंतरमनीत जावन ताणें म्हणलें, 'दत्ताराम, तुगेल्या जाग्यार आनीक कोणूय आसलो जाल्यार हांव म्हणटलें आसलें, ''ह्या पोराली तकली सामकीच फोगाक गेल्या.'' पूण तुगेली गजाल वेगळी. तूं म्हगेलो बेस्ट फ्रॅन्ड. म्हाका तुगेल्या मनाचो खोलायेन थाव आसा. फर्स्ट इयर थावन हांव तुका लागींच्यान वळखतां. हें आयकून तूं अजापतलो. कशें किदें तें मागीर सांगतां.

'म्हाका दिसता तुका कसलें तरी टॅन्शन आसा. ताका लागून तुगेलें मन गोंदळांत पडलां. तुगेल्या टॅन्शनाचेर फोकस्ड विचार जावंक जाय.'

'फर्स्ट इयर थावन? लागींच्यान?' म्हगेलें मन ताजेर फोकस जाल्लें.

'दत्ताराम, जाणा जा, टॅन्शन आशिल्ल्या मनशाली विश्लेशणात्मक फॅकल्टी सारकी चलना. असले मनस्थितींत ताणें घेतिल्ले ल्हान-व्हड निर्णय चुकीचे जावं येतात. फुडारांत पस्तावणे थारूं येतात.

'देखून, तकलेक भार आशिल्ल्या मनशान आपणाल्यो चिंता, तागेलें बरें मागतल्या कोणांल्याय कानार घालून तांगेली बुद्द घेवंक जाय. तशें केल्यार, पयल्याच फाराक, अर्द्या वयर टॅन्शन मेकळें जाता. हें हांव म्हजे पदरचें सांगना.

तुका खबर आसा जाल्यार नकळं, म्हगेली आवय सरकारी हायस्कुलाची हेडमिस्ट्रेस आसा. भुरग्यांक कावंसेलिंग करलेलें काम ती करता. तिजें आयकून हांव शिकलें. टॅन्शन विषयाचेर आमगेर कितलींशींच पुस्तकां आसात.

'दत्ताराम, तूं म्हाका तुगेली लागींची इष्टीण मानता जाल्यार, तुगेलो म्हजेर विस्वास आसा जाल्यार, तुगेली खंत किदें, तुका कसली चिंता ग्रासता, तें म्हाका मेकळ्या मनान सांग. आमी दोगांय मेळून ताजेर उपाय सोदूंया. हांव सदांकाळ तुगेल्या तोंडार उमेद आनी खोशी पळेत आयलां. म्हाका तूं तसोच उरिल्लो जाय.

'देखून, तुगेलें खरें दुखणें कळ्ळे बगर, हांव तुगेलें कांयच आयकून घेवचेलें ना. तुगेल्या कित्याकूच आं म्हणचेंलें ना.' ताणें निश्चयान म्हणलें.

आतां हाका कसलेंय जडेलें ताल मारले बगर काणी फुडें वचची ना लेकून, हांवे ताका मिस विश्वेश्वरान म्हाका सुनायल्ली काणी सांगूंक सुरू केली.

'तुगेल्या भावाली आनी म्हगेली दोस्ती आसा न्हय?'

'हय, तुमी क्लोज फ्रॅन्ड्स. जाल्यार?'

'बीएस्सी शिकतल्याली फर्स्ट इयरांतल्या भुरग्याकडेन इतली दोस्ती?

'तातूंत किदें जालें? तुमीं रूम-शेजारी. शेजाऱ्या लागीं दोस्ती जाताच.'

'इतली दाटी जाय सर दोस्ती?' म्हगेलो प्रस्न.

'स म्हयन्यां वयर तुमी शेजारी. सभावांक पडलां.'

'अशें तूं म्हणटा, पूण उलयतल्यांक उलोवंक विषय मेळटा न्हय़?'

'विषय मेळटा? कसलो विषय? कोण उलयता?' तागेलो खोंचीक प्रस्न.

'भयणी लागीं लफडें आसा, देखून भावाकडेन दाटी केल्या.'

'अशें कोण म्हणटा? आधार किदें?' तागेलो थंडसाणेन प्रस्न.

'आयज म्हणना जायत. फुडें फाटीं कोणूय म्हणूं येता न्हय़!'

‘फुडें फाटीं कोणय म्हणत ताजी चिंता? ताजें टॅन्शन?’ तागेलो प्रस्न.

‘न्हय. फाल्यां कोणेंय तशें म्हणलें, आनी तें तुगेल्या वडलांच्या कानार पावलें जाल्यार, बसला थंय तुजी आनी प्रकाशाली नालस्ती जावंची ना?’

‘आमीं लफडें करतांत अशें तुका दिसता?’ आनीक एक खोंचीक प्रस्न.

‘ना. पूण अन्याविशीं तूं आनी प्रकाश धवळ्यांत सांपडत ताजी चिंता.’

‘म्हगेल्या वडलांक तूं मेळ्ळा. तुका तीं कानपोकळीं कशीं दिसलीं?’

‘ना. मातूय ना. तीं खूब समजिकायेचीं, आदरवंत मनशां आसात.’

‘दत्ताराम, तूं दाखय, लिपय करतल्यांतलो न्हय. तुका फटी मारूंक जमना. ती कला तुजे लागीं ना. तूं तुगेल्या टॅन्शनाचें कारण सांगता तें पटपा सारकें न्हय. म्हगेल्या तोंडाक पळे आनी सांग. तुगेले तकलेक कसलो भार पडला? मेकळ्या मनान सांग. पिडेची परीक्षा सारकी जाल्यार वखत करूंक सोपें जाता.

‘तूं सदांच हांसमुख उरचो. खोशी भरीत आसचो हीच म्हगेली इच्छा. तशें जावंक किदेंय करचेली म्हगेली तयारी आसा. किदेंय म्हणजे किदेंय!’ ताणें निश्चया मनान म्हणलें.

हें आयकना फुडें, म्हगेल्या काळजांत चर्र जालें. तरीय काळजार फातर दवरून, तागेल्याच उतरांलो खो घेवन, हांवें म्हगेली प्यादी फुडें रेंटली.

‘हय मगो? हांव खोशी आशिल्लो जाय मगो तुका? जाल्यार हांवें रिक्वेस्ट केला तो मानून घे. आं म्हण. परतेंय सांगतां, तशें केल्यार तुकाय बरें आनी म्हाकाय बरें. हांव हात जोडून मागतां, सुर्यप्रभा. ना म्हणूं नाका. आं म्हण. प्लीज, आं म्हण.’

हीं उतरां कानार पडले बराबर तागेलें तोंड गंभीर जालें. आपणाली नदर बरोच वेळ पांयां पोंदचे हरयाळीर थीर दवरून तें ओग्गी बसलें.

मागीर, म्हगेल्या तोंडाक पळोवन ताणें म्हणलें. ‘म्हाका पयलीं दिसलें,

तूं मस्करी करता. खरो विषय किदें तें म्हाका अजूनूय समजूंक ना. जाल्यारूय तात्पर्य गमलां. दत्ताराम, हांव तुगेलें मन दुखोवंक सोदी ना. हावें आं म्हणून तूं खोशी जाता जाल्यार, हांव आं म्हणटां. व्हडले खोश्शेन आं म्हणटां. तुगेली खोशी तीच म्हगेली खोशी. चल, हावें आं म्हणलें. तूं तरी हॅपी जा.'

ओप्रेरेशन नातें-तोड, फायनल फेज थ्री वॉज द ग्रँडेस्ट सक्सॅस.

थोडो वगत आमी ओग्गी रावून काडलो. मागीर सौम्य आवाजांत ताणें विचारलें, 'म्हजे वयलें हें बंधन केन्ना सोंपतलें?'

'हांव येवन तुका तशें सांगन, तेन्ना.' हावें जड मनान सांगलें.

परत कांय जड सुस्त खीण मोन्यानी गेले.

इतल्यान अकस्मात, म्हगेलें मन म्हाका नाका म्हणटा आसतना, थारो धरूंक जायना जावन, हांवें म्हगेलो हात तागेले मांडयेर दवरलो आनी म्हणलें, 'सुर्यप्रभा, आमगेली फ्रॅन्डशीप मात चालूच उरतली, आं. तिका बादा जावची ना.'

सुर्यप्रभाले ओंठ थरथरते. दोळ्यांत लिकलिक आयली. इल्लो वेळ वचूंक दिवन ताणें, मोव सवकासाये हातान आपले मांडये वयलो म्हगेलो हात कुशीक काडलो आनी आपणाले घडयाळीचेर नदर मारली. हांव सादूर जालों.

'वचुंया? पावणे आठ जालीं.' हांवें म्हणलें. तें मोन्यानी उठलें.

परतवणे वाट, खर चट्टी काडिल्ले भशेन खरशेवणी जाल्ली. पार्कांत सावन भायर येतकीर सुर्यप्रभान म्हणलें, 'फाटल्या चार वर्सां सावन हांव तुका लागींच्यान वळखतां अशें हांवें म्हणटकीर तुवें भोवंयो वयर काडल्यो. हांवें फट सांगूंक ना. आयक.

'पयलीं दोन वर्सां, तूं आनी हांव विंगड डिव्हीजनांत पडिल्लीं. तुगेल्या क्लासांत सुचिता विश्वेस्वर आसा न्हय, तें हॉस्टेलांत फर्स्ट इयराक म्हगेलें रूम-पार्टनर आसलें.'

मिस विस्वेस्वरालें नांव आयकून म्हाका धस्स जालें. म्हगेली कात

सांबाळूंक, होतो नोतो जावन हांवें म्हणलें, ‘वळखतां त्या बोबाटयाक. तागेलें नांव सुचिता म्हण खबर नासलें. तागेल्या सभावांत सु चीत आसा अशें म्हाका दिसना.’

‘ना पापया, तें सभावान सामकें बरें. मायेस्त आनी उपकारीय आसा. आंगांत इल्लीं भुरगेपणां आशिल्ल्यान केन्नाय तोंडान फटकळ जाता.’

‘तें तुगेलें फर्स्ट इयराक रूम-पार्टनर आसलें तें बरें आसा. पूण, तूं म्हाका लागींच्यान कशें वळखतालें?’

‘तीच तर मौजेची गजाल.’ सुर्यप्रभान सांगलें. ‘सुचिता एक उमेदी आनी चेष्टा-मस्करी करतलें मिस्चीवस चली. कॉलेज सुरू जातकीर आठूच दिसां भितर ताणें तुगेल्या क्लासांतल्या चल्यांले वांटे घाले आनी ते सगळ्या चलयांक अलॉट करून उडयले. असल्यो मस्कऱ्यो चलयां भितर चलतात. चल्यांलेंय असले खेळ आसतलेच.

‘सुचितान तुका आपल्या वांट्याक घालो. मागीर रुमांत दीस रात तुगेल्योच खबरी. आठ दिसां भितर तुगेलें नांव, गांव, रूप, गूण, दिसप-करप, चलप-उलोवप, अभ्यासांतली आनी जनरल हुशारी बी तुगेल्या संपूर्ण बायोडाटान हांव सामकें भिजून, करंजून गेलें.

एक दीस, मौजेन कशें हांवें सुचिताक म्हणलें, ‘आगो तुगेली ती सर्वगुणी मुर्ती दाखय मगो.’ दुसऱ्याच दिसा कॉलेजांत भितर सरूंक आशिल्ले सायड गेटी लागीं आडोसाक रावोवन, ताणें म्हाका तुगेलें दूर-दर्शन लागींच्यान घडयलें.

‘तुवें ताका हडकिलो ना मगो?’ हांवें सॅन्सर केलें.

‘ना. आजून तितली वळख जावंक ना. मातसो शिष्ट आसा. चार दीस वचूंक जाय,’ ताणें खेदान सांगलें. कांय म्हयने गेले उपरांत, ‘शिष्ट’ उतराच्या जाग्यार तें ‘खडूस’ हें उतर घालूंक लागलें.

‘तुगेल्या तोंडार नदर पडना फुडें, तूं म्हगेले तकलेंत गेलो. तुगेलें हांसतें, स्नेहभावी रूप पळोवन, तुजे विशीं एक तरेची आपुलकी दिसली. ह्या

भुरग्या कडेन फ्रॅन्डशीप आसची अशें म्हाका दिसलें. लव ॲट फर्स्ट सायट न्हय आं, बिलकूल न्हय.

'सुचितान तुजे विशीं जायतें सांगिल्लें. पूण तुगेल्या सभावाचेर तें उलोवंक नासलें. तुका पळेल्ल्या खिणाक, तूं बऱ्या मनाचो भुरगो अशी म्हगेली भावना जाली आनी फुडें ती खरीय जाली.'

हांव तकली सकला घालून गुन्यांवकारी मनान चलतालों. भोंवतणी मिणमिणटें कीण्ण पातळिल्लें. काणी सांगून सोंपली तेन्ना आमी लेडीज हॉस्टेला लागीं पाविल्लीं. 'दत्ताराम, येतां हांव. बरो करून वच.' म्हणत, ताणें तोंड फिरायलें आनी तें सडसडीत चालीन गेलें.

रस्त्याक पलतड मारपाक हांवेंय तोंड फिरायलें. तेन्ना म्हगेल्या ध्यानांत आयलें, येदो वेळ हांव आनी सुर्यप्रभा एकामेकांक सामकीं खेटून चलतालीं. तागेल्या उजव्या हाताचीं आनी म्हगेल्या दाव्या हाताचीं बोटां एकामेकांत गच्च भरून आंवुळिल्लीं. आमगेले देह कुशीं वटल्यान भुजा थावन मनकटा मेरेन एकामेकांत ओडिल्ले आनी सुर्यप्रभाले कुडिचे हुनसाणी धगान म्हगेलें काळीज सळसळून वचून तागेली वाष्प जाल्ली.

जाल्यार दुसरे वटेन, ह्या अपुर्वाये अणभवाक लागून आसत, म्हगेलो सगलो देहूच उफेल्ले, थरथरिल्ले भशेन जावंक लागलो. किदें जाताच म्हण म्हाका कळना जालें.

म्हगेली तनरी भंगली. हांवें दोळे उगडले. पळे जाल्यार, खरेपणींच विमान उफेल्ले, थरथरिल्ले भशेन जावंक लागिल्लें. हेर पॅसेंजरांनीय हें अणभविल्लें. विमानांत बोवाळी उचंबळतायेचें ल्हार फुटिल्लें.

विमान पडटा काय किदें, हो विचार म्हगेल्या मनाक आफडून गेलो. हांवें मनांत सुर्यप्रभाले विचार हाडले. सुर्यप्रभा शेनवारा गोंय पळोवंक येतलें. ताका गोंय दाखयले बगर मरचो ना ह्या निर्धारान हांव सस्त-शांत बसून रावलों.

हांवें वरां पळेलीं. दिल्ली सोडून दोन वरां जाल्लीं. तिशेक मिणटांचो प्रवास उरिल्लो.

इतल्यांत, विमानातल्या लावड स्पिकराचेर अनांव्समेंट चालू जालो. हांव तुमगेलो कॅप्टन भटनागर उलयतां. पंचविस मिणटांनी आमी गोआ हवाई अड्ड्याचेर पावतले. आतां आमी णव हजार मिटर उंचायेर आसांत आनी देंवूंक आरंबलां. कोंकण वाटारांत हवामान पावसाळी आसा. मळबांत खूब दाटायेचीं कुपां मांडल्यांत. कुपांतल्यान देंवतना विमान मातशें उफेल्ले, थरथरिल्ले भशेन जाता. ही चालंत गजाल. हुसको करचेलें मातूय कारण ना.

'पॅसेंजरांक विनंती, तांणी सीट बेल्ट बांदून सिटांचेरूच बसून रावचे आनी विमान गोआ अड्ड्याचेर देंवून सामकें थीर जायसर सीट बेल्ट सोडचे न्हय. धन्यवाद. तुमगेले म्हायती खातीर सांगतां, गोंयांत पावस पडटा, मध्यम गतीचो वादळी वारो मारता. तापमान चोवीस अंश सेल्सियस आसा. थँक्यू.'

कॅप्टनान केल्ले फोडणिशे उपरांत पॅसेंजरांली उचंबळाय जायती ऊणी जाली. तरीय, तांच्या तोंडा वयलें भिरांतीचें सांवट ढळूंक नासलें. आपसांत चलतले फुतफुतीक लागून विमान आदले परस चड थरथरतालें.

फाटलीं दोन वरां, म्हगेलें मन भुतकाळाचे भोंवडेर गेल्लें. सुर्यप्रभाल्या हिशेबा प्रमाण शेचाळीस वर्सां आनी साडे णव म्हयन्यांच्या यादींरण्यांत रमतालें. हाजे पयलींय, हजार फावट म्हगेलें मन हे भोंवडेर गेल्लें. पूण तेन्ना थंयचीं दृष्यां कोसमेल्ल्याा मसणवटी गोबरा रंगांत दिसतालीं. आज तीं सप्तरंगी जाल्लीं. सगल्यो यादी काल पयरूच घडिल्ले भशेन जिव्यो, जागृत जावन, उदक फापुडिल्ल्या जायां फुलां भशेन परमळूंक लागिल्लयो.

* * *

विमान टायमार पावलें. पावस एक सारको रकतालो. सुर्यमाम काळ्या किट्ट कुपांच्या आडोसाक गेल्ल्यान रातचीं सात जाल्ले भसेन दिसतालें.

'राती सावन हो आडोळो पावस पडटा. सिलोना लागसार लो प्रेशर जालां खंय. पावस दोन तीन दीस पडटलो असो वेधशाळेन अदमास केला.' पांडुरंगान सांगलें. पांडुरंग हो शिरवयकारांलो चार पिळग्यां सोयरिक आशिल्लो मुकदम, दत्तारामालो वर्तमान घरशेजारी आनी स्कुलांतलो ट्रस्टेड क्लार्क.

गरजेक केन्नाय, दत्ताराम ताका आपणाली गाडी चलोवंक आपयतालो. आज तो दत्तारामाक व्हरूंक आयिल्लो. वांगडा घोवाक रिसीव करूंक शांताय आयिल्लें. 'शांता, तुगेल्या मिस्टरांलो च्यार्ज घेवन म्हाका मेकळो कर', दत्तारामान हांसून सांगलें.

'हांगासर न्हय, भाईसर,' शांतान म्हणलें. 'घरच्यान व्हेल्लो ताका घरा हाडून पावय. मानशे सुंगटां आनी बिमलां घालून हुमणें केलां. इल्लें जेव आनी वच.'

'नाका बाय. आज नाका. आनी केन्नाय येतां.' भाईसरान सांगलें.

'आनी केन्नाय योच. पूण आजूय यो. इल्लें जेव आनी वच.'

शांतालो आग्रो मोडपाक दत्तारामाक जड जालें. सोदूच भशेन, शांता आनी पांडुरंगूय दत्तारामाली स्टुडंट्स आसलीं. तशें पळेल्यार गांवांतलीं पन्नास वर्सां खालचे पिरायेचीं सगलींच भाई सरालीं स्टुडंट्स आसलीं.

जेवण उलगून घरा पावतकीर दत्तारामान म्हणलें, 'पांडुरंग, सांजे हांव जेवचो ना अशें रादेक म्हण आं.' 'बरें भाईसर', म्हणून पांडुरंग गेलो.

रादे ही पांडुरंगाली आजी. पिरायेन अठ्ठ्यात्तर वर्सांची. धा वर्सांचेर लग्न जावन ती घोवागेर आयली, तेन्ना सावन ती शिरवटकारांल्या घरांत वाव्र करूंक लागिल्ली. ताजे उपरांत दोन म्हयन्यांनी दत्तारामालो जल्म जालो आनी रादे तागेली लायफ-टायम गव्हर्नेस जाली. दत्ताराम म्हणल्यार रादेक बाबा, 'म्हागेलो बाबा.'

रिटायर्ड जावच्या एक वर्स पयलीं, दत्तारामान रासवळ घरा लागींच, रादेल्या घराक तेंकून घर काडलें दत्तारामाले रांदचे कुडींतल्यान मारिल्लो चालंत उलो रादेल्या घरांत पावतालो. तेन्नाच्यान दत्तारामाल्या ब्रह्मचर्याश्रमांत रादे, एक वावराडी, अन्नदाती, हाव्स-कीपर, बुदवंत आनी दत्तारामान केदनाय आपल्या खाणां-कालेतिची हेळसांड केल्या जाल्यार उतरांच्यो कुटी मारून बाबाक जाग्यार हाडटली तागेली डेप्युटी आवय, असल्या साबार भुमिकांनी वावुरताली

* * *

दत्तारामाल्या घराब्याचो इतिहास सांगतां. नवलें हो गोंयांतलो एक, व्हडलें खाजन आशिल्लो गांव. दोंगुल्लेच्या पालसणार, न्हंये तडेर, तो वसला. न्हंय म्हणचे परस खाडी म्हणिल्ली बरी. तिका भरती सुकती आसा. तीन किलोमिटर काडटकीर ती दर्याक मेळटा.

शंकूबाब शिरवटकार हो आदले मुस्तींतलो नवलेंचो भाटकार. पांयशीं माडाचें चार हेक्टरी भाट आनी एका खाजनी शेताचो तो भाटकार. प्रिमेर गावाच्या मालवजार गावांतलो बुदवंत. भुरगेपणांत शंकराचें शंकू जावन तो शंकूबाब आनी शंकू भाटकार जाल्लो.

भाटाचे उत्तर शिमेक, गांवांतल्यान वतल्या मुखेल रस्त्यार, न्हंये सामकार, पुर्वेक तोंड करून शंकू भाटकारालें चार चौक्याचें घर आसलें.

दत्ताराम हो शंकू भाटकारालो नातू. तागेल्या धाकट्या चल्याचो, भालचंद्रालो पूत. नवलें गांव दत्तारामाली जल्मभूंय आनी कर्मभुंयूय.

बोंबयो, म्हणपाक दादी हो शंकू भाटकारालो वर्सां संकींचो मुकदम. दादी उपरांत मुकदमपण दादीलो चलो कृष्णाकडेन आयलें. भाटकाराल्या घरा फाटल्यान, भाटाचे मागले शिमेर नाल्ल घालचेलें लॉज आसलें, ताका तेंकून दोन कुडींचें होडप काडून, शंभू भाटकारान तें निकतोच लग्न जाल्लया कृष्णाक दिलें. कृष्णाले बायलेचें नांव राधा. पूण लोकांल्या तोंडान तें 'रादे' जावन वसलें.

कृष्णा फाटल्यान तागेलो पूत चेपो मुकदम जालो. चेप्याली बायल जनी. पांडुरंग हो चेप्या-जनीलो झील. पांडुरंगाली बायल नयन. तें एसेस्सी जाल्लें. भाई सराले शाळेंत काम करतालें. शाळेची जनरल नितळसाण आनी जागेची जतनाय करचेली ड्युटीय तेंच करतालें.

शंकूबाबाक दोन चले, विश्वनाथ आनी भालचंद्र. बापाय फाटल्यान भुरग्यांनी धंद्यांत लक्ष घालें. घरा कुशीक एक पसरो काडलो. उपरांत, पसऱ्याक तेंकून भात कांडचेली आनी खोबरें मळचेली गिरण घाली.

विश्वनाथाक तीन भुरगीं. व्हडलें चली उमा, महेश आनी शंभू. उमाक

कोनसाळेच्या देवराय देसायागेर दिल्लें. आदल्या काळार गांवांत शाळा नासली. विश्वनाथ आनी भालचंद्र प्रिमेर ग्राव करूंक आपल्या मामागेर राविल्ले.

उपरांत, नवल्यांत पंडरी मास्तराले ट्युशन क्लास चालू जाले. लोकांली सोय जाली. पंडरी मास्तर आपले बायले पालवान मराठी धुळी सावन मॅट्रीक मेरेनचे क्लास घेतालो. घराच्यो दोन कुडी आनी पडवे भितर मॅनेज करतालो. भुरगीं चडलीं तेन्ना ताणें घरा मुखारूच शाळा काडली.

ट्युशन क्लास सुरू करचे पयलीं, पंडरी मास्तर, म्हणल्यार पंडरी रामा गोवेकार, म्हापशें म्युनिसिपालटींत एकौंट्स क्लार्क आसलो. ताणें प्रिमेर ग्राव आनी इंग्लिश चवथी केल्ली. ताका ट्रकाचो अॅक्सीडंट जावन तो थोंटो जालो. दांडो घेवन चलूंक जातालें, पूण बशींत चडूंक-देवूंक जम नासलें. देखून ताणें नोकरी सोडली आनी आपल्या घरांत ट्युशन क्लास काडलो.

म्हापशेंच्या एका मान्यताये स्कुला लागीं तागेलो ताळ-मेळ आसलो. आपणाल्या विद्यार्थ्यांले मॅट्रिक परीक्षेचें फॉर्म तो त्या स्कुलांतल्यान भरतालो. शिकचेली उमेद आशिल्लया भुरग्यां खातीर आयतार-सुटये दिसांनी क्लास घेतालो. ताका वेगळी फी नासली. पंडरी मास्तराले भुरगे मॅट्रिकेंत बरे मार्क घेताले.

महेश, शंभू आनी दत्ताराम पंडरी मास्तराले शाळेंत शिकले. तिगूय शिकपाक बरे आसले. महेश शंभू परस तीन वर्सांनी आनी दत्तारामा परस पांच वर्सांनी व्हड आसलो.

मॅट्रीकेचे परिक्षेंत महेशान बरें उडयलें. तीन विषयांत ताका 'क्रॅडीट' मेळ्ळे. क्रॅडीट म्हणल्यार खंयच्याय विषयांत सत्तरां वयर मार्क मारप. त्या काळांत क्रॅडीट मेळोवप व्हडली गजाल आसली.

'बाबा, शैलेशा भशेन हांव फुडें शिकूंक मुंबय वचूंक सोदतां. कॅमिस्ट्री घेवन बीएस्सी करूंक सोदतां.' महेशान आपणाल्या बापायक म्हणलें. शैलेश हो महेशालो पणजे रावतलो मामेभाव.

'बीएस्सीचो आमकां किदें फायदो?' बापायन पुताक समजायलो.

‘तूंच पळे. आमगेलीं भाटां-बेंसां आसात. वाडटो धंदो आसा. घरचें मनीस बळ मेळत तितलें थोडें. आमच्या घराण्यांत इतलें शिकिल्लो तूंच पयलो. यो आनी धंदो फुलय.

‘शैलेशाली गजाल वेगळी. तें चाकरेकार घराणें. चाकरी मेळोवंक शिकचें पडटा. देखून शैलेश शिकूंक गेला. तुगेली गजाल वेगळी.’

पूण महेशाली पिरपिर चालूच उरली. तागेली आवय शिक्षणाचें म्हत्व कळटल्या घरांतली धूव आसली. बापूय पुता मदलें संभाषण तिणें आयकल्लें. सात-पांच विचार करून तिणें घोवा लागीं विषय काडलो. ‘ताका शिकचेली उमेद आसा. उमेद सामकीच म्होडप बरें न्हय. धंद्यांत पडूंक तो मातसो भुरगोय आसा. हांव म्हणटालीं, वता म्हणटा जाल्यार एक-दोन वर्सांखातीर वचूं दी, बाबाय तशेंच म्हण.’

‘बाबा किदें म्हण?’ विश्वनाथान विचारलें. बाबा हो विश्वनाथालो रिटायर्ड मांव. तो ‘फाझेंदांत रेसेबदोर’ आसलो. ताका दामांव, दीव बदल्यांचो अणभव आसलो.

‘बाबा म्हणटालो, घरांत अडचण आसा ही गजाल खरी. तरीय, इतल्या ल्हान वयार ताका धंद्यान घालप सारकें न्हय. संवसाराचो अणभव गांठीक आशिल्लो बरो. फुडें शिकूंक गेल्यार हॉस्टेल-कॉलेज्यांतलें आनी मुंबयच्या शहरी घडामोडींचें व्यवहार ज्ञान ताका मेळटलें.’

धंद्याचो चड भार आपणाल्या धाकट्या भावाचेर, भालचंद्राचेर पडटा हें विश्वनाथ जाणा आसलो. ताणें भालचंद्राक म्हणलें, ‘महेश फुडें शिकूंक वतलो म्हणटा. हरशीं मॅट्रीक म्हणल्यार कमी न्हय. म्हगेलें मत, ताणें धंद्यांत लक्ष घालचें. तुकाय आदार जातलो.’

‘नाका भाऊ. हें तागेलें शिकचेलें वय. ताका आवडूय आसा. ताका वचूं दी. चार वर्सां हूं म्हणटा सर वतलीं. ताणें कॉमर्स केल्यार बरें. धंद्याक उपकरा पडटलें.’

शेकीं सा जालें. महेश मुंबय पावलो.

तीन वर्सांनी, शंभू मॅटिक जालो. ताणेंय बरे मार्क घेतिल्ले. शंभूलें गणगणें आरंबचे पयलींच तागेले आवयन विषय मेकळो केलो.

'शंभू पळे', तिणें समजायलें. 'फुडल्या वर्सा महेश बीएस्सी करून घरा येतलो. मागीर तूं वच. एक वर्स भालदाक आदार कर. इतल्यान हेय बी खोशी जातले.' शंभू आपल्या बापोलयाक भालदा म्हणतालो.

शंभून आं म्हणलें आनी धंद्यांत पडलो. ताका धंद्याची गोडी लागली. फुडें शिकूंक वचचेली खबर ताणें केन्नाच काडली ना.

तेवटेन, महेशान केमिस्ट्री विषय घेवन बीएस्सी केली. फायनल परिक्षा जांवचे न्हयनो भर आदीं, केमिकल इंडस्ट्रींतले लोक येवन, केमिस्ट्रींत बीएस्सी करतल्यांले कॅम्पस इंटर्व्यू घेतले. महेश सिलेक्ट जालो.

तांणी महेशाक ऑफर दिली. राजकोटच्या सोल्वंट ॲक्स्ट्रेक्शन प्लांटांत केमिस्टाचो पोस्ट. पयले स म्हयने अर्द्या पगारार ट्रेनींग, मागीर एक हजार पगार. वर्सान वर्स पगार वाड, बोनस. रावपाक घर, जेवण-खाण कंपनीचें, इत्यादी.

महेशान पत्र बरोवन बापायक विचारलें, 'किदें करूं? आं म्हणूं? नाका जाल्यार स म्हयन्यांनी सोडूं येता.' कसले तरेची नोकरी तेंय बरयलें.

'आमी खोबरें मळून तेल काडटात तेन्ना बारा प्रतीशत तेल पेणींत उरता. केद्याय शक्तीचो घाणो आसलो तरीय पुराय तेल काडूंक जमना. पांच-सात परसेंट तेल उरताच. ही जाली लुकसाणीची एक बाब. दुसरे वटेन, पेण ही गोरवांली खावड. चड तेल आशिल्ली पेण गोरवांक सारकी जिरना. तांकां हागवण लागता.

'आतां सोल्वंट ॲक्स्ट्रॅक्शन म्हूण नवो प्रॉसेस आयला. पेणींतलें पुराय तेल काडूंक मेळटा. असले पेणींतल्यान केल्ली खावड गोरवांक सोपेपणीं पचता आनी तीं बरीं पोसवतात. तेय परस म्हत्वाचें, ही पेण वापरून मनशांकूय खावंक योग्य खाणां, बिस्कुत्यो, हेल्थ पेयां बी पौष्टीक जिनस करूं येतात. निखट्या तेल-पेणींचे पयलीं तीन जाताले ताजे हे नवे पद्दतीन तेरा जातात.'

खोबऱ्यांतलें सगलें तेल काडूंक येता हें वाचतकीर, घरांत तेलाचो घाणो आशिल्लयांली गांठ घळ्ळ जाली. खोबरेल कितलें म्हारग तें तांकां खबर आसलें. महेशान हें सगलें शिकून घेवचें आनी स म्हयन्यांनी नोकरी सोडून घरा परतून घरच्या घाण्यां लागींच तसली गिरण घालची असो हिशेब मांडून, बापायन महेशाक तुस्त भरीत मान्यताय दिली. महेशान ऑफर ॲक्सॅप्ट केली आनी रिझल्ट जातकच, सोमतोच राजकोटाक वचून कामाचो च्यार्ज घेतलो.

'ऑयल्स अँड डेरीव्हेटीव्ज प्रायवेट लिमीटेड' हे कंपनीन राजकोटाक जर्मन टॅक्नॉलॉजी वापरून निकतोच सुरू केल्लो, पुरायेन आवटोमॅटीक, सोल्वंट ॲक्स्ट्रेक्शन प्रकल्प, धा हेक्टर जमनीर वशिल्लो.

जयंतीभाय ओझा हो ते कंपनींचो धनी. जयंतीभायक एक चली आसली. नांव मधुरा. तिणें मुंबय विद्यापिठांतल्यान मेकानिकल इंजिनियरिंग केल्लें. राजकोट प्लॅन्ट बांदूंक सुरू जावचे पयलीं, तिणें जर्मनीक वचून टॅक्नोलॉजी ट्रेनींग घेतिल्लें.

महेशाली खबर काय आमचे काणयेचो विषय न्हय. देखून, गरज तितलेंच सांगून सोपयतां. महेश आनी मधुरा मोगांत पडटात. जयंतीभायक 'रिस्तो' पसंत आसता. स म्हयन्यां भितर लगीन.

व्हारडिकेक शिरवटकारांल्या भाटांतलीं सगलीं गेल्लीं. जयंतीभायली दौलत पळोवन सगळे नवलेंवाशी दिपावले. प्लँटाचो आवांट आनी व्याप पळोवन, आनी प्लॅन्टांत दिसाक सशें टन पेण प्रोसेस जाता हें कळून, तांगेलो आवरो उडलो. विश्वनाथ आनी भालचंद्रान आपणांल्या घरकान्नीं वांगडा फुतफूत केली आनी महेश एक दीस गोंयां परतो येतलो ही तांगेल्या मनांतली पिशी आशा, थंयचे थंय पोल करून उडयली.

* * *

महेशालें लग्न जालें त्याच वर्सा दत्ताराम मॅट्रिक पास जालो. रिझल्टा दिसा सकाळींच पंडरी मास्तर शिरवटकारांगेर हजर जालो. भायरूच ताका महेशाली आवय मेळ्ळी. 'व्हनये, पेढे दियात, पेढे.' ताणें व्हडान म्हणलें. हें

कानार पडटकीर घरांतली सगळी फौज भायर आयली. दत्ताराम सकाळीं उठून रिझल्ट हाडूंक शाळेंत गेल्लो.

पंडरी मास्तरान आपले कुडीचो भार दाव्या हातांतल्या स फुटी दांड्यार घालून, उजवो हात कंबरार धरून, ताडमाडी धजेंत उबो रावून नेटान विचारलें. 'आमगेले शाळेचो विद्यार्थी मॅट्रिकेंत म्हापशें स्कुलांत दुसरो नंबर घेवन पास जाला. आमच्या स्कुलाचें नांव वयर काडलां. कोण तो जाणात?'

सगळीं जाणां धळमळीत विचारांत पडलीं. 'आनी कोण? आमगेलो दत्ताराम आसतलो', भालचंद्राल्या तोंडाक पळेत विश्वनाथान म्हणलें.

'आसतलो किदें म्हणटात तुमीं, विसूबाब? हांव पेढे मागूंक तुमगेर वगीच आयलां?' आयकतल्यांल्या तोंडार प्रसन्नताय आयली.

महेशाले आवयन बुंदी लाडू, आनी चकरी आशिल्ली प्लेट आनी वाफ येते काफयेचो ग्लास हाडून मेजार दवरलो आनी कदेल मेजा लागीं ओडून म्हणलें, 'पंडरी मास्तर बसात. तोंड गोड करात. पयलीं काफयेक एक हुनसो घोंट मारात.'

'व्हयनी, तुमीं सारकें सांगलें. पयलीं हुनशी काफी घेतां. मातशी खरस मारिल्ले भशेन जाली. हालीं काळाक, हांव तशेंच काम आसले बगर भायर सरना. पूण आयची गजाल वेगळी.' पंडरी मास्तराक त्र्यात्तरावें वर्स चालू आसलें. 'आनी वयनी, तुमी हें खाण दिलां न्हय, तें मातशें बांदून दियात. तें घरा व्हरतां. म्हाका हायाभगत म्हणू नाका आं. दत्ताराम पयलो येतलो अशें भविष्य केल्ली एक म्हातारी घरा आसा. ह्या खाणांचेर तिगेलो अधिकार आसा. हें व्हरतां आनी तिका दितां. ती खोऽश्शी जातली. निमाणें ती हें म्हाकाच खावयतली.'

व्हडलेन धाकलेक गुमानीत कुरू केली. दत्तारामाले आवयन स प्लेटीचे जिनस घालून पोटली बांदली आनी देराल्या सुवादीन केली.

तितले भितर, पंडरी मास्तर विश्वनाथा म्हऱ्यांत गेलो आनी पोटस्त आवाजांत म्हणलें, 'विसूबाब, तुमचे लागीं किदें उलोवंक जाय. आमी मातशे कुशीक बसून उलोवंया?'

हय, हय, म्हणत ताणें घरकान्नीक फर्मायलें, 'हांगा आनीक एक कदेल हाडून दवर आनी तुमीं तुमगेल्या कामाक वचात.' धाकलेन आनीक एक कदेल हाडून मेजाशीं दवरलें. 'बसात, पंडरी मास्तर', अशें म्हणून विश्वनाथान हातांतली पोटली मेजार दवरली आनी कदेल मेजाक लागीं ओडून तोय बसलो.

मास्तरान विषयाक हात घालो. 'दत्तारामालें सांगतालों. तो हुशार आसा. सर्वगुणीं आसा. ताका कॉलेजाक धाडात. गणितांत बीएस्सी करूं दी. गणीत तागेलो आवडिचो विषय. गणीत व्यापाराकूय बरें. म्हण्णीच आसा, गणीत पट्ट तर धंदो घट्ट.

'माई म्हणटा, दत्तरामा लागीं समाज कार्य करचेलें सभाव-मन आसा. ताका योग्य शिक्षण गावलें जाल्यार तुमच्या घराकूय बरें आनीं गांवां-समाजाकूय बरें.

'माई ठांय फुडार पारखुंचेलो गूण आसा. म्हाका ताजो अणभव आसा. तिगेलें सांगणें फट जावचेलें ना. हें तुमगेल्या कानार घालपाक आयचो दीस योग्य अशें माईनूच सांगलें देखून आयलों. तुमकां बरें दिसता तशें करात.'

इल्ली उसरपत घेवन मास्तर फुडें उलयलो, 'विसूबाब, दुसरोय एक विषय उलोवंक आयिल्लों. शाळा सुरू करून चाळीस वर्सां जालीं. आतां काम ओडना. माईली धिगी आसा लेगून अजून व्यवस्तीत चलता. पूण अशें कितले दीस चलत? गांवाक शाळेची गरज आसा. शाळा चालू उरूंक जाय. दत्तारामा सारकिले कांय विद्यार्थी शाळेच्या अभिमानान कष्टदान करतात. तांकां लागूनूय गाडें फुडें वता. जाल्यार तेय बी मॅट्रिक पास जातकीर उडून वतात.

'तुमगेल्या घराण्याक समाजकार्य करचेलो इतिहास आसा. सुरवात सावन तुमी शाळेक मदत करीत आयल्यात. शाळेची मूळ इमारत तुमगेल्या वडलांच्या आदारान वयर सरली. गरज पडता तशी, तशी शाळेची इमारत वाडोवपाचें काम तुमच्याच आदारान जालें. विद्यार्थ्यांली संख्या दिशीं माशीं वाडत आसा. ताका लागून व्यवस्थापनाचोय भार चडटा. माईक आनी म्हाका तें काम झेपना. तातूंत तुमी मातशें लक्ष घालचें अशी तुमकां हात जोडून विनंती करूंक.......'

‘पंडरी मास्तर’, विश्वनाथान मदींच म्हणलें, ‘गणित विषय शिकोवपांत तुमचो हात धरपी कोण ना, अशी तुमची गोंयभर ख्याती आसा. तें खरेंय आसा. पूण, तुमगेलें एक गणीत् मात सामकें चुकलें. आमी सदांच गुरूः ब्रह्म, गुरूः विष्णू, गुरूः देवो अशें म्हणटांत. म्हणल्यार पंडरी मास्तर, गुरून न्हय, जग लोकान गुरूक हात जोडचेले आसतात. आमी तुमकां हात जोडूंक जाय. तुमी आमकां न्हय.’

‘हाजेर हांव किदें उलोवं? मन तशे विचार आसतात, विसूबाब.’ पंडरी मास्तरान नम्रतायेन म्हणलें.

‘पंडरी मास्तर, सांजे भालचंद्राक धाडटां. किदें कात करूंक जाय तें ताका सांगात. तो ह्या कामाक बरो.’

‘तुमी म्हाका थँक्यू तरी म्हणूंक दितले?’ अशें हांसत म्हणत, पंडरी मास्तरान मेजावयली पोटली उबारली आनी ते पोटलेचो आनी आपल्या देहाचो भार दांड्याचेर घालून, तोल सांबाळीत तो गज गतीन वचूंक लागलो.

‘चेप्या’, विश्वनाथान मोठ्यान उलो मारलो, आनी चेपो येतकीर ताका सांगलें, ‘चेप्या, पंडरी मास्तर वता पळे, मास्तराल्या हातांतली पोटली घे, आनी ताका बरे तरेन घरा पावोवन यो.’

आपले कुडीचो भार लेगीत पेलूंक जम नासलो एक अपंगूल, फाटलीं चाळीस वर्सां आख्या नवलें गांवाक ’तमसो मा ज्योतीर्गमय’ करचेलें वजें आपल्या माथ्यार मारून जियेतालो. मास्तरालो संवसार कसो चलता, तागेलें पोट-पाणी सारकें जाता काय ना, हाजो भार नवलें गांवांतल्या कोणाकूच पडूंक नासलो. मास्तराक तागेलो सवंसार नाशिल्लेच भशेन.

एक बायलमनीस पूण हाका आडवाद आसली. मराठी दुसरी यत्ता पास जाल्ली एक बायल, नांव रुखमा. म्हणपाक रखुमाई वयल्यान ‘माई’. पुराणांतल्या पतिव्रतांनी देख घेवंची असल्या आचारांची एक बायल मनीस. साप भुरगेपणांत, पिंज्यां कापट्यो घालून पेटयल्ल्या आनी धुंवरून घस्मटायतल्या होमां भोंवतणी, भटांनीं शिरो ताणून, बेसूर ताळ्यान, देवां भाषेंत होरायल्ल्या ‘ते ब्राह्मणांधिनम’ मंत्रांचो कुस्कूट भर लेगीत अर्थ मनन जालो ना तरीय,

स्थितप्रज्ञ भावूकतायेन, दुकांनी सुवयेन भरिल्ल्या नयनांनी, एके अनवळखी खोश्शेन, उर्बा भरीत काळजान, हर्षींत उमेदी मनान, भावी जिणेचीं रेषा-रेगां बगर चितारिल्लीं रंगयाळीं चित्रां, सकयल घाल्ले मानेन स्वप्नेत, धड धाकट पुरुष पंढरी गोवेकारा फाटल्यान दोन पावलांची दुरी राखून रुखमान सात फेरे मारिल्ले.

आनी तेच उमेदीन, फाटलीं पांच तपां, घोवाल्या खांदार आशिल्ल्या सगल्या वज्यां सयत, तागेल्या दळदिऱ्या संवसाराचो आनी शाण्या-पिशा सपनांचो भार आपले तकलेर घेवन, थोंट्याल्या हिसपान तागेल्या 'आनंद मार्गा' वयली वाट, मायी तोंड धापून कातरताली.

पंढरी मास्तर गेले बराबर, थंयचे थंय, विस्वनाथान घरचे विधानसभेची बसका घेतली आनी प्रास्ताविक उलोवपांत सांगलें, 'आमकां धंद्यांत आधाराक जाय म्हणून, आमीं आमगेल्या भुरग्यांल्या उमेद-कर्तुत्वांची नडणी काडूंक फावना. दत्ताराम शिकपाक हुशार आसा. दत्तारामाक फुडें शिकूं दी. जाय तितलें शिकूं दी.'

कसलीच चर्चा जाले बगर थाराव एकमतान पास जालो. जून म्हयन्यांत दत्ताराम कॉलेज करूंक मुंबय पावलो

* * *

दत्ताराम कॉलेजाक पावलो त्याच काळांत, भारतांत कांय म्हत्वाचे राजकी बदल जावंक लागिल्ले. गोंय स्वतंत्र जावचे प्रक्रियेक नेट मेळचो म्हूण भारत सरकारान गोंयची अर्थीक नाको-बंदी करचेली निती चालीक लायली. दुसरे वटेन सुटके झुजाऱ्यांनी दामांव लागसारच्या नगरहवेली आनी दाद्रांतल्यान पुर्तुगेजांक धांवडावन घालून ते वाठार स्वतंत्र केल्ले.

परिणाम, दोनूय सरकारां मदीं वितुष्ट आयलें. गोंयां-भारतांत येवंक-वचूंक दोनूय सरकारालीं पर्मिटां काडचीं पडूंक लागलीं. भारत सरकारान गोंय-भारता मदल्यो सगल्यो येरादारी वाटो बंद केल्यो आनी कारवारच्यान माजाळी-पोळें मार्गान गोंयां वचचेली एक वाट तितली उकती दवरली.

मुंबय वचूंक-येवंक गोंयंकारांक फातरपें, काणकोण मार्गान कारवार,

हुबळी, पुणे करीत, एक तार, दोन ट्रेनी आनी तीन बशी काडीत, अडेज दिसांचो प्रवास करचो पडूं लागलो. 'फातर्पेंच्यान गोंय लागीं' हे जाणटेल्यांले ओपारीचो अणभव गोंयकारांक नव्यान येवंक लागलो.

इतलो अष्टवक्री धकाधकी प्रवास करचो पडटा आसून लेगीत, दत्ताराम आनी हेर कॉलेजी भुरगीं ह्यो गोंय-मुंबय-गोंय ट्रिपी वर्साक दोनदां, आनी केन्ना-केन्ना तिनदां, पिकनिके उमेदीन मारतालीं.

* * *

गोंय सगले वटेन भारताचेर निर्भर आसलें. ताका लागून पयल्या फाराक, हे नवे अर्थीक नितीची झळ गोंयाक खरसाणीन बादली. गोंयकारांले दिसपट्टे गरजेचे जिनस, भाजीपालो, तांदूळगोटो, लुगट-सणंग सगलें भारतांतल्यान येतालें, तें बंद जालें. ताका लागून गोंयात म्हारगाय आयली.

भारत सरकाराचे हे आगळिके आड पुर्तूगेज सरकारान रक्षात्मक उपाय आरंबले. लोकांल्या गरजांचे सगळें सामान भायल्या देसांतल्यान हाडूंक गरज आशिल्लें विदेशी चलन व्यापाऱ्यांक सुलभतायेन मेळचेली वेवस्था केली.

परिणाम, आंतर-राष्ट्रीक दर्ज्याचो ॲक्स्पोर्ट क्वालिटी म्हाल गोंयंकारांक सस्त सवाय मेळूंक लागलो. भारतांत तयार जाल्लो बरे जातीचो म्हाल लेगीत सिंगापूर मार्गान राजरोस गोंयां पावूं लागलो.

गोंयचे अर्थ वेवस्तेक गती हाडूंक, गोंय सरकारान, रस्ते, पूल, उदका पुरवण, एरोपोर्ट, शाळो बी बांदचेलीं विकास कामां नेटान आनी व्हड प्रमाणांत चालू केलीं. इगर्जो, देवळां, शाळांची सुदारणा करूंक अनुदानां दिवंक सुरू जालीं. हे पयलीं अशें केन्नाच जावंक नासलें.

तेच परीं, गोंयांत निकत्याच चालू जाल्ल्या मायनींग धंद्याक लागत तितल्यो सवलती दिवन, त्या उद्देगाक तरतरी हाडली. हे वरवीं, गोंयचे अर्थ व्यवस्तेक गती मेळ्ळी. समाजाच्या सगळ्या थरांतल्या लोकांक बरे जोडीचे काम-धंदे मेळिल्ल्यान, गोंयंकारांली क्रय शक्त झूप्प करून वाडली.

उपभोगताय तेच भशेन वाडली. सगळ्या जिनसांची मागणी वाडून, व्यापार-उद्देग फुल्ले. तांकां बरकत आयली.

तिस्का-तिस्कानीं, वाड्या-वाड्या कणकणीं, पसरे आनी बार उबे जाले. ‘बार, बार देखो, हजार बार देखो’ हें हिंदी शिनेमांतलें पद गोंयाक मुदयेक थीक कशें लागू जालें.

‘सेर्वेज म्हणल्यार सवादां उदक मरे, कालेतीक शितळ.’ असल्यो भासो चालू जाल्यो. सोरो पियेवप सुदारणेचें आनी सोऱ्या पाट्यो करप गिरेस्तकाये लक्षण जालें.

पुराण काला थावन, भारतीयांल्या केवळ कल्पनेंत वसतलें तांगेलें लाडकें रामराज्या सपन, पुर्तुगेजा धर्मान, गोंयचे पुण्यभुयेंत प्रत्यक्षांत अवतरिल्लें. गोंयकारांक बहुत ही अच्छे दीन आयिल्ले.

गोंयची अर्थीक नाको-बंदी करचेली निती भारत सरकाराल्या हड्ड्यार आयिल्ली. गोंयकारांक ती, खोंट मारली आनी खाटल्यार पडलो’ असलें वरदान जाल्लें.

* * *

## II

परिक्षा सोंपली ताजे तिसऱ्याच दिसा दत्तारामान गोंयची वाट धरली.

घरा पावना फुडें, घरच्या जेवणांक वखवखलेल्या दत्तारामान, आवय-काकील्या हातचें शीत-हुमणां भातें भकाऱ्या भशेन मारलें आनी भायर सरूंक पांयांक जोतें चडयलें.

'पापया, इतलो लांबचो प्रवास करून थकून आयला, मातसो सुशेग घे. वोत मोव जांव दी. मागीर वच.' आवयन ताका पराथलो.

'आई, दोन रातीचें जागरण आसा. तकली उशाक तेंकयल्यार घोरेवंक लागतलों. सराक आनी बायीक तोंड दाखयतां आनी येतां.' दत्तारामान सांगलें.

'तशें जाल्यार पयलीं पसऱ्यार वच आं, जाणटेल्यांक मेळ आमी मागीर शाळेंत वच.' प्रेमाकाकीन सांगलें. 'दत्ता, याद दवर, मास्तराक आनी माईक तांगेल्या मठयेंतल्यान हालोवंक उपकरना आं. कळ्ळें?'

'तांकां कोण हालयता, प्रेमाकाकी?' गोंदळिल्लया दत्तारामान विचारलें.

तितल्यान आवयन म्हणलें, 'तें तुका तुगेलो सर सांगतलो. काकीन सांगलें तशें कर. पयलीं जाणटेल्यांक मेळ आनी मागीर शाळेंत वच.'

दत्ताराम पसऱ्यार पावलो. जाणटेल्यांले प्रस्न सुरू जाले. 'एप्रिलाच्या शेवटाक पावतलो म्हणिल्लें. परिक्षा पंदरा दीस पयलींच उलगली काय किदें? पेपर कशे गेले? वाळिल्ले भशेन दिसलो. जीव बरो आसा मरे?' तांगेल्या प्रस्नांक दत्तारामान सतर्क जापो दिल्यो. तो घरा पावलो तेन्ना, हेच प्रस्न ताका आवयन आनी प्रेमाकाकीन केल्ले.

'दत्ता, पंडरी मास्तराक मेळूंक वता मरे? हांव किदें सांगतां तें बरें करून आयक.' विसूबाबान, तागेल्या बापोलयान म्हणलें.

‘पोरूं वर्सा शाळेंत एकशें ब्यात्तर भुरगीं शिकतालीं. ओनू तो आंकडो अडेजशां वयर पावचेलो आसा. नव्या भुरग्यांक बसोवप खंय हो प्रस्न उप्रासला, इतल्यार सोंपना. हेय फुडें, भुरगीं अशींच वाडत वतलीं. आसा ती शाळा म्होडून थंय नवी काडप, इतलोच प्रस्न न्हय. व्हडलो जागो पळोवन, व्हडली शाळा काडची पडटली. हें काम फुडल्या मिर्गा पयलीं जावंक जाय. काम सोपें न्हय. पूण घाळटेर घालूंक मेळचें ना.

‘पूण, हे घटकेक तकलेर भार आसा तो, ओनूं येतल्या भुरग्यांक खंय बसोवया. किदेंय थारता तें बेगीन जावंक जाय. मिर्ग लागीं पावला. पावसान घालून घेतल्यार मागीर कांयंच करूंक मेळचें ना.

‘आमी पंडरी मास्तराक सांगलें, ओनूं वर्सा पुरतो, शाळे फुडल्यान एक मांगोर काडूंया. खर्चाचें बरें आसा. जाल्यार पंडरी मास्तर आपणालें सदचें फुटकें वाजंतर वाजयता. म्हणटा, जल्म भर शिरवटकारांले उपकार घेवन, घेवन आपूण नाका मेरेन बुडलां. आनीक घेतल्यार, श्वासूच बंद जातलो. ओनूचो प्रस्न आपूण सोडयतां. फुडल्या वर्साच्यान तुमी पळेयात.

‘माई शाणी आसा. तिका सगलें गत आसा. पूण ती सराक पाडूंक सोदीना. तिगेलें मत विचारल्यार ती म्हणटा, दत्तारामाक येवं दी. मागीर सगलें जाग्यार पडटलें. दत्ता सांग, कशें जाग्यार पडटलें!’

‘सर किदें म्हणटा?’ दत्तारामान विचारलें.

‘पंडरी मास्तरान, आपल्या तोंडान कांयंच सांगूंक ना, माईन पोटस्त म्हणलां. तांगेल्या घराक, फाटले वटल्यान एक जळवा कूड आनी तिका तेंकून एक ल्हान खटर-खुटूरा कूड आसा. तांचे मदली वणत काडून, आपूण थंय रावूंक सोदता आनी घरांत नव्या भुरग्यांक घालूंक सोदता.

‘हें आमकां मात पसंत ना. घरच्या बायलांलोय विरोध आसा. सराक आनी माईक तांगेले मठयेंतल्यान हालोवंक जायना, हाजेर एकमत जालां.

‘दुसरी म्हत्वाची गजाल, चार वर्सां जालीं, शाळेचो हिशेब बाळू बरयता. पंडरी मास्तरान आपणालें आशिल्लें नाशिल्लें किडूक-मिडूक शाळेंत

घालां आनी खांकनवाळ जावन बसला. दोन वेळचें अन्न पानार पडचेली मारामार जाल्या. पूण, मास्तर काडटा शाळेचो हुसको. सामको हटी जाला.'

हांगा बाळूबाबान तोंड घालें. बाळू म्हणल्यार भालचंद्र, दत्तारामालो बापूय. भुरगेपणांतलो बाळू, घरांत भालदा, गांवांत बाळूबाब. दत्ताराम बापायक बाबा म्हणटालो.

'जाणां मरे दत्ता, शाळेचो खर्च दिसान दीस वाडत चल्ला. येणावळ आदलीच उरल्या. फी वाडोवंक जाय अशें हांव मास्तराक सांगत आसां, माईक पटलां. पूण मास्तर तयार ना. तो म्हणटा, आसा तीच फी लोक वेळार दिनात. चडयली जाल्यार, तेंच निमित करून, लोक भुरग्यांक शाळेक धाडचेलेंच बंद करतले.

'ही गजाल फट. भुरग्यांक शाळेक धाडचेलें कोणूच बंद करचेलो ना. पयलीं तशें जातालें आसत. आतां काळ बदल्ला. गरिबांतल्या गरिबाक शिक्षणाचें म्हत्व कळलां. भुरग्यांक शाळेक धाडले बगर आतां कोणूच ना.

'बाबा, ओनूं अकस्मात भुरगीं कशीं वाडलीं?' दत्तारामान विचारलें.

'कशीं तें सांगतां.' बापायन सांगलें. 'गोंयांत वचत थंय मिनां खणी चालू जाल्यात. सवी-आठवी केल्ल्याक खणींर सोपेपणीं मास्तर म्हण शिर्वीस मेळटा. पगारूय बरो आसता. आमच्याच गांवचे णव जाण थंय पावल्यात. ताका लागून शिक्षणांक म्हत्व आयलां.'

'मिनां खणींर इतले मास्तर जाय पडटात?' दत्तारामालो अजापून प्रस्न.

'सुपरवायझर रे. गेटीर रावून कितले ट्रक आयले, कितले गेले, तांचो हिशेब दवरचेलीं बी कामां. तांकां थंय मास्तर म्हणटात.

'नवल्यांत अपरे-पयलेक येवचे पिरायेचीं धा-वीस भुरगीं आसत. शंभर येतात पळे, तीं सगलीं सर भोंवतणच्या गांवांतलीं. त्या वाठारांत शाळो नात. हे पयलीं, त्या गांवांतले थोडेच लोक भुरग्यांक पांच-स किलोमिटर पयशिल्ले म्हापशेंचे शाळेंत धाडटाले.

‘आतां त्या लोकांनी एक मांडणी केल्या. गांवांतल्या मिनीबशी भाशिल्ल्या पालकांक फुडें काडल्यात आनी भुरग्यांक मिनीबशींनी हाडची-व्हरची वेवस्ता केल्या. आवयो सकाळीं भुरग्यांक शाळेक पावोवन वतल्यो आनी शाळा सुटच्या वेळार येवन व्हरतल्यो.

‘हरशीं, नवलेंची शाळा तांकां म्हापशेंचे शाळे परस पावूण किलोमिटर पयस पडटा. तरीय, सराले शाळेंत बरें शिक्षण मेळटा, बरें वळण-शिस्त मेळटा, देखून तांणी सराले शाळेक पसंती दाखयल्या.

‘हीं भुरगीं बारीक गांवांतल्यान येतात. भुरग्यांक शिक्षण मेळचे खातीर तांगेलीं जाणटेलीं, चड करून तांगेल्यो आवयो कितल्यो खस्ती काडटात तें पळेल्यार, गोंयच्या समाजाक उदरगतीची वाट गावल्या काय दिसता. ही खूब बरी गजाल आसा. माई म्हणटा तें सामकें खरें. धा वर्सां भितर शाळेंत हजार भुरगीं शिकतलीं.

‘दत्ता, तूं पंडरी मास्तराक मेळ, तो किदें सांगता तें आयक, आनी मागायले भायर घरा वचून सुशेग घे. दोन दिसांच्या प्रवासान तूं थकला. सांजे जेवणार आमी थंडसाणेन उलोवंया.’ बापायन सांगलें.

* * *

शाळेचे वाटेर, दत्तारामालें विचारचक्र घुंवतालें. फाटलीं चारूय वर्सां, माईलो आनी तागेलो पत्रवेव्हार चलतालो. टर्मांत दोन तरी कागदां सदला वदला जातालीं.

‘आरोग्य सांबाळ, नेमान अभ्यास कर, घराण्याचें, शाळेचें नांव वयर काड, व्यसनाकारांक लागीं धरूं नाका. वेळाचो सदुपयोग कर, ज्ञाना जोड जल्मभर तगता. सरस्वतील्या पावलांर लक्ष्मी निवासता, असलीं वाक्यां ह्या ह्या कागदांनी आसतालीं.

तागेल्या हातांत दोन मार्च्याक पडिल्ल्या कागदांत माईन बरयल्लें, ‘ओनू शंभर नव्या भुरग्यांली नोंदणी जावचेली आसा. तुगेलो सर कोणाकूच ना म्हणचेलो ना. तीं बसतलीं खंय हो प्रस्न आयला. हो प्रस्न सर एके भशेन सोडोवंक सोदता जाल्यार विसूबाब आनी बाळूबाब दुसरे भशेन.

'बाळूबाबान म्हाका विचारिल्लें. हांवें सांगलें, दत्तारामाक येवं दी. मागीर सगलें जाग्यार पडटलें. तो हांसलो. हांव मख्ख रावलीं. म्हगेल्या मनांक दिसता तें हांवें सांगलें.

'अशे तरेन वाड जायत रावल्यार, धा वर्सां भितर विद्यार्थ्यांली संख्या हजारा कडेन पावतली. ते नदरेन विचार जावंक जाय. व्हडलो जागो पळोवन, थंय व्हडली शाळा काडची पडटली. खूब दुडू आनी खूब्ब परिश्रमांची गरज आसा.

'भालूबाबाक आनी बाळूबाबाक प्रस्न सारको समजला. ते अंगिकार घेवंक तयारूय आसात. गात्रां गळीत जाल्ल्या तुगेल्या सराक प्रस्न समजलो किदें, ना समजलो किदें, तो जाणटो जाला. सरा फाटल्यान येतल्यांनी सोडोवंचेलो हो प्रस्न. ते लोक येतात तें म्हाका दिसता. देखून हांव सस्त आसां.

'दत्ताराम, जागरणां करूं नाका. थंड तकलेन पेपर बरय. परिक्षा सोंपली काय घरा यो. आमी तुगेले वाटेक दोळे लावन बसल्यांत.'

विषयाचें म्हत्व लेकून, दत्तारामान महेशाक राजकोटाक कागद बरयलें. कागदांत दी-घे तसलें कांय नासलें. हरशीं, आठ दिसां भितर महेशाली जाप येताली. हे खेप आयली ना. पंदरा दीस वाट पळोवन, दत्तारामान आनीक एक कागद धाडलें. ताकाय जाप आयली ना. महेशालो सभाव हयगय करचेलो नासलो. ते भायर शाळा, माई, सर, नवलें बी बाबी तागेल्या जिवाळ्याच्यो आसल्यो. देखून, आठ दीस जातनाच दत्तारामान तिसरें कागद बरयलें. तें रजीस्टर पोस्टान धाडलें. तातूंत ताणें बरयल्लें, जाप एप्रिलांत बरयल्यार, गोंयच्या नाम्यार धाड.

कागद धाडून अठरा दीस जाल्ले. दत्ताराम जापेची वाट चयतालो.

***

सर आनी माई कदेलां घालून शाळे सामकारच्या पटांगणार बशिल्लीं.

लागसार पावतकीर, दत्तारामान हात हालयलो. माईन फुलिल्लया तोंडान पावती दिली आनी खबर सराक पावयली. सराल्या तोंडार खोशी फांकारली.

दत्ताराम म्हऱ्यांत पावतकीर माईन म्हणलें, 'बरोच कापूस झडयलो मरे? परिक्षेच्या भारान काय किदें? आतां बरें घरचें झळक्या जेवण जेव. आंबे, पणस खा आनी घटमुट जा. सर तुजेर एक जबाबदारी घालूंक सोदता.

'सर अजूनय गणित आनी सायन्सीचे क्लास घेता. ओंदूच्यान सायन्सीचो अभ्यास क्रम बदलता. ताका लागून, हे फुडें, आठवी, णवी, धावेचे सायन्स क्लास तुवें घेवचे अशें सर म्हणटा. पावलें मरे तुजेर?'

दत्तारामान तकलेन मान्यताय दिली.

'दत्ताराम, ओनू शंबरेक नवीं भुरगीं येवचेलीं आसात ताजी सुलूस हांवें तुका दिल्या. तांगेली बसचेली सोय खंय करची हाजेर दोन मतां जाल्यांत. सर किदें म्हणता तें पयलीं सांगतां. दत्ताराम, सराक हांगाच बसूं दी. ह्या वेळार हांगा शितळ वारो मारता. आमीं घरा वचून उलोवंया.' माईन सांगलें.

सरालें घर शाळेचे फाटले वटेन आसलें. शाळेक भोंवताडो मारून वचचें पडटालें. घराचे उजवे शिमेच्या दुरगा लागीं चिरे दाळून दवरिल्ले. रेंवे रास घडिल्ली. घरा भितोडेक शिमिटा पोतयो आसल्यो. बांदकामाची तयारी जाल्ली.

घरा सरेन पावतकीर माईन म्हणलें, 'हांगा वाऱ्याक रावून उलोवंया. पयलीं तुका सराले शाळेचो इतिहास सांगतां.

'दत्ताराम, हांव लग्न जावन ह्या घरांत आयलीं तेन्ना, ह्या घराक एक साल, एक न्हिदपा कूड आनी फाटले वटेन एक रांदची कूड आसली. एक ल्हानशी जळवा कूड आनी तिका तेंकून एक खटर-खुटूरा कूडूय आसली. घरा फुडली ही पडवी तेन्नाय आसली, पूण बांदूंक नासली.

'सर ट्युशनां घराच दितालो. विद्यार्थी वाडले तेन्ना सरान घराक फाटीं-फुडें दोन कुडी काडल्यो आनी घरा फुडली पडवी बांदून घेवन तिसरी कूड केली.

‘भुरग्यांली संख्या पन्नासां वयर पावली तेन्ना, सरान ही शाळा बांदूंक घेतली आनी ल्हव-ल्हव करून पुर्ण केली. हो आसा तुगेल्या सराले शाळेचो इतिहास.

‘ह्या इतिहासाक एक म्हत्वाचें तास आसा. सराल्या हातांत पयशां बळगें केन्नांच नासलें. सर सांगत आयला, आनी हांवूंय सांगतां, शाळा उबी जाली ताजें संपुर्ण स्त्रय तुगेल्या आज्याक, शंकूबाबाक दिवंक जाय. शंकूबाबान सराक वेळा वेळार मागत तितलें रीण सदळ मनान दिलें आनी वसूलीक केन्नाच आयलो ना. वयल्यान पुतांक सांगून गेलो, पंडरी मास्तराली शाळा तगयात. आमच्या भुरग्यां-नातरां खातीर ती जाय. आयज न्हय जाल्यार फुडारांत, हे शाळेचो लाभ आख्या गांवाक जातलो.

‘शंकूबाब अचकीत गेलो. तागेल्या मड्यार सर हो हो करून रडलो. ‘‘म्हाका रिणांत दवरून तूं किद्याक गेलो, शंकूबाब? हांव तुगेलें रीण फारीक करीसर रावचेलो न्हय़? म्हाका रिणांत दवरून किद्याक गेलो रे पापया, म्हज्या भांगरा!’’ करीत रडलो. मरणाक आइल्लया हेरांक आपल्या वांगडा रडयले. घरांतलीं मनशां तांगेलें दुखः कुशीक सारून आमकां थाथारूंक पडलीं.’

विसूबाबान जमिल्लयांक सांगलें, ‘बाबा हिशेबाक रेक्त आसलो. पंडरी मास्तराक रीण दिलां अशें खंयच बरयल्लें ना.’ हें आयकून सर हांबेऱ्यो घालून रडलो. शंकूबाबान दिल्ल्या रिणांचो हिशेब सराले आनी म्हगेले काळजा पटयेंत कोरांतून बरवल्लो आसा.

माईलें उलोवप अचकीत थारलें. दाव्या हाताचो आंगठो आनी तर्जनी बोट दोळ्यांक घट तेंकोवन ती मुसमुसूंक लागली. दोळ्य़ांक पदराचो गुड्डो मारून तिणें दुकांक आळाबंदलें आनी मुक्त मनान रडली.

दत्ताराम भुरगेपणांत सावन पळेत आयिल्लें माईलें तिख्या पानवळाचें मन, तिगेल्या अतःकरणांत आंग दाखय नासतना वसतल्या कृतज्ञताये भावनांचे ओलसाणीन इतले सोंपेपणीं विरून-विरगळून वता, तें पळोवन दत्ताराम चकीत जालो. ‘दत्ताराम, हांव मातशीं घाळ्ळीं आं.’ भानार येतकीर माईन म्हणलें,

मात वेळ वचूंक दिवन, माईन विषयाक हात घालो. 'तुगेलो सर किदें म्हणटा जाणां, आमी दोगांय दिसूय भर शाळेंत उरतांत. जेवंक आनी न्हिदूंक तितलीं घरा येतांत. आमकां म्हातान्यांक हें साल आनी येदी व्हडली न्हिदपा कूड किद्याक जाय? जळवा कूड आनी ते कुशीची कूड आसा, त्यो एकठांवया आनी आमी थंय न्हिदुया आनी अपरे-पयलेचे वर्ग घराकडेन व्हरूंया.'

दत्तारामान सरालें घर बारीकसाणेन पळेलें. घराक भायरसून दोन प्रदक्षणा घाल्यो आनी हांसून म्हणलें, 'माई, सरान सारकें सांगलां. तशेंच जावंक जाय.'

माईल्या दोळ्यांत लिकलिक आयली, पूण तोंडा वयलो तणाव उणो जालो ना. 'आरे, तुगेल्या जाणटेल्यांले सांगणेचेर दुर्लक्ष करूं येता? सराक वेव्हार कळना. केन्नाच कळ्ळो ना. सराले तकलेंत फकत ध्येय भरलां. विसूबाब आनी बाळूबाब वेव्हारांतले मनीस. तांगेलेच सांगणेन फुडें वचूंक जाय.'

'माई, हांवें तांगेलेंय सांगणें हिसपाक घरलां. कशें कात तें तुका आनी सराक एकसणींच सांगतां. यो. सरा सरेन या.' दत्तारामान म्हणलें.

माई चलूंक लागली. दत्तारामाल्या बावळ्याचो आधार घेवन, थकिल्ले संथतायेन ती चलताली. सरा सरेन पावतकीर दत्तारामान पुनरायलें, 'सर, तुवें सांगलें तेंच सारकें. तशेंच करूंक जाय.' दोगांय ओडीन आयकतालीं. 'पूण सर, घर मातशें शाळेच्या आडोसाक कशें पडटा. शाळेंतल्या लोकांली, जावं रस्त्यान वतल्यांली नदर सट करून घरार पडना. ते नदरेन, ल्हान भुरग्यांली शाळा करूंक तो जागो योग्य न्हय.

'ते भायर, शंबर भुरग्यांक हाडूंक-व्हरूंक शंबर-देडशें पालक जमतले. तांकां उबे रावूंक जाय तितली सुवातूय थंय ना. शाळा सुट्टकीर सगलोच गोंदळ-गचमुडी जातली.

'देखून सर, आठवी, णवी, आनी धावेचे क्लास घरा व्हेल्ले बरे. त्या क्लासांनी भुरगीं उणीं आसात. तांकां विस्कळसाणेन बसूंक मेळत असल्यो

तीन कुडी थंय आसात. कुकुल्यांली सोय शाळेंतूच करचेली. इतल्यान, नवी शाळा बांदूंक दोन वर्सांची उसरपतूय मेळतली.

'जळवा कूड आनी ते कुशीची कूड निवळ करून, तांचे मदलो पारो काडल्यार आनीक एक सारकीशी आलायती कूड मेळटली.'

सरान संमतीची तकली हालयली. माई कौतुका दोळ्यांनी आयकताली. 'सर, रेंव-चिरे हाडिल्ले आसात. घरा फाटल्या आनी उजवे वटेंतल्या दुरगाक इल्ली उबारी दिल्ली बरी. शाळेक प्रायवशी मेळटली.

'सरान आनी माईन, आतां रावता थंयंच रावचेलें. तातूंत बदल करचेली गरज ना. इतल्यान शिरवटकारूय खोशी जातले. तांगेलें इतलेंच सांगणें, सराक आनी माईक तांगेल्या घरांतल्यान हालोवंक उपकरना.

'आतांच, हांव हांगा येवंक भायर सरलों तेन्ना, "दत्ता, बुनयादीचो फातोर हालोवंचेलो नासता आं." अशी शिटकावणीं प्रेमाकाकीन म्हाका दिल्या.'

माईन ताकतिकेन दोळ्यांक पदर लायलो. सरालो हात सट करून पुडव्या शेव सोदूंक लागलो.

दत्तारामान उलोवणें थारायलें. इल्लो वेळ वचूंक दिलो आनी विचारलें, 'सर, शाळेचे कुशीक आनी फाटल्यान मेकळो जागो आसा, ताजो भाटकार कोण?'

'हो सगळो सरकारी जागो. सरकार लोकांक घरां बांदूंक जागो दिता. भाड्यान जावं विकतो. म्हगेल्या बापायन विकतो घेतिल्लो. घर मागीर हांवें काडलें.'

'तशें जाल्यार, सर, हो सगळो जागो रिकामो किद्याक उरला? थंय घरां किद्याक येवंक नात?' दत्तारामान विचारलें.

'हें दोंगराचें पालसण न्हय रे. जमीन खडपी. बांय-बुनयाद मारप खूब खर्चाचें जाता. लोकांनी सकले वटेंतले सगले एकतळी जागे व्यापल्यात, पळे.

आमच्या बापायन आपले तांकी भितर मेळटा म्हण हो जागो घेतलो. घराक बांय ना. मूळ पसून आमी तुमगेल्या भाटांतले बांयचें उदक खायत आयल्यांत. तुमगेलें भाट, वयले वटेन वचून सामकें दोंगराच्या तेंबकाक भिडलां. शाळेच्या उजवे वटेंतलो आनी फाटलो जागो तुमगेल्या भाटाचे शिमेक तेंकला.' सरान सांगलें.

'सर, दुसरो एक विषय,' दत्तारामान म्हणलें, 'बाबा म्हणटालो, येता ते येणावळी भितर शाळेचो खर्च भागना. फी इल्ली वाडोवंक जाय.'

'हो विषय काडलो तें बरें केलें, दत्ताराम.' माईन म्हणलें. 'बाळूबाबाक आनी विसूबाबाक सांग, हे फुडें शाळेच्या वेव्हाराचे सगले निर्णय ताणींच घेवंचेले. हें सरानूच सांगलां आं. विसर नासतना ताकां सांग. फीय वाडोवंक मान्यताय दिल्या म्हूण सांग.'

'बरें सर, बरें माई, येतां हांव. तकलेक जागरणाची लकणी येता. फाल्यां पावठ मारतां.' अशें म्हणून दत्ताराम थंयच्यान भायर सरलो.

***

शाळेचो प्रस्न जाग्यार पडलो ही खबर जाणटेल्यांल्या कानार घालून घरा वचुंया ह्या विचारान, दत्तारामान पसऱ्याची वाट धरली. वाट भर, तागेल्या मन-पटलाचेर एक हजार भुरगीं शिकतले शाळेचीं चित्रां एका फाटल्यान एक करीत दिसूंक लागिल्लीं. एका उढाळ जाग्यार, विस्कळसाणेन बांदिल्ली, माळी आशिल्ली, रुंद कॉरीडॉरांची, ह्या तोंकाक सावन त्या तोंकाक पाविल्ली, काळ्या पाशाणा दगडांनी घडयल्ली एक भव्य वास्तू, एक सारकी चित्रावताली. सिनेमा पळेल्ले भशेन तें दिसतालें.

दत्ताराम बरे भशेन जाणा आसलो, तागेल्या कल्पना कॅन्वासाचेर एक सारकें चितारतलें शाळेचें मनाभिलाशी चित्र, तागेल्या कॉलेजाचेंच हुबेहूब प्रतिरूप आसलें. शाळेची सर्त कॉलेजा कडेन करूं नज. जाल्यारूय, हजार भुरगीं शिकचेली शाळा उढाळ आनी उढाळ जाग्यार बांदलेली आसूं नाका? दत्तारामालें मन, आपणाल्या कल्पना-चित्रांत मन-इत्शीत रंग भरतालें.

***

दत्ताराम पसऱ्यार पावले बराबर, विसूबाबान उत्सुकतायेन विचारलें, 'पंडरी मास्तरान किदें सांगलें?'

'सगलें जाग्यार पडलां, विसूकाका. तुमकां जाय तशें जालां. सर आनी माईय खोशी आसात. तांकांय जाय तशें जालां.' दत्तारामान हांसून सांगलें.

'आब्बा! कसलो जादू केलो तर?' विश्वनाथान स-लक्तूबाय विचारलें.

सगलें वर्तमान सांगून, दत्तारामान म्हणलें, 'आतां नवी शाळा काडूंक, दोन वर्सांची उसरपतूय मेळटली.' जाणटेल्यांनी आनी बापोलभाव शंभून वाखाण्णे तकल्यो हालयल्यो.

'बाबा, सरान फी वाडोवंक मान्यताय दिल्या. हे फुडें शाळेचे सगळे वेव्हारी निर्णय तुमीच घेयात असो तुमकां निरोपूय धाडला.' दत्तारामान सांगलें.

'बरो मरे तूं! अर्द वरा भितर दोन वाग मारले.' ताणीं कौतुकान म्हणलें.

'विसूकाका', दत्तारामान म्हणलें. 'शाळे भोंवतणी सरकारी जागो आसा तो शाळेक जाय म्हणल्यार मेळत?'

'ना मेळूंक किदें जालां,' बापोलयान सांगलें. 'शाळाय जाल्यार लोकालेंच काम न्हय! पूण जागो पालसणार आसा न्हय? बांदकाम कशें जातलें? जागो एकतळ करूंक सोपें न्हय. जमीनूय खडपी. बुनयाद मारप खर्चाचें काम जातलें.'

'दुसरे कडेन खंय पळेला?' दत्तारामान विचारलें.

'सांवरी मळार देड हजार मिटरांचो एक जागो पास केला. जागो शाळेक योग्य आसा. सामको रस्त्याक आनी एका तळार आसा. भाटकारा लागीं उलोवणें चलता.' बापोलयान सांगलें.

'सांवरी मळार? भुरग्याक वचूंक येवंक खूब पैस जावचो ना? म्हाका दिसता, सांवरी मळ हांगा थावन दोन किलोमिटरां वयर आसा.'

'जागो इल्लो पयस, ही गजाल खरी. पूण दत्ता, तूंच सांग, नवलें गांवांत लागीं असो, येदो मेकळो जागो उरला?' बापोलयान विचारलें.

‘नवे शाळेक देड हजार मिटर जागो पुरो जातलो?’ दत्तारामान विचारलें.

‘पुरो जातलो काय विचारता? देड हजार म्हणल्यार गरज आसा ताजे तिपटीन जालो मरे.’ बापोलयान सांगलें. ’दत्ता पळे. मास्तरालें घर आनी शाळा स शें मिटर जाग्यार आसा. नवे शाळेक माळी काडची अशें थारलां. जाल्यार, देड हजार मिटर जागो माथ्या वयल्यान पुरो जालो ना?’

‘विसूकाका, तुवेंच म्हणलें, हे फुडें, भुरगीं अशींच वाडत वतलीं. बाई म्हणटा, धा वर्सां भितर शाळेंत हजार भुरगीं शिकतलीं. जाल्यार, नवे शाळेची येवजण ते नदरेन जावंक नाका?’ दत्तारामान विचारलें.

‘जावंक जाय तर! तेच पासत, पांच शें मिटर पुरो, थंय देड हजार घेवंचेलो केला. दत्ता, तुगेल्या हिसपान कितलो जागो जाय?’

‘कितलो जागो आसचो तें हांव आयतारा सांगता. पयलीं रमेशाक मेळून तागेली बुद्द घेतां.’ दत्तारामान सांगलें.

‘कोण रमेश?’, बापायन विचारलें.

‘आना मेस्तालो रमेश.’ बापोलभाव शंभून सांगलें. ‘रमेश काल आमंत्रण दिवंक आइल्लो. तांगेर परां सत्यनारायणा पुजा आसा. भाई केन्ना येतलो काय विचारी.’

‘रमेशाक हांतलें किदें कळता?’ बापायन विचारलें आनी जाप येवंचे पयलींच म्हणलें, ‘बरें आसा. परां सांग. आतां घरा वचून मातसो सुशेग घे. पोटांत किदेंय घाल. सामको ज्याम जाला पळे. सांजे जेवणार उलोवंया.’

‘आनी एक गजाल, बाबा,’ दत्तारामान म्हणलें. ‘शाळे भोंवतणी जागो आसा पळे, तांतलो कांय जागो शाळेक जाय म्हणल्यार भाडें कितलें पडटलें?’

‘हांव फाल्यां म्हापशां वतलों. सगली खबर हाडटां.’ बापायन सांगलें.

समाधानी चर्येन दत्तारामान घरची वाट धरली.

* * *

शाळे दिसां थावन, रमेश दत्तारामांक भाई म्हण पाचारीत आइल्लो. अपरी ते चवथीचे वर्ग माई घेताली. सकाळच्या पाराक ती चवथेक आनी तिसरेक अभ्यास घालताली आनी घरांतलें काम करूंक वताली. अपरी, पयली, आनी दुसरेच्या भुरग्यांनी कैदोळ कांडचो न्हय लेकून तांकां, पाडे-परवड म्हणूंक लायताली. दत्तारामाक तांचेर नदर दवरचेली ड्यूटी दिताली. दत्तारामाक 'भाई' म्हणात अशें तिणें भुरग्यांक शिकयल्लें. कालांतरान, तें नांव इष्टांल्या आनी गांवांतल्या भुरग्यां-जाणट्यांल्या तोंडांत रिगिल्लें.

***

'आना मेस्तालो रमेश.' शंभून म्हणिल्लें. घरा वचचे वाटेर, दत्तारामाले तकलेंत रमेश आनी आना मेस्त घोळूंक लागलो.

रमेशालो बापूय, आनंद गोविंद च्यारी, प्रचारांतलें नांव आना मेस्त हो, गांवचे लोक 'नंदा मेस्तागेर' म्हण वळखतल्या एका आद्य, आस्तीक च्यारी कुटंबांतलो वारशी आसलो. नवल्यांतल्या सकल्या वाड्यार, शिरवटकारांल्या भाटा कुशींतल्यान शाळे वटयां वतल्या मार्गार, उजवे वटेंतल्या भाटांत आना मेस्तालें घर आसलें.

वर्सां संकीचे शेजार-सांबारी बांदीलकेक लागून, नंदा मेस्त आनी शिरवटकार घराब्यां मदीं दाटी आसली. निरपणासाच्या पाळां भशेन ती, नवे पिडयेंतूय चरिल्ली.

दोन घराब्यांतले दोन उदेते सम-पिरायी मेंबर, रमेश आनी दत्ताराम, बालपणा थावन दाट इष्ट आसले. भुरगेपणी मस्ती कांडीत, राम-राय-साय-सुटयो करीत, कोयंड्यांनी बालां मारीत, गड्ड्यांनीं मिलां भरीत, भोट्यान बियां मांड पिकेर फोडीत, आडे-दुरगां हुंपीत, पेरी-बोरींर चडत, तोरां-आंबे पाडीत, वाऱ्या झुळकेन टप-टप झडिल्लीं झाडपिकीं तट्ट जांबळां वेंचीत, फोकां चिरीत, म्हुट्टे तोडीत, आंसाळे सोदीत, चुन्ना-काण्णां कांट्यां झिलींनी हात घालून बुड्डून घेत, तळये-व्हाळयेंत पेंवत, टॅणीस बॉलान क्रिकेट खेळत, ते ल्हानाचे व्हड जाल्ले.

ते एकाच वर्गांत शिकताले. रमेश शिकूंक हुशार आसलो. ताका शिकचेली उमेदून आसली. पूण, रमेशाली चवथी जातनाच, 'तो आपणाक धंद्यांत आदाराक जाय' म्हणत बापायन तागेली शाळा बंद केल्ली.

आनंद च्यारीलीय तीच काणी आसली. आनंद दुसरी पास जातनाच, तागेल्या बापायन, तो आपणाक धंद्यांत आदाराक जाय म्हणत आनंदाली शाळा बंद केल्ली.

आनंदूय शिकपाक हुशार आसलो. कष्टी, खटपटी आसलो. बापाय फाटल्यान, संवसारा भार तकलेर पडटकीर, च्यारींल्या परंपरीक धंद्यांत परिश्रम चड आनी येणावळ उणी हें पळोवन, आनंदान व्यवसायांत सायकली बी सारक्यो करचेल्या इजनेरी कामांची भर घाली. सायकली, मोटार सायकली, उदका पंप, पंपां मोटर बी करीत, करीत, कसलीय मोडिल्ली मशीनरी सारकी करचेल्या कामांत तो तरबेज जालो.

बापायले सगळे गूण रमेशाल्या आंगांत उतरिल्ले. तातुंत तागेल्या विस्लेषणी आनी सहज-आकलनी बुध्दीची भर पडिल्ल्यान, रमेश कसलीय मशिनरी दुरूस्त करतलो गोयांतलो नंबर वन मॅकानीक जाल्लो.

बापूय पुताली व्यवसाय युती जाली, त्याच अदमासाक, गोंयांत 'मिना' धंदो उफाळिल्लो. मीन काडपाक जमीन-दोंगुरल्यो खणच्यो पडटात. ते कामाक, भूंय-दोंगोर खणचेलीं तरा-तरां आवतां-अवजारां लागतात. मीन व्हांवोवंक ट्रकां-बार्जींचीं गरज पडटा.

मायनिंग म्हणल्यार हडम-धडम उद्योग. आवतां-अवजारां, ट्रक, बार्जी मर्दी-मर्दीं म्होडप ही चालंत बाब. मागीर नवलेंच्या आना मेस्ताक हाडूंक मर्सीडिजो धांवताल्यो. किदेंय म्होडूं, बापूय-पूत तें फटाफट जाग्यार हाडटा, अशी तांगेली गोंयभर वास्तवताये नामना पातळ्ळेली.

परिणाम, थोड्यांच दिसां भितर खणी वाठारांतल्या पिसुर्लें गांवांत बापूय-पुतालें विश्वकर्मा इंजिनीयरिंग व्हर्क्स पाटी मारिल्लें व्हर्कशॉप उबें जाल्लें. व्हर्कशॉप रमेश चलयतालो. थंयच रावतालो. शेनवार-आयतार घरा येतालो.

फाटले सुटयेंत दत्ताराम घरा आयलो तेन्ना, आपणें 'लोन काडून एक जेसीबी घेतला. एके मिना कंपनीक भाड्याक दिला. शेनवारच्या शेनवारा भाड्या चेक येता. वर्सां भितर लोन फेडटलो.' अशें रमेशान ताका म्हणिल्लें.

'जेसीबी म्हणल्यार किदें रे?' ह्या प्रस्नाक ताणें सांगिल्लें, 'एका ट्रॅक्टरार दोन तीन तरांची आवतां बसयल्लीं आसतात. खडपां फोडप, फोंड मारप, शिंवरलेली माती राशीर हाडप, जांव ट्रकांत भरप बी कामां जेसीबी करता.'

रमेशालें विचारचक्र थारलें. तो घरा पाविल्लो.

ते रातीच्या जेवणार, दत्तारामालें आनी तागेल्या जाणटेल्यांलें उलोवणें जावंक पावलेंच ना. जाणटेले पसरो धांपून घरा पावचे फुडेंच, चार गोटे पोटांत उडोवन, दत्ताराम कुंभकर्णी न्हिदेक वेंगावन थार पडिल्लो.

***

दुसऱ्या दिसा सकाळीं, आवय ताका ल्हव-मोव ताळ्यान उठयताली. 'दत्ता, बाब उठटा मरे? धा जालीं पळे. तुगेलो इष्ट रमेश आयला. तुका सोदता.'

'रमेश आयला' हीं उतरां कानार पडलीं तसो, दत्ताराम तटास दोळ्यांनी उठलो आनी 'आई, कडक शी इल्ली च्या कर आं, दोन मिणटां भितर येतां.' म्हणत, तोंड धुवंक गेलो.

दत्ताराम सालांत येतकीर रमेशान म्हणलें, 'तिंट्यार चेपो मेळ्ळो. तूं आयला म्हण सांगलें. पयर शंभू कडेन तुगेली चवकशी केल्ली.'

'जाणां.' दत्तारामान म्हणलें. 'परां तुमगेर पुजा आसा, तूं आमंत्रण दिवंक आयिल्लो, म्हगेली खबर घेतालो बी सांगलें. घर कंप्लीट जालें रे?'

'तशें कंप्लीट जावंक ना. पावस लागीं पावला न्हय? भायलें काम सोंपयलें. भितल्लें मात, मात उरलां. फाटल्या सोमारा होम घालो आनी सोयऱ्यां भितर घरप्रवेश उलगायलो. परां सत्यनारायणा पुजा दवरल्या. दोन बत्तीसांचो म्हुर्त. पुराण, आरती जातासर स वरां जातलीं. तूं च्यारांक आयल्यार पुरो. जेवन वचचेलें. कळ्ळें?

‘सोदू सडेकर, रामचंद्र घाडी, बाबलो परोब, भगवंत भगत, रगलो तारी, कृष्णराव देसाय, अरविंद फडते बी सगले क्रिकेट मेंबर आसतले. विसरूं नाका आं. परां रातचें. बरे तर. हांव कूस मारतां. तुगेलें जागरण सारकें निवळूंक ना. हांव आयलों लेगून, आईक तुका उठोवचो पडलो.’ रिकामो जाल्लो च्याचो ग्लास मेजार दवरीत रमेशान म्हणलें.

‘रमेश, मातसो राव. तुका किदें विचारूंक जाय.’ दत्तारामान म्हणलें, ‘तुका टायम आसा न्हय? ना जाल्यार शेनवारा उलोवंया.’

‘तुका जाय तितलो टायम आसा, भाई.’ रमेशान म्हणलें

‘एक सांग रमेश, तुवें जमीन खणचेलें मशीन घेतलां न्हय?’

‘हय. जेसीबी. सात म्हयने जाले.’ रमेशान सांगलें.

‘किद्याक विचारतां, जाणां?’ दत्तारामान म्हणलें. ‘सराले शाळेची खबर तुगेल्या कानार पावल्या मरे?’

‘सगली पावल्या. घरा आयिल्ले फावट, शंभूक जाप दिले बगर हांव वचना. सराक आनी बायीकूय मदीं, मदीं मेळटां.’ रमेशान सांगलें.

‘रमेश, एक सांग, बांय मारूंक जेसीबीक कितलो वेळ लागतलो?’

‘बांय रे? जमीन कसली ताजेर आसा. गोयांत चडशा सुवांतानी तीन मिटर खोलाये भितर उदक पडटा. तुगेल्या पोरसांत बांय मारूंक एक दीस लेगीत लागचो ना.’ रमेशान सांगलें.

‘आनी शाळे कडेन? ती खडपी जमीन देखून विचारतां.’

‘श्ये. ती खंयंची खडपी जमीन. तो चिरे काडतात तसलो दगड मरे. फर्र करून मुरूम जाता. थंय बांय मारूंक देड दीस खूब जालो.’ रमेशान सांगलें.

‘खर्च कितलो येतलो.’ दत्ताराम खर्चा अदमास घेतालो.

‘सराले शाळेक मरे? खर्चाची चिंता करूं नाका. बांयची धड लेगीत बांदून दितां.’

‘रमेश, दुसरें एक सांग. सराली शाळा दोंगुल्लेच्या पालसणार आसा देखून विचारतां. शाळे भोंवतणचो जागो तळार करूंक जमत? ते जमनीर सल्प खर्चांत बुनयाद मारूंक जायत?’

‘खर्चाचें पयलीं सांगतां, भाई.’ रमेशान सांगलें. ‘बांय आसूं, बुनयाद आसूं. जमीन मुरमी न्हय? आतां आसा ते शाळेचे बुनयादी येदी बुनयाद मारूंक जेसीबीक दोन दीस माथ्या वयल्यान पुरो जातले.

‘भाई, तूं अजापतलो, बांय मारचे परस बुनयाद मारूंक सोपी. बुनयाद म्हणल्यार एक चर कसो. फर्र करून मारून जाता. दुसरी म्हत्वाची गजाल. चिऱ्या जमीन आशिल्लयान बुनयाद चड खोल मारची पडचीना.

‘जागो तळार करचेलो प्रस्न, भाई, सगलो जागो भोंवून पळोवचो पडटलो. पूण म्हाका दिसता काम कठीण न्हय. खर्चूय चड येवचो ना.

‘तुवें म्हाका व्हडल्या टँशनांतल्यान मेकळो केला.’ दत्तारामान म्हणलें.

‘बरें भाई, येतां हांव. परांच्या जेवणाचो बेत विसरूं नाका.’ अशें म्हणत रमेश वचूंक लागलो.

‘रमेश, मातसो राव. एक किदें सुचलां तें सांगतां. आमगेली क्रिकेट टीम परां तुगेर जमतली न्हय, थंय नवी शाळा काडचेलो विषय काड. सगळे सराले शाळेचे पास्ट स्टूडंट्स आसात. तांकां शाळा काडचेल्या वावरांत ओडुंया. शाळा काडचेली एक ’उमेदी गडे’ टीम बांदुया.’

‘बेस्ट आयडिया, भाई. सगले आपूण जावन उमेदी गडे टिमींत येतले. तांकां सगळ्यांक सराले शाळेचो खूब अभिमान आसा.’

***

शिरवटकारालो पसरो दनपरां बंद जायना आसलो. एकेकलो येवन, जेवन वतालो. पयलीं शंभू येतालो. जेवचे जेवन पर्ततालो. ताजे उपरांत, पंदरा मिणटांच्या कालांतरान जाणटेले येताले. जेवले उपरांत अर्द वर आड रावताले आनी पर्तताले.

रमेश आमंत्रण करून गेलो ते दनपारची खबर. जेवता थंय, विसूकाकान दत्तारामाक सांगलें, 'बाळून जाग्याची खबर हाडल्या. जागो सवाय भाड्यान मेळूं येता. बापायकडेन उलय. सगलें सारकें समजून घे.'

मात वेळान, बाळूबाब आयलो. ताणें सगली म्हायती हाडिल्ली. 'घरां बांदपाक कुटुंबाक एक हजार मिटर मेरेन जागो सल्प भाड्यान दितात. गव्हर्नराली मान्यताय घेवची पडटा. शाळा बी काडूंक व्हडलो जागो जाय जाल्यार अर्जा वांगडा प्रॉजेक्टाची पूर्ण म्हायती, शाळे प्लॅन बी दिवचो पडटा. भौशीक प्रकल्पांक गव्हर्नर सट करून ना म्हणना. भाडेंय सल्प आसता.'

'स्कुलाचो प्लॅन अर्जा वांगडाच दिवचो पडटा?' दत्तारामालो चिंतेन प्रस्न. 'व्हडलो जागो मागतल्यांनी दिवंचो पडटा. गरज ते प्रमाण जमीन दिवचेली, न्हय!' बापायन पुताक समजायलो. 'ओगीच चिंतेंत पडूं नाका. आमगेल्या भावोजीक ते कायदे खबर आसात. हांवें भावोजीक फोन केल्लो. ताणें तुका आयतारा रातचो रावूंक आपयला. भावोजी तुका सगलें समजायतलो'.

भावोजी म्हणल्यार शिरवटकारांलो जावंय, विसूबाबाली चली उमा, तिगेलो घोव, सदाशिव देसाय, पणजेचो नांव केल्लो एड्वोकेट.

बापायन फुडें सांगलें, 'दत्ता, मतींत दवर, बऱ्याचीं कामा आसतात पळे, तीं आपशींच जावन वतात. आपणें घांस मारून कार्य करीत रावूंक जाय.' घरच्या पार्थाक, पिताश्री, गीता रहस्याची बारीकसाण समजायतालो.

'दुडू खंयच्च्यान येतले तो विचार घोळयत रावूंक जाय.' संवसारोनुभवी पितामहान जीवन-वेदांतांतलो वस्त्रगाळ सिध्दांत चेल्याक अवगतायल्लो.

***

बापूय वामकुक्षी करूंक वतकीर, दत्ताराम विचार करीत बसलो. 'दुडू खंयच्च्यान येतले' ताजें त्रैराशीक मना भितर मांडीत बसलो.

रमेशान दिल्ले उत्फुर्त जापेची ताका याद जाली. 'बांय मारूंक कितलो खर्च येतलो', ह्या प्रस्नांक रमेशान तत्काल म्हणिल्लें, 'सराले शाळेक मरे? खर्चा चिंता करूं नाका. बांयची धड लेगीत बांदून दितां.'

रमेशाले उत्फुर्त जापे फाटली भावना दत्तारामाक नवी नासली. तागेल्याय मनांत तेंच आसलें. आनी महेशाल्या, आनी शंभूल्या, आनी.......

'आरेच्च्या!' ताणें मनांत म्हणलें. 'हें कोष्टक म्हगेले तकलेंत पयलीं कशें आयलें ना?'

दत्तारामाक दिष्टावो जाल्लो. सराले शाळेंत शिकलेल्या जाणा एकल्या भुरग्याल्या मनांत हीच कृतज्ञताये भावना आसली. सराले शाळे पासत किदेंय तरी करचेली भावना. शाळेंत शिकले तांगेल्याच न्हय, नवल्यांतल्या प्रत्येकाली हीच विचारसरणीं आसली.

सरान आनी माईन तांगेल्या घरांत सरस्वतीचो नंदादीप पेटयल्लो. ताकाच लागून लक्ष्मीक तांगेल्या घरांत भितर सरचेली वाट दिशिल्ली आनी हाजी जाणीव त्या सगळ्यांक स्पष्टतायेन आसली.

जीर्णावस्थेक पाविल्लें तें जोडें, सर आनी माई, फाटलीं चवेचाळीस वरसां, नवलेंकारांक अज्ञानाची न्हंय पलतडूंक, नेणागांव थावन शाणेगांव व्हरच्या तारीचें तारयेपण करीत आसलें. दुडूवांचे आसे बगर, कष्टांची तमा करी नासतना, ल्हान-व्हड भेदां विरयत, आपूलकायेन, एकला चलो रे मार्गान, तें झरत आसलें.

तांगेल्या काबाड कष्टांचो स्पष्ट शाश्वत छाप सगल्या लाभार्त्यांल्या आनी तांगेल्या घरच्यांल्या काळजार खोलायेन उदेल्लो. 'सराले शाळेक मरे?' हीं रमेशालीं उतरां, त्या सगळ्यांल्या काळजा खोलांत, वसतल्या कृतज्ञताये भावनांचें नाद स्वरूप आसलें.

शाळा बांदचेलें कार्य सिध्दीक व्हरतले जन दत्तारामांक व्हलमल्ले. दुडू खंयच्यान येतले, तेंय कुवाडें सुटिल्लें.

* * *

दनपारच्या वेळार, पसऱ्यार गिरायकां पातळ जातात. शंभू लागीं खबरी मारूंया ह्या विचारान, दत्तारामान पसऱ्याची वाट धरली. नवल्यांत नोकरी आनी धंदो करतले कितले जाण आसात, कसले तरेच्यो नोकऱ्यो आनी

व्यवसाय करतात, नवल्यांतूच रावतात काय आनी खंय, असल्या तागेल्या खोंटलो भर प्रस्नांक शंभून उपेगी जापो दिल्यो.

वोत मोव जाल्लें. विसूबाब आनी बाळूबाब परतल्ले. 'गांवांत एक भोवंडी मारून येतां.' अशे म्हणट दत्ताराम थंयच्यान भायर सरलो.

दत्तारामान 'वयल्या' वाड्यान सुरू केलें. वाटेंत मेळटल्या हाका ताका हडकीत, तांचे लागीं ह्यो त्यो खबरी मारीत तो भोंवलो. उलयतना मदींच 'सर व्हडली शाळा काडटा, तें कळ्ळां मरे? ह्या कामाक आमी फूल ना पाकळी हातभार लावंक जाय आं.' हो मतलबी विचार पेरीत भोवंलो.

'फूल ना पाकळी किद्याक, भाई. आमीं हात उबारून दिवंक जाय. शाळा आमचेच पासत बांदता न्हय!' असल्यो पुष्टीवंत जापो मेळटाल्यो. दोन वाडे भोंवून जातासर आमोरी जाली. उरिल्ले वाडे आनी केन्नाय करचे, ह्या विचारान, दत्ताराम संतुष्ट मनान घरा परतलो.

***

शेनवारची सकाळ उजवाडली. दत्तारामाक सकाळ सारूच जाग आयली. हांतुणार आसा थंयच तो येवजितालो. 'सांजे रमेशागेर पुजेक वचूंक जाय. सकाळचो आदेस मेकळो आसां. देउळ वाड्यार पावठ मारून येवंया.'

तो उठलो आनी तूथब्रश-पेस्ट काडूंक मेजा सरेन गेलो. पळे जाल्यार मेजार, निळसार रंगाचें, फायलीच्या आकाराचें एक दाटसार पॅकेट दवरिल्लें आसा. ताणें पॅकेट हातांत काडलें. तें राजकोटचे ऑयल्स ॲन्ड डॅरीव्हेटीव्हस' कंपनीन धाडिल्लें.

महेशान किदें धाडलां काय च्या कुतुहलांत ताणें पार्सल फोडलें. भितर मोव चामड्या ब्रीफकेजींत घाल्ली, चारेक इंच दाटायेची एक जडसार फायल आसली. 'कसली फायल' चे आतुरतायेन ताणें फायल उगडली. फायलीत वरयरूच, सुवाच्च अक्षरांनी बरयल्लें, 'म्हगेलो प्रिय धाकलो देर दत्तारामाक मधुरा भाबीले सादर प्रणाम, केस छ्यो?' ह्या उतरांनी सुरूवात केल्लें, चार पानी कागत आसलें.

ताणें उमळशिकेन कागत हातांत काडलें आनी तें उर्बाभरीत काळजान, एका चित्तान, दोळ्यां पातयो हालय नासतना, वयर सावन सकला मेरेन वाचून काडलें. फायल चाळून विषय समजून घेतलो. आनी प्रसन्न मनान आनी कृतार्थ भावनेन, 'थँक्यू भाबी, थँक्यू. तुवें म्हजेर व्हडले उपकार केले' अशें मनां भितर म्हणत, तो तोंड घुवंक गेलो.

परतो येतकीर, कागत आनी फायल घेवन तो जेवचे कुडींत गेलो. दोगूय जाणटेले, पसऱ्यार वचचे वाटेर, ताकतिके च्या घेवंक थंय बशिल्ले. रमेश भितर सरतनाच, प्रेमाकाकीन निमगिलें. 'रमेश. काल तुका एक दाटशें रजिस्टर पत्र आयिल्ललें. तुगेल्या कुडींत मेजार दवर अशें चेप्याक सांगिल्लें. तें मेळ्ळें?

'हय प्रेमाकाकी, तें मधुरा भाबीलें कागद. नवी शाळा बांदचे संबंदान. महेश जर्मनीक गेला खंय. दोन म्हयने जाले. पंचवीस तारकेक येतलो.' अशें म्हणत ताणें कागत आनी फायल विसूकाकाले सुवादीन केली.

'दत्ता, तूंय बस आनी खावन मेकळो जा. काकीन तुगेल्या प्रितीचें अळसांद्यां तोंडाक आनी सांन्ना केल्यांत. हुनशीं खा.' आवयन म्हणलें.

जाणटेल्यांनी सुनेलें कागद लक्तुबायेन वाचलें आनी तें बायलां सुवादीन करून फायलीक हात घालो. फायल वयले वयर चाळून जातकीर, भालचंद्रान पुताक म्हणलें, 'दत्ता तुगेलें काऽम जालें! मधुराबायक कशें सुचलें पळे. तिका ओब्रिगादा कागद बरोवंक विसरूं नाका, आं.'

'आमगेले सुनेन दुडू धाडचेली खबर बरयल्या पळे,' विश्वनाथान म्हणलें, 'तें काम जावचेलें ना. ब्लॉकेड आसा न्हय. भारतांत सावन एक पानदुडू लेगीत गोंयात धाडूंक मेळना. आमगेले सुनेक तें खबर ना काय दिसता.'

'खबर ना अशें म्हाका दिसना. बापायलो दिसपट्टो कारभार आतां भाबीच पळेता खंय.' दत्तारामान म्हणलें.

'मधुराबायलें अक्षर मात सुंदर आसा. रेखीव आनी मोतयां वळणाचें.' रमेशाले आवयन म्हणलें.

‘आई, तेय परस सुंदर, कागदांतल्यान निशेतलें, भाबील्या पिताजीलें, यंतीभायलें, मन आनी दानत आसा ती पळे.’ दत्तारामान म्हणलें. सगल्यांनी ग्रामकें खरें’ म्हणचेल्यो तकल्यो हालयल्यो.

‘खबर सरा-माईल्या कानार घालून येतां.’ अशें म्हणत दत्ताराम गेलो.

शाळे भोंवतणच्या मेकळ्या जाग्यार नदर मारून ‘स्कॅच’ काडिल्लो बरो नशें येवजून ताणें वतना बॉलपेन, दाटशी फोल आनी रायटिंग बोर्ड व्हेलो.

भाबीलें कागद ताका हुरूप दितालें. तो उमेदी पावलांनी चमकतालो.

***

सर आनी माई ऑफिसांत बशिल्लीं. दत्ताराम भितर सरतनाच, हर्षीत द्रेन माईन म्हणलें, ‘पुता, तुका शंबर वर्सां आयुष्य. आतांच तुगेली याद काडिल्ली. आमी टायम टेबल करूंक बसल्यांत. आठवेक, णवेक आनी धावेक ळून, सप्तकांत स फिझिक्स पिरीयड तुवें घेवचेले. दिसाक दोन घेतलो काय ोन तें थाराय आनी दीस खंयंचे तें सराक सांग.’

‘मंगळार आनी शुक्रार, दिसाक तीन करून घेतां.’ दत्तारामान सांगलें.

‘नवे शाळे संबंदांत कांय गजाली तुमगेल्या कानार घालूंक आयलां.’ नशें म्हणून ताणें, गव्हर्नराक अर्ज करचेची गरज, रमेशान दिल्ली म्हायती, धुरा भाबील्या कागदांतलो आशय बी म्हायती तांगेल्या कानार घाली. ते परांत, दोन वाड्य़ांची भोंवडी करतना ताका आयिल्ले अनुभव, लोकांलो राले शाळे विशींचो भावार्त, नवे शाळेक घसघशीत हातांनी पालव दिवचेली ांगेली मनीषा बी सगळें सांगलें.

‘सरस्वती माईले आशिर्वाद.’ नदर सवकासायेन मळबा वशीं व्हरत, ोडिल्ले हात हरद्याक तेंकयत, नमळताये भावान आनी उपकृत मनान सरान हणलें.

माई मंद मायेस्त हांसली.

***

दत्ताराम शाळेंतल्यान भायर आयलो आनी सपसपीत चालीन दोंगुर्ले च्या तेंबकार गेलो. थंयच्यान दिसतल्या आसमंताचेर ताणें तागेली निरखणी नदर होगूरसाणीन भोंवडायली. दोन गजाली सट करून तागेल्या दोळ्यांत भरल्यो.

पयली, लोक जाका 'दोगुल्लेचें तेंबूक' म्हणताले तें खरेपणी, फातरीर रगडो आसचो ते भशेन, एका मळार थिरावल्लें, दोन कुडक्यांनी विभाजन जाल्लें आकांता आकाराचें लांबचे लांब तळप आसलें. दोन कुडक्यां मदलो जागो खाडो आसलो.

दत्तारामान पळेतनाच पारलें, आदल्या काळांत हें एक अखंडीत तळप आसलें. खाडो जाला ते सुवाते वयलो तळपा भाग, केन्ना तरी भू-स्खलन जावन शाळे दिकेन गडगडिल्लो आनी फातर-माती जावन, मोव चडटे रुपांत थिरावल्लो.

दुसरी गजाल, शिरवटकारालें भाट सोडून उरिल्ली, शाळेचे मुखावयली जमीन दोन तरांच्या मातयांचे रुंदसार पटे कशी आसली.

उजवे वटेंतलो पटो, म्हणल्यार शाळे भोंवतणची जमीन, वयर सांगली तशी, भरसल्ल्या फातर-मातयेची मोव चडटी आसली. रंगान ती, गोंयांत सर्रासतायेन दिसतल्या फातरां-मातयां वरीच, पूण इल्ली चड तांबुससाण मारतले कावे रंगाची आसली.

ते फुडली जमीन हळडुवो-धवो भरसल्ल्या रंगाची, शेडी मातयेची आसली. शेडी पट्याच्या उत्तर-पश्चीम वाठारांत, वडे काडचेले कायली आकाराचो वाडकुळो आनी खोलूस फोंड-भोकणो पडिल्लो.

आदले मुस्तींत, हे सुवातेर, सोनचाफ़्या रंगाची शेडीची माती गावताली तें दिसतालें. हेच मातयेन इतलीं वर्सां, गांवचे लोग आपणालीं घरां रंगयताले. जमीन खणत उरिल्ल्यान थंय भोंकणो पडिल्लो. हालीं काळाक खणप बंद जाल्लें. शेडीचो स्टॉक उलगल्लो. तळपा जमीन लागिल्ली. त्या जाग्या पेल्यान उत्तर आनी पूर्व दिकेन गांव पसरिल्लो.

दत्तारामान तेंबकार रावून हें सगलें तेळ्ळें, वाठाराचो स्केच काडलो, थंयच्यो सगल्यो बारीकसाणीं आनी अदमाशी मापां स्केच्यार घालीं.

ते उपरांत, लांबसार धेंपी पावलां, मेजीत मारून, दत्ताराम, शाळचो जागो आनी शिरवटकारांलें भाट हांच्या मदल्या, दक्षीण-उत्तरी मार्गार आयलो. एकशें सत्तेचाळीस धेंपां पडलीं.

मागीर, तेच चालीन तो दक्षीण--उत्तर मार्गान शिरवटकारां भाटा शिमे पावन, फोंड पडिल्लया जाग्याचे शिमेर गेलो. दोनशे सत्तावन धेंपां पडलीं.

चौदा अडजें पस्तीस हो अडेजकीचो पाडो म्हणत, तो मना भितर पुटपुटलो. 'साडेतीन हेक्टर सुमार आसा,'

'पयलें काम,' दत्तारामालें विचार चक्र घुवूंक लागिल्लें, 'रमेशालो जेसीबी हाडून शाळे कुशींतली चडटे माती-गुंडे धुकलीत, सरकायत फोडांत उडोवंचेली. ते उपरांत, तेंबकावयलें व्हडलें तळप फोडून सकयल्ले बटयां कोंसळावन, फोंड सामको पुरोवन उडोवचेलो. इतल्यान 35,000 मिटर सुमार नेकळो एकतळी जागो मेळटलो. सराले शाळेचो स शें मिटर जागो तितलो, आतां आसा तसोच तीन सोपणांचे उंचायेर उरतलो.'

खोशशे मनान, शिरवटकारां पसऱ्या कडल्यान येतल्या मुख्य रस्त्यार, प्लोटाचे पुर्वे शिमेर तो मध्याक सो उबो रावलो. थंयसून दोळेभर दिसतल्या तेंबकाच्या लॅन्डस्केपाक स्थीर धादोस नदरेन पळेत रावलो. दोन मिणटां जावन गेलीं तरीय, तागेली नदर मग्नतायेन पळेत उरिल्ली.

'शी! शी! अशें करुंक उपकरना.' ताणें आपले आपणाक शेडायलो.

तेंबका वयलें व्हडलें तळप म्हणल्यार नवलें गांवांच्या सोबीतकायेचें त्रळख पत्र आसलें. पयस-पयसुल्यान तें भव्यतायेन झळकतालें. विशाल, काये, पाशाणा धजे तळपाचे फाटभुंयेचेर, नवलें गांवाची सोबीतकाय उठून देसता ह्या सत्याचो ताका साक्षात्कार जाल्लो.

'त्या खडपाक हात लावंक जायना.' दत्तारामान आपले भितर आपणाक

खबरदार केलो. ‘ताजे बदला शिरवटकारांल्या भाटा वटेंतलें खडप हालोवंया.’ दत्तारामान थारायलें.

देड वर ओतांत भोंवून जाल्ल्या हुंमल्या तोंडान, भर बारा वरांच्या वता कडान तापिल्ल्या माथ्यान, आनी शितल, संतुष्ट मनान दत्ताराम घरा परतलो.

***

साडे तिनांच्या अदमासाक दत्ताराम रमेशागेर पावलो.

ओड लायण्या उढाळ जांबळ्या रंगान रंगयल्लें, एके माळयेचें रमेशालें नवें ताल्ल घर, घरा फाटल्यान आशिल्ल्या आंबुल्लयांच्या गच्च पाचव्या गादूस पानांचे फाटभुंयेर, खूब पयसुल्लयान झग्ग करून नदरेंत भरतालें.

घरांत सरतनाच आशिल्ल्या एका व्हडसार हॉलांत पुजे देवारो मांडिल्लो. लोकांक बसपाक, हॉल भर जाजमां पातळायल्लीं. बशिल्ल्यांत चडशो बायलोच आसल्यो. बायलांचे देडयेन बोवाळ काणटलीं भुरगीं आसलीं. दत्ताराम पावलो तेन्ना पुजा सोंपत आयिल्ली. शिमे पायणींतले दत्ताचे देवळेंतलो पुजारी वासुदेव भट पुरयतपण करतालो. रमेशान दत्तारामाक व्हरून आपल्या बापाय म्हऱ्यांत बसयलो.

पुजा सोंपून, ‘हय सायबा’ गजरांत गाराणें घालून जातकीर, आपणालो आवाज भुरग्यांल्या कुलकुलाटा परसूय वयर चडोवन, वासुदेव भट आड्डुलो, ‘आतां पुराण जातलें. श्रीसत्यनारायणालें पुराण कोण भक्तिभावान श्रवण करता, ताका सोळा श्रीसत्यनारायण पुजा केल्ल्याचें पुण्य आनी फलप्राप्ती जाता अशें वेद पुराणांत सांगलां. समस्त भाविकांक विनंती, तांणीं पुराणाक रावचें. ते उपरांत महाआरत जातली. लोकांनी महाप्रसादाचो दोणो घेवन, पुर्ण पुण्य पदरांत घेवन मागीरूच घरा वचचें.’

पुराण कथन प्रारंबलें. संस्कृतांत आशिल्ल्यो कांय पुराण वळी, वसुदेव भट अस्पष्ट-मोन्या उच्चारांनी गुणगुणटालो आनी तांचो अर्थ कोंकणींत सांग्तालो. मागीर आयकतल्यांल्या मुखमळांर भावुकताये भाव भरताले.

पुराणाक पांच अध्याय. एकेक अध्याय सांगून जातकीर, वासुदेव भट

व्हडा स्रध्देन पुराण पुस्तक आपणाल्या मस्तकाक तेंकयतालो आनी घंटा किणकिणायत ताका कापरा आरत दाखयतालो. आरत एका ताटांत दवरून, तें ताट आपणाल्या शेलक्या वरवीं, समस्त भक्तां-भाविकां मदसून गोठाल्लेचे चालीन भोंवडायतालो. भावार्तान थपथपिल्ले भक्तगण, आपणाले हात, कापरा उज्याचो धग खरसाणेन लागसर लागीं व्हरून आरत घेताले आनी तितल्याच भावार्तान, दुसऱ्या हातांत तय्यार दवरिल्लो सुरती सुब्रो खण्ण करून आरती ताटांत उडयताले आनी खाडकीं छातयेक तेंकसर तकली बागोवन हात जोडटाले.

पुराण कथन कालांत, सुरती सुब्र्यांचो खणखण पांच फावटीं जाल्लो. भाविकताय जागृत जाल्ल्या जनांले हात, कितले सोपेपणीं, कितलेच फावटीं, रुपयार उदक सोडटात तें पळोवन दत्ताराम विचार करूंक लागलो.

भुरग्यांलें शिक्षण आनी भुरग्यांलें भविष्य हांचे मदलें सरळ-स्पष्ट नातें, 'सरस्वतील्या पावलांर लक्ष्मी निवासता' सारकेल्या म्हणींच्या स्रध्दे माध्यमांतल्यान लोकांल्या तकलेंत घालून, तांगेल्या मनांत भुरग्यांल्या फुडारा विशींची संवेदनशीलताय जागयल्यार, लोक शाळेकूय सदळ हातांनी सुब्र्यां काणूक केले बगर रावचे नात, हे कल्पनेन दत्तारामाले तकलेंत घर केलें.

पुराणाच्या उरिल्ल्या अध्यायांतलें एक उतर लेगीत तागेले तकलेंत गेलें ना. तागेलें मन 'एक रुपया दान' विचारांत मग्नल्लें.

***

आरती जावन, प्रसादाचे पुष्ट दोणे वांटून जाले उपरांत, रमेशान आपल्या इष्टांक व्हरून माळये वयल्या सालांत बसयले. सालांत जमिल्ले तितलेय, सराले शाळेचे अभिमानी माजी विद्यार्थी आसले. ते फुडल्या फाटल्या यत्तांनी शिकिल्ले. कोणें चवथी केल्ली, कोणें आठवी, कोणें मॅट्रिक. कोणें मदींच सोडिल्लें. सगले नवल्यांतूच रावताले.

तांगेल्या इष्टागतीचें मूळ - ते सगले 'सकल्या वाड्यावयले' टॅनिस बॉलान क्रिकेट खेळटले टिमींचे मेंबर आसले. भितल्ले णव थंय आसले.

वाटकुळसाणेन मांडिल्ल्या कदेलांचेर बसून ते खबरो कांडटाले. सगल्यांल्या मनांत तांगेल्या बालपणच्या यादींचे आल्बम उकते जाल्ले. खबरो नेटार आयिल्ल्यो. तांगेल्या हातांत, दनपरांच झाडा वयल्यान देंवयल्ल्या पूर्ण पक्क भिण्णांच्या मोगा रंगा सरबताचे ग्लास आसले.

रमेशान उलोवंक सुरू केलें. 'पुजे निमतान मेळचे अशें चिंतून हांवें तुमकां आपयल्ले. जेवण जावंक अर्द वर आसा. जेवंक येयात असो आईलो उलो ये सर आमीं, आमगेल्या सगळ्यांल्या एका जिवाळ्याच्या विषयाचेर उलोवंया,' ह्या उतरांनी सुरवात करून, रमेशान सराले नवे शाळेचो विषय क्रिकेट टिमीले ऐरणीर दवरलो.

चर्चा भावपूर्ण मुडांत जाली. पंदरा मिणटां भितर दोन थाराव पास जाल्ले. नवी शाळा काडचेलें काम मुखार व्हरचेली जबाबदारी टॅनीस बॉल क्रिकेट टिमीन घेवची हाजेर एकमत जाल्लें. नवी शाळा काडचेलो विचार गांवच्या लोकांकडेन आनी गांवा भायर रावतल्या नवलेंकारांकडेन पावोवन त्याय लोकांक ह्या वावरांत ओडचें, हाजेरूय एकमत जाल्लें.

'हे टिमींक ''उमेदी गडे''हें नांव दवरूंया.' रमेशान छाती फुलोवन सांगलें. उमेदी गड्यांनीं ताळयो मारून नांव पास केलें. इतल्यान रमेशालो बापूय आयलो आनी सांगले, 'रमेश, पानां वाडून जाल्यांत. आईन तुमकां जेवंक आपयल्यात.'

उमेदी गडे गेले उपरांत, दत्ताराम आनी रमेश उलयत बसले. दत्तारामान आपले सकाळचे भोंवडेचो रिपोर्ट दिलो, स्कॅच दाखयलो आनी आपलें मत सांगून म्हणलें, 'रमेश, हें सगळें तुवें तुगेल्या दोळ्यांनी पळेल्लें बरें. फावता तेन्ना एक पावठ मार.'

'हुनार हून जावं दी, भाई. फाल्यां सकाळींच वतां.' रमेशान सांगलें. 'भाई, एक बारीकसाण सांगतां. माती हालोवचेलें काम पावसांत करूंक बरें. इल्ली उखळ आसल्यार पुरो. पिरपिऱ्या पावसांत काम करूंक उत्तम. फातर सोंपेपणीं मेकळे जातात आनी माती ओलूस आशिल्लयान धुल्ल उबना. भाई, तूं जागो मेळोवचेले खटपटीक लाग.'

'तेच पासत हांव, आज सांजे पणजे वतां. रातचो उरतलों. जमीन मेळोवचेलो कायदो आनी विधी भावोजी कडल्यान समजून घेतां. ते प्रमाण फुडलीं पावलां उडोवंया.' दत्तारामान सांगलें.

दत्ताराम घरा परतलो तेन्ना मध्यान उलगल्ली.

***

आदले रातीं जागरण जाल्लें आसुनूय, दत्तारामाक सक्काळीं जाग आयली. सकाळचो आदेस बेकार आसां, एक-दोन वाड्यांर पावठ मारून येवंया ह्या बेतान दत्ताराम न्हेसून तयार जाता, इतल्यान आवयलो उलो तागेल्या कानार पडलो. 'दत्ता, जाणटेले च्या घेवंक तुका रावल्यात. बेगीन यो.'

शिरवटकारालो पसरो आयतारा सकाळच्याच आदेसाक उकतो आसतालो. ती ड्यूटी शंभूच करलो. जाणटेले घराच आसताले.

जेवचे कुडींत पावतकीर, दत्तारामान बापायक म्हणलें, 'बाबा, शाळेक केदो जागो जाय तें हांव परां सांगतां. पयलीं भावोजीक मेळटां.'

मागीर ताणें, शाळा काडूंक लागतल्या दुडवांची खबर काडली. 'आतां मेरेन हांव दोन वाड्यांर भोंवून लोकां लागीं उलयलां. नवी शाळा काडचे बाबींत लोग जागृत आसात. सगळ्यांलो सूर सकारात्मक आसा.' ताणें सांगलें.

'माई-सराले पांग फेडूंक, तेच परीं, काम गांवांच्या भल्याचें हे लेकून, ह्या कार्यांत दुडवां-श्रमांनी भागा जावंचेली तांगेली प्रखर इच्छा म्हाका जाणवल्या.' दत्तारामान जाणटेल्यांक गमयलें.

ते उपरांत ताणें, आदले राती रमेशाल्या घरा जाल्ले शाळेच्या माजी विद्यार्थ्यांले बसकेची आनी तांणीं उत्फुर्ततायेन पास केल्लया थारावांची खबर सांगली. आवय आनी प्रेमाकाकी धरून सगलीं प्रशंसीक मुद्रेन आनी सहमती काळजान आयकतालीं.

आरतीच्या ताटांत घसाघसा पडटल्या भावीक सुरती रुपयांची गजाल सांगून ताणें म्हणलें, 'हीच पद्दत आमच्यानी शाळेक फंड एकठावंक उपकरावं येता.'

'तूं आरती घेवन भोंवतलो?' आवयन अ-सहमती हेळ्यान विचारलें.

'आरती-बिरती तसलें कांय ना. देवाक पैशे घालूंक देवळांत देवस्थानची फंड-पेट आसता पळे, तसलें एक ल्हान पेटूल, एक फोल्डींग मॅज आनी चोवीस बाय सोळा इंच आकाराचो एक बोर्ड, ह्या तीन वस्तूंच्या मुदला भितर काम करचेलें.

'त्या बोर्डार, लोकांल्या दोळ्यांत सोपेपणीं भरत इतल्या ठळक अक्षरांनी ''एक रुपया शाळेक दान, लक्ष्मी येतली घरांत'' हें घोष-वाक्य पेंट करचेलें. ताजे सकयल, एक माळी आशिल्ले एके लांबचे लांब शाळेचें चित्र काडचेलें आनी सकला घालचेलें, 'व्हडली शाळा काडूंक फंड. सराली शाळा, नवलें-गोंय.'

'ज्या, ज्या गांवांतलीं भुरगीं सराले शाळेंत शिकतात, त्या, त्या गांवांनी, धर्मीक जावं भौशीक कार्यावळी जातात, त्या, त्या सुवातांचेर आमगेली दान पेटी दवरचेली. हात फुडें काडून मागचेलें ना. आपूण जावन कोण दित तें आमगेलें. एक प्रयोग करून पळोवचेलो. किदें अनुभव येता ते प्रमाण फुडें वचचेलें. म्हाका दिसता, सराले शाळेक लोक दान दितले.

'वाड-दीस, बारशे, फुलां, घर-प्रवेश, लग्नां असल्या घरगुती सुवाळ्यांनी लेगीत गेल्यार, पेटूल रितें परतें येवचें ना, अशी म्हगेली धारणा आसा.' शिरवटकार कुटूंब तल्लीनतायेन आयकतालें.

'दत्ता,' विसूकाकान सांगलें. 'पुनवेच्यान सांतेरीच्या देवळांत वर्सुकी भजनी सप्ताह चालू जाता. त्या म्हुर्तान तुगेलो प्रयोग चालीक लाय.

'आतांच वच आनी सदाशिव सावंताक मेळ. दान-पेट कशी किदें जाय तें ताका सांग. फळीं आनी कांबी आमच्या गुदांवांत आसात. तयार लोखणी फोल्डींग मेजां आमीं विकतांत. तांतलें एक व्हर.' सदाशीव सावंत हो शिरवटकारांलो फॅमीली ठवय-मेस्त आसलो.

'सदाशीव मेस्तालो भाव वसंत सावंत रंगोवंचेलें काम करता. आमगेल्या पसऱ्याची पाटी ताणेंच रंगयल्या. ताका मेळून पाटी कशी किदें जाय तें सांग.'

* * *

अडेज वरांचेर सुटून डायरेक्ट बेतीं वतले बशींत दत्ताराम बशिल्लो. सगली वाट, तागेल्या मनांत मधुरा भाबीलें कागद घोळटालें.

दत्तारामान महेशाक एका फाटल्यान एक तीन कागदां बरयलीं. तेवटेन किदें जाल्लें, फॅक्टरीची क्षमताय दुपेटीन करचेलें काम चालू जाल्लें. महेश प्रशिक्षण घेवंक जर्मनीक गेल्लो. महेशाल्या प्रायवेट सेक्रेटरीन घाळपणान पयलीं दोनूय कागदां 'पर्सनल' शेरो मारून आपलेच कडेन दवरलीं. रजिस्टर कागद येतकीर बोवाळ जालो आनी कागदां भाबी लागीं पावलीं. हें बरोवन, जापेक कळाव जालो तो गुन्यांव भोगस अशें तिणें बरयल्लें.

एक योगायोग, गुजरातांतल्या नडीयाद गांवा लागीं पीज म्हण एक ल्हान गांव आसा. तो जयंतीभायलो मूळ गांव. आमगेलो सर आनी सराली शाळा आसा, तेच भशेन, पीज गावांत जयंतीभायलो बापू आनी बापूली शाळा आसली.

जयंतीभाय शिकपाक बरो आसलो. ताका शिकचेली उमेदूय आसली. तो आठवी जातनाच, बेपाऱ्याक हिशेब बरोवंक आयल्यार पुरो म्हणत, बापायन जयंतीभायली शाळा बंद केली आनी ताका मामाक धंद्यांत आदार दिवंक, तिनशां वयर किलोमीटर पयस आशिल्लया राजकोट शारांत धाडलो.

मामाल्या थोक भुंयमुग धंद्यांत तागेलें मन रमलें ना. ताणें शेअर बाजारांत लक्ष घालें. थंय तो फळफळ्ळो. मुखार ताणें, इंडस्ट्रींत पावल दवरलें. अखंड कष्टां-परिश्रमां नाड्यार, थंयूंय ताका यश लाभलें. आपूण फुडें शिकूंक पावलों ना तें शल्य तागेल्या मनांत सदांकाळ उरलें. ताजें पानवळ कशें, ताणें आपले चलयेक मेकानिकल इंजीनियर केली.

शिक्षण घेवंक अडचल्ल्यांक तो खोश्शेन पालव दितालो. शिकपा खातीर दुडवां आदार मागूंक दारांत आयिल्लया कोणांकूच रिकाम्या हातांनी परती नासलो. एक दीस जयंतीभायक, तागेलो शाळा काळांतलो इष्ट, पिनाकीन परमार हागेलें कागद आयलें. आयज आमचे मुखार सराले शाळेचे प्रस्न आसात, तसलेच प्रस्न बापूले शाळे मुखार उबे राविल्ले. बापूलो संवसार चलूंक कठीण जाल्लें. पिनाकीन परमारान तें सगळें जयंतीभायक कळयल्लें.

कागदा वांगडा, पीज गांवचे चाळीस मेंबरी समितीन काडिल्लें अपील आसलें. 'व्हडली शाळा काडूंक जाय. ह्या इष्ट कार्याक यथाशक्ती आदार दिवचो.' अशें अपीलांत बरयल्लें.

कागत वाचून जयंतीभायलें मन विरूस जालें. पीजकारांक मनीस करूंक जल्मभर काया झरयल्लया वैष्णव जन बापू सराक, शाळेच्या असली धनयांक आनी तागेली सहचारणी जशोदाबेनीक कमिटी विसरिल्ली. जाणटेपणांत दोन वेळची दाळ-भाकरी मेळूंक बापूक आनी जशोदाबेनीक मारामार जावची ह्या विचारान तो अत्यंत दुखी-व्यथीत जालो. तो तशातसो पीज गेलो. सगल्यांत पयलीं ताणें बापू सरालें मोडकळेक आयिल्लें घर, सगल्या आधुनीक सुविधांचो आसपाव करून सारकें केलें आनी सन्मानान जियेवंचेलो बापू सरालो हक पुनरस्थापीत केलो.

मागीर ताणें गांवकारांली बैठक आपयली. बापू सर आनी जशोदाबेनूय आयिल्लीं. शाळेचो कारभास पळोवपाक एक ट्रस्ट स्थापन करचेलो आपलो विचार सांगून, त्या ट्रस्टाक नांव सुचयात अशें ताणें सभेक सांगलें. 'बापू वैकुंठ मेहता शैक्षणीक प्रतिष्ठान' नांव पास जालें.

बापू सर उबो रावलो आनी सद्गतीत उतरांनी सांगलें, 'जयंतील्या मनाचो थाव म्हाका लागला. ट्रस्टाक 'संपुर्ण जीवन विकास अभियान' सारकेलें, ट्रस्टाचो उद्देश स्पष्टायतलें नांव दिवप चड उचीत जातलें. 'संजीवी अभियान' हीं उतरां उच्चारुंक सोपीं आनी सट करून लोकांल्या हरद्यांत रिगतलीं कशीं आसात.' ताळयांच्या गडगडाटांत 'संजीवी अभियान शैक्षणीक प्रतिष्ठान' नांव पास जाल्लें.

जयंतीभायन शाळेखातीर बारा हेक्टर जमीन संपादली. पीज गांवांक फुडल्या तीस वर्सां काळांत लागतल्यो, मनशा जिणेच्या सगळ्या तासांचो संपुर्णतायेन विकास जावंचेल्यो गरजो तकलेंत दवरून, एक प्रेरीत योजना तयार करचेलें काम ताणें, अहमदाबादची नांवाजती 'एबीके आर्कीटॅक्ट्स' हे ब्रिटिश कंपनींक दिलें.

दोन कुडींच्या आपल्या रावच्या घरांत, दोन विद्यार्थी शिकतले शाळेन

बापू सरान सुरवात केल्ली, थंय आज, 'जशोदाबेन मेहता संकुलांत' 'बापू मेहता संजीवि अभियान युनीव्हर्सीटी' उबी जाल्या. तातूंत आठ हजार भुरगीं शिकतात. 'दत्ताराम, तुका प्रेरणा मेळची म्हूण, विनम्रतायेन आनी अभिमानान हें सगलें सांगलां.' मधुरा भाबीन बरयल्लें.

'नवलेंचे शाळेक नवी बिल्डींग काडटात हें कळून पिताजी खोशी जाला. गांवाच्यो तीस वर्सां उपरांतल्यो संपुर्ण गरजो तकलेंत दवरून जागो घेयात. खूब व्हडलो घेयात. तो मागीर मेळचोना. दुडवांची चिंता करूं नाकात. अशें पिताजीन तुमकां कळोवंक सांगलां.' भाबीन बरयल्लें.

'महेश आपल्या शाळेच्या विकासा खातीर पालव दितलोच. ते पयलीं, व्हडली शाळा काडटात हो खोश्शे समाचार कानार घालो लेगून, ''सुगुर्व्याची कशी किदेंय देणगी तांकां धाड,''अशें पिताजीन म्हाका सांगलां. तें काम हांव दोन तीन दिसां भितर करतां.'

'केदो प्रोजेक्ट, कितलो जागो बी तें म्हाका गत ना. तुमकां एकादलो उपकरा पडूंये अशें लेकून, अहमदबादच्या आर्कीटेक्टान काडिल्लो पीज शाळेच्या प्रकल्पाचो आराखडो, प्लॅनां सॅटा सयत धाडला. तो आर्कीटॅक्टाक दाखय.' अशें बरोवन कागत सोंपयल्लें.

* * *

पांचांच्या अदमासाक, दत्ताराम उमाबायगेर पावलो. भावोजी तागेली वाट पळेत बशिल्लो. च्या-पाणयां कार्यक्रम उलगतकीर, ते ऑफिसांत वचून बसले. संभाषणां मुळावण भावोजीन घालें.

'तुमी शाळे खातीर सरकाराली जमीन मागूंक सोदतात. त्या कामाक ही वेळ उत्तम आसा.' भावोजीन सांगलें. 'व्हासालु सील्व न्हूण नवो गव्हर्नर आयला. विकासाच्या कामांक तो सदळ हातान पालव दिता. शिक्षणाची बाब आसल्यार तर विचारूंच नाका. मनीस खूब शिक्षण प्रेमी आसा. व्हडलोसो जागो मागूं या. काम जाय सारकें आसा. व्हडलो जागो मागतल्यांनी प्रॉजॅक्टाचें विगत दिवंचे पडटा. त्या कामांक लाग.

‘व्हासालबाबाली आनीक एक खाशीयत आसा. तो लोकांल्या अर्जांच्यो थपयो मारून दवरना. अर्ज रोखड्या रोखडे मेकळे करता. सोमारा अर्ज दिल्यार, शेनवार मेरेन निर्णय दिता.’

दत्तारामान मधुरा भाबीलें कागत आनी फायल भावोजी सुवादीन करून म्हणलें, ‘भावोजी, हाजेर मातशी नदर घाल आं.’

भावोजीन एड्व्होकेटी एकाग्रतायेन पत्र वाचलें, फायल वयले वयर चाळ्ळी आनी सू जाल्ल्या मनान म्हणलें, ‘दत्ताराम, हे फायलीन आमगेलें सगळ्यांत कठीन काम सामकें सोपें केलें. आतां सारकें आयक. अर्जा वांगडा जागो मागता त्या वाठाराचो सर्वे प्लॅन दिवचो पडटा. ताजेर तांबड्या तिंतान खंयचो जागो तें दाखोवचें पड्टा. हांवें वाठाराचो सर्वे प्लॅन काडून दवरला. फुडलें काम तुगेलें.

‘दुसरी गजाल, समाजभावी उद्दिष्टां आशिल्ली, उणे ते पांच ट्रस्टी आशिल्ली एक ट्रस्ट रजिस्टर करची पडटली. ट्रस्टा नांवान अर्ज करूंया. ट्रस्टी कोण आसचे तें थाराय आनी तांगेलीं नांवां, नामे, पिरायो म्हजे लागीं पावय. फुडलें काम हांव करतां.

‘म्हालक्ष्मी देवळा मुखार, रत्नकांत केंकरो आनी लूसियु सौझ ह्या आर्कीटेक्टांलें ‘केंकरो ई सौझ’ म्हण एक नांवाजतें आर्कीटेक्ट फर्म आसा. फाल्यां सकाळीं धांक तांका मेळ. सर्वे प्लॅन आनी मधुरान धाडिल्ले प्लॅन तांकां दाखय. तांकां नवल्या व्हरून जागो दाखोवचो पडटलो. मागीर, ते प्रॉजॅक्ट रिपोर्ट दितले. हांव तांचे कडेन उलयलां. तांकां सगलें सांगलां.’

दत्ताराम आर्कीटॅक्टांल्या ऑफीसांत वेळार पावलो. नांव सांगतकीर सौझान हांसते मुद्रेन म्हणलें, ‘तुगेलीच प्रतिक्षा करतालों. दोतोर देसायान सगळें सांगलां. तूं आपणालो मेवणो हेंय सांगलां.’

दत्तारामान सर्वे प्लॅन आनी भाबीली फायल ताजे कडेन दिली. सौझान फायल उगडली, भितर नदर पडना फुडेंच ताणें, आंग काडिल्ले भशेन कच करून तकली वरशी केली, दोन सेकंद दत्तारामाल्या तोंडाक अ-विस्वाशी

नदरेन पळेत रावलो आनी फायल जतनायेन केंकऱ्या कडेन दिवन, उत्तेजीत आवाजांत विचारलें, 'ही फायल तुमचे कडेन कशी पावली? सामकी अजापाची गजाल.'

दत्तारामान सहजताये उतरांनी इतिहास सांगलो.

'हे प्लॅन्स काडल्यात, ते इंग्लडचे जग प्रसिध्द आर्कीटॅक्ट कंपनीत हावें पांच वर्सा काम केलां. म्हगेले घरकान्नीक इंग्लंडची हवा मानवना जाली लेगून हांव परत आयलों.' सौझान हांसते अभिमानी चर्येन सांगलें. कंपनींचो एक मोठो आंतरराष्ट्रीक प्रॉजॅक्ट म्हण, कंपनीन हे प्लॅन्स तांगेल्या हेड ऑफिसांत भायरूच लायल्यात.' सौझान केंकऱ्याक सांगलें

खोश्शे-उमेदी तोंडान दत्तारामाक पळेत ताणें म्हणलें, 'स्कुलाक हेच तोडीचो प्रॉजॅक्ट करून दिवंक, केंकऱ्याक आनी म्हाका खूब, खूब खोस जातली.'

फायलींत गडिल्ली आपली नदर वयर काडी नासतना, केंकऱ्यान विचारलें, 'जागो केदो आसा?'

'तीन हेक्टर सुमार.' दत्तारामान सांगलें. 'जागो अजून हातांत येवंक ना. जमीन सरकाराची. मेळ सारकी आसा. जमीन मागतल्यांनी अर्जा वांगडा प्रॉजॅक्ट रिपोर्ट दिवचो पडटा. ते पासत हांव आयलां.'

'तें दोतोरान सांगला. जाग्यार नदर मारली, काय चार दिसां भितर प्रॉजॅक्ट रिपोर्ट दितां. खंय येता हो प्रॉजॅक्ट?' सौझान उत्सुकतायेन विचारलें.'

'नवल्यां म्हणटा थंय. म्हापशां लार्गीं,' दत्तारामान सांगलें.

'नवल्यां? जाल्यार आनीकूय बरें जालें. नवल्यां लागीं आशिल्ल्या सरशां आमगेलो एक ल्हानसो हावसींग प्रॅजॅक्ट चलता. आज आमी थंय इन्स्पेक्शनाक वचचेले आसात. तुमकां फावता जाल्यार, सोमतीच नवल्यां पावठ मारून तुमगेलीय सायट पळेतां.' सौझान म्हणलें.

त्याच दिसा सांजचे केंकरो, सौझ आनी दत्ताराम, सराले शाळे

भोवंतणचो जागो इन्स्पेक्ट करताले. आदाराक चेपो आसलो. काळोख पडूंक लागलो, तरीय काम चालू आसलें.

'कितली सुवात जाय अशें रिपोर्टांत घालूं?' सौझान विचारलें.

'हांवें रफ हिशेब केला. सगलो जागो साडे तीन हेक्टर सुमार आसा. तितलोय मागुंया. तीस वर्सांचो प्लॅन म्हणुंया. ह्या जाग्यार एक फोंड आसा, जागो चडटेर आसा, खूब खडपी आसा, ताका लागून फाटल्या तीस वर्सांत हांगा घरां येवंक नात, बी रिपोर्टांत घालूंक जाता जाल्यार घालात. भाड्याचें वाणपण करूंक बरें पडटलें.' दत्तारामान सुचयलें. 'केंकरो ई सौझ' मुमुरखे हांसले.

काम सोंपतकीर, ते शाळेच्या ऑफिसांत वचून बसले. सर आनी माईय थंय आसली. शाळेचे लायब्ररींतल्या थकिल्ले पिरायेच्या गळगळीत पुस्तकांची पिंजिल्लीं-सुटील्लीं पानां खळीन दसोवन, तांगेलें आयु आनीक एका वर्सान वाडोवंचेलें वर्सूकी कर्तव्य करीत तीं बशिल्लीं. विसूबाब आनी बाळूबाबूय थंय पाविल्ले.

विसूबाबान संभाषण चालू केलें. 'सौझबाब, रागार जावं नाकात आं. तुमगेले फी विशीं सांगशात. धा जाणांचें काम न्हय, देखून विचारतां.'

'राग किद्याक येवंक जाय. फी वेव्हाराचोच भाग न्हय!' सौझान आदरतायेन म्हणलें. दोन चार सेकंड तो ओगी रावलो आनी मागीर विनोदान कशें म्हणलें, 'जायते लोक आमकां "खूब म्हारगे" आर्कीटेक्ट म्हणटात. दुसरे वटेन आमगेल्या कामांची तुस्त-तोखणाय करतात. रत्नकांत तुमकां आमचे फी विशीं सांगतलो.' केंकऱ्या वशीं पळेत सौझान म्हणलें.

केंकऱ्यान हांसत म्हणलें. 'तुमगेलो प्रकल्प बरे तरेन चालीक लावन, तो पूर्ण करून दिवंचो अशी आमची, चड करून लुसीयोली खूब, खूब इच्छा आसा. ह्या कामाक तुमचे कडल्यान फी घेवंची न्हय अशें आमगेल्या मनांत जालां. हो अपूर्व प्रकल्प गोयांत येता, ताका आमगेलोय हातभार लागचो, ही मुळांतली भावना.'

‘तुमी व्हडल्या मनान थारायलां, ते खातीर आमी खूप उपकारी आसांत. ाल्यारूय, तुमीच म्हणलें तशें, फी वेव्हाराचो भाग आसता. इतलें सगलें काम रचें पडटलें, फी नाकाच म्हणप समा न्हय. शाळेक सवलत दियात. फी ामकीच नाका म्हणूं नाकात.’ विसूबाबान म्हणलें.

‘शाळा पयलीं उबी जावं दी. फिचो वांदो उपरांत निस्तरावंया.’ सौझान ांसो मारीत म्हणलें.

‘आनीक एक किदें विचारतां,’ दत्तारामान म्हणलें. ‘सध्या बांदकामाक केतलो खर्च येता? अदमास आशिल्लो बरो.’

‘तें गणित सोपें. एक माळी आशिल्ली शाळा; चिऱ्यांचें बांदकाम; दलो बेतो; वयल्यान सुलच्या नळ्यांचें पाखें; आनी उत्तम बांदकाम; खर्च नेटराक पावणें दोनशें रुपया धर. ताजे वयर ना.’ केंकऱ्यान सांगलें.

‘तशें जाल्यार सप्टेंबर म्हयन्यांत काम चालू करूंया. जागो हातांत वंदी.’ दत्तारामान निर्वीकारपणान म्हणलें. केंकऱ्याल्या आनी सौझाल्या ोंडार खोश्ये पाळां ल्हारावलीं. विसूबाब आनी बाळूबाब थक्क जावन पळेत वले. माईली मंद मायेस्त नदर, सराल्या तोंडार उदेल्लें समाधान तेळटाली.

मिटींगेची सांगता, चेप्यान तेनाच हाडिल्ल्या, भिण्णीं वयल्यान दनपरांच वयल्ल्या, पूर्ण पक्क भिण्णांच्या मोग रंगी सरबतान जाली.

‘टू द ग्रॅण्ड सक्सेस ऑफ सराली शाळा, व्हीऽव्ह.’ केंकऱ्यान आनी ौझान ग्लास उबारीत म्हणलें. शिरवटकारांनीय अविलंब सुरांत सूर मेळयलो, व्हीऽव्ह.’

* * *

केंकरे आनी सौझ गेले उपरांत, दत्तारामान ट्रस्ट स्थापन करचेलो विषय ाडलो. ‘सर, तुगेल्या विश्वासांतल्या पांच जाणांलीं नांवां सांग पळोवया. स्टाक पांच ट्रस्टी आसचे पडटात.’ दत्तारानान सांगलें.

मातूय कळाव करी नासतना सरान म्हणलें, ‘विसूबाब, बाळूबाब,

दत्ताराम आनी चेपो. हांचेर म्हगेलो पूर्ण विश्वास आसा. उरिल्लें एक नांव माई सांगतली. ती सगळ्यांक वळखता.'

'पंडरी मास्तर,' विसूबाबान म्हणलें. 'ट्रस्ट भौशीक कार्य करचेली संस्था. एकाच घरांतल्या लोकांक ट्रस्टी करप सारकें जावचें ना. हेर लोकांकूय भितर घेवंक जाय.'

'माई, तुवेंय सांगल्यार जाता.' दत्तारामान म्हणलें.

'बाळुबाबाक भांडारी आनी दत्तारामाक कारभारी कर.' माईन सांगलें.

'बरे आसा, माई. आनीक तीन नांवां सांग.' विसूबाबान म्हणलें

'रमेशाक घाल. तागेली दत्तारामाकडेन दाटी आसा.' माईन म्हणलें.

'माई, रमेश मातसो भुरगो जाता. तागेल्या बापायक, आना मेस्ताक घालूंया?' भालूबाबान विचारलें.

'बरे भशेन. बापूय आनी पूत, दोगूय एकाच सभावाचे. सदांच हांसत्या तोंडाचे. कामांक तत्पर. आनंद च्यारीक घाल.' माईन म्हणलें.

मात रावून, माईन सराल्या तोंडाक पळेत म्हणलें, 'सयाजीक घाल्यार कसो?' सरान तकली हालयली आनी म्हणलें, 'तोय कामांक तत्पर मनीस.'

'कोण सयाजी?' दत्तारामान विचारलें. हें नांव ताका नवें आसलें.

'सयाजी म्हणल्यार सयाजीराव देसाय. गांवकार वाड्या वयल्या विश्वासराव देसायांल्या घरांतलो. तो सरालो पयले बॅचीचो विद्यार्थी आसलो. एक वर्स शिकलो. मागीर पणजे मामागेर गेलो. पांच वर्सांचो "लिशेव" केला. पालाशींत काम करता. बऱ्या जाग्यार आसा खंय. पूण हे शाळेक विसरूंक ना. घरा आइल्ले खेप सराक मेळून वता.'

'हांगा किदेंय म्होडिल्लें तुटिल्लें दिसलें जाल्यार, तें जाग्यार घालूंक करूंक, पणजे पावतनाच मनीस धाडटा. कामूय बरें जाता, खर्चूय चालीचो येता. ताका एक मेंबर करात.' माईन म्हणलें.

‘माई, चार जाले, आनीक एक सांग.’ विसूबाबान म्हणलें.

माई बरोच वेळ विचार केलो आनी उत्प्रेरीत तोंडान म्हणलें, ‘हांव आनी किदें पळे! पयलीच तकलेंत येवंक जाय आसलें, तें नांव सुचूंक येदो वेळ लागलो. आमगेलो वासुदेव भट. शिमे पायणींतले दत्ताचे देवळेंतलो पुजारी. तागेलें नांव घाल. मनीस उमेदी आसा. तुमकां खूब उपकरा पडटलो.’

‘वासुदेव भट, माई? तागेली आनी सराले शाळेची किदें सोयरीक?’ दोळे विस्कळल्ल्या दत्तारामान निमगिलें. दत्तारामाली त्या मनशा विशींची धारणां वेगळी आसली.

‘सोयरीक सामकी लागींची. शिमे पायणीं वाडो आसा पळे, तो संवसारांत सामको फाटीं. तरीय, त्या वाड्या वयलो, पन्नास वर्सां पिराये खालचो एकान एक मनीस शिक्षीत आसा. हें कशें?

‘कारण वासुदेव भट. फाटलीं चाळीस वर्सां तो, आपणाल्या वाड्या वयल्या पांच वर्सां जाल्ल्या भुरग्यांक धरून सराले शाळेंत सोडीत आयला. कोण शाळेक गेलो, कोण ना, ताजेर दिसपट्टी नदर दवरीत आयला. गरज थंय पुस्तकां, फी, मुस्तायकी बी पदरचे दुडू मोडून दिता. तोंड धापून काम करचेलो मनीस.’ माईन सांगलें.

‘माई, पुरो. पांच जाले,’ भालूबाबान म्हणलें.

‘ना, भालूबाब. जावंक ना. हांवें म्हगेलो विचार मातसो बदल्ला. सराक हालीं भोंवूंक करूंक कठीण जाता. केन्ना, केन्ना विसरूय पडटा. ताका कोणूय आधाराक दिल्लो बरो. म्हाका दिसता, दत्तारामान शाळेचें काम हातांत घेवचें आनी नवे संस्थेचें कारभारपण वासुदेव भटाक करूंक लावचें.’

‘बरें माई. तुजे इच्छे प्रमाण जावं दी. पांचवो कोण?’, बाळूबाबालो प्रस्न.

‘पांचवो...’ येवजुणूकेंत पडिल्ल्या दोळ्यांनी मायीन म्हणलें. ‘पांचवो गडी तारी वाड्या वयल्या शित्याक कर, शितो म्हणल्यार सिताराम फडते. आतां ताणें देउळ वाड्यार घर काडलां. मनीस उतराचो आसा. काम पडटा म्हूण कूस मारचेलो मनीस न्हय. पांचवो ताका करात.’

विसूबाब विचारांत पडला तें पळोवन, बाळूबाबान सांगलें, ‘आमचो शितो म्हणल्यार, - दत्तू फट्ट्याालो पुतयणो. मानशेच्यो पावण्यो बी हाडटा, तो.’

‘आं, आं. तो मरे? तो बरो आसा. माई, पांच जाले.’ विसूबाबान म्हणलें.

* * *

तेच रातीं, जेवणा उपरांत, शिरवटकारांले विधाससभेची बसका जाली.

‘दत्ताराम, येदोळ तुवें म्हणलें. सप्तेंबर म्हयन्यांत काम चालू करूंया. दुडवांची वेवस्ता जावंक ना, आनी तूं काम सुरु करचेलें उलयलो.’ बापायन म्हणलें. ‘तूं नाका जाल्लें करपी न्हय. ताकाच लागून, आमीं रानांत पडिल्ले भशेन जाले. आज आरंबलें आनी फाल्यां बंद उडयलें, अशें जावंक उपकरना, न्हय?’

‘बाबा, येत सावन हांव हाका-ताका मेळत आसां. तांगेल्या सांगण्यां, सुचोवण्यांचें मंथन करून, हांवें तशें सांगलें. म्हगेलो हिशेब सांगतां. खंय चुकलां जाल्यार सांगात.’ दत्तारामान म्हणलें.

‘हे फुडें, वर्सान वर्स, पयले यत्तेक शंभर भुरगीं येत रावतलीं अशें धरूंया. म्हणल्यार, ओनू वर्साचे पयलेक तीन कुडी जाय. पयलींची एक आसा, दोन नव्यो काडच्यो पडटल्यो.

‘दुसऱ्या वर्सा, हीं भुरगीं दुसरेंत पावतलीं. तांकां बसोवंक तीन कुडी जाय. पयलींची एक आसा. दोन नव्यो काडच्यो पडटल्यो. अशें जायत वतलें. धा वर्सां उपरांत तीस वर्ग आसतले आनी हजार भुरगीं शिकतलीं.

‘वर्सान वर्स, दोन-दोन कुडी गांठावन कपयाळें शिंवचें, काय आनी कशें, हो प्रस्न. हावें गणित कशें सोडयलां, तें सांगता. चुकलां जाल्यार सांगात.

‘म्हाका दिसता, सवी ते धावी ह्यो पांच येत्ता नवे शाळेंत हालोवच्यो. म्हणल्यार, नवे शाळेची सुरुवात पांच कुडी काडून करची पडटली. सोमत्योच

ऑफिस, लायब्ररी, टिचर्स रूम, चल्या-चलयांक आलायत्या वेळांत बसूंक
ोन रूम, तीन लॅबॉरॅटलीस, स्टोअर-रूम, सोपणांचो ब्लोक बी इकरा कुडीय
ाडचेल्यो. सगळ्यो मेळून सोळा कुडी जाल्यो

'ताजे भायर, येरादारी खातीर, शाळेच्या ह्या तोंकाक साकून त्या
ोंकाक, तीन मिटर रुंदायेचे, एक वयर, एक सकयल, अशे दोन कॉरीडोर
ाडचे पडटले. णव बाय सात मिटरांवे उढाळ क्लास रुम काडल्यार, वयर
ानी सकयल मेळून सुमार देड हजार मिटर वर्गक्षेत्राची शाळा काडची पडटली.
िटराक पावणे दोनशे रुपया ह्या हिसपान, येदे शाळेक एक लाख तेवीस हजार
र्च येतलो.

'आतां, दुडू खंयंच्यान येतले हो प्रस्न. ब्यंकेचें रीण काडचेलें. काल
ांव पणजेच्या बॅन्क मॅनेजराक मेळिल्लों. तो शाळेक रीण दिवंक तयार आसा.
ोन पर्सेंट काळंतर खंय. म्हणल्यार काळंतराचे वर्साक अडेज हजार सुमार
ातले.

'घरां काडूंक रीण दितात तें, वीस वरसां भितर फेडचेलें आसता.
र्सुकी खीस्त स हजार जाली. दोनूय मेळून, वर्साक साडे आठ हजारांचो भार
ाळेचेर पडटलो. हो भार पेलचेली शक्त शाळे लागीं आसा काय ना? शाळे
ागीं म्हणल्यार नवलेंकार ग्रामस्तां लागीं. शाळेचें कार्यक्षेत्र नवल्यां पुरतें
र्यादीत उरूंक ना. तें सात गांव पसरलां, हीय बाब आसा.

'आतां येणावळीचें पळोवया. शाळेचें उत्पन्न, देणगी आनी दान अशा
ोन वाटांनी येतलें. शाळेचे अभिमानी आसात ते देणगी दितले. भुरग्यांल्या
ुडाराचें येवजितात ते खेपेन खेप एक रुपया दान दितले. पावसान दिलें किदें,
ांवळेन दिलें किदें, तपलें सरालेच शाळेचें भरतलें, न्हय?' दत्तारामान ज्योक
ारीत म्हणलें.

शिरवटाकारां विधानसभेची बसका समाधानान उलगल्ली.

* * *

मंगळारची सकाळ. आज दत्तारामाक तटिल्लें काम नासलें. मुंबय सावन

येवन स दीस जाल्ले. तागेलें सामान जाग्यार पडूंक नासलें. तें काम ताणें हातांत घेतलें. फाटलीं चार वर्सां तो, साडे णव म्हयने मुंबय आनी अडेज म्हयने गोयांत उरतालो. तागेल्या कुडींतल्या दोन लाकडी कपाटांक चडसो हात लाग नासलो. तातूंत कचकच भरिल्लो. दत्तारान कूड निवळ करूंक लागलो. साडे बारा जायत आयलीं, तरीय तो मेकळो जावंक नासलो.

इतल्यान शंभू, जप करचे लयेंत आनी वाग फाटल्यान लागिल्ले ताकतिकेन 'दत्ता, दत्ता' असो उलो मारीत भितर सरलो आनी खरशेल्ले उत्सुकतायेन म्हणलें, 'दत्ता, घे. तुका फोरेन सावन रजीस्टर कागत आयलां. कोणें किदें धाडलां तें मातशें पळे, पळोवंया.'

दत्तारामान कागत फुडल्यान-फाटल्यान पळेलें आनी म्हणलें, कागत 'म्हूझ हॅस्ट' हे कंपनीन, फ्रॅन्कफर्ट थावन धाडलां. फ्रॅन्कफर्ट म्हणल्यार जर्मनी. महेशान धाडलां आसतलें, किदें धाडलां तें तूंच पळे. म्हगेले हात म्हेळे जाल्यात. हांव हात धुवन येतां.'

दत्तारामान हात धुवचोच आसात, तेवटेन शंभू आड्डलो, 'आई, काकी, दत्ता - महेशान पैशे धाडल्यात.'

दत्ताराम हात धुवन भायर आयलो आनी पळेलें. 'डी-झेड' हे जर्मन ब्यॅंकेन वीस हजार डी.यम. रकमेचो ड्राफ़्ट धाडिल्लो. वांगडच्या कागदांत बरयल्लें, 'आमगेले प्रतिष्ठापुर्ण खातेदार 'म्हूझ हॅस्ट' हांगेल्या आदेशा प्रमाण वीस हजार डी-यम रकमेचो ड्राफ़्ट ह्या कागदा वांगडा धाडला.'

'दत्ता, वीस हजार डी.यम. म्हणल्यार कितले रुपया?' शंभूलो प्रस्न.

'एक डी.यम. म्हणल्यार सवाय रुपया काय दिसता.' दत्तारामाली जाप.

दत्ताल्या हातचो ड्राफ़्ट झोंपून घेवन, शंभून पसऱ्यार धांव मारली. वतना तो आड्डलो, 'आई, काकी, महेशान पंचवीस हजार रुपया धाडल्यात.'

'ही मधुरा भाबीन केल्ली वेवस्ता आसतली.' दत्तारामान लेकलें.

* * *

दत्तारामान मधुरा भाबीक ओब्रीगादा जाप बरयली. भाबील्या उर्बेन थपथपिल्ल्या आनी विनोदांत सजयल्ल्या ''केम छ्यो?' प्रस्नांक, 'भाबी, हूं खूब मज्या मां छूं. तमे केम छ्यो? पिताजी केम छ्यो?' ह्या, मनचें आपलेपण परगटायतल्या उतरांनी तागेले जापेची सुरवात जाल्ली.

'भाबी, तुगेलें कागद आनी ड्राफ़्ट मेळ्ळो. सगळ्यांत पयलीं हांव, तुगेल्या पिताजीले, जयंतीभायले, अंतःकरणच्या तळा थावन उपकार मागतां. तांणीं धाडिल्ल्या संदेशांतल्यान, तांगेले काणयेंतल्यान आनी करण्यांतल्यान दिसतलें तांगेलें विशाल, दयाळू मन आनी दानत पळोवन, आमी सगळे हांगा उत्साह प्रेरित जाल्यात. बापूजीन आमकां व्हडलीं सपनां पळोवंचेली दृष्टी दिल्या. जड गुळो ड्राफ़्टूय धाडला.

'बापायलें मन धुवेकूय आयलां हें धुवेल्या कागदांतल्या उतरां वयल्यान कळटा. तुवें अचीरकायेन आनी दूरदृष्टीन प्लॅना सॅट धाडलो तो खूब उपकरा पडलो. आमीं सरकारा कडल्यान साडे तीन हेक्टर जागो मागचो केला. तुवें धाडिल्ली सुगुर्व्याची देणगी आमी उपकारी आनी खोशे मनान स्विकारल्या. विनम्रतायेन सांगतां, आनीक दुडू धाडूं नाका.

'पीज गांवकांर बापूक आनी जशोदाबेनीन विसरिल्ले. हांगा सगल्यांल्या काळजांत, आमगेलो सर आनी माई विशींची स्रध्दा आनी उपकार भावना तट्टटीत आसा. सगल्यांल्या मनांत नवी शाळा बेगीन जांवची हीय इच्छा आसा. यथाशक्ती दुडू दिवंकूय ते तयार रावल्यात.

बापूजीन ''दुडवां चिंता करूं नाकात'' हो निरोप धाडून आपले-आमचे मदीं एक रुंद सांकोव बांदून दवरला. फाटीं फुडें कसलीय अडचण आयल्यार आमी बापूजीच सरेन येतले.

'प्रिय मधुराभाबी, तुका बीग थँक्यू म्हणूंक हांव विसरलां. तें फुडल्या कागदांत म्हणटां.' असो विनोद करून ताणें कागत सोंपयल्लें.

* * *

ट्रस्ट रजीस्टर जाल्ली. 'केंकरो ई सौझ' कंपनीन तीन इंच दाटायेचो

प्रॉजॅक्ट रिपोर्ट टायमार दिल्लो. सगलीं कागदां लाइल्लो स पानी अर्ज गव्हर्नराल्या ऑफिसांत शेनवाराच पाविल्लो.

फुडलो शेनवार आयलो. दनपार जातनाच, दत्ताराम हुरहुरत्या मनान पसऱ्यार ठाण मारून बसलो. 'सोमारा अर्ज भितर दिल्यार, शेनवार मेरेन निर्णय जाता.' भावोजीन सांगिल्लें. तो भावोजील्या फोनाची वाट पळेतालो.

पावणे पांचांक फोन आयलो. 'मागलां तें सगलें दिलां. ताजे वयर आनीक जायतें दिलां.' भावोजीन सांगलें. दत्तारामान ही खबर पयलीं सरा-माईक, मागीर आई-काकी-चेप्याक, आना निमणीं आना मेस्तागेर पावयली.

'रमेश केन्नां येतलो?' दत्तारामान आवयक विचारलें. 'आठ मेरेन पावूंक जाय.' तिणें सांगलें.

'ताकाय कळय आं. आनी कसोय करून, म्हाका सांजे मेळ म्हण सांग. कितलोय उशीर जाल्यार जाता.' दत्तारामान म्हणलें. तागेल्या मनांक आतां खूब ताकीद जाल्ली.

* * *

'अर्ज मानून घेतला.' गव्हर्नरान नोटींगांत बरयल्लें.

'हो एक ना भुतो प्रकल्प आसा. ल्हान गांवातल्या कांय लोकांक, गांवाच्यो तीस वर्सां उपरांतल्यो सगळ्या मळां वयल्यो गरजो पारखून प्रकल्प आंखचेली कल्पना सुचप, हीच मुळांत खूब तोखणाय करी सारकेली गजाल आसा. असल्या चिंतनांक प्रोत्साहन दिवप आनी असल्या प्रकल्पांक वास्तवताये रूप हाडच्या वावरांत पालव दिवप, हें शासनाचें कर्तव्य जाता.' ह्या टिप्पणी उतरांनी गव्हर्नरान आपल्या तीन पानी आदेशाची सुरवात केल्ली आनी पालवांचें विगत बरोवन आदेश सोंपयल्लो.

'अर्जकाराक ३६,७४२ चौरस मिटर जमीन आठ दिसां भितर दिवंची. जमनीचे भाडें नाममात्र, वर्साक एक रुपया आसचें. वीस वर्सांचें भाडें एकदम भरल्यार कायद्या सार जमीन अर्जदाराल्या नांवार करची. सर्वे खात्यान ना-शुल्क जमीन मापून सभोंवती नीस घालून दिवंचे. दिल्ले जमनीच्या एका

कोनशाक एक फोंडकूल आसा. त्याजे भोंवतणच्यान सार्वजनीक बांदकाम खात्यान एका म्हयन्या भितर कांट्र्यां सरी ना–शुल्क मारून दिवंची. वनखात्यान शाळा काडूंक लागतलें बरे प्रतीचें लाकूड ना–शुल्क दिवचें आनी सार्वजनीक बांदकाम खात्यान तें गरजे आकारांत ना–शुल्क कापून दिवंचें, क्लास रुमांनी भुरग्यांक बसूंक 250 बांक करूंक लागतलें बरे प्रतीचें लाकूड वनखात्यान ना–शुल्क दिवंचें आनी मिलीटरी वर्कशॉपान ना–शुल्क बांक करून दिवचें.' अशें सगलें आदेशांत आसलें.

निमाण्यां वळींनी बरयल्लें, 'अर्जदाराक काम सुरुवात करूंक उत्तेजन मेळूंक, रेवेन्यू खात्यान तांकां धा हजार रुपया, आठ दिसां भितर दिवचे. प्रकल्प फुडें व्हरचेल्या कामांत आडवण्यो आयल्यार, अर्जदारान, अर्जा वरवीं, तें शासनाचे नदरेक हाडचें.'

* * *

दत्ताराम जेवन उठटा, इतल्यान, रमेश भितर सरलो आनी हांसते प्रशंसीक मुद्रेन म्हणलें, भाई, तुवें सगलें इतलें 'फांस' केलें!'

'केलें म्हणचे परस जावन गेलें म्हण.' दत्तारामान म्हणलें.

'रमेश, कंबराक बाग घालचेलो वेळ आयला. उमेदी गडे टिमीची गाडी 'इस्पिडींत' घालूंक जाय. फाल्यां आमचे टिमीची मिटींग आपोवंक जमत? फाल्यां सांजचे आमगेर मेळुंया. मिटींग सोंपतकीर जेवन वच्चेलें, ह्या बेतान आपय.'

'बरें, भाई, सगळ्यांक सांगतां.' रमेशान सांगलें.

'दुसरी गजाल, शाळे कडलो फोंड पुरोवंचेली ताकतीक ना. सरकार त्या फोंडा भोंवतणीं काट्यां सरी मारून दिता. ते भायर, नवे शाळे भोंवतणीं दुरिग येतलें. फोंड आसा त्या जाग्याची गरज फुडारांत पडटा, तेन्ना तो पुरोवंचो.' दत्तारामान सांगलें.

'बरें भाई.' रमेशान म्हणलें. ते उपरांत ते बरोच वेळ शाळे संबंदान उलयत बसले.

***

'उमेदी गडे' टिमीची बसका शिरवटकारांल्या घरांत चालू जाल्ली. अध्यक्षा कदेलार रमेश बशिल्लो. टिमींच्या णव मेंबरां भायर आनीक स जाण थंय आयिल्ले. सगले फुडल्या कदेलांचेर बशिल्ले. उमेदी गडे तांकां वळखताले. पूण, तांचे मिटींगेक ते किद्याक आयल्यात, तें तांकां कुवाडें जाल्लें.

अध्यक्ष उबो रावलो आनी म्हणलें, 'फाटल्या शेनवारा आमी मेळिल्ले. सराली नवी शाळा काडचेलें काम फुडें व्हरचें, आनी गांवच्या तशेंच गांवा भायर रावतल्या नवलेंकारांक ह्या कामांत ओडचें अशें थारिल्लें. आमी अंगीकारील्लें काम सुरू करचेलो वगत आयला. ते विशीं भाई तुमकां सांगतलो.'

दत्तारामान सांगूंक सुरवात केली. सरकारान कितलो जागो दिला, आर्कीटेक्ट कोण, बांदप केन्ना सुरू जातलें, केन्ना सोंपतलें, खर्च कितलो येतलो बी सांगून ताणें म्हणलें, 'आमकां पालव दिवंक सरान आनी माईन एके संस्थेची स्थापना केल्या. संस्थेचे समिती वांगडी आमचे मदीं बसल्यात. तांकां तुमीं वळखतात. तरीय शिष्टाचार पाळूंक, अध्यक्षबाब तांगेली वळख करून दितलो.'

रमेश उबो रावलो. खोमसा बोल्सांत दोडून दवरिल्लो कागदा कुडको भायर काडलो आनी सांगलें, 'आमी सराक आनी माईक हे सभेक येयात अशी विनंती केल्ली. तांणी येतांय म्हणिल्लें. आमीं तांगेली वाट पळेताले. तांणीं चेप्या वरवी आमकां आशिर्वाद धाडल्यात, आनी तांगेलो सदांकाल प्रतिनिधी म्हण विसूबाब शिरवटकार हांकां धाडल्यात.'

मागीर, एकाल्या एकल्याक बोट दाखयत ताणें वाचूंक आरंबलें, 'समितीचे अध्यक्ष सयाजीराव बाब देसाय, उपाध्यक्ष सिताराम बाब फडते, सेक्रेटरी वासुदेव बाब जोग, कोषाध्यक्ष भालचंद्रबाब शिरवटकार आनी उप-कोषाध्यक्ष आनंद बाब च्यारी.' एकेक नांव कानार पडटकीर उमेदी गडे ताळयो पेटटाले.

ते उपरांत, चेप्यान तागेली नित्याची ड्युटी सुरू केली. थोड्याच वेळांत, सगळ्यांल्या हातांत ताज्या भिण्णांच्या, आत्तां केल्ल्याा, लाल गुलाबा रंगा

झांकीचें, देवां-अप्सरांक अमृत विसरूंक लायतलें, मिरमिरते मिडमिडसाणीचें, आंबूस गोड रुचीचें, तानेक थंडायतलें, थंड सरबता ग्लास दिसूंक लागिल्ले.

सरबतपान उलगतकीर, संस्थेचो कोषाध्यक्ष बाळूबाब उलयलो. 'उमेदी गड्यांनो, दत्तान निकतें सांगलें तशें, सराली नवी शाळा काडच्या कामाक आरंब जाला. हें धा जाणांचें काम. समस्त नवलेंकारांलें काम. देखून, नवे शाळे संबंदान जें किदें आमी जाणात, हांगा घडटा, जांव घडटलें, तें सगलें नवलेंकारांकूय खबर आसूंक जाय.

'उमेदी गड्ये हे नवलेंकार जन आनी संस्थेची समिती हांचे मदलो म्हत्वाचो जोड-सांगड म्हूण वावुरतली. समिती सगळी म्हायती तुमकां पत्रकां रुपांत पावयतली, ती तुमीं लोकां मेरेन पावोवंचेली. तुमगेलें काम खूब म्हत्वाचें आसा.

'शाळा काडच्या कार्यांत, आपणालोय हातभार लागचो अशें इच्छीतले समस्त नवलेंकार दान-देणग्यो दितले. त्यो चड करून रोकड दुडवां रुपांत आसतल्यो. सगल्या लोकांनी तांगेल्यो देणग्यो फक्कत संस्थेच्या कोषाध्यक्षा हातांत पावोवन, थंयचे थंय पावती घेवंक जाय, हो निर्देश तुमी एक सारको लोकांल्या मनांत घालीत रावूंक जाय. तुर्ताक, कोषाध्यक्षालें ऑफीस शिरवटकाराल्या पसऱ्यार आसा. भौसा कार्यांचो हिशेब अशेच तरेन दवरचो पडटा. पयशा, पयशाचो हिशेब राखचो पडटा.

'तरणे-तेजिश्ट उमेदी गड्यांली कमिटी आपलें कार्य कशे रितीन फुडें व्हरतली, तें तुमी, तुमचे भितर थारावचेलें. किदेंय अडचणीं आयल्यार, संस्थेची कमिटी तुमकां आदार दितली.'

मागीर थंय संस्था कमिटीची बसका सुरू जाली. उमेदी गड्यांकूय रावयल्ले. अध्यक्ष सयाजीराव बाब देसाय येजमानपण करतालो.

दत्तारामान सांगूंक प्रारंबलें. आदले बसकेंत सांगलें तें वेगळावन, जागो एका तळार करचेलो प्लॅन, भाबील्या कागदांतलो आशय, तिणें धाडिल्ले पयशे, गांवां भोवंडेंतले तागेले अणभव, लोकांलो सराले शाळे विशींचो भावार्त बी सगळें ताणें समजावन सांगलें.

ब्यंकेचें रीण काडून शाळा बांदचेली कल्पना आनी ते कल्पने फाटली व्यवहार्यताय समजायली. शाळेची येणावळ वाडोवंक, फी सोडून दुसऱ्या खंयच्या वाटांनी दुडू येवं येता तीय़ म्हायती दिली.

''दुडवांची चिंता करूं नाकात'' हो जयंतीभायन भाबील्या कागदांतल्यान गांवांक धाडिल्लो निरोप दत्तारामान मदल्या मदीं गिळ्ळो. हें गांवार पडल्यार, लोक अयदी जावन, हात कवळून सस्त बसत म्हण तो भियेतालो. नवलेंकारांनी आपल्या हिकमतीन शाळा उबी केल्ली ताका जाय आसली.

बांदकाम आगस्टाच्या मध्याक सुरू करुन, णव म्हयन्यां भितर सोपोवन, फुडल्या ज्युना सावन तिसरी ते एस्सेसी वर्ग नवे शळेंत शिफ़्ट करचेलो बेत आसा. सगलें काम खूब अनुभवी आर्कीटेक्टांल्या नदरे खाला आनी तांच्या पालवान चलतलें, हेंय सांगले.

'अपरी म्हणल्यार प्री-प्रायमरी, पयली आनी दुसरी, ह्यो तीन येत्ता आतां आसात थंयच उरतल्यो.' दत्तारामान सांगलें.

'वर्सां संकीं सावन, सरा-माईल्या कानार भुरग्यांलें हांसप, खेळप, बोवाळ-झगडीं, पाडे-परवड एक सारकें पडत आयलां. तें एकाएक बंद जाल्यार, तांगेलें कान, मन, जीण कीण्ण जातली. आमकां एकमुळीं, उपेक्षीत उडयलीं अशेंय तांकां दिसूं येता. तशें जावंचे न्हय लेगून सर आनी माई आसासर, ह्यो तीन येत्ता, आसा थंयच दवरुंया.

'दुसरीय बाब आसा.' ताणें म्हणलें. 'तीं कंवळ्या पिरायेचीं आनी कंवळ्या मनांची भुरगीं. तीं सरा-माईले नदरे खाला उरिलीं, वाडिल्लीं बरीं. रीत आनी शिस्त शिकचेली तांगेली पिराय. ते गूण सरा-माई कडल्यानूच घेतिल्ले बरे.'

सेक्रेटरी बाबान ताळयो मारून तेंको दिलो. सगले सहमत जाले.

* * *

'यो, यो, दत्ताराम. आमी तुगेलीच वाट पळेतालीं.' दत्ताराम भितर सरतनाच माईन म्हणलें. आदले राती जाल्ले बैठकीचो वृत्तांत विश्वनाथान तांकां सकाळ जातनाच कळयल्लो.

'दत्ताराम, शाळेंत शिकयतल्या मनशांली सगल्यांत व्हडली हाशीला बाब खंयंची तें तूं जाणां? तांकां सर्वकाळ, भुरग्यांल्या संपर्क-सहवासांत रावूंक-रमूंक मेळटा. भुरग्यां लागीं संवाद करतना भुरग्यांल्या पिरायेचीं जावंक मेळता. तांचेच भशेन जावन तांचे कडेन वागचें-करचें पडटा. तीन वर्सां पिरायेच्या भुरग्या कडेन तूं भुरगो जावन फुटबॉल कसो खेळटा, ते भशेन.

'देह आनी काया जीर्णावत गेली तरीय शाळेंत शिकयतल्यांलें मन भुरगेंच उरता.

'इतलींय वर्सां, भुरग्यांल्या सहवासांत, तांगेल्या बोवाळ-कुलकुलाटांत दीस सारीत आयिल्लीं आमीं, नवे परिस्थितीक कशें तोंड दितलीं हे विवंचनेंत पडिल्लीं. ती विवंचना दत्ताराम, तुवें दूर केली.' माईन म्हणलें.

सर आंज बऱ्या मुडांत आसलो. खूब खोशी आसलो.

'दत्ताराम', सरान म्हणलें, 'माय़ी लागीं फुडार पारखुंचेलो गूण आसा अशें हांव म्हणत आयलां. आतांच पळे, नवीं शंबर भुरगीं येतात हें कळटकीर आमचो आवरो उडलो.

'पूण माई सस्त आसली. दत्ताराम येतकीर सगळें जाग्यार पडटलें हे बाणीर बोट दवरून ती शांत बेफिकीर रावली. तिणें सांगलें तेच प्रमाण जालें काय ना? तूं आयलो आनी पंद्रशी भितर सगळें जाग्यार पडलें. असल्यो शंभर देखी दिवं येत.

'दत्ताराम, ह्यो भुरग्यांक सांगचेल्यो खबरी न्हंय. पुणून, ओग आयला देखून सांगतां. हांव दोन वर्सांचो आसतना म्हगेली आवय गेली. म्हाका म्हगेल्या बापायन ल्हानाचो व्हड केलो. अठरा वर्सां जायसर, हावें जीण म्हापशां एका मल्लांच्या ओडपांत सारली. बापूय दिसवड्या मानायाचें काम करतालो. काम मेळ्ळयार खोस, ना जाल्यार एकादस. तरीय़ म्हगेल्या बापायान म्हाका दळदिराचे हुलोप लागूंक दिले नात. म्हाका किदेंच उणें जावंक दिलें ना. म्हगेल्या फाटीक लागून म्हाका चार वर्सां मराठी, एक वर्स प्रिमेर ग्राव आनी चार येत्ता इंग्लीश शिकयलें. तेन्ना हांव अठरा वर्सांचो आसलों.

'आमच्या घरा सामकार एक व्हडल्या काळजाचो पाखलो रावतालो. ताणें म्हाका म्हापशें म्युनिसीपालटींत अकौंट्स क्लार्क म्हूण शिर्वीस दिली. म्युनिसीपालटी क्वार्टरांत रावपाक ज़ागो दिलो. हांव मन लावन काम करतालों. म्हगेल्या मेजार फायलींचो दाळ नासतालो.

'पूण देवाले आपले खेळ आसतात. म्हाका ट्रकाचो ॲक्सीडंट जालो. म्हगेले मांडयेचें हाड म्होडलें. सात म्हयने हॉस्पीटलांत न्हिदून काडले. तरीय पांय जाग्यार आयलो ना. दांडो घेवन चलूंक जातालें. पूण, बशींत चड, देंव करूंक जायना जालें. देखून नोकरी सोडची पडली.

'गांठीक किदेंय जोड आसली ती सगली ॲक्शीडेंटान खाली. चरितार्थ कसो चलतलो तो प्रस्न उबो रावलो. सोयऱ्या-इष्टांनी बुद्द दिली. तारीर सोडा, विडी, सोर्ती बी विकचेलो गाडो घाल. बसून करचेलो धंदो. म्हाका पटलें. हांवें एक अर्दो-पोरणो गाडो बदून लेगीत दवरिल्लो.

'पूण, तुगेले हे माईन मोडटें घालें. म्हणलें, इतले शिकिल्ले संवरिल्ले तुमीं, लोकांक विडये-सोर्तीचीं व्यसना लावन पोट भरचेली वांसा धरतात? ते परस शिकवणेचे वर्ग चलयात. गांवांत शाळा ना. भुरगे आलमपेड्डेर भोंवतात. आयच्या काळांत पदराक शिक्षण ना ताका फुडार ना. तुमीं ट्यूशन क्लास चालू करात. घरा बसून करचेलें काम. हांव मराठी चवथी मेरेन शिकयतां, तुमीं वयले वर्ग घेयात. इतल्यान अर्थूय जालो आनी स्वार्थूय जालो.

'दत्ताराम, पळे. लोकांले बुद्दीन गेल्लों जाल्यार, म्हगेलें अस्तित्व तारी वयल्या थोंट्याल्या गाड्या पुरतेंच सिमीत जातें. माईन म्हाका गांवाचो सर केलो......'

* * *

सांतेरीच्या देवळांत वर्सूकी भजनी सप्ताक सुरू जाल्लो. देवळाच्या प्राकारांत सरतनाच आशिल्ल्या दिपस्तंभा म्हऱ्यांत एका मेजार सराले शाळेचें दान पेटूल दवरिल्लें. पेटेक व्हडलें कुलप आसलें. पेटे बगलेक नकसूद पेंट केल्लो बोर्ड आसलो. 'एक रुपया शाळेक दान, लक्ष्मी येतली घरांत' हें घोष वाक्य

बोर्डार उठून दिसतालें. देवळांत वचूंक दिपस्तंभा कडल्यान वचचें पडटालें. दत्ताराम आनी चेपो पयसुल्यान नदर दवरून राविल्ले.

गांवांतलो सगल्यांत व्हडलो, आठ दीस चलतलो, जांवयांनी मावोड्यांक वर्सूकी भेट दिवचले प्रथेचो, अखंड भजनी सप्ताहाचो उत्सव सुरू जाल्लो. लोक येवंक लागिल्ले. चडशे लोक कुटूंब मेळांनी येताले. सट्ट करून दोळ्यांत भरतल्या बोर्डाक पळोवन, ते पेणें करताले. बोर्ड वाचताले. एकामेकां लागीं चर्च्या करताले आनी कुटूंबांतल्या बालगोपालांल्या हातांत सुब्रो दिवन, पेटलांत उडोवंक लायताले. आज्ञापालन उमेदीन जातालें. जायतीं भुरगीं आनी एका रुपयाचो हट्ट धरतालीं. हे हट अर्थीन पुर्ण जाताले.

भुरग्यां सभावान जायत, जावं जाणटेल्यांनी सांगलें लेगून जायत, रुपया पेटलांत उडयतकीर, भुरगीं पेटलाक पांयां पडतालीं. कांय दादले आनी खुबशो बायलो आपणालें वेगळें दान दितालीं. ओंठ पुटपुटायतालीं आनी पेटलाक हात जोडटालीं.

कांय वगत वतकीर, चेप्याक दवरुन दत्ताराम संतुष्ट मनान पसऱ्यार गेलो आनी जाणटेल्यांक खबर पावयली, 'बरे भशेन चल्लां.'

दीस पडटें, पेटूल उगडून दुडू मेजप जातालें. आठूय दिसांक मेळून 4,605 रुपया पेटलांत पडिल्ले. खबर उमेदवर्धक आसली. तरीय, दत्तारामान म्हणलें, 'प्रयोग सफल जालो अशें म्हणूं नज. हे खेप नविदाद आसली. ते खातीर जालें आसूं येता. ह्याच देवळांत दुसऱ्या उत्सवां वेळार आनी दुसऱ्या देवळांनीं किदें घडटा तें पळोवंक जाय.'

पूण दत्ताराम, तागेले जाणटेले, शंभू, आनी चेपो मनांतल्या मनांत समजल्ले, 'वखताक गूण आसा.'

मदीं, मदीं, प्रयोगाचो भाग कसो, दत्ताराम घोष वाक्यांत वेगळेपण हाडटालो. 'तुमगेल्या भुरग्यांक शिकयात. सगलो देस गिन्यानी जातलो', जांव, 'शाळा काडूंक पालव दियात. देसाक गिन्यानी करात.' पूण, पेटलांत पडटल्या दुडवांत चड-उणें जाय नासलें.

सरालें दान-पेटूल लोकांल्या भावार्तावें आंग जाल्लें. पेटला म्हऱ्यांतलो तो बोर्ड न्हय. दान सत्पात्रीं दिल्यार, आंगवणीं फळाक येतात, हें जाणट्यांक पुर्वापार कळिल्लें सत, दत्तारामाल्या प्रयोगान सिध्द केल्लें. लोकां दानांच्या एका रुपयान, सराली येदी व्हडली शाळा उबी केल्ली.

'दत्ताराम, बऱ्याचीं कामा आसतात पळे, तीं आपशींच जावन वतात.' बापायन पुताक म्हणिल्लें. त्याय सत्याचो पडटाळो जाल्लो. शाळेचें बांदकाम एके चालीन आनी थारिल्लया बेतान जावन गेल्लें. थारिल्लया ज्युनांत सराली शाळा नवे वास्तूंत, नवे उमेद-उर्जेंत चालू जाली.

ती उमेद-उर्ज्या नवलें आनी शेजारले सात गांव आनी तेय फुडें गेल्ली. एक देख जावन ती गोंय भर गाजताली.

* * *

नव्या वर्साची शाळा सुरू जावंक तीन दीस उरल्यात म्हणल्यार, माईन सराले असवडीं दत्तारामाक म्हणलें, 'फिझीक्साचे वर्ग तूं घे, गणित सर घेतलो अशें म्हणिल्लें. टायम टेबल तेच प्रमाण केलें. पूण म्हाका दिसता, दत्ताराम, गणिताचेय क्लास तुवेंच घेतिल्ले बरे.'

'किद्याक, माई?' दत्तारामान विचारलें.

'सराक मदीं मदीं विसर पडटा, तें हावें तुका म्हणिल्लें. ह्या दिसांनी मरे, सर बसला थंय थरथरूंक लागता. जाणटेपण जालां न्हय? देखून, म्हाका दिसता, सरान शिकोवचेलें बंद केल्लें बरें. तुका मात त्रास पडटलो.'

'कांय त्रास ना. दीस खंयचे, माई?' दत्तारामान विचारलें.

'ती अडचण आसा. सगलें टायम टेबल बदलचें पडटलें. ना जाल्यार, दोन दीस, एका फाटल्या एक करीत, तुका स पिरीयड घेवचे पडटले.'

'कांय नज, माई. हांव घेतां. ऐन वेळार सगळेंच टायम टेबल बदलूंक बसूं नाका. फुडल्या टर्मांत बदलुंया.' दत्तारामान सांगलें.

'खूब उपकार जाले रेव, पुता.' रीणी मनान माईन म्हणलें

एका काळांत माईन, दत्ताराम आसलो ताका 'भाई' केल्लो. हे खेप तिणें, भाईक 'भाई सर' केलो. फुडारांत, हेंच नांव सगल्यांल्या तोंडाक बसलें. 'शिकोवचेले रितीन, भाई सराक माईलो आनी सरालो वसो आयला.' लोक उलयताले. 'भाई सर बरेंऽ करून एक्सप्लेन करता.' भुरग्यांनी घरा वचून सांगिल्लें.

* * *

शाळा नवे बिल्डिंगेंत वचत सावन, सरान शाळेचें काम पळोवचेलें बंद केल्लें. तें भाई सराचेर सोंपयल्लें. आठ-पंदरा दिसांनी केन्नाय, सर शाळेंत पावठ मारतालो. भुरग्यांनी उमेदीन म्हणिल्लें 'गूड मॉर्नींग सर' स्विकारीत, आनी तांगेली फेड 'बरेंऽ जांव, बरे करून शिकात, आवय-बापायलें नांव वयर काडात' उतरांनी करीत, शाळेंत सगल्याक भोंवून संतुष्ट मनान घरा वतालो.

घरा कडली शाळा माई लक्ष घालून चलयताली. आतां मेरेन, माय़ी एकलीच अपरी ते चवथी येत्ता शिकयताली. चवथेक. एबीसीडी अक्षरां आनी शंबर इंग्लीश आंकडेय म्हणूंक-काडूंक शिकयताली.

पांचवी ते धावी हे स वर्ग, सर आनी तीन शिक्षक शिकयताले. सगले शिक्षक पिरायेन जाणटे आसले. दुसऱ्या शाळांतल्यान रिटायर्ड जाल्ले आसले. दिता तितलें मानधन घेताले. चडशें मानधन म्हापशें-नवलें बशींचे तिकेटींक खर्चतालें. तरीय ते येताले. नेमान येवन शिकयताले. गरजेक स्व-इच्छेन ओव्हर टायम करताले. भुरगीं बरे भशेन शिकतालीं. एसेस्सीक बरे गूण घेवन पास जातालीं. सराल्या शाळेच्या नांवां लौकीकांत भर घालतालीं.

क्लास रुम ना देखून न्हय, शिक्षक उणे लेगून, दोन, दोन येत्ता एकाच क्लास रुमांत बसताल्यो. हो प्रस्न आता आनिकूय कठीण जाल्लो. नवे शाळेंत आठ येत्ता पाविल्लयो, आनी शिक्षक, भाई सर धरून पांच.

दुसरी बाब, चवथी यत्ता गुणी शिक्षकाल्या हातांत आसप गरजेचें आसलें. फुडारांत अत्यावश्यक इंग्लीश भाषेचें मुळावण थंय पडटालें. माई तें काम उत्कृष्ट रितीन करताली. पूण तुर्ताक, माईली आनी ते यत्तेची फारकत जाल्ली.

संस्थेचो सेक्रेटरी पांडुरंग बाबान हे समस्येंतल्यान सुटका केली. ताणें बातमी हाडली, म्हापशेचे श्री रक्षेश्वर देवस्थानांतली मराठी शाळा ओंदूच्यान बंद जाता. गोयांत मीन फुलूंक लागत सावन, पालक भुरग्यांक इंग्लीश स्कुलांत धाडूंक लागिल्ले. शाळा सुकत गेल्ली. भाई सरान उतर घालें. थंयच्यो चार बाई नवल्यां येवंक तयार जाल्यो. भाई सरान, तिसरी आनी चवथी येत्ता आशिल्लयो तशो, पोरणे शाळेंत व्हेल्यो. माई चवथेचो वर्ग घेवंक लागली. अपरेचो एक, पयलेचे दोन आनी दुसरेचो एक, अशा चार वर्गांक, चार अनुभवी बाई शिकोवंक लागल्यो.

पात्रता आशिल्ले शिक्षक फैला करून, पांचवी ते धावीचे वर्ग वेगळ्या रुमानीं व्हरुंक, भाई सराक अडेज वर्सां लागलीं. .......इतल्यान 'ढॉ' जालें.

* * *

हय. 'ढॉ' जालें. आदले राती, मध्यान रात सावन पयसुल्यान 'ढा, ढूंब' कानार पडटालें. फांतोडेर उठून पळे जाल्यार 'ढॉ' जालां. पांचशें धा वर्सां पुर्तुगेजा गुलामीत लोळत पडिल्लें निलाजरें गोंय, डिसेंबरांतले एके कुडकूडे राती काना वयल्यान पांगरूण ओडून कुरंगुटी करून न्हिदिल्ले कडेन स्वतंत्र जाल्लें.

स्वतंत्र गोयांत, सगल्या मळांर, सगळे तरेचे आमुलाग्र बदल जावंक लागले. आमी शिक्षण आनी शाळा-स्कुलां पुरत्याच बाबींचेर नदर दवरूंया.

पुर्तूगेजां मुस्तींत, पुर्तूगेजींत शिकयतल्याच संस्थांक सरकारी अनुदानां मेळटालीं. गोंयांत चलतल्यो मराठी शाळो आनी इंग्लीश स्कुलां आपणाल्या खर्चांन चलतालीं. भुरग्यांनी दिल्ली फी, हेंच येणावळीचें साधन आसतालें.

स्वतंत्र गोंयांत आतां, पयली ते एस्सेसी मेरेनच्या शिक्षणाचो शंभर प्रतीशत खर्च सरकार अनुदान रुपान दिवंक लागिल्लें. खर्चांत घर भाड्याचोय आसपाव आसलो. घरांचें भाडें थारायताना, वास्तू नवी काय पोरणीं तें पळेतालें. सराले शाळेची बिल्डींग नवी ताल्ल आशिल्ल्यान सारकेशें भाडें मंजूर जाल्लें. सराली शाळा संस्थेची स्वताःची आशिल्यान, भाड्याचे दुडू गांठीक उरूंक लागले. येणावळीचो एक नवो कायम स्त्रोत संस्थेक मेळ्ळो.

तेवटेन, एक रुपया दान अभियान बरे रितीन चलिल्लें. दाना झरो आटूंक नासलो. रीण फारीक जाल्लें.

शिक्षक आनी कर्मचारी सरकारी नियमा प्रमाण नेमचे पडटाले. निवृत्ती शीम साठ वर्सा आसली. प्रायमरी सॅक्शनांत प्रस्न आयलो ना. थंय चारशें सुमार भुरगीं जाल्लीं. नेमां प्रमाण धा शिक्षकांली गरज आसली. स शिक्षीका आसल्यो, तातूंत चारांची भर घालुन, भाई सरान सगल्यांक नेमणूक पत्रां दिल्लीं. म्हापशेच्या शाळेंतल्यान आइल्लयो चार तातूंत आसल्यो.

वयल्या वर्गांचे शिक्षक नेमतना अडचण आयली. आतां आसले ते सगले शिक्षक पिरायेन सत्तर ते पंचात्तर वर्सांचे आसले. तांकां वचात अशें सांगूंक भाई सराक जड जालें. पूण अधिकाराच्या कदेलार बशिल्ल्यालींय कर्तव्यां आसतात.

भाई सरान मिटींग आपयली. सगळे सिनीयर टिचर आयिल्ले. शांत बशिल्ले. भाईसर उलोवंक सुरू करता, इतल्यान वायंगणकार सर उबो रावलो आनी म्हणलें, ‘भाई सर, पयलीं हांव दोन उतरां उलोवं? हें शिष्टाचारा आड जाता तें हांव जाणां, तरीय मागतां.’

हें मागणें भाई सराल्या पथ्यार पडिल्लें. उलोवप सुरू करचेलीं उतरां ताका ओजून सुचूंक नासलीं. ‘वायंगणकार सर,’ ताणें नमळायेन म्हणलें, ‘तुमीं, हे शाळेंत मोस्ट सिनीयर आसात. हांव ‘शिरीऽशिऽरी’ करूंक लागचे पयलीं थावन तुमीं हांगा शिकयतात. किदें सांगूंक जाय तें वडिलके हक्कान अवश्य सांगात.’

वायंगणकार सरान उलोवंक आरंबलें. ‘भाईसर, तुमी म्हणलें तें खरें. अडफडच्या स्कुलांतल्यान रिटायर्ड जायत सावन, फाटलीं सोळा वर्सां हांव हे शाळेंत शिकयतां. तुका हावें स वर्सां शिकयलां. शाळे भायर तूं मस्तो भुरगो आसलो. पूण क्लासांत ‘झ्येल’ जावन बसतालो. शिकूंक हुशार आसलो, तैलबुध्दीचो आसलो. फाविल्ल्या वेळांत शाळेचीं कामां करीत आसतालो.’ उलयतना पयल्या वाक्यांत ‘तुमी’ आशिल्लो भाई सर, वायंगणकार सर आपणाल्या यादींरण्यांत पावतकीर ‘तूं’ जाल्लो.

'आतां विषयार येतां.' वायंगणकार सरान फुडें म्हणलें, 'हांगा बसल्यात ते आमीं सगळे रिटायर्ड जाल्ले टिचर. आमकां नेमान पेन्शन येता. संसार चलोवंक तें पुरो जाता. जाल्यार, घरकान्न, पूत-सुनो, धुवो-जांवय, नातरां-बाळांल्या संगतींत रिटायरपण 'सुशेगाद' सारचें सोडून, आमीं हांगा किद्याक आयले आनी येत रावले तें सांगतां. आयकून तुमगेलेंय मन ल्हव जातलें.

'हांव स्कुलांतल्यान रिटायर्ड जालों ताजे दुसऱ्याच दिसाची खबर. बेकार बसचेली संवय नासली. वेळ सर नासलो. घराचे गॅलरींत रावून हांव, कुड्डे नदरेन निसर्गावलोकन करीत राविल्लों. दनपारच्या साडे बारांच्या ओताचो भार आसलो.

'म्हापशेंच्या अनसा वाड्यार उंचायेर म्हगेलें घर आसा. सतरा दोंगरी सोपणां काडचीं पडटात. सोपणां इल्लीं उंच आनी वयर सकला आसात. बऱ्या मनशाक लेगीत खरसायत असलीं आसात.

'हांवें गॅलरींतल्यान पळेलें. एक जाणटेलो अपंगूल मनीस, दांड्याचो आदार घेवन, जाता नज करीत, मोठ्या कष्टांनी सोपणां काडीत येतालो. म्हज्या घरा वयर आनीक तीन घरां आसत. तांगेर पावूंक आनीक सोपणां काडचीं पडटात. ह्या जाणटेल्याक तें साध्य जावंचें नासलें. धोक्याचें जातलें आसलें.

ताका सादूर करूंक हांवें मोठ्यान विचारलें, 'तुमीं कोणागेर वतात?' ताणें म्हगेलें नांव घेतलें. तो म्हगेर येतालो. 'आसा थंयच रावात, हांव थंय येता.' अशें व्हडान आड्डूण, हांव ताजे सरेन गेलों, ताका आदारा हात दिलो, म्हजी वळख सांगली आनी म्हणलें, 'आमीं वयर वचूं नये. त्या सकल्या घरांत म्हगेलो बापोल भाव रावता. आमी थंय बसुंया.'

'जाग्यार पावतकीर, ताणें मातसो विसव घेवन आपणालें नांव सांगलें. नांव अनवळखी आसलें. ''हांव नवल्यां एक शाळा चलयतां.'' ताणें सांगलें. म्हाका सट्ट जालें, सराली शाळा! म्हगेल्या तोंडसून आपसूक उतरां फुटलीं. ते शाळेंतले भुरगे बोर्डाक बरे मार्क मारताले. ताका लागून सराली शाळा गोंयच्या शिक्षण क्षेत्रांत एक तोखणाये चर्चेचो विषय आसलो.

'सरान आपणाली अडचण सांगली. वयल्या तीन वर्गांनी तेरा भुरगीं
ाकतात. हुशार आसात, तांकां शिकलेची उमेद आसा. तांकां शिकोवंक एक
रो शिक्षक जाय. तुमी हालींच रिटायर जाल्यात अशे कळ्ळें. देखून आयलों.

'एका वर्सा खातीर आयल्यार म्हजेर व्हडले उपकार जातले. एका
र्साक जमना जाल्यार स म्हयन्याक येयात. ना म्हणूं नाकात. फुडल्या स
ह्यन्यांक मागीर आनी कोणाय कडेन उपकार मागतां.'

'आतां तुमीच सांगात, भाई सर, असल्या मनशाक ना कोण म्हणत?
म्हयन्यांक आयिल्लों, तो सोळां वरसां खोश्शेन रावलों. ही जाली म्हगेली
ाणी. हेरांल्यो काणयो आयकूंक गेल्यार, सगल्यो एक समान आसात.

'आमी सराक आदार दिवंक आयले. आमगेलें मिशन संपन्न जालां.
ार्य सिध्दीची समाधानीं भावना सगळ्यांल्या काळजांत आसा. वचचे पयलीं
रचेलीं कामां, तुमकां सु-यश मागचेलें, सराक हात दिवचेलो, मायिलो
ारोप घेवचेलो आनी हायस म्हज्या घरा करचेलें.'

* * *

कालचक्रा दीस तांचे गतीन वताले. सराली शाळा प्रगती पथार
लताली. शाळेक एस्सेसी बोर्डाची मान्यताय मेळिल्ली. शाळेची फाम,
र्याच्या ओता भशेन गोंयभर फांकारिल्ली. म्हापशेचीं भुरगीं सराले शाळेंत
वंक लागिल्लीं.

हेड मास्टराल्या दिसपट्ट्या सामान्य कामांत पुराय घुसपून पडचें न्हंय
गून, भाई सरान एक उमेदी, कार्यशील, परिश्रमी, बी.एड केल्लो हिंदीचो
ट्चर, सचीन फातर्पेकार हाका असिस्टंट हेड मास्टर केलो. सचिनालो सभाव
या कामांक मुदयेर थीक कसो आसलो. हरशीं मृदू-मोव, गरज तेन्ना तिखें.

भाई सर, संस्थेचो प्रतिनिधी आनी शाळा प्रकल्प प्रशासकालीं कामां
ांबळटालो. तागेल्या आनी असिस्टंट हेड मास्टरांल्या सभावाक सामकें
डिल्लें. नवे शाळेच्या फुडाराची दिशा थारावंक ही दोस्ती बऱ्याक पडिल्ली.

सराले शाळेक बारा नव्या शिक्षकांली गरज आसली. सातशां वयर

अर्ज आयिल्ले. बी.ए, एम.ए, बी.कॉम, एल.एल.बी केल्ले लोक. कसले साणीर कसाक लावन, भितल्ल्या बारांली चोखसाण पारखुंचेली?

भाई सराले तकलेंत विचार घोळटाले. माईन मराठी दुसरी केल्ली. सरान प्रिमेर ग्राव आनी इंग्लिश चवथी केल्ली. शिक्षण व्हडलें न्हय. पूण, सरान आनी माईन शिकयल्लीं भुरगीं बऱ्या मार्कांनी पास जातालीं. एक कुवाडेंच कशें! पूण भाई सराक न्हय. तो कारण जाणा आसलो.

सरा-माईली शिकोवंचेली पध्दत, विषय सोंप्या उतरांनी घालचेल्या तांगेल्या कला-कळाशींक लागून, विषय भुरग्यांल्या तकलेंत घांस मारून थारावतालो. ह्या कामाक, सरा-माईल्या काळजांतली कळकळ, आवाजांतलें आपलेपण, मुखमळा वयलो सदैव सद्भाव, आचारांतलें प्रामाणिकपण ह्याय गुणांचो आदार भुरग्यांक जातालो. हें सगळें ताणें सद्गतीत अंतःकरणान सचीन सराक सांगलें.

दोन सेकंड वचूंक दिले आनी तो अंतरमनीं मुडांत उद्गारलो, 'पूण हांव शिकतालों पळे, ते फक्कत, सरालें आनी माईलें मन दुखोवचें न्हय, लेगून.' हो वास्तविकताये विचार उत्तावन भाई सर आनी तागेलें उपकृत मन खो करून हांसलें. त्या हाशांत, सचीन सरालोय खो भरसल्लो.

आपल्या कॉलेज्यांतल्या अनुभवाचेर आदारून, भाई सरान हेड मास्टराक सांगिल्लें, 'शिक्षण पात्रता आसा म्हूण तो बरो शिक्षक जातलो, अशें म्हणू नज. आपणांक खबर आसा तें दुसऱ्याक शिकोवप हो वेगळो गूण. तें कौशल्य कोणाय लागीं आसा काय ना, तें पारखूंक वेळ लागता. तें मुलाखत घेवन थारावचेलें काम न्हय. टॅस्टां-परिक्षांनी भुरगीं कितले गूण मेळयतात ताजे वयल्यान शिकयतल्याल्या कौशल्य-क्षमतेचो अदमास करूं येता.

'सचीन सर, आमीं शिक्षकांक बी.एड. करूंक उत्तेजन दिवंया. तांका लागत तितलोय आदार आनी फॅसीलिटीज दिवंया. हें आमगेलें सदाकाळ धोरण करुंया. सगळ्यांक बरें पडटलें.' सचीन सर सहमत जाल्लो. शाळेच्या नव्या धोरणाक धरून, लायब्ररींत शिकोवचेल्या विषयावयल्या पुस्तकां-नेमाळ्यांचो व्हड-वेगळो विभाग चालू जाल्लो. भाई सर तीं पुस्तकां, नेमाळीं घरा हाडटालो.

दिसा वेळ मेळना देखून, जागरणां मारून वाचतालो. सदां काळ शिकोवपांत–शिकपांत सुदारणा करचेले विचार घोळयत आसतालो.

क्लासांनी मदीं मदीं जायत आशिल्ल्या पिरीयॉडिकल टॅस्टी–परिक्षांची मार्क लिस्टां तो सुक्ष्मतायेन अभ्यासतालो. शिकोवपांत जाल्ली सुदारणा भुरग्यांनी घेतिल्ल्या मार्कांत प्रतिबिंबीत जावंकूच जाय अशी तागेली धारणा आसली. ते नदरेन ताणें हो अभ्यास चालू दवरिल्लो.

टोरोंटो युनिव्हर्सिटींतलो प्रोफेसर रॉबर्टसन हाणें सेकंडरी स्कूलां संबंदान बरयल्ल्या आपल्या एका गाजिल्लया, 'डोन्ट मर्डर टॅलंट' नांवांच्या पुस्तकांत म्हणिल्लें, 'सामकींच ढ अशीं भुरगीं नासतात. अभ्यासक्रमांत धा बारा विषय आसतात. एकादल्या भुरग्याक, तांतलो एक जावं, कांय विषय शिकूंक मन नासता. त्या विषयांचेर तागेलें दुर्लक्ष जाता. आपल्या आवडीचे विषय तो मन लावन शिकतां. परिणाम, तो परिक्षेंत नापास जाता. वर्स फुकट वता.'

ह्या प्रस्नांचेर प्रोफेसर रॉबर्टसनान उपाय सुचयल्लो. 'कोणूय एक–दोन विषयांनी नापास जाता, हेरांनी बरें करता जाल्यार, ताका पास करूंक जाय. वर्सान वर्स त्याच विषयांनी नापास जाल्यार लेगीत, ताका पास करू जाय. सेकंडरी स्कुलाची निमणी परिक्षा ताणें पास करतकीर, तो सातत्यान बरे मार्क मारीत आयला ते विषय घेवन, ताका फुडलें युनीव्हर्सिटी शिक्षण घेवंक दिवंक जाय. ही पध्दत आपणायल्यार, जिणेंत कोणूच नापास जावचो ना. कोणूच धोंडो उरचो ना.' मदल्या वर्सांनी परिक्षाच आसूंक जायना, हें त्या पुस्तकाचें सार आसलें.

पूण, सराल्या शाळेचें दावें, बोर्डा गोठ्यांतल्या खुंट्याक बांदून आसलें. दाव्यांचे लांबाये पुरत्याच खुट्या भोंवतणच्या परिसरांत घोळचेली शाळेक मेकळीक आसली. भाई सरान पुस्तक सचीन सराक धाडलें. वांगडचे चिटयेंत बरयलें, 'विचार तुका मानवतलो. पूण आमकां शिरीं पडचेलो न्हय. पुस्तक वाच आनी लायब्ररींत पावय.'

त्या हिसपान, अमेरिकेंतल्या हार्डव्हर्ड युनीव्हर्सीटींतलो प्रोफेसर सज्जर हांगल्ल्या खूब गाजिल्ल्या 'नो वन ईज डफर इन माय क्लास' पुस्तकांतलो

विचार, प्रयोग करून पळोवपा सारको आसलो. हो प्रयोग बोर्डाच्या दाव्यांक बांदून पडलेल्यांकूय करूंक मेळटालो.

'भुरगे डफर नासताच. तांकां शिकयतले आमीच डफर आसतांत.' ह्या उतरांनी प्रोफेसर सजर हांणी प्रस्तावनेची सुरवात केल्ली.

हेय पुस्तक सेकंडरी स्कुलां संबंदान आसलें. भितर एके कडेन ताणें म्हणिल्लें, 'शिक्षकांक मर्यादा आसतात. शिक्षक कितलोय ज्ञानी, गुणी, अनुभवी, कशिल्लो आसूं, वर्गांतलो हरेक विद्यार्थी तागेलें लेक्चर, एकेच धर्तीर तकलेंत घेतलो अशें समजप पिशेपणां जातलीं. विषय आकलन शक्ती सगळ्या भुरग्यां लागीं आसता. पूण आकलन शक्तींच्यो तरा आसतात, हें आमी समजूंक जाय. थोड्यांक सांगना फुडें कळटा. दुसऱ्यांक दोवरावंचें पडटा. कांय जाणांक समजावन सांगचें पडटा.'

प्रोफेसर सज्जर हांणी हे समस्येचेर उपाय सुचयल्लो. 'खंयंचोय एक क्लास घेयात. त्या क्लासांतल्या भुरग्यांक, हालींच जाल्ले परिक्षेंत मार्क पडले ते प्रमाण तांगेलीं तीन डिव्हीजनां करात. उंच मार्क पडले तांगेलें एक, मध्यम पडले तांगेलें दुसरें आनी त्याय सकला पडले तांगेलें तिसरें. हीं डिव्हीजनां तीन वेगळ्या क्लास रुमांनी बसतलीं. शिक्षक तांकां तांगेले आकलन तरां प्रमाण शिकयतले. तीन म्हयन्यांनी परिक्षा घेवन, तिनूय डिव्हीजनांतल्या भुरग्यांक पडिल्लया मार्कांचीं तुलना करचेली.'

हें सांगून, प्रोफेसर सज्जर हांणी एक चत्राय दिल्ली. 'तिसऱ्या डिव्हीजनाक शिकयतल्या शिक्षकांक थारिल्ल्या काळांत अभ्यासक्रम सोपोवंक कठीण जावं येता. ताणीं ताकतीक करची न्हंय. स्पेशल क्लास घेवचे. भुरगीं स्पेशल क्लासांक हजर रावतात ताजी खात्री करूंक, भुरग्यांल्या वडलांचें सहकार्य घेवंचें.'

प्रोफेसर सज्जरालें प्रचितीक म्हण्णें आसलें, 'हे रितीन भुरग्यांक शिकयल्यार, कालांतरान, तिनूय डिव्हीजनांतल्या भुरग्यांनी लागीं लागीं वयली श्रेणी गांठल्या, अशें दिसून येतलें.'

हो विषय भाई सरान सचीन सराकडेन डिसकस केलो. 'सुरुवात आठवे यत्तेंतल्यान करूंया.' भाई सरान म्हणलें. 'म्हाका दिसता, आठवेक पावतकीर फाटीं पडूंक लागतल्या भुरग्यांली संख्या वाडूंक लागता.'

आठवेंत नवी शिक्षण प्रणाली चालू जाली, ताज्या चार म्हयन्यांनी प्रोफेसर सज्जराले म्हणणेची सत्यताय नव्यान प्रचित जाल्ली. फुडल्या धा दिसां भितर, ही शिक्षण पद्दत सगल्या येत्तानीं पाविल्ली.

* * *

हाजेर वीस वर्सां गेल्लीं. जिणेंत सदांच घडत आसता, तेच परी, सरील्लया वीस वर्सां काळांत, कितल्योच घडामोडी घडून गेल्यो.

सरा-मायिल्या, सर्वय जनांक शिक्षीत करचेल्या सपनाची व्याप्ती विस्तारत गेल्ली. सराली नवी शाळा सरा-माईल्याच निष्ठा-कष्टां पुण्यायेन फुडें, फुडें वचत राविल्ली.

सर आनी माई आमकां सोडून गेल्लीं. सर बसला थंय गेल्लो. ताजे धा दिसांनी, माई न्हिदिल्ली थंय गेली. सगलें गोंय हळहळिल्लें. आपणाली 'सगली' इस्टेट तांणीं ट्रस्टाक दान दिल्ली. आपल्या हातांतलीं चोवीस कॅरेट शुध्द, झरिल्लीं चार कांकणां तिणें चेप्याले बायलेक दिल्लीं. स्त्री-धनाचें, आवयन तिका लग्नांत घाल्लें मंगलसूत्र आनी एका पोवनाची गळसरी तिणें दत्तारामाले बायलेक दिवंक चेप्या सुवादीन केल्ली.

माई लागीं फुडार पारखुचेली दृष्टी आसली हें खरें आसत, नासत. पूण तिणें चेप्याक सांगिल्लें, किदेंय कारण जावन वस्त दत्तारामांले बायलेक पावली ना जाल्यार, गळसरी शंभूचे बायलेक दी, आनी मंगळसुत्र महेशा बायलेक धाडचे खातीर प्रेमाबाय लागीं दी. माईन यादीक धाडलां अशें महेशाक सांगूंक लाय.

शाळेच्या वाडत्या व्यापाक लागून, दत्तारामाक लग्नाचो विचार करूंक उसरपत मेळूंक नासली.

दत्तारामालो बापूय गेल्लो. शंभू-चेप्यालीं लग्नां जाल्लीं. सचीन सरालेय

चार हात जाल्ले. तो नवल्यांत रावूंक आयिल्लो. त्या सगल्यांनी 'बे बाल, जय गोपाल' तत्व आचरिल्लें. भुरगीं सराल्या शाळेंत शिकतालीं. शिकपाक हुशार आसलीं.

सरा-माईलें घर सारकें करून नवें ताल्ल जाल्लें. दुडू जयंतीभायन धाडिल्ले. 'घर धांपून दवरचें न्हय. सदां काळ वापरांत दवरचें.' अशी सुचवणीं केल्ली. घराच्या दोन कुडींचें गेस्ट हाव्स केल्लें. उरिल्लया घरांत, सरा-मायीले इच्छेन प्रमाण गांवच्या लोकां खातीर वाचन मंदीर चलतालें.

पयली ते धावी येत्ता नवे शाळेंत पाविल्लयो. पयली ते चवथी, मराठींत आसल्यो, त्यो इंग्लीशींत जाल्ल्यो. अपरी येत्ता सराले मूळ शाळेंतूच उरिल्ली. पूण नामकरण जाल्लें. अपरी आसलें तें किंडरगार्टेन जाल्लें. शाळेच्या वास्तूचो चकाचक कायापालट जाल्लो. आदल्या काळार, अपरेंत शिकतलीं भुरगीं 'लत्तुबायेचीं' आसतालीं. आतां तीं 'हाव्ह क्यूऽट' जाल्लीं.

जिणेंत सदांच घडत आसता, तेच परीं, सरिल्लया वीस वर्सां काळांत, कितल्योच घडामोडी घडून गेल्ल्यो.

* * *

## III

1985 वर्स सोपूंक पाविल्लें. सराली नवी शाळा सुरू जावन सव्वीस वर्सां उलगल्लीं. दत्तारामाक पन्नासावें वर्स लागिल्लें. तागेलें आरोग्य ठीक ठाक आसलें. काम उमेद-उत्साहान जातालें. कामांचो उरक आदलोच आसलो. म्हत्वाची गजाल, तागेलें मन आनी काळीज भुरगें-कवकवीत आसलें.

माईन म्हणिल्लें, 'दत्ताराम, शाळेंत शिकयतल्यांली हाशिला बाब तूं जाणा? तांकां सर्वकाळ, भुरग्यांल्या संपर्क-सहवासांत रावंक रमूंक मेळटा. ताका लागून, तांगेली देह-काया जिर्णावत गेली तरीय, तांगेलें मन भुरगेंच उरता.' दत्ताराम तें अणभवतालो.

तागेलो नित्यक्रम, तो सकाळीं पयले बॅली पयलीं शाळेंत पावतालो. दीस भर हातूंत-तातूंत गडून उरतालो. थंयंच जेवतालो. पांच-साडेपांचांक घरा येतालो, तोंडांत किदेंय उडोवन च्या घेतालो आनी रासभर फायलींनी तकली घालून बसतालो. काम सोंपतकीर जेवतालो. बारांच्या अदमासाक न्हिदूंक वतालो. जेवण आनी गूड नायट मदल्या काळांत वाचन चलतालें. हालीं काळाक  वाचन साहित्य संबंदीत जाल्लें.

'ह्या दिसांनी, तिनसांज जातकीर म्हगेली तकली कणकणूंक लागता.' भाईसरान एक दीस सहज कशें सचीन सराक म्हणलें.

सचीन सरान कान फुलयले. 'ह्या दिसांनी म्हणल्यार केन्ना थावन, भाईसर?' तागेलो हुसक्यान प्रस्न.

'ह्याच म्हयन्याक सावन. पयलींय केन्ना-केन्ना जातालें. पूण ह्या दिसांनी नित्याची गजाल कशी जाल्या.' भाईसरान सांगलें.

'सर, तुमी तुमगेलें प्रेशर केन्ना चॅक करून घेतलां? ते खातीर न्हय, म्हगेलो भावोजीय अशीच कागाळ करतालो. दोतोरा सरेन वच जाल्यार प्रेशर हाय सांपडलें. गुळयो दिल्यात. म्हयन्यान आपयला.' सचीन सरान सांगलें. 'म्हाका दिसता, तुमी प्रेशर चॅक करून घेतिल्लें बरें.'

सचीन सरान अपोयंटमेंट घेतलो. थारिल्ल्या दिसा भाईसराक घेवन गेलो. दोतोरान तीच परिक्षा केली. त्योच गुळयो दिल्यो. तीन म्हयन्यांनी आपयलो.

'भाई सर, हे पिरायेचेर इंद्रियां मातशीं आळसावतात. कामांचो भार उणो करूंक जाय.' दोतोरान सांगलें. 'हाता सकयल कोणूय मनीस दवरात. कांय जबाबदाऱ्यो ताजेर सोंपयात. प्रेशर वाडलां तें भयाचें न्हय. कामांचो स्ट्रॅस उणो जातकीर सगलें जाग्यार पडटलें. गुळयो मात चालू दवरात. बरें दिसलें म्हूण मदींच सोडूं नाकात. गुळयो उणे मात्रेच्यो दिल्यात.'

डॉक्टर हरीश हळर्णकार भाईसरालो स्टुडंट आसलो. आठवे यत्तेंत तिसऱ्या डिव्हीजनांत पडिल्लो. दिल्लीच्या एयम्स मॅडीकल कॉलेज्यांतल्यान ताणें एम.डी. केल्ली. सचीन सर ताका वळखलो. 'तूं बारावेक बायोलॉजींत बोर्डाक फर्स्ट आइल्लो न्हय? म्हाका याद आसा.' सचीन सरान म्हणलें. 'हय सर.' हरीशाली भिड्चेती जाप.

तिसऱ्या दिसा राष्ट्रमत दिसाळ्यांत जायरात आयली. 'सतराशें भुरगीं शिकतल्या हायस्कुलाक प्रशासन विभागाचो कार्यभार सांबाळूंक अनुभवी मनशाली गरज आसा. धा वर्सां वयर अनुभव आसप गरजेचें. रिटायर्ड जाल्ल्यांनीय अर्ज करचे. संपूर्ण बायोडाटा दिवन धा दिसां भितर अर्ज करात. – संजीवी अभियान प्रतिष्ठान, नवलें, बारदेस, गोंय.'

पुर्तूगेजा मुस्तींत, संस्थो, आस्थापनां, पसऱ्यांचीं नांवां पुर्तूगेज भाषेंतूच आसूंक जाय अशी विडंबणीक सत्ती आसली. तेन्ना हे संस्थेचें नांव 'सॅन्त्रु प्रोमोतोर द एदूकासांव ई कुल्तूर' आसलें. स्वतंत्र गोंयांत नांव बदलिल्लें. 'संपुर्ण जीवन विकास अभियान प्रतिष्ठान' जाल्लें.

सप्तका भितर देडशां वयर ॲप्लीकेशनां आयलीं. आयल्यांत तीं वाचून काडुंया लेकून भाईसर घराच्या बल्कावांत बशिल्लो. चेपो एन्वलोपांच्यो कडो कातरून, अर्ज भायर काडून दितालो. तीस सेकंदांक एक हे गतीन भाईसर अर्ज वाचतालो. अनुभव किदें, तितलेंच पळेतालो. एकूय अर्ज अनुभवाचे साणीर तग धरी नासलो. वरा भितर सगले अर्ज वाचून जाले.

पांच वरां जाल्लीं. शिरवटकारांल्या घरा मुखार एक नव्वी निळी फियाट येवन उबी रावली. खट करून मोटारीचें दार उगडलें. 'चेप्या, कोण आयला पळे.' भाईन म्हणलें. चेपो गेलो आनी एका मिणटान परतलो. 'भाई, तुका कोण मेळूंक आयला.' चेप्यान सांगलें. चेप्या फाटल्यान एक अनवळखी मनीस सवकासाये पावलांनी चलतालो. भाईसरान कदेलाक हात दाखयलो आनी ताका बसूंक सुचयलें.

'म्हगेलें नांव मधुकर गोविंद मातोंडकर.' ताणें शीलवंती सभ्यतायेन सांगलें.'हांव मुंबय थावन आयलां. शाळेचें ऑफीसी प्रशासन पळोवंक मनीस जाय म्हूण तुमी जायरात दिल्या. तें ॲप्लीकेशन दिवंक आयलां. वाटेर एकल्याक स्कुलाची वाट विचारली. तागेले सांगणेन हांव तुमगेल्या घरा पावलों. तुमकां त्रास दिवचो पडलो.'

'कांय त्रास ना. मधुकरबाब, एक सांगात, तुमी आमगेलो रिक्वायरमेंट तकलेंत घेतला मूं? मुंबयच्यान आयल्यात देखून विचारतां.'

अनवळख्यान स–मुरवत हय म्हणत ॲप्लीकेशन भाईसरा कडेन दिलें. भाईसर तें वाचूंक लागलो.

एके बहु–राष्ट्रीक कोर्पोरेट कंपनीन स्थापिल्ली 'स्कूल्स फॉर ॲक्सलंस' ही ट्रस्ट मुंबय दोन शाळो चलयताली. एक मुलुंडाक आनी दुसरी विक्रोळीक. सगलीं मेळून तीन हजार भुरगीं शिकतालीं. मधुकर मातोंडकर दोनूय शाळांचो ॲडमिनीस्ट्रेटिव्ह चीफ आसलो.

मातोंडकर पंचवीस वर्सां ते बहु–राष्ट्रीक कंपनीत काम करतालो. तांतलीं निमणीं पंदरां वर्सां तागेलें पोस्टींग कंपनींच्या 'शाळा' विभागांत जाल्लें. तीन म्हयन्यां पयलीं ताणें व्ही.आर.एस. घेतिल्लो.

आधाराक, दोनूय स्कुलांच्या हेड मास्टरांलीं दोन दीस आदींच बरयल्लीं, सर्वगुणी कार्यक्षमताये 'व्हूम सो एव्हर' प्रमाणपत्रां लायिल्लीं.

'मधुकर बाब, तुमीं कोर्पोरेट कंपनीत काम केल्लें मनीस. तसली सॅलरी दिवंक आमकां जावचें ना. तो विचार तुमीं केला?' भाईसरान म्हणलें.

'सर, म्हाका बाब, तुमी बी म्हणूं नाकात. निखटें तूं, मधु म्हणात. सगले म्हाका तसोच उलो मारतात.'

'बरें आसा. मध्य मार्गान वतां.' भाई सरान हांसून म्हणलें. 'आमी सॅलरीचें उलयताले. मधुभाऊ, तुगेली अपेक्षा कळ्ळ्यार बरें जातलें आसलें.'

'तुमगेले स्केली प्रमाण दियात.' मधुभाऊन गंभीर मुद्रेन सांगलें.

मातोंडकराल्या व्यक्तीत्वाक आनी हालचालींक भारदस्तसाण आसली. तागेल्या विनय-विनम्रताये उतरांक विश्वास-भरवंशाची जडसाण आसली. आमकां जाय तसलोच मनीस सामकार बसला, हाजी सुलूस भाईसराक लागली.

'मधुभाऊ, तूं पिरायेन भुरगो आसा. तूं म्हजे परस चार म्हयन्यांनी नेणटो. इतल्या बऱ्या पोस्टार आसलो. व्ही.आर.एस. किद्याक घेतलो? तुका शिक्षादान क्षेत्र आवडना?'

'पर्सनल कारण जालें.' ताणें जड मनान सांगलें. 'सर. म्हाका म्हगेलें काम खूब प्रिय आसलें. म्हगेले बायलेक तर तें परम-प्रिय आसलें.'

कांय वेळ तो विचारी मुद्रेन ओग्गी रावलो, आनी एक जड, लांब उस्वास सोडून म्हणलें, 'व्ही.आर.एस. घेतलो ताजें कारण सांगतां.'

मधुभाऊन आपणाली जीवन गाथा सांगली. तागेलो मूळ गांव वेंगुर्लें. कॉलेज करूंक तो मुंबय गेलो. कॉमर्स घेतलें. थंय ताका शोभा भेटलें. दोगांयनी बरे मार्क घेवन बी.कॉम केलें. त्याच अदमासाक, ते बहु-राष्ट्रीक कोर्पोरेट कंपनीन मुंबय मुलुंडाक ऑफीस घाल्लें. शोभा आनी मधुभाऊ ते कंपनीक ज्योयन जालीं.

पांच म्हयन्यांनी तागेलें लग्न जालें. एका वर्सान सुषमा जालें. सुषमान आय.टी. केलां. तेच बहु-राष्ट्रीक कंपनीक ज्यॉयन जालां. तागेलें पोस्टींग सध्या युरोपांत नॉर्वेक, ऑस्लो सिटींत जालां. सुषमालो थंयचो सहकारी, दिल्लीचो मोहीत शर्मा हाजे लागीं तागेली सोयरीक जाल्या.

कंपनीचे मुंबय शाखेंत एक हजार इन्जीनियर काम करताले. तांगेल्या भुरग्यांक सोय म्हूण कंपनीन मुलुंडाक एक शाळा सुरू केली. ॲडमिनीस्ट्रेटर म्हूण शोभाक पोस्ट केलें. उपरांत, स्थानीक लोकांले मागणेक लागून विक्रोळीक आनीक एक शाळा घाली. दोनूय शाळांचो ॲडमिनीस्ट्रेटर म्हूण मधुभाऊली नेमणूक जाली. कंपनींत घोवा-बायलेल्या कष्टां-कार्यांली खूब तुस्त वाखाण्णी जाताली. सगळें बरे तरेन चलतालें.

एक दीस, ध्यानीं मनीं नासतना, मोटार सायकलीच्या ॲक्सीडंटाचें निमीत जावन, शोभा ताका सोडून गेलें. मधुभाऊलें जीवन उबंत पडलें. तागेलें मन कामांत लाग ना जालें. ताणें रेझीग्नेशन दिलें. कंपनी ताका सोडूंक तयार नासली. तांणी सांगलें, 'हिंदुस्थान भर आमचे फांटे आसात. खंय वचूंक जाय तें सांग.' तो ट्रान्सफरीकूय तयार जालो ना. तागेलें मन उठिल्लें.

कंपनीन व्ही.आर.एस. दिलो, पुणून तागेलो स्टेटस - ऑन लॉन्ग लीव्ह दवरलो. ताज्यान जाय तेन्ना येवन सर्वीस ज्यॉयन करुंक जाताली.

'म्हाका मुंबय नाकाच जाल्ली. फुडें किदें संभ्रमांत मन कालवतालें. इतल्यान तुमगेलो ॲड आयलो. चार दिसां भितर हांवें गोंय गांठलें. म्हगेल्या गांवाक लागीं, वेंगुर्ल्यांचे जवळकेक उरतलों, होय विचार मनांत आसलो.' मधुभाऊन सांगलें.

'ॲड वाचून चार दीस जाले? जाल्यार, हो एक भांगरान बांदचेलो योग म्हणचो पडटलो. लोकल पेपरांत ॲड येवन सात दीस जाता थंय आसात. मधुभाऊ, वी ॲट संजीवी अभियान, वेलकम यू मोस्ट हार्टीली इन सराली शाळा.' ह्या खोशशे उतरांनी भाईसरान मधुभाऊक येवकारलो.

हें आयकून मधुभाऊ विचारांत पडलो. 'ॲड लोकल पेपरांत दिल्लो?

ॲड दिवन सातूच दीस जाले? जाल्यार खऱ्यांनीच अजाप म्हणूंक जाय. हांवें ॲड वाचूंक ना. त्या ॲडाचो भावार्थ म्हाका म्हगेल्या जांवयान ऑस्लो, नॉर्वे थावन ईमेलान कळयलो. धुवेन सोपूत घालून अर्ज करूंक लायलो. विद्यादानाचें काम शोभाक खूब प्रिय आसलें, हे भावनेन हांवें आं म्हणलें आनी तडक गोंयची वाट धरली.' मधुभाऊन सांगलें.

'सर,' मधुभाऊन फुडें म्हणलें, तुमी व्हडल्या काळजान म्हाका येवकार दिला ते खातीर हांव उपकारी आसां. संस्थेचे संस्थापक सर आनी माई हांगेल्या प्रेरीत प्रयत्नांचें मुळावण आशिल्ली आनी तांचे फाटल्यान आयिल्ल्या तुमचे सारक्यांल्या प्रयासांक लागून उत्कर्षाचे वाटेन खूब फुडें पाविल्ले हे सराले शाळेक, आनीकूय फुडें व्हरचेल्या प्रयत्नांत, म्हगेलें संपूर्ण योगदान दिवपांत हांव कसलीच कसर करचो ना, हें उतर हांव तुमकां दितां.'

'मधुभाऊ, तें तुवें सांगचेली गरजूच ना. तुगेलीं दोनूय प्रमाणपत्रां ताजी घणघणीत गवाय आसात. पूण एक सांग, तुका आमचे संस्थापक सर, माई, शाळेचो आरंब बी म्हायती कोणें सांगली?' भाईसरान कुतुहलान विचारलें.

'हांव पेट्रोल घालूंक म्हापशां थारिल्लों. पंपा सामकार रेस्टॉरंट आसलें. थंय हांवें च्या मारली. गल्ल्यार बशिल्ल्या मनशाक नवल्यां वचचेली वाट विचारली. म्हगेल्या प्रस्नांक जाप दिवच्या जाग्यार, म्हगेले गाडयेचे नंबर प्लेटीर नदर मारून ताणें विचारलें, 'ऑफिसांत मॅनेजर जाय म्हूण शाळेची जायरात आयिल्ली, ते खातीर तुमी मुंबयच्यान आयल्यात काय किदें?

'आनी, हांव किदेंय उलोवंचे पयलींच, सराले शाळेचो सगळो इतिहास सांगून तो मेकळो जालो. तागेली भावज खंय हेच शाळेंत शिकल्या. सगलें व्हडलें, व्हडलें करून सांगलें. तुमगेलोय उल्लेख आदर-तुस्तीन केलो. तुमगेल्या 'एक रुपया दान' अभियानाची खबर खूब तोखणायेन सांगली. सगलें सांगून जातकीर ताणें म्हगेल्या प्रस्नाक जाप दिली. मनीस मनशाळो आसलो, च्याचे पयशे कशेच घेतले नात. 'तूं आमचो मनीस', अशें म्हाका म्हणलें. सर, म्हाका तुमगेली एक रुपया दान कल्पना खूब आवडली.'

'मुंबयच्यान मोटारीन आयला?' भाईसरान विचारलें.'

‘हय. मुंबयंतली बिटकी कवळटालों म्हणटकीर मोटारूय हाडची पडली ना? काल सांजे आठांक भायर सरिल्लों. पेण पावतकीर तीन वरां न्हीद काडली. वाटेंत सगळ्याक हायवेचें काम चलता. ताका लागून प्रवास खोळंबत जालो. हांगा पावता सर पांच जालीं.’

‘वाटेंत जायतीं डायव्हर्शनां आशिल्ल्यान, रस्त्याक होटेलां मेळनात अशें आयकल्लें.’ भाईसरान म्हणलें.

‘गजाल खरी. पूण, येतना पाव-केळीं हाडिल्लीं. काम भागलें.’ मधुभाऊन सांगलें’

‘म्हणल्यार, रातीं सावन तूं उपाशीं!’ भाईसरान म्हणलें. मधुभाऊ हांसलो.

अर्द वरा उपरांत, शिरवटकारांल्या डायनिंग टेबलाचेर मधुभाऊ, सचीन सर आनी भाईसर खबरी मारीत बशिल्ले. मधुभाऊक प्रवास कालांत घडिल्ली एकादस उजोवंक, प्रेमाकाकीन केल्ल्या घराव्या तुपाचो, सांसवांचीं फोण्णां पडिल्लो घमघमीत तिखसो सांजो सगळे रुचीन खाताले. मधुभाऊक आग्र्यान वाडप जाल्लें. मुखशुध्दीक भग्ग पितांबरी झाडपिकीं रसबाळीं आसलीं.

मधुभाऊ शाळे संबंदान वेगळे-विंगड खोंचीक प्रस्न विचारतालो.

‘सर, प्रशासन विभागाचो कार्यभार आतां मेरेन कोण पळेतालो?’

‘भाईसर पळेतालो. आतांय पळेता.’ सचीन सरान जाप दिली. एकाच मनशाचेर लोड पडटा तें सारकें न्हय लेकून, सामको फाटल्यान लागून कसो, हांवें तो अॅड दिवंक लायलो. भाई सरा वयलो ताण उणो जावंक जाय. कसो किदें करचेलो तें पळेयात.’

मधुभाऊन तकली हालयली आनी विचारलें, ‘सराले शाळेचो पुराय इतिहास जाणा जावंक सोदतां. ताजेर किदेंय लिटरेचर आसा?’

‘पोरूं नवे शाळेक पंचवीस वर्सां जालीं तेन्ना, आमी एक सुवेनीर छापिल्लो.’ अशें म्हणून भाईसरान चेप्याक कुरू केली. दोन मिणटां भितर सुवेनिराची दाट कॉपी मधूभाऊल्या हातांत पडली.

मधुभाऊन तो बारीकसाणेन चाळ्ळो आनी म्हणलें, 'सराले शाळेच्या इतिहासाक प्रेरणात्मक गूण आसात. सर, चरित्र म्हूण ही म्हायती लोकां मेरेन पावयल्यार, तांकां जन-कल्याणाचीं कामां करूंक स्फूर्त मेळतली.'

'केन्नाच्यान ज्योयन जावंक सोदता?' भाईसरान विचारलें

'आतां जा म्हणल्यार आतांच्यानूच, सर.' मधुभाऊन हांसून सांगले.

'तुगेलें कॅबीन तयार करूंक तरी टायम दी.' भाईसरान ज्योक मारलो.

'नाका सर. कॅबीन बी नाका. हांव प्रशासन विभागांत बसून काम करतां. थंय एका मेजा-कदेलाची वेवस्था करात. म्हगेली वळख 'व्हर्क कॉअर्डीनेटर' म्हूण करून दियात. हांव तांगेलो बॉस न्हय हें तांका क्लीयर करात.' मधुभाऊन सांगले.

'बरें आसा. तुका जाय तशें करूंया.' भाईसरान हांसत म्हणलें.

सचीन सर गूड नायट करून गेलो. मधुभाऊय वचूंक उठलो. 'खंय उतरला?' भाईसरान विचारलें. 'डायरेक्ट हांगा आयलों. म्हापशां बसस्टॅन्डा लागीं कांय हॉटेलां पळेल्यांत. तांतलें एक पळेतां. फुडें गांवांतूच घर जावं रूम पळेतां.' मधुभाऊन सांगलें.

'तशें जाल्यार, शाळेच्या गॅस्ट हावसांत राव. जेवणा-खाणां सोय आसा. दुसरी सारकी वेवस्था जायसर गॅस्ट हावसांत राव.' भाईसरान सुचयलें. मधुभाऊन तकली हालयली.

तागेलें अन्नपाणी शिरवटकारांल्या घरसून येतलें, हें भाईसरान भिडेस्त प्रकृतीच्या मधुभाऊक मुद्दम लिपयल्लें. कांय़ काळाक म्हणिल्ली रावपा-जेवपा वेवस्ता, मधुभाऊ नवलें गांव सोडून वच मेरेन, धा वर्सां अखंडीत चालू उरिल्ली.

* * *

मधुभाऊलो नव्या कार्यभाराचो पयलो दीस. पयले बॅली पयलीं तो भाईसरा वांगडा शाळेंत पावलो.

'शाळा आठ वरां धा मिनटांचेर सुरू जाता आनी प्रशासन विभाग साडे आठांक. पयलीं तुगेली वळख शिक्षकां लागीं करतां. ह्या वेळार सगले स्टाफ रुमांत मेळटले. मागीर प्रशासन विभागांत या.' भाईसरान सांगलें.

'प्रशासन विभागाचो हेड क्लार्क अर्जून गांवस कार्यक्षम आनी समजिकाये मनीस आसा. त्या विभागांत सगले मेळून णव जाण काम करतात. इंटरवलांत क्लासरुम, लॅबोटरीज, लायब्ररी बी पळोवया. इतल्यान तुका सराल्या शाळा विश्वाची कल्पना येतली.'

शाळेची बिल्डींग मॉड्यूलर पद्धतीन बांदिल्ली. एकाच आकाराचे हॉल काडिल्ले. पार्टीशनां घालून गरज तसल्यो ल्हान-व्हड कुडी, कॅबिनां करचेलीं. तीन हॉलां मदल्यो दोन वणटी काडून प्रशासन विभागाक शेकानशेक जागो दिल्लो. वणटींक तेंकोवन चोवीस लोखणी आरमारी दवरिल्लयो. मदल्या मेकळ्या जाग्यांत मेजां, कदेलां मांडिल्लीं.

पयलो पिरीयड निकतोच सुरू जाल्लो. मधुभाऊ प्रशासन विभागांत हेड क्लार्क अर्जून गांवसा सरेन बशिल्लो. तांगेलें सवाल-जबाब सत्र चलिल्लें. काम करतना कसल्यो अडचणी येतात बी असले प्रस्न. हो तुमगेलो बॉस न्हय, ह्या उतरांनी वळख करून दिल्लयान, अर्जून गांवसाल्यो जापो मेकळ्या मनान, नमळतायेन येताल्यो.

दुसऱ्या पिरीयडाची बॅल जाली तेन्ना मधुभाऊ विभागांतल्या हेर स्टाफ मेंबरां लागीं खबरी मारतालो. तांकांय हजार प्रस्न विचारले. कांय आरमारी उकत्यो करून तपासणी केली. सगळीं कागदां सारके रितीन दाळून आसलीं. कोयर-धुल्ल नासलो.

प्रशासन विभाग, भाईसराल्या दिसपट्ट्या कष्टांचे उर्जेन चलता हें मधुभाऊक कळिल्लें. भाईसरा वयलो लोड उणो करूंक, ही उर्ज्या प्रशासन विभागांतूच निर्माण जावचेली गरज आसली.

इंटरवल काळांत, भाईसरान ताका क्लासरुम्स, लॅबॉरॅटरीज, लायब्ररी, स्कुलाचें ऑफीस, कॅन्टीन, सॅनीटरी ब्लॉक, चलयांक आनी चल्यांक दोन,

दोन टेबल टॅनिस मेजां आशिल्ले वेगळे हॉल, लॉकर्स, बॅडमींग्टन इंडोअर खेळूंक मेळत इतली उंचाय आशिलो स्कुलाचो व्हडलो हॉल, शाळे फाटल्यांतले पिटी करचेलो आनी हॉलीबॉल, बास्केटबॉल खेळचेले ग्रावंडूय दाखयले

शाळेचे भोंवतणी, वयर सोबीत नकशी 'गराद' लायिल्लें चिऱ्यांचें दुरीग आसलें. दुर्गा भायर खूब पैस, कांट्ट्यां सरी मारिल्ली जाग्याची शीम राखतली आडवण आसली.

शाळे सामकार, असंख्य रोपे आनी सोबे रूख लायिल्ली, फुलांनी गच्च भरिल्ली बाग आसली. लांबायेन रुंदायेचे तिपटीन पसरिल्ली. ही मनशांतीक हरयाळी बाग शाळेक उधाळसाणीची सया हाडटाली.

मधुभाऊन आदले रातीं जागरण मारून हें सगलें सुवेनिरांत पळेल्लें. तांचे फोटे आनी वर्णन बारीकसाणेन नियाळिल्ले. आज तें सगलें प्रत्यक्षांत पळोवन तो खूब इंप्रॅस जालो. शाळेच्या लॅन्डस्केपाक ताजगी-टवटवी आसली. शाळेचें व्यवस्थापन जागृततायेन जाता, ताजी ती खूण आसली. इंटरव्हल सोंपतकीर, मधुभाऊ परतोय प्रशासनांत गेलो आनी आपल्या कामाक लागलो.

शाळा देड वराचेर सुट्टाली. सगलें जाग्यार पडसर दोन जातालीं. मागीर भाईसर जेवतालो. तागेले पंगतीक जेवतना, मधुभाऊन ताका आपल्या वावराचो विवर दिलो. 'सर,' ताणें सांगलें. 'सगळी सकाळ हांवें प्रशासन विभागांत सारली. हेड क्लार्क अर्जून गांवस आनी स्टाफा लागीं खबरो मारल्यो. सगले स्टाफ मेंबर उमेदी आसात. कामांक तत्पर आसात.'

'सर, शाळेंत दोनशें भुरगीं शिकतालीं त्या काळाक योग्य, असले पद्दतीन प्रशासन विभागाची स्थापना जाल्ली. भुरग्यांलो आंकडो आतां सतराशां वयर पावला. कार्य पद्दत तीच उरल्या. ताका लागून, सिस्टम चोंदता. मागीर तुमकां आपोवणें येता. सगलो भार तुमगेले तकलेर पडटा.

'पांच मनशां बसचे टॅक्शींत आठांक लोटल्यार गचमुडी जाता. हांगा चाळीसांचो प्रस्न आसा. बशीची गरज आसा. कार्य पद्दत बदलूंक जाय. सिस्टम अपग्रेड केल्यार, आसा तीच टीम, प्रशासन विभागाचें काम बरे तरेन सांबाळूंक समर्थ जातली. तुमचे वयलो ताण णव्याणव परसॅन्ट उणो जातलो.

'सर, आमच्या मुंबयच्याय शाळांक हो प्रस्न आयिल्लो. आमचे कंपनीन सिस्टम अनालिस्ट टीम धाडली. एका सप्तका भितर सगलें जाग्यार पडलें.

'सर, तुमी आं म्हणटात जाल्यार, म्हगेल्या ऍक्स बॉसाक रिक्वेस्ट करून सिस्टम अनालिस्ट टीमींक धाडूंक सांगूं? नवी प्रणाली चालू करूंक दोन दीस, आनी स्टाफाक ट्रेनींग दिवंक दोन दीस, मेळून चार दिसां भितर सगलें जाग्यार पडटलें. सर, तुमीं आं म्हणटात जाल्यार आजूच फोन करतां.

'अपग्रेड करचेली सुचना सार्थ आसा. खर्च कितलो येतलो ती खबर पयलीं काड.' खर्चाक सदांच हासली भाईसरान म्हणलें.

'पानदुडवाचो खर्च ना, सर. शिक्षण क्षेत्रांत वावुरतल्या भौशीक संस्थांक मदत करप ही आमचे कंपनीची पॉलिसी आसा. मुंबय, पुणें, औरंगाबाद बी शारांनी कितल्याच संस्थांक असलो पालव दिला. आमी रिक्वेस्ट केल्यार, म्हगेलो एक्स बॉस रोखडीच टीम धाडटलो हाजी म्हाका सामकी खात्री आसा. सर, तुमी फक्कत आं म्हणचेलें.'

'हरशीं, किदेंच फुकट घेवंक म्हाका पुटवना. पूण, तूं सांगता देखून आं म्हणटां.' भाईसरान सांगलें.

मधुभाऊली खात्री अनाठांय नासली. पांचव्याच दिसा मुंबय थावन टीम आयली आनी काम सोपोवन पांचव्या दिसा परतली.

टीम गेली ताज्या दुसऱ्याच दिसा, मधुभाऊन चार दिसांची सुटी घेतली आनी तो नाच्च जालो.

'खंय वता, वेंगुर्ल्यां?' भाईसरान विचारिल्लें. 'ना सर, वेंगुर्ल्यां न्हंय. भुरगेपणांत सावन गोंय, गोयां हीं उतरां कानार पडत हांव वाडलां. ल्हानपणांत एकदां, घरच्यां सयत हांव गोंयां देवाक आयिल्लों. देऊळ आसलें तो गांव रान कसो आसलो, अशें स्मरता. राना पेल्यांतलें, संवसारांत नामना आसलें गोंय म्हाका पळोवंक जाय. एक मन करून शाळेच्या कामाक लागचे पयलीं, हांव गोंय पळोवन काडूंक सोदतां.' मधुभाऊन सांगिल्लें.

* * *

चार दिसांनी गोंय-भोंवडी सोपोवन मधुभाऊ परतलो. दुसऱ्या दिसा साडे आठांक प्रशासन विभागांत गेलो. नवी कार्यप्रणाली सुरू जायत सावन, आज पयलेच फावट तो थंय पाविल्लो. तो भितर सरतनाच, अर्जून गांवस आनी तागेले टिमीन ताका हांसते येवकारी चर्येन गराडलो. कार्यसिध्दीचें समाधान सगल्यांल्या तोंडार आसलें. मधुभाऊय तांगेल्या समाधानांत सामील जालो.

'हॅपी?' मधुभाऊन विचारलें. 'हय सर, व्हॅरी हॅपी', सगल्यांनी म्हणलें.

'भाईसराक धोंसचेलें बंद केलें कांय ना?' मधुभाऊलो हांसून प्रस्न.

'सामकें बंद केलें, सर. परतें जाल्यार, भाईसरूच कितलेच फावटीं आमगेली खबर घेवंक आयलो.' टिमीन सफलताये स्वरांत सांगले.

थोडो वेळ तांचे लागीं खबरो मारून मधुभाऊ भाईसरा सरेन गेलो.

'सर, प्रशासन विभाग फुऽल्ली फंक्शनल जाला. तुमगेली कटकट उणी जाली मूं?' ताणें विचारलें.

'उणी न्हय, नाच्च जाली. फाटल्या चार दिसांत, डिफीकल्टी घेवन ते एकदांय येवंक नात. हांवूच मदीं, मदीं थंय पावठ मारतालों. सगले थंड तरेन काम करतना दिसले. थँक्स टू यू, आय मस्ट से.' भाईसरान म्हणलें.

'थँक्स टू माय कंपनी म्हणात, सर. फावता तांगेलेच उपकार आठोवंक जाय.' मधुभाऊन गंभीरतायेन म्हणलें.

'सामकें खरें. तेच खातीर, मधुभाऊ, तुका थँक्यू म्हणलां.' भाईसरान तितलेच गंभीरतायेन सांगलें. 'तुगेले कंपनीक, तांगेले परम आभार मानून रजीस्टर कागद बरयल्यार तीन दीस जाले. तूंच उरिल्लो.'

'सर, एक गजाल तुमगेल्या लक्षांत येवंक ना.' मधुभाऊन म्हणलें. 'शाळेच्या प्रशासन विभागाचो कार्यभार सांबाळूंक आतां अनुभवी मनशाली गरज उरूंक ना. हांव थंयचो बेकार ठवय कर्मचारी जालां. सर, तुमीं आं म्हणटात जाल्यार, शाळेचीं हुमकळून उरिलीं कांय कामां हांव हातांत घेवं?'

'कसलीं कामां?' भाईसरालो जिज्ञाशे प्रस्न.

‘सर, शाळेक जागो मागतना, पोर्तुगीज गव्हर्नराक तुमी तीस वर्साच्या काळांत पुर्ण करचेलो प्रोजॅक्ट दाखयलो, अशें सुवेनिरांत बरयलां. प्रोजॅक्टाचो प्लॅनूय छापला. तातूंत कितल्योच वास्तू, खेळां ग्रावंड बी आसात.

‘सर, तीस वर्सांतलीं सव्वीस वर्सां सोपल्यांत. प्रोजॅक्टांतल्यो धा परसॅन्ट गजालीच प्रत्यक्षांत आयल्यात. पूर्ण जावंक पावलीं नात, असलीं काय कामां हातांत घेवन, तीं आमच्यांनी उरिल्या चार वर्सां भितर पूर्ण करूं येतात. इतल्यान प्रोजॅक्टाची सफलताय पन्नास परसेंटार पावतली. सर, तुमी आं म्हणटा जाल्यार, आयज सावनूच हांव त्या कामाक लागतां.’ मधुभाऊन म्हणलें.

‘खंयचीं कामां सांग!’ भाईसरालो अनुमती आतुरतायेन प्रस्न.

‘सगल्यांत पयलीं, सर, हायर सेकंडरी स्कूल सुरू करूंक जाय. ताजी सामकी गरज आसा. त्या कामाक योग्य असली वास्तू उबारूंक जाय.’

‘आमच्याय मनांत तें घोळत आसा.’ भाईसरान सांगलें. ‘तीन वर्सां आदीं, सचीन सरान सर्वे केल्ली. हायर सेकंडरी सुरू करूंक उणें तीं तीनशें भुरगीं जाय अशें ताणें सांगलें. तेन्ना नवल्यांत, अकरावी–बारावेक वतीं शंभर सुमार भुरगीं आसलीं. ताका लागून आमी फाटीं रावले. आतां हो आंकडो देडशांचेर पावला आसूं येता.’

‘सर, फाटले चार दीस हांव गोंयभर भोंवलों. हायर सेकंडरी शिकयतल्या स्कुलां–कॉलेज्यांच्या म्हणयाऱ्यांक आनी जायत्या पालकांक भेटलों. तांचे कडेन उलयलों. म्हज्या मतान, सेकंडरी स्कुलांत मेळटल्या शिक्षणाचेर पालकांलो विश्वास ना. कोणूच पालक थंय मेळटल्या शिक्षणाचेर पातयेवन रावना.

‘दोतोर–इंजीनियर–आइटी करचेले इर्षेन, ते भारंभार दुडू सारून आपणांल्या भुरग्यांक पोपटपंची ट्यूशन क्लासांक धाडतात. परिणाम, दुडवांनी दुर्बळ पालकांल्या बुध्दिमान भुरग्यांक फुडें सरूंक वाट मेळना. असल्या बुध्दिमान भुरग्यांक आधार दिवंक, सराले शाळेन हायर सेकंडरी स्कूल जाता तितले बेगीन सुरू करचेली गरज आसा.

'सराल्या हायस्कुलांतलीं भुरगीं, वर्सान वर्स बोर्डाचे परिक्षेंत बरे गूण घेवन पास जातात. पयल्या शंभरांत वीस-पंचवीस़ आसतात. हाजें कारण, शाळेची समर्पित शिक्षक मंडळी आनी हेड मास्टर टीम, अशें तुमी सुवेनिरांत अभिमानान बरयलां

'तसलीच आनीक एक समर्पित शिक्षक मंडळी आनी हेड मास्टर टीम घडोवचेली तांक तुमचे ठांय निश्चीततायेन आसा, तें दिसता.

'सर. तुमीं तुमगेल्या कामांक लागात. वास्तू उबारचेलीं बी कामां म्हजेर सोपयात.

'मागीर, हायर सेकंडरींतूय सराले शाळेचीं भुरगीं उच्च गूण घेवन पास जातलीं. सराले शाळेच्या भुरग्यांक ट्युशनाचे बेगडीची गरज पडचीना.

'दुसरी म्हत्वाची गजाल, सर, शाळेचीं मुख्य दोन कामां म्हणल्यार भुरग्यांलें मन आनी तन विकसीत करप. पुस्तकी शिक्षण मनाचो विकास करता. तनाचो विकास जावंक तांकां खेळ-व्यायामांची आवड लावंक जाय. ते खातीर, सर, मुळाव्या प्रोजॅक्टांत दाखयल्ले फूटबॉल आनी अथ्लॅटीक स्पोर्टांच्यो फॅसीलिटिज आनी ग्रावंड बांदूक जाय. अथ्लॅटीक स्पोर्ट्स म्हणले काय पयलो जिम्नेझियम आयलो. तोय रोखड्या रोखडो येवंक जाय. सर, ह्या सगल्या येवजण्यांक सरकारचें अनुदान सोपेपणीं मेळटा. काम सुरू करचेलीच देरी.' मधुभाऊन सांगलें.

'निखट्या सरकारी अनुदानान चलतल्यो संस्था जीव नाशिलीं येंवाळीं जातात. पयशांचो दुसरो स्रोत आसल्यारूच येंवाळ्य़ांत जीव भरता, हें प्रमेय तुका खबर ना?' भाईसरान विचारलें.

'खबर आसा, सर. सामकें खबर आसा. तेच खातीर दुसऱ्या स्रोताचो मार्ग हांवें पयलीं पळोवन दवरलो.' मधुभाऊन सांगलें.

'पळोवन दवरलो? खंयच्यान येतले पयशे?' भाईसरालो प्रस्न.

'आनी खंयच्यान, सर? तुमीं सांगलो त्याच मार्गान.' मधुभाऊन म्हणलें.

‘हांवें मार्ग सांगलो?’ सरालो विस्मीत मनान प्रस्न.

‘हय सर, एक रुपया दान मार्ग. तोच मार्ग धरचेलो.’ मधुभाऊली गंभीरतायेन जाप.

भाईसर फूस्स करून हांसलो आनी म्हणलें, ‘तुगेले कार्यक्षमतेचेर म्हगेलो पूर्ण विश्वास आसा. तूं हातांत घेत ते काम सिध्दीक वतलेंच, हेंय हांव बरे भशेन जाणां. तरीय सांगतां. तेन्नाची परिस्थिती वेगळी आसली. तेन्ना सरा-माईली सासाय आसली. आतां काळ बदल्ला हें विसरूं नाका.’

‘सामकें खरें, सर. आतां काळ बदल्ला. सरा-माईली सासाय नवल्या भोंवतणच्या वाठारा पुरतीच शिमीत आसली. सरा शाळेल्या कर्तृत्व, कामगिरीची सासाय आतां गोंयभर पातळ्ळ्या.

‘सुवेनिरांत बरयलां, एक प्रयोग कसो तुमी सुरवात केली. आमीय एक प्रयोग म्हूण सुरवात करुंया. कसो किदें गूण येता तें पळोवन फुडें वचुंया. हे खेप एक बदल करुंया. बोर्डाचेर कसलो प्रॉजॅक्ट तें सांगून, खर्चाचो अदमास आंकडो दिवन दान मागुंया.

‘सर, दानपेटी घेवन गोंयांत सगल्याक वचुंया. देवळां, दर्या वेळो, बसस्टॅन्ड, फेरीबोटीं धके, तारी. जंय, जंय लोकां चोमे, थंय-थंय आमीं.

‘सर, आज सोमार. काम आयच्यान सुरू करुंया?’ मधुभाऊन विचारलें.

‘आं म्हणूंक हांवें किद्याक अनमनूंक जाय? सगलें काम तुवें तुगेल्या बोडार घेतलां. हय मधुभाऊ. आज सोमार. काम आयच्यान सुरू करुंया.’

* * *

शुक्रार आयलो. दान मागूंक भोंवचेलो शुभारंभ दीस. थारिल्या बेतान दनपरां दोन वरांचेर नवी दानपेटी घेवन मधुभाऊ आयलो.

‘सर, बोर्डाचेर “हायर सॅकंडरी शाळा काडूंक दान दियात. खर्चा अदमास तीस लाख. - सराली शाळा, नवलें, बारदेश, गोंय”, अशें बरयलां.

‘ह्या दिसांनी मंगेशीं वर्सूकी जात्रा चलता अशें सेक्रेटरी वासुदेव बाब

हाणीं सांगलें. थंय हजारांनी लोक जमतात खंय. आज जात्रेचो निमाणो दीस. फाल्यां फांतोडेर रथोत्सव जातलो.

'सर, ह्या उत्सवान आमी आमगेले मोहिमेची सुरुवात करुंया. आज सांजचो हांव मंगेशीं वतां आनी फाल्यां परततां.' अशें म्हणून, दानपेटी घाल्ली पोती उबारून मधुभाऊ चालीक लागलो.

* * *

दुसऱ्या दिसा बारांच्या अदमासाक मधुभाऊ परतलो. भाईसर तागेली वाट पळेत घराच बशिल्लो. सुरती रुपयांच्या वजनान दानपेट जड जाल्ली.

'सबंद रात जागरण केलें काय किदें?' भाईसरान विचारलें.'

'ना सर. धा जातनाच मोटारीचो फाटलो सीट आडवो उडयलो आनी ताणून दिलें. बद्द सातांक उठलों.' मधुभाऊन सांगलें.

'मंगेशीचें देऊळ मातशें उंचायेर आसा. देवळा सामकार एक तळी आसा. तळये कडल्यान देवळांत वचूंक पंदरा-वीस सोपणां काडचीं पडटात. कांय बायलो थंय फुलां विकूंक बशिल्ल्यो. तांतले एके बायल सरेन हांवें दानपेटी आनी बोर्ड दवरलो आनी तिका नदर दवरूंक लायली. पयलीं ती अनमनली. पूण शाळेचें काम म्हूण कळटकीर राजी जाली.

'सर, हांव मातसो न्हावन येतां. तितले म्हणसर पयशे मेजून काडात.' अशें म्हणून मधुभाऊ गेलो. 'चेप्या,' भाईसरान मोठ्यान उलो मारलो. मोड आनी नोटी मेजचेल्या कामांत चेपो, शिरवटकारांल्या पसऱ्यार तरबेज जाल्लो.

* * *

'मधुभाऊ, तुवें व्हडलो वाग मारलो. कितले पयशे जमले, जाणा?' न्हावन पर्ततल्या मधुभाऊक भाईसरान विचारलें.

'दोनेक हजार? पेटयेचे जडसाणी वयल्यान अदमास केला, तुमेगेलें एक रुपया दान आवाहन लोकांले तकलेंतल्यान वचूंक ना काय दिसता!' मधुभाऊन नमत्या स्वरांत म्हणलें.

'दोन हजार?? चेप्या, कितले जाले ते मधुभाऊक सांग.' भाईसरान म्हणलें.

'भाऊ, 632 रुपयांची मोड धरून, 17,752 रुपया आसात.' चेप्यान खोश्शेन सांगलें.

'इतले? कल्पने भायलो स्कोर जालो!' मधुभाऊन हर्षीत जावन म्हणलें. 'सर, आर्कीटेक्टांक फोन करून, दुसरी शाळा काडचेलो तुमगेलो विचार तांकां कळयात. प्लॅन्स काडून पास जातासर पयशांची वेवस्था जातली. ज्यूना सावन अकरावी-बारावीचे वर्ग सुरू करचेल्या बेतान पावलां उबारूंया.'

'पेटी फाल्यां खंय वता?' भाईसरान तोखणाये मिष्कीलतायेन विचारलें.

'फाल्या म्हापशेंच्या बस-स्टँडार, परां आयतारा कळंगूटचे वेळेर आनी सोमारा पणजेच्या नुस्त्या बाजारांत. फुडले दीस थारावंक ना सर.' मधुभाऊन सांगलें.

गोंयच्या सगल्या खबर पत्रांनी, शेनवारच्या अंकांनी, आमच्या विशेष प्रतिनिधी कडल्यान अशें उल्लेखून सराल्या शाळेच्या कार्य विस्ताराची, आनी सुरू जावंच्या मार्गार आशिल्यो साबार येवजण्यो, सेकंडरी हायस्कूल, स्पोर्ट्स कॉम्प्लॅक्स, तांच्या खर्चाचो अदमास बी म्हायती विस्तारान छापिल्ली.

ही बातमी कोणें दिली, केन्ना दिली, तें सांगूंक कोणूच नकळ आसलो. दानाची सत्पात्रताय लोकांक खबर आसची ह्या हेतून कोणेंय तें काम केल्लें आसुंये.

थारिल्या तीन दिसांत, म्हापशां 12470, कळंगुटे 6340 आनी पणजे 21730, असले कल्पने भायले स्कोर दान पेटयेन काडिल्ले.

* * *

शुक्रारा सकाळीं, आदले मुस्तींतल्याच नांवान चलतल्या पणजेच्या 'केंकरो ई सौझ' आर्कीटॅक्ट फर्माच्या ऑफिसांत बसका चलिल्ली. दोन दीस आदीं, मधुभाऊन त्या ऑफिसाक भेट दिवन ही बसका थारायल्ली.

बसकेचे आदले रातीं, भाईसर आनी मधुभाऊ मध्यान रात मेरेन शाळेच्या फेज टू विस्तारा संबंदान उलयत बशिल्ले.

फर्माचो एक पार्टनर लुसियो सौझ रिटायर जावन कॅनडाक पाविल्लो. दुसरो पार्टनर रत्नकांत केंकरेलो चलो, अनिल आर्कीटॅक्ट जावन फर्माक ज्योयन जाल्लो. मूळ फर्माचो आदर्श आनी प्रतिष्टा निष्टेन जतनायत बापूय-पूत फर्म चलयताले.

हे बसकेक, संस्थेची ट्रस्टी मंडळी, तशेंच एड्व्होकेट सदाशिवबाब देसाय, रमेश च्यारी, सचीन सर, भाईसर आनी मधुभाऊ हाजीर आसले.

चर्चेचो विषय आसलो, सराल्या शाळा प्रकल्पाचो 'फेज टू' विकास.

'भाईसर, केदी शाळा काडचेली केल्या?' बापूय केंकरेलो प्रस्न.

'आतां आसा तेदीच, आनीक एक.' भाईसराली तत्काळ जाप.

'हायर सेकंडरीक येदी शाळा जाय?' बापूय केंकरेलो थक्क जावन प्रस्न.

'हायर सेकंडरीच न्हय. जायते नवे कोर्सेस चालू करचेलें थारलां. विशेष करून कंप्यूटर कोर्सेस.' भाईसरान सांगलें.

'संवसारांत सगल्याक कंप्यूटर यूग सुरू जावन धा वयर वर्सां लोटल्यांत. भारत सरकार पूण आपलेच भिरकेंत रावलो. सरकाराक दिसलें देसांत खूब बेकारी आसा. कंप्यूटर आयल्यार आतां काम करतात तांतलेय जायते सरप्लस जातले आनी बेकारींत भर पडटली. देखून कंप्युटरांचेर पूर्ण बंदी घाली. कोणेंय कंप्यूटर हाडलो जाल्यार, आर्म-बंदूक बी हाडिल्ले भशेन, तो जप्त करताले. इतली कडक बंदी कंप्युटरांचेर घाल्ली.

'कुंभकर्ण आतां खडबडीत जागो जाला. कंप्यूटर धोरणांत क्रांतिकारी सुदारणा केल्यात. देसांत कंप्युटर घसघश्यांनी येवंक लागल्यात.

'कंप्यूटर वापरूंक कठीण न्हय. आठवी शिकिल्लयान लेगीत तें काम करूं येता. पूण प्रशिक्षण घेवचें पडता. रांदचे कुडींतलो मिक्सर लेगीत चलोवंक शिकचें पडटा, ते भशेन.

‘कंप्यूटर प्रशिक्षक तयार करचेली शिक्षण वेवस्ता फुडल्या म्हयन्या सावन सराले शाळेंत जातली. हें काम चालीक लावंक, सुरवातीक, मधुभाऊले मुंबयचे शाळेंतले अनुभवी शिक्षक येवन आमकां पालव दितले. ह्या कामाक गरज असले चार कंप्यूटरूय मधुभाऊली कंपनी आमकां भेट म्हूण दितली. ही सगली वेवस्ता मधुभाऊन आपणाल्या ॲक्स बॉसा मार्फत केल्या.’ भाईसरान सांगलें.

संस्थेच्या ‘संपूर्ण जीवन विकास अभियान’ नांवाचो उल्लेख करून भाईसरान सांगलें, ‘मनशाल्या जिणेचो विकास संपूर्णतायेन जावचे बगेक ताणें, शाळेंत मेळटल्या पंडीती शिक्षणां भायल्यो जायत्यो कला-कळाशो आत्मसातच्यो पडटात. ते नदरेन, तसल्यो जायत्यो विद्या शिकोवचेली वेवस्ता सराले शाळेंत स म्हयन्यां भितर सुरू करचेलें थारलां. ताकाच लागून दुसरीय शाळा पयलेच भशेन व्हडली आसूंक जाय.

‘दुसरी गजाल,’ भाईसरान फुडें सांगलें, ‘शाळा म्हणली काय खेळ-व्यायाम आयले. रत्नकांतबाब, तुमी तुमगेल्या प्रॉजॅक्टांत फुटबॉल, एथ्लेटीक्साक बी दोन ग्रावंड्स दाखयल्यात. एक जिम्नेझियमूय दाखयला. हींय कामां सोमतींच करून उडोवंया.

‘आतां पयशांचो प्रस्न, आदलेच भशेन, लोकांकडेन दान मागून फंड एकठांवचो अशें येवजीलां. ह्या कामाची जापसालदारकी मधुभाऊन आपणाचेर घेतल्या. तांगेल्या कार्यक्षमतेचेर आमगेलो पूर्ण विश्वास आसा.’

* * *

बाळूबाबान पुताक सांगिल्लें, ‘बऱ्याचीं कामा आसात तीं आपशींच जावन वतात. आपणें घांस मारून कार्य करीत रावूंक जाय.’ ते प्रमाण सगलें जावन गेल्लें.

मधुभाऊन आनी शाळेचे दान पेटयेन कोनश्यान कोनसो भोंवून गोंय पळेल्लें.

सगल्यांनी घांस मारून काम केल्लें.

'केंकरो ई सौझ' फर्माच्या बापूय-पुतान वेळाची शीम राखून, हाशीली खर्चांत, उत्कृष्ट वास्तू, खेळां ग्रावंड बी सगलें उबारून दिल्ले. हेय खेप फी नाका-नाका म्हणिल्लें. पूणून, भाईसरान हट धरून तांगेलें मानधन आभारी काळजान तांकां पावतें केल्लें.

थारिल्ल्याा वेळार हायर सेकंडरी वर्ग सुरू जाल्ले. दोन म्हयन्यां भितर सचीन सर आनी भाईसराली आनीक एक उत्प्रेरीत समर्पित शिक्षक मंडळी आनी हेड मास्टर टीम कार्यरत जाल्ली.

सराले शाळेचीं भुरगीं हायर सेकंडरींतूय उच्च गूण घेवन पास जावंक लागिल्लीं. तांतलीं धा-वीस पयल्या शंबरांत आसतालीं.

सराली साळा नवे स्फुर्तीन मन-तन विकास मार्ग कातरूंक लागिल्ली.

* * *

मधुकर गोविंद मातोंडकराक सराले शाळेचें अपोयंटमेंट लॅटर केन्नाच मेळ्ळें ना. ज्या जाग्याक अर्ज केल्लो, तो जागो मातोंडकरान च्यार्ज घेवचे पयलींच 'गरज नाशिल्लो' जाल्लो.

मातोंडकर इकरा वर्सां सराले शाळेंत उरलो, पूण ताका बसपाक शाळेंत कदेल-मेज नासलें.

भाईसरान जायते खेपो, मधूभाऊ लागीं तागेले सॅलरीचो प्रस्न काडिल्लो. 'जें काम करूंक आइल्लों त्या कामाची शाळेची गरज भागल्या. जें काम करतां तें शोभाक प्रीय आसलें देखून करतां. ह्या कामांत व्यस्त उरील्ल्यान म्हाका मनशांती मेळ्ळ्या. तुमी म्हाका रावपाक माये घर दिलां. प्रेमान जेवणखाण दितात. ती व्हडली सॅलरी जाली.' मधुभाऊन सांगिल्लें. भाईसरान हो विषय काडचेलें बंद केल्लें.

* * *

आमगेली मूळ काणी सुर्यप्रभा-दत्तारामाली. ते काणयेंत संदर्भ आयलो लेगून येदी आड कथा सांगची पडली. आड कथेचो कूस भर वांटो सांगचो उरला. तो सांगून सोंपयतां आनी सीधा मूळ काणयेक वतां.

1994 वर्स सोपूंक पाविल्लें. दत्तारामाक एकुणसाठावें वर्स लागिल्लें

पांच सप्टेंबर हो दीस आमी शिक्षक दिन म्हूण मनयतांत. शिक्षण क्षेत्रांत सर्वोतम कामगिरी केल्ल्या शिक्षकांलो भारताचे राष्टपती सत्कार करतात आनी तांकां राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कारान केळयतात.

1994 वर्साच्या राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कारा खातीर, गोंय सरकारान भाईसरालें नांव धाडिल्लें. 5 सप्टेंबर 1995 दिसा दिल्लीक ह्या पुरस्काराचें वितरण जावंचेलें आसले. ते पयलींच, एप्रील म्हयन्यात, सत्ताधारी पक्षाचे सात आमदार राती भितर गयाराम जाले. मुखेल मंत्री ह्या खेळांत सामको मुरिल्लो. फांतोड जावचे पयलीं विपक्षाचे णव आमदार आयाराम जाले. लोकशाहीचीं आनी रामभक्तीचीं पाळां गोयांत कितलीं खाला पावल्यांत तें परतेंय सिध्द जाल्लें.

आयारामांतल्या एकल्यान, 1994 वर्साचो राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कार आपणाले चवतीस वर्सांचे मेवणेक मेळूंक जाय असो हट धरलो. मुखेल मंत्र्यान वेळ वगडाय नासतना, एड्यूकेशन सेक्रेटरीक फोनार सांगलें, ‘1994 वर्साच्या राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्काराची फायल घेवन आतांच्या आतां हांगा यो. एक चूक जाल्या. ती निस्तरावंक जाय.’ चूक सुदारिल्ली. पुरस्कार मेवणेक मेळ्ळो.

भारत भर पेपरांनी ही ‘ध चें मा’ खबर छापून आयली. ’गोंयचे शिक्षक संघटणेक जागय.’ मधुभाऊल्या ऑक्स बॉसान सुचयलें. मधुभाऊ अखिल गोंय शिक्षक संघटणेच्या म्हणयाऱ्यांक मेळ्ळो. ताणीं सरकाराले हे करणेचो खर निषेध केलो आनी ‘समाज भुषण’ नांवाचो एक वर्सुकी पुरस्कार स्थापन करून, पयल्या वर्साचो पुरस्कार भाई सराक दिलो.

‘समाज भुषण’ पुरस्कार वर्सान वर्स दिवंक एक वेगळो कायम निधी आसचो, अशी सुचोवणी करून, आपणालें अंशदान म्हूण ’सोसायटी फॉर जस्टीस एंड फॲर प्ले टू टिचर्स’ हे, एके बहु-राष्ट्रीक कंपनीन दिल्लीक स्थापन केल्ले ट्रस्ट संस्थेन गोंय शिक्षक संघटणेक तीन लाख रुपयांचो बँक ड्राफ्ट धाडिल्लो.

* * *

भाईसराक रिटायर जावंक स म्हयने उरिल्ले. 1996 वर्साचो एप्रिल म्हयनो चलतालो. शाळेक सूटी पडिल्ली. सांजचीं पांच वरां जाल्लीं. सदचे भशेन, भाईसर घराच्या बल्कावांत पुस्तक वाचीत बशिल्लो.

मधुभाऊ हांसत्या तोंडान आयलो आनी भाईसरा म्हऱ्यांत बसलो. ताणें हातांतले पोतयेंतल्यान जडसार मिठायेचें बॉक्स भायर काडलें आनी तें भाईसराल्या हातांत दिवन खोशशे उतरांनी म्हणलें, 'सर, पेढे हाडल्या. म्हाका नात जाल्या. नांव शोभा दवरलां!'

हीं उतरां कानार पडटनाच मधुभाऊल्या तोंडा वयलो हांसो आनी तागेल्या मनांतली खोशी, भाईसराल्या तोंडार-मनार प्रतिबिंबली. 'गूड न्यूज, मधुभाऊ. वंडरफूल न्यूज. तुका परबीं.' ताणें उत्तेजीत जावन म्हणलें आनी चेप्याक मोठ्यान उलो मारलो, 'चेप्या, भाऊक नात जाल्या. नांव शोभा दवरलां. खबर भितर पावय. वतना हें बॉक्सूय व्हर.'

दोनेक मिणटांनी आई आनी प्रेमाकाकी हांसत भायर आयलीं. आईल्या हातांत बोचको भर पेढे घाल्ली प्लेट आसली. 'मधुभाऊ, खबर आयकून खूब बरें दिसलें आं. नांवूय बरेंऽ दवरलां. शोभा. चली केन्ना बाळंत जाली?' प्रेमाकाकीन विचारलें.

'थंयच्या थळाव्या टायमा प्रमाण आज सकाळीं इकरांक. तेन्ना हांगा दनपारचीं अडेज जाल्लीं. तिनांक जांवयालो फोन आयलो. ते बराबर हांवें पेढे हाडूंक म्हापशां धांव मारली.' मधुभाऊन जाप दिली

आईन प्लेटींतलो एक पेढो काडलो, तो आवयले मायेन मधुभाऊल्या तोंडांत घालो, पेढ्यांची प्लेट मधुभाऊल्या हातांत दिली आनी म्हणलें, 'मधुभाऊ, आमगेलीं मनां गोड जाल्यांच. आतां तुगेल्या हातान पेढे दिवन सगल्यांलीं तोंडां गोड कर.'

मधुभाऊन आपल्या हातान सगल्यांल्या तोंडांत पेढे घाले. पोतयेंतल्यान आनीक एक पेढ्यां बॉक्स काडलें, तें चेप्या सुवादीन केलें आनी म्हणलें, 'चेप्या, हें तुगेल्या घरच्यांक.'

‘नातीलें तोंड केन्ना पळेन अशें जालां.’ मधुभाऊन अर्दें स्वगत, अर्दें प्रगट म्हणलें.

‘जातलेंच! नात न्हय? आज्या नातरांचें नातें वेगळेंच आसता!’ प्रेमाकाकीन म्हणलें.

‘तें आसाच. जाल्यार दुसरेंय एक कारण आसा. जांवयान फोनार सांगलें, ‘‘सुषमा म्हणटा, चली सामकें आज्येलें रूप घेवन आयलां.’’ हें आयकून, केन्ना थंय़ उडी घालून नातीलें रूप पळेन अशें म्हाका जाला.’ मधुभाऊन पुनरायलें.

मागीर, गंभीर जावन ताणें म्हणलें, ‘हरशींय जाल्यार, हांवें करचेलें अशें हांगा कांयच उरूंक ना. सर लेगीत स म्हयन्यांनी रिटायर जाता. ताका लागून हांव विचार करतालों......’

* * *

मधुभाऊलो पासपोर्ट एक्सपायर जाल्लो. पंदरा दिसां भितर नवो ताल्ल पासपोर्ट, नॉर्वेजियन सरकाराचो विझा, आनी विमाना तिकेट मधुभाऊल्या हातांत पडली. वांगडा एक ट्रान्फर ऑर्डर आसली. ते बहु-राष्टीक कंपनीन डॉ. मधुकर गोविंद मातोंडकर, हांगेली बदली ओस्लो-नोर्वेक, युरोप-नोर्डीक रिजनाचो ॲडमिनीस्ट्रेटिव्ह चीफ ह्या पोस्टार केल्ली. मधुभाऊल्या एक्स बॉसान लक्ष घाल्ल्यान सगलें ना-विलंब जाल्लें.

पासपोर्ट हातांत पडलो ताजे तिसऱ्या दिसा, कुकुल्या शोभान हाडिल्लें ‘आज्येलें रूप’ पळोवंक, आजो ऑस्लो पाविल्लो.

* * *

रिटायर जावंक वर्स उरलां म्हणल्यार, दत्तारामान रासवळ भाटांतूच, चेप्याल्या घरा लागीं, पुर्वेक तोंड करून एक घर काडलें. घराचो डिझायन आर्कीटेक्ट केंकरेन काडिल्लो. घराची भायली-भितल्ली सजावट, प्रेमाकाकी, आई, मधुराभाबी आनी शंभूली बायल नीला हांचे पसंती प्रमाण केल्ली. सजावटीक लागिल्ल्या दुडवांची वेवस्था मधूभाऊले धुवेन सुषमान नोर्वे थावन केल्ली.

घरा सामकार, सट करून कोणाल्याय मनांत भरत असली सदाबहार बाग आसली. घरांत भितर सरतनाच लांब, रूंद पडवी आसली. लोकांक मेळप करप, जावं अभ्यासांतल्यो डिफीकल्टीज विचारूंक आयिल्ल्या विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन करप बी कामां हे पडवेर जातालीं.

घरांत सगल्याक तिकतिकतली मोझायक जमीन आसली. तीन बेडरुम आसले. तातूंतल्या व्हडल्याची लायब्ररी केल्ली. एक स्टडी रूम आसलो. थंय कंप्यूटर दवरिल्लो. मदीं सारकोसो ड्रॉईंग रूम आसलो. टिवी, सोफा, कदेलां मांडून तो बरे रितीन सजयल्लो.

ड्रॉईंग रुमा भायल्यान रूंद वारांद आसलें. थंय वारें बरेंऽ मारतालें. दत्ताराम आपणालो आलायतो वेळ ह्याच वारांदार सारतालो. थंयच्या व्हल्तेरार बसून पेपर–पुस्तकां वाचतालो.

रांदची कूड उढाळ आसली. स जाण बस सारकें डायनिंग टेबल, फ्रीज, मायक्रोवेव ओवन, टोस्टर, मिक्सर, गॅसाची रांदन, स्टेनलेस स्टील सिंकाची मोरी बी सगलें आसलें. टॉयलेट–बाथरूम अल्ट्रा मॉडर्ण आसलो.

रिटायर जातकीर, दत्ताराम नव्या घरांत रावूं लागलो. एकटोच रावतालो. तागेली आवय येताली–वताली, पूण राव नासली. 'त्या घरांत हांव एकमुळीं जातां' ही तिगेली कागाळ आसली. तिका मांवाल्या घरांत सुख दिसतालें.

* * *

दत्ताराम आळसावल्ली जाग आयली. आडोळ्या पावसाच्या थंड हवेंत, ताका न्हीद सुस्त पडिल्ली. दिल्लीची ट्रिपूय बरे भशेन उजवल्ली. देहाक पूण काडामोडीची जडसाण आयिल्ली. तो हांतूणारूच पडून रावलो. न्हिदला थंय तागेलें मनचक्र घुंवूंक लागलें.

काल दिल्ली एरोपोर्टार, सुर्यप्रभान ताका विचारिल्लें, 'फुडल्या शेनवारा येवं हांव गोंयां? दाखयता म्हाका गोंय?' 'योच. सामकें यो. हें तोंक थावन तें तोंक, सगळें गोंय भोंवुया.' ताणें सांगिल्लें.

सगळें गोंय भोंवून दाखोवप म्हणल्यार किदें? पाव डझन इगर्जो,

अर्द डझन दर्या वेळो, आनी देड ग्रोस देवळां? पळेतल्याली आवड किदें, तें पळोवंक नाका? 'सुर्यप्रभाले पांय गोंयंचे भुंयेर पडल्या उपरांतूच, ताका विचारून तागेलो टूर प्रोग्राम थारावंक जाय.' दत्तारामाल्या मनान ताका सांगलें.

सुर्यप्रभा ही शिक्षण क्षेत्रांतली प्रभुती. ताका एकॅडमीक बाबींची रूच आसा. तें एकादलें गोंय युनीव्हर्सिटी आनी गोंयंच्या कॉलेज-स्कुलांक भेट दिवंक सोदीत. सरालेय शाळेची ताका खबर आसा. एकादलें तें सराले शाळेक भेट दीत.'

हो विचार येतकीर ताका जाणीव जाली. 'हावें ताका म्हगेल्या घरा आपोवं नाका?'

'तें म्हगेर येतलें' हो विचार मनांत आयले बराबर दत्तारामाल्या मनान तिरकस दिशा घेतली. 'किदेंय जाल्यार सुर्यप्रभा एक बायलमनीस. म्हगेर आयले बराबर तें रांदचे कुडींत पावठ मारतलेंच. तिजी दशा-स्थिती पळेतलें. ते प्रमाण म्हाका मार्क दितलें. रांदची कूड निवळ दवरूंक जाय. इल्लेशाक लागून सगलें वगडायलें अशें जावंक उपकरना.'

तो तलपेन उठलो. रांदचे कुडींत गेलो. थंयचें जनेल उगतें केलें आनी उलो मारून म्हणलें, 'रादे, जनींक मातशें धाड आं.'

मागीर ताणें रांदचे कुडीर नदर भोवंडायली. खोड काडपा सारकें ताका थंय कांयच दिसलें ना. 'घांशीत पुशीत रावल्यार हेय परस चक्क-निवळ जातली. अजून दीस आसात. बरें इंप्रॅशन पडटलें.' तागेल्या मनान ताका बुद्द दिली.

ब्रेकफास्टाच्यो रोटयो आनी नाल्लाची चटणी घेवन रादे आयली. फाटोफाट जनी आयलें. जनी म्हणल्यार चेप्याली घरकान्न. तें भाईल्या घराची धूय-पूस करतालें. रोटयां ताटली मेजार दवरून, रादेन म्हणलें, 'बाबा, आज उठूंक उशीर सो केलो? जीव बरो आसा न्हय? जनीक किद्याक आपयलें?'

'सांगतां.' दत्तारामान म्हणलें. 'बसला थंय मनांत विचार आयलो, कोणूय परकी घरांत आयलो जाल्यार ताका रांदची कूड निवळ दिसूंक जाय

न्हय? थंय बुरशेपणां आसूंक उपकरना. जनी, तूं रांदची कूड दीसपट्टी पुसता मगो?'

'किद्याक विचारता भाई, किदें चुकलें?' चूक मागिल्ले भशेन जनीन विचारलें. 'ना गोव बाय. तुगेलें कांयच चुकूंक ना. मनांत विचार आयलो म्हूण विचारलें.' दत्तारामान सांगलें. ह्या उतरांनी जनीलें समाधान जालें ना. ताणें मोन्यांनी रांदचे कुडीक सान्न मारली आनी ओल्या आंगशान पुसून काडली. 'भाई, आतां निवळ जाली, न्हय?' जनीन विचारलें. 'हय, बाय. सामकी निवळ जाली. तुगेलें कांयच चुकूंक नासलें, आं.' जनील्या मनोधर्याक धिगी मेळूंक दत्तारामान सांगलें.

येदे वेळ वग्गी रावून पळेतले रादेन म्हणलें, 'बाबा, एक वेळ देवाल्या माथ्यार फूल घालूंक म्हगेली सून विसरत, पूण बाबालें सगलें घर सान्न मारून पुसून काडल्या बगर ती एक दीस लेगीत रावचेली ना. तूं चार दीस घरा नासलो. पूण तुगेलें घर पुशी नासतना उरलां?

'बाबाली रांदची कूड हारशा भशेन निवळ आसा. परकी मनीसूच किद्याक, इन्द्रदेव लेगीत आयल्यार तोखेतलो.'

रादेल्या ह्या उतरांनीं दत्तारामालें मन सस्त जालें. तरीय, फुडले कांय दीस ताणें न्हिदूंक वचचे पयलीं, रांदचे कुडींत सान्न मारिल्ली आनी ओल्या आंगशान पुसून काडिल्ली.

* * *

शुक्राराची फांतोड उदेवंचेली आसली. कोंब्यान साद घालचे पयलीं दत्तारामाक जाग आयली. न्हिदला थंय आळस काडटना, तागेल्या मनांत सुर्यप्रभाले विचार चालू जाले.

सुर्यप्रभा न्युयॉर्क सावन काल परतलें. आज तें परिसंवादाचो रिपोर्ट आपल्या ऑफिसाक दितलें आनी फायचें विमान धरून सकाळीं णव जाता सर गोंयां पावतलें......'

सुर्यप्रभा फाल्यां पावता हो विचार मनांत आयिल्ल्या खिणांक

दत्तारामालो आळस नाच्च जालो. तो ताकतिकेन उठलो, सकाळचे विधी उलगायले आनी नित्याची प्रभात फेरी मारूंक गेलो.

सगली वाट, सुर्यप्रभाले विचार तागेल्या मनाक सांगात दिताले.

म्हगेलें घर, घरांतली मांडणी, नितळसाण, लायब्ररी बी पळोवन, सुर्यप्रभा धादोस जालें जाल्यार, मिष्कीलताये हांसो मारून म्हणटलें, 'दत्ताराम, तुगेलो ब्रह्मचर्याश्रम मात तुवें टीप-टॉप दवरला, आं!'

आनी उरफाटें जालें जाल्यार? ना. तें अपशब्द काडचें ना. तागेल्या सभावांतूच ना जाल्यार, दुसऱ्याालें मन दुखोवचेलीं उतरां तागेल्या तोंडसून कशीं येतलीं?

फेरी आटपून परतता सर उजवाडूंक लागिल्लें. घरा लागीं पावतकीर, ताणें आपल्या घराचेर नियाळीक नदर भोवंडायली. फांतोडेच्या तन्या भांगरा किरणांनी, घराच्या हळडुव्या रंगाच्या फाटभुंयेर, तागेल्या घरा सामकारचें पोरसूं ताका, तरा-तरा झाडां-रोप्यांच्या, तरेक-तरा पाचवेसाणी पानांचेर, ना-गिनती विविधतायेच्या, आनी ना-सुमार रंगांच्या, ल्हान-व्हड फुलांचें नकसूद भरप आशिल्लो, शेकानशेक पातळील्लो एक उढाळ-विशाल गालीचो कशें दिसलें.

दत्तारामालें घर, घराचो रंग, घरा सामकारचें पोरसूं, पोरसांतले तरेकवार रोंपे, रोप्यांचीं जिनसांवार पानां, पानांर धोलतीं तर-तरां ल्हान-व्हड फुलां, फुलांचे विविध रंग आनी रूपां, हातूंत नवें कांयच नासलें. आयज आसा तश्शें तें, हेय पयलीं सदींच आसलें.

आयचे असली प्रभात फेरीय ताणें, हे पयलीं, शंभर खेपो मारिल्ली. पुणून, तागेल्या घरा सामकार पातळावल्लो हो उढाळकायी, प्रेरणादायी, नवरंगी गालिचो, ताका हे पयलीं केन्नाच दिसूंक नासलो.

आज पयलेच खेप, दत्तारामाक त्या अप्रुपाचो दिष्टावो जाल्लो.

'सुर्यप्रभा म्हगेर येता देखून काय हीं ''नवलायेचीं शकून लक्षणा'' जावंक लागल्यांत?' एक काव्यीक विचार दत्तारामा मनाक अचळय आफडून गेलो.

इतलींय वर्सां विरक्तीच्या चेपणा खाला चिड्डूत उरिल्ल्या तागेल्या विलुप्त भावनांक, मनाच्या खोल खोलांतल्यान वयर सरपाक आतां विलोदी वाट तयार जाल्ली.

'पानां-फुलांच्या हरीत-पाचव्या पोरसान पोटलावन धरिल्लें म्हगेलें घर पळोवन, कवी मनाची भावूकताय आशिल्लें सुर्यप्रभा कितलें खोशी जातलें!' दत्तारामालें मन उल्हासलेल्या कल्पना विश्वांत रमिल्लें.

नित्यक्रमाचो फुडलो भाग, साला कुशीच्या वारांदार बसून पेपर वाचप आसलो. च्याचें कॉप आनी पेपर घेवन तो वारांदार आयलो. तागेल्या सदींच्या व्हल्तेराचेर बसलो. गरम-हून च्याचे ल्हान-ल्हान घोंट सवकासायेन घेत, ताणें कॉपाचो तळ गांठलो. रिकामें कॉप सायड टेबलार दवरलें आनी पेपर उगडलो.

पेपरार नदर पडले बराबर तागेल्या हातांतल्यान पेपर गळून पडलो.

दोन वळींच्या ठळक माथाळ्यान पेपरांत छापिल्लें, 'हिंद म्हा-सागरांत विमान कोंसळून दोनशें साठ लोकांक मरण; शिक्षणतज्ञ श्रीमती डॉ. ए. व्ही. प्रभा ह्या विमानांत आसल्यो.'

पाडेल्यान धारे कोयत्यान एकाच धपक्यांत कच करून आडसराची तवली मारची तसलो आघात दत्तारामाल्या काळजार जालो.

तकलेर तोणको बसून सण्ण जाल्ले भशेन, तागेल्या तोंडांतल्यान वळवळ्यां उतरां फुटलीं, 'आ-व-य, ग्येऽ!' तकली आडवे वटल्यान हेवशीं तेवशीं हालयत तो पुटपुटलो, 'देवा असले खेळ किद्याक खेळटा!'

नदर सवकासायेन भायले वटेन व्हरून, ताणें ती मळबाचे अनंततायेर थिरायली. दोळे बंद केले आनी कितलोच वेळ तो तेच स्तितींत बसून रावलो.

काळजांतली कळ सोसूंक जाताशी जातकीर, ताणें पेपर काडलो आनी वाचूंक आरंबलें. पूण दोळ्यांनी साथ दिली ना. अक्षरां बिलबिलतालीं.

एक वेगळो-विंगड विचार तागेले तकलेंत धुसपेट घालूंक लागिल्लो.

'हांवें सुर्यप्रभाक काळाच्या भकीक घालें. हांव ताका मेळूंक वचूंक

नासलों जाल्यार, तें आपल्या बेतान वचून सुसंगीत परतें येतें. म्हजे खातीर ताणें प्रवासाचो मार्ग बदल्लो. हांवें ताका मरणांच्या तोंडांत लोटलें.' हो विचार एक सारको तागेले तकलेक धोडावंक लागलो.

सुर्यप्रभा गेलें ताजें दुःख आसलेंच. ते परस चड, आपल्याक लागून तें मेलें ही गुन्यांवकारी भावना तागेल्या मनाक कोरांतूंक लागली.

'खंयची बुद्द जाली आनी हांवें ताका फोन केलो.' तो पस्तावतालो.

सुर्यप्रभालें बरें-भलें जावचें ह्या हेतून, दत्तारामान आपणाले ताजे कडले संबंद तटातट तोडिल्ले.

हो गुन्यांव, दत्तारामाल्या मनान ताका केन्नांच भोगसूंक नासलो. इतलींय वर्सां ताणें दत्तारामाक दीस रात वथरायत दवरिल्लो.

आतां दत्तारामान तेय परस पास्ट गजाल केल्ली. तोडिल्लें नातें गरजे भायर जोडूंक वचून, भांगरा गुणांच्या सुर्यप्रभाक जिवानिशीं मारून उडयल्लें.

'म्हगेले जिणेक आतां कांयच अर्थ उरूंक ना. जीव दिले बगर म्हगेली ह्या पातकांतल्यान सुटका जावचेली ना.' दत्तारामाल्या मनार विफलताये फार पडटाले.

दत्ताराम निराशे भोंवऱ्यांत सांपडला, हात-पांय गळसणावन बसला, तें पळोवन, तागेली कॉलेज्यांतली शांत-संयमी समजिकाये संवगडीण सुर्यप्रभा, संथ चालीन आनी अदृष्य कायेन थंय आयली आनी मोव मोन्या शांत्वणी उतरांनी ताका समजायलो. 'दत्ताराम, काळाच्या ओगांत घडून वतल्यो ह्यो घडणुको. तांचेर कोणालेंच नियंत्रण नासता. त्यो घडून गेले उपरांत, फाटले नदरेन, जर-तर करीत चिकित्सा करून, हाका ताका दोष दिवप समा न्हय. दुःख सदांकाळ माथ्यार मारून दुकां गळयत बसपांतूय अर्थ ना.

'ते परस, आघाताचो आपले जिणेर जाल्लो प्रभाव उणो करून, जीण सुसह्य करचेले दिकेनूच आमगेले प्रयास-प्रयत्न आसूंक जाय.'

दत्तारामान कच करून दोळे उकते केले. थंय कोणूच नासलें. तागेले

तकलेंत तितलीं, सुर्यप्रभालीं उतरां गोल-घुम्मजी आवाजांत गर्जत-गाजत राविल्लीं.

मनान मातसो थातारिल्ल्या दत्तारामान, पेपरांतली खबर पुरायेन वाचली. आठ दिसां आदीं, हिंद म्हा-सागरांत, सिलोना लागसार लो प्रॅशर जावन मोड उप्राशिल्लें. मंद गतीन उत्तर-पश्चीम दिकेन वयर सरकत तें गल्फ ऑफ ओमान पाविल्लें.

'काल दनपरां विमान त्या मोड-पावसांत सांपडलें. कुपांतल्यान वतना विमानार वीज पडिल्ल्या तें कोंसळ्ळें,' अशें खबरेंत म्हणिल्लें. 'विमानाचे कुडके जावन ते दर्याच्या पांचशें चौरस किलोमिटर वाठारांत शिंवरलेल्यान, विमानांतलो कोणय जितो आसचेली संभावना ना, तरीय सोदाचें काम नेटान चालू आसा.' खबरेंत निमाणें म्हणिल्लें.

ताणें सवकासायेन पेपराची घडी करून दवरली. व्हल्तेराच्या दोनूय हातांचेर आपणाले कोंपर थिरायले आनी तकली दोनूय हातांनी घट्ट धरून, दोळे बंद करून तो बसलो.

'सुर्यप्रभा, तुवें सांगलें तशेंच करतां.' अशें पुटपुटत ताणें मुक्त ताळ्यान रडूंक आरंबलें. कितलोसोच वगत तो अनावर रडत बशिल्लो. आपले जिणेर जाल्ल्या आघाताचो प्रभाव उणो करचेलो तो प्रयास करतालो.

* * *

## IV

जायत्या प्रस्नांच्यो जापो फुडाराक कुवाडेंच उरतल्यो. त्यो काळाच्या ओगांत लूप्त जाल्यात.

दिल्ली एरोपोर्टार, गोंय पळोवंक येवचेलो बेत करतना, सुर्यप्रभान म्हणिल्लें, 'चवथो दीस दवरूंया शांत चित्तान सुख दुःखाच्यो खबरी मारपाक, आनी चड म्हत्वाचें, थंड तकलेन आमगेल्या फुडारा विशीं विचार करपाक.' अशें म्हणटना सुर्यप्रभाल्या मनांत फुडाराचे कसले बेत आसले? तें आतां कुवाडेंच उरतलें·

गोंयच्या थळाव्या कोंकणी दिसाळ्यांत छापून आयिल्ली जायरात, तीन दिसां भितर नॉर्वेक, ऑस्लोंत रावतल्या शर्माक कशी कळ्ळी? हेंय़ कुवाडेंच उरतलें.

सोयऱ्यां-शेजाऱ्यां-दुस्मनां कडेन सर्त करूंक, नाशिल्ली गिरेस्तकाय चार चौगांत दाखोवंक, रीण लेगीत काडून, कितलेय दुडू कचकचीत मोडीत; पूण, आपूण दितां तें लोकांले नदरेन पडना जाल्यार, एक पानदुडू लेगीत भायर काडचेले नात, असले प्रख्यातीचे गोंयकार, सराले शाळेचे दानपेटयेंत दिसपडटे हजारांनी रुपया खऱ्यांनीच उडयताले? तेंय कुवाडेंच उरतलें.

मघुकर गोविंद मातोंडकरान पंचवीस वर्सां एके बहु-राष्ट्रीक कोर्पोरेट कंपनीत काम केलें. ते कंपनीचे म्हणयारी कोण आसले? हेंय कुवाडेंच उरतलें.

मधुकर मातोंडकरालो ऍक्स बॉसा कडेन संपर्क आसलो. तो ऍक्स बॉस दादलो आसलो काय बायलमनीस? तेंय कुवाडेंच उरतलें.

ह्या, आनी असल्या जायत्या कुवाड्यांच्यो जापो सोदूं नाकात. त्यो काळाच्या ओगांत लूप्त जाल्यात.

* * *

**आयलीं**



**येवचे वाटेर...**